# Monsoon magic through hinterlands of Goa

SUNDAY TREKKING

Get set for a trekking adventure where nature still rules the way of life! Be prepared for a striking experience in the realms of wild and hinterlands of Goa

Contact: +91 9422057704 / 8379022215





Experience the thrill of
WHITE WATER RAFTING
in Sattari Taluka

" The route covers a distance of 10 km, is great fun for non swimmer beginners and enthusiasts. The nature lover will have an opportunity to explore the western Ghats and Mhadei Wildlife Sanctuary along the Mhadei river while rafting

Contact: +91 9545305734 / 8805727230

**Fun Goa safe Goa**

book online **www.goa-tourism.com**





**Goa Tourism Development Corporation Ltd**
(A Government of Goa Undertaking)
**W:** www.goa-tourism.com **E:** reservations@goa-tourism.com
@TourismGoa officialgoatourism Incredible !ndia

# जाग

जाग प्रकाशनाचें म्हयनाळें

ऑक्टोबर-नोव्हेंबर २०१६ । वर्स ४३ । अंक ३

**संस्थापक संपादपी**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

◆

**वैचारिक दायज**
स. माधवी सरदेसाय

◆

**संपादपी**
आसावरी नायक

◆

**पालवी संपादपी**
चेतन आचार्य
कृपाली नायक

◆

**उजवाडावपी**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

◆

**छापपी**
फर्स्ट इम्प्रेशन प्रिंट टेक्नॉलॉजी,
बी/३-३, अप्पर इंदिरा नगर, व्हीआयटी कॉलेज
रोड, बिबवेवाडी, पुणे ४११०३७

◆

वर्सुकी पटी: **रु. ३००/-**
विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी): **रु. १५०/-**
तीन वर्सांची पटी: **रु. ६००/-**
वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी: **रु.४००/-**
जिवीत भराची वांगडी-पटी: **रु. ४,००० /-**

◆

पटी मनी ऑर्डरीन वा पंजाब नॅशनल बँकेच्या म्हापश्या फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

◆

**वेव्हाराचो नामो**
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव-गोंय ४०३ ६०१.

◆

**किरकोळ आंकाचें मोल**
रु. १००/-


## सं । पा । द । की । य

# दिवाळीच्यो परबीं

'जाग'चे वतीन आमच्या सगळ्या वाचप्यांक आनी बरे मागप्यांक दिवाळीची हुनहुनीत परबीं. ऑक्टोबर-नोव्हेंबर २०१६चो हो जोड अंक तुमच्या हातांत दितना खोस जाता.

'जाग' आतां मार्गार आयला अशें म्हणूं येता. अंदूंचो दिवाळी अंक पळोवन तुमची खात्रीच जाल्या जातली. माधवीच्या उपरांत 'जागा'चें कितें जातलें असो हुस्को सगळ्यांक जाल्लो. तसो आमकांय जाल्लो. पूण आमचे परीन, सगळ्या दुबळेपणां सयत हे अंक आमी नेमान काडल्यात. आतांच्या स्वरुपा विशीं आमी समाधानी नात. फुडाराक तो आनीक बरो येतलो हाची मात गवाय दितात.

ह्या दिवाळी अंकाचें स्वरुप आमी चकाचक केलां. रंगीत छापणावळ आनी दर्जेदार साहित्य दिवपाचो यत्न केला. तेच भशेन साहित्य मागून घेवन, लेखकांक विशय दिवन बरोवन घेतला. कोंकणींत लेखक आसात. पूण विशय दिवन, अंकाक सोबसारकें बरोवन घेवप कठीण. लेखकांक शिस्त ना. तेच भशेन विंगड विंगड विशयांत अंकाचे मागणे प्रमाण, बरोवन दिवपी खूब कमी. कोंकणीचें हें दुबळेपण फुडाराक ना जावंक जाय. कोंकणी भाशेंत नेमाळीं, खबरांपत्रां उणीं आसात ताचोय हो परिणाम. चड खबरांपत्रां, नेमाळीं आसतकच गरजे प्रमाण लेखक घडटात.

ह्या दिवाळी अंकांत आयज 'भोंवडे'वेले खाशेले लेख घेतल्यात. सुरेश आमोणकार, दत्ता दामोदर नायक, राजू नायक आनी माया खरंगटे हे बरे लेखक. ते भोंवतातूय खूब. पूण भोंवतना तांची साहित्यीक नदरूय भोंवतणचो वाठार बारीकसाणीन नियाळणी करीत आसता. तांचे खाशेले लेखक आमी मागोवन घेवन छापल्यात. वाचप्यांक ते मानवतले आनी भोंवडे साहित्या कडेन पळोवपाची तांची नदरूय विकसीत करतले. तशें पळोवंक गेल्यार हे आदीं रवीन्द्र केळेकार आनी दिलीप बोरकार हांच्या प्रवास वर्णनांक साहित्य अकादेमीचे पुरस्कार फावो जाल्यात. हेरूय खूब साहित्यीक भोंवडे विशीं बरयतात. पूण भोंवडेचेर खाशेले लेख घेवन अंक काडपाचो हो पयलोच यत्न अशें आमकां दिसता. वाचप्यांनी मुजरत प्रतिक्रिया कळोवच्यो. ह्या अंकांत स. महाश्वेतादेवी हांची गाजिल्ली कादंबरी 'हाजार चुराशीर माँ'चें एक प्रकरण छापलां. हालींच तांकां मरण आयलें. तेन्नाच तांची कादंबरी 'जागां'त येवची अशें दिसलें आनी कळाव करिनासतना रमेश लाड हांणी तिचो अणकार करून दिलो. कादंबरीचे फुडले वांटे 'जागा'च्या अंकांत आमी खिस्तींनी उजवाडायतले. ते भायर मुंबय रावपी आमच्या तीन लेखिकांक 'मुंबयंतले दीस' लेखावळ बरोवंक लायली. तांणीय ती मुजरत बरोवन दिली. ते भायर हो अंक कथा, कविता, वैचारीक निबंध हांणी गुंतला. तो तुमकां पसंत पडटलो अशी आस्त बाळगितां.

दिवाळीची पर्थून एक फावट परबीं भेटयतात. कोंकणीक पुरस्कार आनी व्हड जैत मेळूं आनी आमचें मूळपीठ गोंयचो परमळ संवसारभर फांकू अशें ह्या निमतान मागुया.

**- संपादक**





# मां । डा । व । ळ



भायलें चित्र
अनिरुद्ध लेले







येवरोपात लोक टुरिस्टांचो आदर करतात आनी कितेंय म्हायती विचारल्यार आस्थेन ती दितात. टॅक्सी ड्रायव्हरय मोटे आस्थेन टुरिस्टां कडेन वागतात. म्हज्या १८ दिसांचे भोंवडेंत म्हाका एकय उर्मट टॅक्सी चालक मेळ्ळो ना.

# म्हजी पुर्तुगाल आनी स्पेन भोंवडी

▸ सुरेश आमोणकार
संपर्क: ९४२१२४१२२१



खूब वर्सां पयलीं म्हळ्यार १९८४ वर्सा इंग्लंड आनी येवरोपाची २५ दिसांची टूर हांवें म्हजी घरकान्न सुधाबाय सयत केल्ली. ताचे आदी आमी अमेरिकेची भोंवडी करून लंडनाक पाविल्लीं. अमेरिके परस येवरोपांत सैमाची आनी सांस्कृतीक गिरेस्तकाय अदीक दिश्टी पडटा.

येवरोपांतले देश आतां एके राजकी प्रशासना खाला म्हळ्यार येवरोपियन युनियन हातूंत जरी आसपावले तरी लेगीत तातुंतल्या प्रत्येक देशाची भास आनी लोकसंस्कृतायेचें वेगळेपण स्पश्टपणान जाणवता. म्हाका त्या वेळार मनांत आसून लेगीत स्पेन आनी पुर्तुगाल ह्या देशांक भेट दिवंक मेळ्ळें ना. कित्याक हे दोनय देश आयबेरियन (Ibeiran) व्दिकल्पांत वशिल्ल्यान आनी ते येवरोपाच्या पश्चीम वाठारांत पडटात. आनी थंय वचपाक पॅरीस वा लंडन ह्या शारांतल्यान स्पेनाक वा पुर्तुगालाक विमानान वचपाची वेगळी तजवीज करची पडटा.

म्हज्या येवरोपाच्या इतिहासाच्या आनी विशेष करुन फादर थॉमस स्टिफन हांणी बरयल्ल्या ख्रिस्तपुराणाच्या अभ्यासाक लागून स्पेन आनी पुर्तुगालाची भोंवडी करपाचें मनांत आसलें. जेन्ना म्हजो चलो गौतम हाणें आपूण ह्या देशाची टूर ऑगस्ट २०१६ त करपाचें थारायलां अशें म्हाका सांगलें तेन्ना हांवेंय तांच्या वांगडा वचपाचो बेत केलो. आतां दाबोळी विमानतळा वयल्यान थेट स्पेनांतल्या बार्सेलोना ह्या शारांत वचपाची साय कटार विमान कंपनीन केल्यान गोंयकारांक त्या देशांत वचप सोयीचें जालां. ३० जुलयक आमी दाबोळेच्यान दोहा आनी थंयच्या

विमानतळाचेर मुक्काम करतकच आमची फ्लायट ८ वरांच्या उड्डाणा उपरांत बार्से लोनाक पावली. बार्सेलोना शार स्पेनाच्या पश्चीम वाठारांत भुमध्य सागराच्या किनाऱ्याचेर वसलां आनी पुर्तुगाल देश स्पेन देशाचे पूर्वेक अंटलांटीक म्हासागराच्या किनाऱ्याचेर वसला. १५व्या शतमानांत ह्या दोनय देशांचे राजा पोपाचे खास मर्जींतले आशिल्ल्यान आनी तांकां समुद्र मार्गान हिन्दुस्थानाचो सोद घेवपाचो आशिल्ल्यान इ.स. १४९४ चे तोर्देशिल्लचे कबलातीक अनुसरून तांकां ती परवानगी दिल्ली.

पुर्तुगालच्या दर्यावर्दींक आफ्रिका खंडाचे दक्षीण दिकेक मोडण घालून जलमार्गान गेल्यार हिंदुस्थानाक पावचेली अदीक शक्यताय आसा असो पुर्तुगालच्या दर्यावर्दींचो समज आसलो. तर अंटलाटीक म्हासागरांतल्यान अस्तंत दिकेक गेल्यार हिंदुस्थानाक पावचेली शक्यताय आसा असो स्पेनाच्या दर्यावर्दींचो समज आसलो. हिंदुस्थानांतल्यान सुरय मसाल्याचे जिनस अरब वेपारी खुश्कीमार्गान येवरोपांत पावोवन खूब गिरेस्त जाल्ले. हो वेपार आपणें





करचो अशें स्पेन आनी पुर्तुगालच्या राजांक दिसतालें. आनी अरब वेपाऱ्यांची मक्तेदारी नश्ट करूंक १५व्या शेंकड्याच्या मध्याक सावन ते खर यत्न करताले. कोलंबस हांच्या फुडारपणाखाला स्पेनाचे तारवटी इंडिजाक (हिंदुस्थानाक) वचपाच्या यत्नान आदी वेस्ट इंडिजाक आनी मागीर अमेरिका खंडांत पावले आनी आपूण हिंदुस्थानाक पावले ह्या समजान तांणी अमेरिकेंतल्या मुळच्या लोकांक 'रेड इन्डियन्स' हें नांव दिलें. आफ्रिका खंडाचे दक्षीणेक मोडण घालून इंडिजाक पावचेलो दर्यामार्गाचो सोद घेवचेलो यत्न १५व्या शेंकड्याच्या मध्याक सावन पुर्तुगालाचो राजपूत इंफांति दॉ ऍरिकी करतालो. त्या खातीर ताणें सागरीस ह्या शारांत एक नावीक शाळा सुरू केल्ली. हाचो परिणाम म्हळ्यार वास्को द गामान १४९७ त बॅलें ह्या लिसबोआ शेजारच्या गांवांतल्यान भायर सरून ताचीं तारवां २० मे १४९८ ह्या दिसा कालीकोटा (कोझिकोड) बंदरांक पावलीं. आनी हिंदुस्थानाक दर्यामार्गान पावपाचें पुर्तुगेज नाविकांचे ५० वर्सां वयर चलिल्ले यत्न सफल जाले. १५१० त पुर्तुगेज गोंयां पावले आनी १९६१ मेरेन हांगा उरले.

बार्सेलोना, झारोगोझा, माद्रीद, सेविला हीं स्पेनांतलीं मुखेल शारां. माद्रीद ही स्पेनची राजधानी. झारागोझा हें एक पुर्विल्ले शार जें आगस्हस सिझर ह्या रोमन सम्राटान वसयिल्लें. ह्या सगल्या शारांक प्राचीन इतिहास आसा आनी प्रत्येक शारांत बासिलिका कातिद्रेलां (व्हडल्यो इगर्जो) आनी म्युझियम आसात. इगर्जांनी नामनेच्या कलाकारांनी आपल्यो चित्रकलाकृती रंगोवन



तांची सोबा वाडयल्या. माद्रीदांतलो भव्य प्राद् म्युझियम तर पळोवपा सारकोच. १५० व्हड सालांनी चित्रां आनी शिल्प कलाकृती थंय वेवस्थीत मांडल्यात. तोखणायेची एक गजाल म्हळ्यार जाणट्या नागरिकांक आनी भुरग्यांक थंय अर्दी प्रवेश फी घेतात आनी तांणी सगल्यो कलाकृती बेसबऱ्यो सांबाळ्ळ्यात.

देशाची आस्पत भिकाऱ्यांचे संख्ये वयल्यान कळटा. स्पेन आनी पुर्तुगाल ह्या दोनूय देशांनी चड भिकारी दिसले नात. कुल्ली धा शारांची भोंवणी करतकच आठ-धा भिकारी/भिकान्नी दिसल्यो. चडश्यो इगर्जां मुखार हातांत डबो घेवन भीक मागपी. भीक मागपाची आनीक एक वेगळी तरा पळेली. कांय जाण गितार, वायोलीन, हार्प अशीं वाद्यां वाजोवन लोकांची मनरिजवणी करताले आनी लोक तांणी दवरिल्ल्या चेप्यांत पयशे उडयताले.

प्रत्येक शारांत चित्रकार लोकांक बसोवन तांचे पोर्ट्रेट काडटाले वा आपणें काडिल्लीं चित्रां विकताले. लिस्बोवाक एका चित्रकारान काडिल्लें तोर्रि द बेलें ह्या इतिहासीक वास्तूचें जलरंग चित्र हांवें १० युरोक (रुपये ७५०) विकतें घेतलें. तोर्रि द बेलें ह्या तेजू न्हंये वयल्या ठिकाणा वयल्यान वास्कू द गाम १४९७ वर्सा आपली तारवां घेवन भायर सरिल्लो. अजापाची गजाल म्हळ्यार हो फिशाल चित्रकार पुर्तुगेज नासलो तर पोलाक (पोलीश) आसलो हें ताचें नांव विचारतकच म्हाका कळ्ळें आनी तो पोलीश म्हण तांकां हांवें सांगतकच ताकाय अजाप जालें.

सेविला गांवांतल्यान आमी बसींतल्यान पुर्तुगालांत फारुच्या वाठारांत प्रवेश केलो आनी आमी आल्बुफेयरा ह्या दर्यादिगेर वशिल्ल्या शारांत रावले. गीम आशिल्ल्यान खूब टुरिस्ट थंय भोंवडी करूंक आयिल्ले. चडशे इंग्लीश, जर्मन आनी जपानी आशिल्ले. जपानी टुरिस्ट मोटे संख्येन स्पेन आनी पुर्तुगालाक दिसले. जपानी टुरिस्टांक गोंयांत हाडपा खातीर आमच्या गोंयच्या टुरिझम खात्यान यत्न करपाक जाय. गीम आशिल्ल्यान दनपारच्या वेळार कार्यालयां बंद आसलीं आनी दादले तशेंच बायलो मोटव्या काल्सावांत दिश्टी पडटालीं.

पुर्तुगालाक आमी आल्बुफेयर, लिस्बोअ, सिंत्रा आनी पोर्तू शारांक भेट दिली. खूब गोंयकार पुर्तुगालाक स्थायीक जाल्यात. गोंयची मुक्ती जातकच कांय गोंयकार गोंय सोडून पुर्तुगालाक गेल्ले तांतले कांय लोक मेळटले अशें म्हाका दिशिल्लें. कोणूच गोंयकार म्हाका मेळ्ळो ना. इतलेंच न्हय तर जेन्ना टुरिस्ट म्हणून हांव खंयचो म्हूण म्हाका लोक विचारताले, तेन्ना उमेदीन हांव गोयेज (गोंयकार) म्हूण तांकां सांगतालों. पूण कोणाकूच गोंय खंय आसा हें खबर नासलें. हाचो अर्थ इतलोच की आयचे पुर्तुगेज पिळगेक पुर्तुगालाच्या इतिहासाची सारकी वळख ना. मात एके ट्रावल कंपनींत काम करपी बायलेक हिंदुस्थानाची म्हायती आसली. हांव गोंयकार म्हूण तिका कळटकच तिणें म्हाका सांगलें की आपणें हालींच 'मुंबई'ची विमान तिकेट कोणाक तरी दिल्या आनी मागीर तिणे (मुंबई आंटीग बॉम्बाई) Mumbai antiga Bombaim म्हळ्यार मुंबय ही पुर्विल्ली बॉम्बाई जी पुर्तुगेजानी इंग्लीश राजाक वरदक्षिणा म्हण दिल्ली. हें तिका कशें खबर आसा अशें विचारतकच आपूण इतिहास विशयाची पदवीधर म्हूण तिणें सांगलें. कॉलूस म्हूण एक टॅक्सी ड्रायव्हर मेळ्ळो. हांव गोंयकार म्हूण कळटकच आपलो बापूय गोंयांत आशिल्लो आनी गोंयचो सैम सोबीत सुंदर आसा अशें तो म्हणटालो अशें ताणें सांगलें. जशें आमच्या आयच्या भोवतेक भुरग्यांक हांगा पुर्तुगेज राजवट आशिल्ली हें खबर नासता. त्याच प्रमाण आयच्या तरूण पुर्तुगेज लोकांक पुर्तुगेजांच्या आदल्या वसाहतींविशीं ज्ञान ना.

स्पेन तशेंच पुर्तुगालांत आजेतोन म्हणचे ऑलिव्ह रुखाची लागवड मोट्या प्रमाणांत करतात. ओलिव्ह फळां पासून तेल काडटात आनी जेवणांत ताचो उपेग करतात. गोंयकारांक जसो माड तेचपरीं पुर्तुगेजांक आंजेतोन.

पुर्तुगालांत जावं स्पेनांत कोयराची समस्या खंयच दिश्टी पडलिना. लोकांक नागरिकांचे लागणुके विशीं जाण तर आसाच आनी जंय लोकांची खेट आसता थंय कोयर उडोवपाक डबे दवरिल्ले आसतात. हाका अपवाद मात सिगरेटी ओडप्यांचो. रस्त्यांचे कुशीक सिगरेटींचीं थोटकां दिश्टी पडटालीं. पुर्तुगाला परस स्पेनाचे लोक - दादले आनी बायलो आंगान शिडशिडीत दिसले. हाचे कारण म्हळ्यार तांकां व्यायामाची आवड. मेट्रो स्टेशनांचेर विजेचीं सोपणां (escalators) तर तरणाट्यो चलयो सोपणां धांवून चडटाल्यो. आनीक एक

**पान ८६ चेर**

# रंगांधळ्या मनशान वचचेंच न्हय स्पेनाक!

**स्पेनीश अस्तुऱ्यो संवसारांत तांच्या मादक सौंदर्यान गाजतात. माद्रीद हें स्पेनाचें राजपाटण. माद्रीदाची एक दंतकथा आसा - माद्रीदाचे लोक एक फावट खंय सैम देवते कडेन गेले आनी तांणी तिचे कडेन कांय वर मागले - पयलो वर आमकां सोबीत, सुंदर अस्तुऱ्यो दी. दुसरो वर आमकां बरें मद्य आनी खाद्य दी. सैम देवतेन तथास्तू म्हळें. माद्रीदाचें लोक म्हणूंक लागले - राव, राव, आमचें मागणें सोंपूंक ना. आमकां बरें सरकार दी! सैम देवता खंय म्हणूंक लागली - ना! एक फावट तथास्तू म्हळें म्हणटकीर परत हांव वर दिना.**

▸ दत्ता दामोदर नायक
संपर्क: ९८२२१०२४१६



रंगांधळ्या मनशान वच्चेंच न्हय स्पेनाक! स्पेन म्हळ्यार रंगांचो महोत्सव. रंगांचो मयुरपिसारो फुलोवन स्पेन बसला अटलांटीक म्हासागराचे देगेर!

उजवाडाच्यो तरातरा! तरातरांचे रंग म्हळ्यार खरें तरातरांचो उजवाडच. निळ्याक ताची घननीळसाण, ताची श्यामनीळसाण उजवाड दिता. हळडुव्याक ताची मोतयाली हळडुवसाण उजवाड दिता. तांबड्याक ताची दसणीची तांबुडसाण उजवाडच दिता न्हय? रंगाचें मिस्तूर करून उजवाडाच्या देंठातल्यानच अनंताच्या फुलाचो शुभ्र, धवो रंग रसरसून भायर येता आनी उजवाडान फाट करतकीरच काळ्याक ताचें शिसवी काळें कृष्णरूप मेळटा न्हय?

स्पेन हो असो उजवाडाचो वरदहस्त मेळिल्लो देश! रंगांच्या कॉकटेलांत बुडिल्लो हो देश. रंगाचीं रक्त, आरक्त, विरक्त रुपां पळोवचीं जाल्यार स्पेनाक वचचे!

स्पेन हो चित्रकारांचो देश. शिल्पकारांचो देश. स्थापत्यकारांचो



देश. कलावंतांचो देश. साहित्यिकांचो देश.

स्पेन हो पाब्लो पिकासोचो देश. साल्वादोर दालीचो देश. आन्तोनी गावडीचो देश. फ्रान्सिस्को दी गेयाचो देश. डॉन लिझॉट बरयिल्ल्या मायकेल सेरवान्तेसाचो देश.

हे भुंयेत अशें कितें अप्रूप रसायन आसा म्हणून तातुंतल्यान फकत रंग किल्लून येतात. कला किल्लून येता. रंगेलपणाय किल्लून येता. सौंदर्य आनी सोबीतकाय रसरसून चंवरून येता.

स्पेनीश अस्तुऱ्यो संवसारांत तांच्या मादक सौंदर्यान गाजतात. माद्रीद हें स्पेनाचें राजपाटण. माद्रीदाची एक दंतकथा आसा - माद्रीदाचे लोक एक फावट खंय सैम देवते कडेन गेले आनी तांणी तिचे कडेन कांय वर मागले - पयलो वर आमकां सोबीत, सुंदर अस्तुऱ्यो दी. दुसरो वर आमकां बरें मद्य आनी खाद्य दी. सैम देवतेन तथास्तू म्हळें. माद्रीदाचें लोक म्हणूंक लागले - राव, राव, आमचें मागणें सोंपूंक ना. आमकां बरें सरकार दी! सैम देवता खंय म्हणूंक लागली - ना! एक फावट तथास्तू म्हळें म्हणटकीर परत हांव वर दिना. देखून स्पेनांत बेस बरें वायन मेळटा. बेस बरें तपस, पायेला सारकें जेवण मेळटा. स्पेनीश अस्तुऱ्यां कडेन तर पळयत रावन दिसता. स्पेनाक सरकारां मात टोटोफो मेळ्ळीं.

सगल्यांत वायट सरकार मेळ्ळें - ते हुकूमशहा फ्रँकोचें. ताचे राजवटींत साद्या उंड्या खातीर लेगीत लोकांक लायनींत रावचें पट्टालें. ताचीय एक दंतकथाच कशी आसा! एक स्पेनीश मनीस खंय उंड्या खातीर लायनींत रावन रावन वाजेलो आनी म्हणपाक लागलो, आतां धा मिनटां भितर ही लायन सोंपून म्हाका उंडे मेळनात जाल्यार हांव पिस्तूल घेवन फ्रँकोक फारान मारपाक वतां! ताका धा मिनटां भितर उंडे मेळ्ळे ना म्हणटकीर तिडकीन तो फ्रँकोक फारान मारपाक गेलो. वरभरान तो परत येवन उंड्या खातीर लायनींत राविल्लो. लोकांनी विचारलें - तुवें फ्रँकोक फारान मारलो? त्या मनशान म्हळें - ''कितें सांगतलों तुमकां? फ्रँकोक फारान मारपा खातीर उबे राविल्ल्या मनशांची लायन हांगा परस चड व्हडली आसा! म्हणून परतलों!''

माद्रीदाक आसतना प्लाका मायोर ह्या चौकांत वचुंकूच जाय. ह्या विस्तृत चौकांच्या मदीं घोड्यार स्वार जाल्ल्या एका अनामीक स्पॅनीश योध्दाचें शिल्प आसा. सरभोंवतणी दुमजली पुरातन इमारत आसा आनी चौकांत चारी वटांनी ओपन एअर रेस्टॉरंटस आसात.

माद्रीदाचें सगल्यांत फामाद रेस्टॉरंट म्हळ्यार थंयचो फूड कोर्ट मेर्सिदा सान मिंगेल. थंय एक फावट गेल्ल्या मनशाक परत थंय वचन दिसता. अशें थंय कितें आसा? मेर्सिदा सान मिंगेल फूड कोर्टाक वणटी नात. ताच्यो वणटी म्हळ्यार ताका आशिल्ली हारशाचीं दारां. तीं उगडून तातूंत भितर सरपाचें. ह्या दारां खातीर फूड कोर्टांत खूब उजवाड आनी वारो खेळटा. मेर्सिदा सान मिंगेलान मदीं कदेलां आनी टेबलां आनी चारी वटांनी रेस्टॉरंटाचे कावंटर्स अशी वेवस्था आसा.

माद्रीदाची रॉयल पॅलेस ही भव्य वास्तू पळोवंक अर्द दीस लागता. ही वास्तू माद्रीदाचेर राज्य करपी मुरीश (मुसलमान) राजांनी बांदली. हो राजवाडो खरेंच पळोवपा सारको!

माद्रीदाचो प्रादो हो मुझियम पळयतलो जाल्यार दोन दीस लागतले. थंय पाब्लो पिकासो, साल्वादोर दाली, फ्रान्सिस्को गेया हांची पेण्टीग्स आसात. गेयाच्या चित्रांचें एक खेरीत वैशिष्ट्य आसा. काळो हो गेयाचो आवडीचो रंग. धव्या कॅनव्हासार गेयान काळ्या रंगांत तरांतरांचीं चित्रां पितारल्यांत. काळे निग्रो, गेरीं, दर्यांतलीं तुफानां, हुंवार... गोयाचीं चित्रां पळयल्यार गेया हो चित्रकारितेंतलो शेक्सपियरच म्हणूं येता.

बार्सेलोना हें स्पेनांतलें दुसरें मोटें शार. बार्सेलोना जाल्ल्या ऑलिंपिंका उपरांत हें

पान ८७ चेर

जर्मनीचे भोंवडेर हांव गेल्लों, पूण हांवें जर्मनीचेर बरोवपाचें काय थंयच्या मनशांचेर? हांव लोयंडे ह्या खेडेगांवांत मळकर्णेकार हांच्या घरांत रावतालों. अजित मळकर्णेकाराची घरकान्न डॉरीस. ती पुरायपणान जर्मन. पूण भारतांत पावली. महाराष्ट्रांतल्या एका सामक्या खांचीक आशिल्ल्या खेडेगांवांत रावली. थंय तिका अजित मेळ्ळो. तिचो मागीर जर्मनी-गोंय प्रवास. दोगांयनीय मेळून दाभाळ-किर्लपाला फार्म घेवप... त्या खेड्यांत रावप... ती आतां जर्मनींत रावता. पूण दोगांयनीय मेळून गोंय आनी जर्मनी मदीं समाजीक जाणविकायेचो अपरूप पूल बांदला...

▸ राजू नायक
८८८८१७५१११

# लोयंडेची राजकुंवरी

डॉरिस मळकर्णेकर हांकां पयलेच खेपे पळेली तेन्ना एक युरोपीय बायल मनशेचें चित्र सामकार उबें रावले. आनी तशेंच ते आसपाचे. युरोपांत काय म्हयने राविल्लो मनीस युरोपकार जावंक सोदता. डॉरिस तश्यो युरोपांतच वाडिल्ल्यो. तांच्यो तीन पिळग्यो तरी लोयंडांत वाडल्यात. हे लोयंडा एक खेडें गांव. युरोपीय चलचित्रांत दिसता तसो. म्हाका दिसता, ताचे हे गावगिरे चित्र फाटलीं १००-२०० वर्सां  तशेंच आसा. चित्रांत गोठेवन उरिल्लेवरी! पवनचक्क्यांचेर चलपी पिठाच्यो गिरणी गेल्यात आनी त्या सुवातीचेर ल्हान ल्हान मॉल आयल्यात, इतलेंच. पवनचक्क्यो आता सुदारल्यात. तांचे सुवातेर आधुनिक विंडमील्स आयल्यात. थंय उर्जा तयार जाता. तांचे भोवतणी लांबचे लांब शेतां. मक्याचीं वा तांबड्या बिटाचीं. थंय ऊस जायना म्हणटकीर बिटापासून साकर तयार करतात. पुराय मक्याचे पीक मात बायोगॅसा खातीर वापरतात. आमच्या देसांत गोरवां खातीर 'गवता'चें पीक घेतात, ताका सुरवात जाली तेन्ना कितलो बोवाळ जाल्लो! अशा वेळार युरोपांत बायोगॅसा खातीर मक्याचें पीक पुरायेन 'पेड्ड्यार' करतात तेन्ना करंदाय जावप सभाविक. पूण शेतकारांक भरपाय मेळटा. हे बायोगॅस प्रकल्प बरे भशेन चलतात. घाण येना. अशा वेळार विरोधाक भौशिक रुप मेळना.





लोयंडा गावांत खूप शेतां. तशें एका काळार तो शेतकारांचोच गाव. तातूंत डॉरिसाचो आजो एक. बापायनूय ते फार्म सांबाळले. पूण उपरांत डॉरिस आनी ताचे भयणीचे सुवादीन तें जालें तेन्ना थंयचे पंचायतीन हस्तक्षेप केलो. पंचायतीक गावांत चड घरां निर्मुपाचें आशिल्लें. तांणी सांगलें, थंय फार्म दवरूंक मेळचेंना. जर्मनीचें एकत्रीकरण जालें तशेंउदेन्त जर्मनींतल्यान लोक आयले. लोकसंख्या वाडली. तांका आस्पावन घेवक जाय आसलें. मागीर डॉरिसान थोडी जमीन विकली. त्या पैशांतल्यान आपल्या एका कुडक्यार आनीक एक घर बांदून तें भाड्याक दिलें. डॉरिसान अशे तरेन आपणाली फुडाराची येवजण बरी केली. तशेंच प्लॅनींग म्हाका थळाव्या पंचायतीचें दिसलें. जर्मनीच्या एकत्रिकरणा उपरांत आता लोकांचो लोट सुरू जाला. सिरिया आनी हेर देशांतल्या निर्वासितांचोय. ते आदी अफघाणिस्तान, रशिया आनी हेर देसांतल्यान लोक आयल्यात. पूण अफघाणिस्तानांतल्यान आयिल्लया लोकांक युनोन आजून राजकीय आश्रीत लोकांचो दर्जो दिवंक ना. देसांतलीं भिरतलीं झगडीं हे नदरेतल्यान युनो त्या प्रश्ना कडेन पळयता. सिरियाचो प्रश्न मात झुजांत पिंजून लोकांचेर आयिल्लो सावार असोच जाला. आनी जर्मनीच्या चान्सलरान तर दोनूय हात रुंदावन सिरियांतल्या झुजापिडित लोकांक येवकार दिल्लयान थंय भिऱ्यांनी लोकांनी आश्रय घेतला. तांका रावपाक दिवंक नाका? लोयंडांतय तांच्यो वसाहती केल्यात. रस्त्याच्या तडीवेल्या शेतांत कंटेनरांत तांचे खातीर घरां निर्माण केल्लयाचें थंय हांवे पळयलें. ह्या लोकांविशी थळाव्या लोकांक कसलीच व्हडविक ना. पूण सरकार आश्रय दिता तेन्ना थळावी पंचायत ताचे खातीर घरां तयार करता. तांची हेर वेवस्ता करता. पंचायतीन ते भायर उदेंत जर्मनीतल्यान आयिल्लया लोकांक रावपाक शेतां रुपांतरीत करून इमारतींच्यो कॉलनीय तयार केल्यात. गावांनी परकी लोक येतात. नवी घरां तयार जातात. पूण हे बदल पुराय गावाची सया बदलता अशें मात घडना. फाटल्या १०० वर्षांत गावची लोकसंख्या दुपेटीन वाडूनय गावान आपली कात राखल्या. हांगासल्लया पंचायतींकडेन आशिल्ली ही दूरदृष्टी मानू येता. घरांची आखणी, भोवतणची झाडां, शेतां, सफरचंदांची बाग, आखीव रेखीव वाठार, तसोच आसा. गावांत मोटारी आयल्यात. शेतकामांची आवतां बदलल्यांत. हवामानूय बदललां, डॉरिसूय आता थळावे शाळेतल्यान निवृत्त जाल्या. आता ती सुमार १५ किमी अंतर आशिल्लया लागसल्लया हेनोवर शारांत निर्वासितांक जर्मन भास शिकयता. पूण ती बदलूंक ना. जर्मनी आधुनिक जाल्या. जर्मनीचो वेग वाडला. म्हळ्यार हायवे चड वेगवान जाल्यात. ताचे वेल्यान वचपी मोटारी, ट्रक, कंटेनर हांची संख्या दुपेटीन वाडल्या. समाजीक अस्वस्थताय वाडल्या. अशांती आसा. भायल्यां विशीं रागाचीय भावना आसा, उजव्यो शक्ती बळीश्ट जातात... पूण जर्मन मनशाची तत्वां मात बदलूंक नात. डॉरीस आपणाल्या निजाच्या तत्वांक धरून आसा.

हींच तत्वां तिका भारतात घेवन गेलीं. बाबा आमटेच्या आनंदवनांत आनी उपरांत हेमलकसा ह्या प्रकल्पांत. नीज गोंयकार आनी काळजांत समाजसेवेची तळमळ घेवन जियेवपी अजित मळकर्णेकारा कडेन ती लग्न जाली, गोंयात साबार वर्सां गावगिऱ्या वाठारांत दाभाळ करमणे गावांत रावली. तीच तत्वां आजून ती किंवाट्यान सांबाळटा. ती शिक्षण मळार तळमळीन वावुरता. सध्या निवृत्त जावनूय निर्वासितांक जर्मन भास शिकोवपाचो वावर करता. म्हजे जर्मन भोंवडेंत आनी लोयंडेच्या राबित्यांत डॉरीसाचे हे व्यक्तीमत्व लागींच्यान म्हाका पळोवंक मेळ्ळें. एक आधुनिक बायल मनीस, कर्तृत्ववान! खर समाजीक जाणीव.

डॉरिस ह्यो आनंदवनांत आनी उपरांत हेमलकसा कशो पावल्यो?

ल्हानपणा सावन समाजसेवेची तळमळ. अस्तंती मनीस हो आत्मकेंद्रीत. ताका आपलें सोडून दुसऱ्याचें कांय लागना हो समज. पूण ह्या समजाक फाटो दिवपीय लोक आसात. डॉरीस तांतुतल्यो एक अशें म्हणू येता. शाळेंत आसतना तांणी समाजसेवा विषय घेतिल्लो. आमचेकडेन एनएसएस हो विषय आसता. पूण साबार भुरगीं फकत गूण मेळोवपाचे माध्यम म्हणून ताचे कडेन पळयतात. डॉरीस हांणी शाळेतूच तळमळीच्या वावराची देख दिली. सभाविकच कॉलेजींत शिकता आसतना जगभर चलिल्लो समाजिक वावर तांच्या वाचनांत आयलो. तेन्नाच एका म्हालगड्यान तांकां विचारले, भारतांत बाबा आमटे नावाचो समाजसेवक निष्ठेन आदिवासीं खातीर, कुष्ठरोग्यां खातीर



आरती आपल्या पुता वांगडा



वावर करता. मागाशिल्लया वाठारांत रावन समर्पित भावनेन वावर करपाची देख दिता. तुमकां कोणाक थंय वचून तो वावर पळोवंक आवडत हय?

तशें पळोवक गेल्यार तेन्ना म्हणसर युरोपांत कुष्ठरोग वखदाक लेगीत उरूंक नासलो. नितळसाणीच्या तत्वांत युरोप जगाचे फुडारपण करतालो. तरी आसतना तो वावर पळोवपाचे उमळशिकेन डॉरिस आनी जर्मनींतले दुसरे चली इंगे आनंदवनात वचूंक तयार जालीं. प्रत्यक्ष वावरांत वांटेकार जावचे परस थंय वचून त्या वावराचे स्वरूप पळोवप ही मोख.

अशे तरेन १९७४ वर्सा डॉरिस हेमलकसा पावल्यो. हाचो अर्थ डॉरिस हांणी–ज्यो त्या वेळार २२ वर्सांच्यो आसल्यो, शिक्षक प्रशिक्षण कॉलेजींत शिकताल्यो– थारायलें आनी आवयन–बापायन तांकां धाडलें अशें घडलें ना. दोगांयनीय तांचें मन वळवपाचो खूप यत्न केलो. तुका समाजसेवाच करपाची आसा मू? जर्मनींत रावन कर. हांगाय खूप कडेन वेगवेगळे प्रकल्प उबे जातात. शेतकाम त्यांक आदार जाय. भुरग्यांक शिकपाक आडखळ जाता. तांकां आदार कर. पूण घडये तांणीय विचार केला आसतलो, जर्मनींत सुबत्तेत वाडिल्लें हें चली भारतांतल्या सामक्या मागाशिल्लया वाठारांत, जंय मुळाव्यो सुविधाय मेळनात, कशें रावतलें? रोखडेंच वाजेवन परत येतलें.

डॉरीस हांणी हेमलकसाचे तशें सामकें वायट वर्णन वाचूंकच नासले. तांणी वाचिल्लें, बाबा आमटेंच्या 'आनंदवन' प्रकल्पाविशीं. हो प्रकल्प जगभर गाजतालो. आमटे हांणी जगांतल्या लोकांक आकर्शीत करपासारखे खूबशे कितें थंय निर्मिलां. जगातले खूब नामनेचे लोकूय थंय रावन गेल्यात. देखून विदेशी लोकांक मानवता तसलें तातूंत खूप कितें आसा.

डॉरीस आनी दुसरी चली इंगे पयलीं तशी चंद्रपूर जिल्ह्यांतल्या आनंदवनातूच पावली. त्यो सांगतात, तेन्ना चंद्रपूराचो उल्लेख कोणेतरी 'चंद्रा' म्हणून केलो. म्हळ्यार विदेशींनी थंय वचप तशें सोपें नासलें. थंय आमटे हांणी तांका म्हळें, 'गतुमी सोमनाथ, हेमलकसा (गडचिरोली जिल्हो) पळोवन येयात!'' तेन्ना हेमलकसा प्रकल्प सुरू जावन दोन वर्सां जाल्लीं. पूण आनंदवना सावन हेमलकसा वचूंक बस सेवा नासली. देखून एका ट्रकार बसून तांणी प्रवास केलो. ते उपरांत बैलगाडी. आनंदवना सावन हेमलकसा १०० कि.मी. आसा. दुसरें चली मात भारतांतली हेर थळां पळोवंक गेलें.

तेन्ना डॉरीस परत्यो अजित मळकर्णे करांक मेळ्ळ्यो. पयलीं तांणी ताका सोमनाथाक पळयिल्लो. आनंदवना उपरांत दुसरी सुवात बाबा आमटेन वेचून काडिल्ली ती आसली सोमनाथ. विदर्भांत मागाशिल्लेंपण खूप. थंय समाजिक बदला खातीर जीवीत अर्पूचें अशें ताणीं थारायिल्लें. आनंदवना उपरांत कुष्ठरोगांतल्यान बरे जाल्लयां खातीर सोमनाथ हें केंद्र तांणी सुरू केल्लें. हेमलकसा हो माडिया आनी गोंड या आदिवासी जमातीं खातीर सुरू केल्लो प्रकल्प. आनंदवन हो पुरायेन बाबा आमटेंचो प्रकल्प जाल्यार सोम नाथ हो तांचो पूत डॉ. विकास आमटे आनी भारती आमटे हांणी चलयिल्लो. हेमलकसा हो बाबांचो दुसरो पुत डॉ. प्रकाश आमटे हांच्या नावान चलता. पूण हेमलकसा आयज जरी डॉ. प्रकाश आणि डॉ. मंदाकिनी हांच्या नावान वळखता आसले तरी तो सुरू करूंक खरो हात लागला तो गोंयचो सुपूत अजित मळकर्णेकार हांचोच. खरेपणी अजितबाब हांच्या कामाकडेन पळोवनूच डॉरीस प्रभावित जाल्लयो.

डॉरिसाची काणी सांगता आसतना अजितबाब हांचो उल्लेख येतलोच. अजित हांणी गोंयात १९६७ वर्सा मॅट्रिकची परिक्षा दिली. तो शिक्षण पद्धतीक वाजेल्लो. जिविताच्या विद्यापीठांत कितें तरी करपाची उमळशीक लागिल्ली. तेन्नाच तांणी १९७० वर्सा खंयतरी बाबा आमटेच्या सोमनाथ प्रकल्पा विशीं वाचलें. श्रमीक



विद्यापीठ वा जिविताचो अणभव घेत शिकोवपी एकलव्य विद्यापीठ म्हणूनय ताका पाचारताले. १९६८-६९ वर्सा सावन थंय आमटे तरनाट्यांची शिबिरां घेताले. दर वर्सा ८०० भुरगीं येतालीं. अजितबाबान थंय वचपाचें थारायलें. पूण खंय वतलो, कसो वतलो... ताका खबर नासलें. तेन्ना तो आपल्या काकागेर, मडगावां रावतालो. खंयूय समाजीक कार्य, शिबिरां आसत जाल्यार अजितबाब धावून वतालो. आतांय ताच्या घरच्यांकूय दिसलें, कॉलेजींचेच कितेंय शिबीर आसत. अजितबाबा कडेन रेल्वेच्या तिकीटा खातीरूच पैशे आसले. तांणी मुंबय, वर्धा असो प्रवास केलो. पूण वर्धा सावन चंद्रपूरा वचचें पडलें. थंयं तांका सांगलें, तुवे मूल वचचे पडटलें. मूल गावातल्यांन सोमनाथ असो सात कि.मी.चो प्रवास तांणी बैल गाडयेंतल्यान केलो. ह्या शिबिराक ते १५ दीस आदींच पावले. शिबिर सोपले उपरांत १९७० सावन १९७४ मेरेन आमटे कुटुंबाच्या संगतींत रावले. ह्याच काळांत, म्हळ्यार १९७३ वर्सा हेमलकसा हो प्रकल्प सुरू करपाचे आमटेंनी थारायलें. गडचिरोलीच्या रान खात्यान ही जमीन तांका दिल्ली. थंयच्या इंद्रावती आणि हेर उपनद्यांक पावसांत उपाट हुवार येता. म्हळ्यार हे गांव हेरां पसून सामके तुट्टात. पोटाच्या वेगवेगळ्या विकारान उबगल्ले लोक. खरेपणी हेमलकसा प्रकल्पाक रान खात्यान जमीन दिल्ली ती नकाशार पळोवन दिल्ली. ती प्रत्यक्षांत कशी आसा ते तांकांय खबर नासलें. प्रत्यक्ष जमीन मेळटकीर कळ्ळें, थंय आदिवासी रावतात. ते थंयच्यान वचूंक तयार नासलें. तांणी करंदाय केली. निमाणे विनोबा भावे मदी पडले. तांणी आदिवासींच्यो जमनी प्रकल्पांतल्यान भायर काडल्यो. ते उपरांतच ही अशांतताय न्हिवली. आमटेन ह्या प्रकल्पाचे मुखेली म्हणून सुरवेक कोणाक जर थंय धाडलो जाल्यार तो आसलो अजिबाबच! तो आनीक तीन चार बरे जाल्ले कुष्ठरोगी!

अजितबाब सांगतात, आता थंय शाळा आसा. खूब बिल्डींगो आसात. आमी पयलीं गेले तेन्ना मळब जाल्लें आमचे पाखें, रानां ह्योच वणटी. रातचे वाघ येताले. अजितबाबान थंय बिबटो, हरणां पोसली. रानवटी कितेंय सापडत जाल्यार लोक थंय हाडून दिताले. प्रकल्पाचे काम बरेंच फुडें वतकीर डॉ. प्रकाश आनी ताची घरकान्न थंय आयली. पूण प्रकाश थंय सुरवेक रावनाशिल्लो. येवन वचून आसतालो. सुरवेच्यो सगल्यो आडखळी अजिबाबान सोसल्यो.

अजितबाब मळकर्णेकार अशा वावरांत घुस्पल्यात हेंय तेन्ना गोंयांत कोणाक खबर नासले. एक फावट बाबा आमटें गोयांत आयिल्लेकडेन तांणी मडगावां अजितबाबांचो उल्लेख केलो. रोखडेंच रवींद्र केळेकार हांणी आपल्या इश्टांक मडगावा ताच्या कुटुंबाचो सोद घेवक सांगलें, तेन्ना ताचो सोद लागलो.

डॉरिसबाय सांगतात, आदिवासीय खूब कष्टाची जीण जियेताले. तांका कसल्योच सोयी नासल्यो. वैजकी सोयी जाल्यार वखदाक लेगीत नासल्यो! पैसुल्यान जखमी जाल्लया आदिवासींक हाडटाले. कोण झाडावेल्यान पडला, कोण उज्यांत भाजला. डॉरीसबाय आपणे थंय व्हडले काम केल्लयाचो दावो करिनात. आपणे ल्हानसान कामां केली, अशें नमळायेन म्हणटात.

पूण थंय हो खाड वाडयिल्लो, लांब, धाडसी आनी कित्याकूच हार ना मानपी तरनाटो तिका खरीच थाकाय दितालो. ती दिसल्या खिणाक ताच्या मोगान पडली म्हणूक जावचें ना. पूण ती एकामेकांचीं खूब इष्ट मात जाली. त्यो सांगतात, तो हेरांपरस खूब वेगळो आसलो. ताचे बाबा आमटे कुटुंबाकडेनूय खूब लागीचे संबंद आसले. ताचो अधिकारूय थंय खूब चलतालो. आमी एकमेकां कडेन आकर्षित जाल्यात हे थंय रावपी लोकांच्या नदरेल्यान सुटलें ना. ''ल्हानशा जाग्यार तें थोडेंच लिपून उरता!'' तांणी हासत हासत म्हळें.

अजितबाब सांगतात, सांगात खूब बरो आसलो, आमी खूप खबरी करतालीं. पेवपाकूय वतालीं. तेन्ना एक तरनाटी न्हयचेर पेवपाक वता ही खूब लक्तुबायेची गजाली जाल्ली. ही तांची इष्टागत मोगांत रोखडींच बदल्ली ना! पूण सांगात ओडलायणो. दोगाय एकमेकांकडेन ओडटालीं. दाट इष्टागत. समाजसेवेची ओड. हातूंतल्यान तीं एकठांय आयलीं. अजितबाब सांगतात, थंयच एकदीस आमी निर्णय घेतलो, लग्नबंदनात बांदून घेवपाचो. आमचो साकरपुडो थंयच जालो तेन्ना आपले घरकान्नीसयत बाबा आमटे आनी चार कुष्ठरोगी इतलो लोक आसलो.

पूण मागीर अचकित डॉरीसबायक जर्मनीक वचचें पडलें. तिचो बापूय दुयेंत आशिल्लयाचो आनी बेगोबेग परत आपयिल्लयाचो रकाद आयलो. ''खरेपणी म्हाका गोंयां वचपाचें आसलें. मळकर्णे तांची बागायत आसली. ती पळोवपाचें मनांत आसलें, ''अजित म्हणटाले, देसांतल्यान वतना एकदा तरी गोंय पळोवंक यो!'' डॉरीसाच्या बापायची पिराय तेन्ना आसली फकत ६८ वर्सा. ताका कॅन्सर जाल्लो.

**पान ११५ चेर**



# पट्टदकल



पट्टदकलचीं नामनेचीं इतिहासीक स्मारकां बदामीच्या चालुक्या राजांनी समाजाक दिल्लें व्हड देणें. हें बागलकोट जिल्ह्यांतल्या मलप्रभा न्हंयेच्या उजवे देगेर वसलां. चालुक्याचो कलाभोगी राजा दुसरो विक्रमादीत्य हाच्या काळांत तयार केल्लीं हीं स्मारकां. ताची राणी त्रैलोक्य महादेवी एक व्हड कला भोगी आसली.

▸ माया अनिल खरंगटे
०९४४२०८८५२७८



आमी सकाळचीं बदामी पळोवन पुरो जावन जेवंक आयिल्लीं. जेवन रोखडींच पट्टदकल वचपाक उमेदीन भायर सर्ल्लीं. बदामी जशी पाशाणांची भूंय तशीच शेतां-बागायतीची भूंय म्हळ्यार अतिताय जावची ना. हंपीय तसोच पाशाणांचो गांव, तरीय शेता-बागायतीन समृध्द. तांबड्या पाशाणांच्या दोंगराक पांचवी देग आशिल्ल्या शेतां-मळ्या मदल्या रस्त्यावेल्यान आमची बस धांवताली. दोशींवटेनच्या झाडां-झोपांचेर तरेकवार पक्षी बशिल्ले. थंयच तांचे ल्हान-व्हड घोंटेर धोलताले.

कांय कवड्यांवरी दिसपी पक्षी, कांय निळे आनी पांचव्या पाखांचे पक्षी, कांय शेपडेकडेन वायरी वरी लांब पांख आशिल्ले पक्षी, कांय किरकिऱ्या वरी रंगयाळे, निळे फाटीचे पूण ल्हान चोंचीचे पक्षी वाट भर आमकां सांगात दिताले. ह्या वेळार म्हाका हर्षा शेटयेची याद जाली. तें बरोबर आशिल्लें जाल्यार आमकां नांवां सांगतलें आसलें.

बदामीच्यान २२ किलो मिटरांचेर मलप्रभा न्हंयेचे देगेर पयलीं पट्टदकल ही चालुक्यांची दुसरी राजधानी आशिल्ली. खरें म्हळ्यार हें तांचें व्यापाराचें केंद्र आसलें म्हणून ताका राजपाटणाचो मान फाव जाल्लो.

भारतीय स्थापत्य कलेच्या इतिहासाक एक वेगळेंच वळण दिवपी देवळां कर्नाटक राज्यांत प्राचीन, मध्ययुगीन आनी आधुनीक इतिहासाच्या काळांत तयार जालीं. शिल्पकारांनी आपलें पुराय कसब पणाक लावन म्हणटात तशीं हीं देवळां उबीं केलीं. कर्नाटक राज्यांत सत्तेर आशिल्ल्या राजकारण्यांनी आपल्या इश्ट दैवतांविशीं भक्ती, मोग आनी आदर दाखोवंक अशीं देवळां बांदूक कलाकारांक आदार दिलो. राजआश्रय आसल्यार कठिणांतल्यो कठीण गजाली सहज साध्य जातात त्यो अश्यो.

पट्टदकल हो गांव कर्नाटकांतल्या हेर गांवा भाशेनूच अज्ञान, दळिद्र, अनास्था हांचे शल्य काळजांत घेवन आपयले उदरगतीपासत धडधडपी. गांवाचें अशें मनाक घाय करपी दृश्य एके वटेन जाल्यार दुसरे वटेन सोबीत. अशा एकापरस एक सरस देवळांक लागून आज हो गांव जागतीक वारसा थळांचे यादींत पावला. ह्या थळाक भेट दिवपी राष्ट्रीय, आंतरराष्ट्रीय पर्यटकांक लागून हांगाच्या लोकांक काम-धाम मेळ्ळां.

इतली मोलादीक शिल्पकला ह्या गावांत आसा खरी, पूण शेजारचें चेडूं झाडमुत्रें म्हणटात तशें थंयच्या लोकांक ताचें कांयच पडून वचूं नासलें. म्हणून तर गांवचे लोक ह्या देवळांनी रावताले, थंयच रांदून जेवताले.

पान ९१ चेर





# हाजार चुराशीर माँ
# महाश्वेतादेवी

(१०८४ व्या ची आवय)

जन्म: १४ जानेवारी १९२६ मरण:२८ जुलय २०१६

डॉक्टराचे सुचोवणे प्रमाण नर्सीन इंजेक्शन दिल्लें. सुजाताच्या गर्भाशयांतल्यान वेदनेची कळ येवन आरपार चिरीत वताली. तो दीस आशिल्लो एकुणीसशें अठ्ठेचाळीस वर्साचो सोळा जानेवारी. सुजाता परतू परतून आंगापोंदची चादर मुठींत गच्च आंवळून धरताली. माथें घामान थपथपीत जाल्लें. दोळ्यांचे भोंवतणेंत काळसो वाठार पातळटालो. त्या वर्सा जानेवारींत खूब थंडाय आसुनय बी तिका ती लागनाशिल्ली.

▶ अणकार : रमेश लाड
९७६४९२४५५२

बावीस वर्सां आदली एक सकाळ सुजाताक सपनांत दिसताली. अशें हें खूबशे फावटी घडटालें. आपले आपूण तेन्ना तुवालो, शाबू, साडीबी अशें सगळें सामान पुंजावन बॅगांत भरता अशें तिका दिसतालें. आतां सुजाताची पिराय आसा त्रेप्पन वर्सां. सपनांत तिका बॅग भरपाच्या कामांत गुल्ल जाल्ली बत्तीस वर्सांची सुजाता दिसता. गुरवारपणाच्या भारान जड जाल्ल्या आंगाची, पूण तरणाटी सुजाता, आपणालो पूत व्रती हाका ह्या संवसारांत हाडपाचे तयारेंत पुरायपणी ओंपून घेतिल्ली! एकेक वस्तू काडून ती बॅगांत भरता. सुजाताचो चेरो पोटांतल्यान येवपी वेणांक लागून परतू परतून धवो फटफटीत जाता. ती तेन्ना दांतांनी ओंठ दामून धरता आनी भायर फुटून येवपी रडप आडावपाचो यत्न करता – सपनांतली सुजाता! आतां व्रती येवपाचो जाला न्ही!

त्या दिसाय बी रातच्या आठांक कठोय येवपाक सुरवात जाल्ली. हेमान एके अणभवी अस्तुरेवरी म्हणिल्लें. ''पोट सकयल देंवलां, ताई आतां चड वेळ ना.'' तिचो हात धरून हेमानच म्हणिल्लें, ''बरे भशेन एकाचीं दोगां जावन घरा येयात.''

वेणो वाडत वताल्यो. खंयच्याय खिणाक भुरगें जल्माक येवं येतालें. हें जाणा जावनच सुजाता आदींच नर्सिंग होमांत गेल्ली. तेन्ना ज्योती धा वर्सांचो आशिल्लो. नीपा आठ आनी तुली स वर्सांचें. सासुमांय तेन्ना तिच्याच म्हऱ्यांत रावताली म्हणपाचें तिका याद आसा. ज्योतीचो बापूय हो तिचे सासवेचो एकटोच पूत. एका भुरग्याचो जल्म जालो आनी तिचो घरकार संवसाराक अंतरलो. सुजाताक परतू-परतून येवपी गुरवारपण तिका सोंसनाशिल्लें – तिचो ती लागून कानपूरा गेल्लो. तिका सगली याद आसा. दिव्यनाथ आवय घराच आसतली म्हूण नकळो आशिल्लो. ती आसची ना हें जाणा जावनय ताणे सुजाताची कसलीच तजवीज करून दवरली ना, आदले दर खेपेवरीच. बाथरुमांत गेली तेन्ना रगत गेल्लें पळोवन ती भियेल्ली; रोखडेंच सगलें जाग्यार घालून तिणें रांदप्याक धाडून टॅक्सी हाडिल्ली.

सुजाता नर्सिंग होमांत गेल्ली तेन्ना डॉक्टराक तिचें मुखामळ पळोवन खूब हुस्को जाल्लो. सुजाता भियेल्ली वेणांचे वेदनेन परतू परतून दोळ्यां सामकार धुकें धुकेंशें दिसतालें – कोणेंतरी झरयिल्ली कांच धरिल्लेवरी. अशें आसतनाय मुद्दम यत्न करीत तिणें दोळे उगडे धरीत डॉक्टराक पळयत विचारिल्लें. ''एम आय ऑलरायट?''

केन्नाच वांगडा येनाशिल्लो, सुजाताक हॉस्पिटलांत घेवन वचनाशिल्लो, भुरग्याचें रडप आयकुचें पडटलें –त्या खातीर तिसऱ्या माळ्यार वचून न्हिदतालो. भुरगीं बरीं ना जालीं जाल्यारय खबर घेनाशिल्लो, पूण एक, दिव्यनाथाची नदर सुजाताचेर लागिल्ली आसताली; तिची कूड परतून आवय जावपाचे स्थितींत पावल्या काय ना ती तो बारीक नदरेन तेळटालो. ''टॉनीक बी घेता काय ना?''

एके तरेच्या घोगऱ्या थरथरपी आवाजान दिव्यनाथ तिका विचारता. ताची वासना चाळवून तापता तेन्ना ताचो आवाज घोगरो जावन थरथरता. सुजाता बरी वळखता ह्या दिव्यनाथाक. तिचे भलायकेची तो खबर घेता तो एकाच हेतून. डॉक्टराक बाबड्याक कितें खबर?

डॉक्टर सुजाताक वखद दिता. वखदान वेदना कमी जाली ना. अचकीत त्याच वेळार अजून जल्माक येवंक नाशिल्ल्या भुरग्याचे मायेच्या उमाळ्यान सुजाताचें मन उपाट भरून आयिल्लें. तुलीच्या जल्मा उपरांत सुमार स वर्सां जावन गेल्लीं – व्हडा यत्नांनी सुजातान स्वताची राखण केल्ली, पूण निमाणी तिका हार खावची पडिल्ली.

घडये त्याच खातीर ती स्वताक सेगीत णव म्हयने अश्लील आनी अपवित्र मानीत राविल्ली! कुडीच्या दिसान दीस वाडत वचपी भाराक वायट उतरां दिवन बेजारताली. पूण जेन्ना अर्भकाच्या जिवाक धोको आशिल्ल्याचें कळ्ळें, तेन्ना मात तिचें मन मायेच्या उमाळ्यान कळवळिल्लें. सुजातान डॉक्टराक आफोवन सांगिल्लें, ''ऑपरेशन करात डॉक्टर, वाटायात ताका.''

''तेंच करतां हांव.''

डॉक्टराचे सुचोवणे प्रमाण नर्सीन इंजेक्शन दिल्लें. सुजाताच्या गर्भाशयांतल्यान वेदनेची कळ येवन आरपार चिरीत वताली. तो दीस आशिल्लो एकुणीसशें अठ्ठेचाळीस

**बरी अर्थीक स्थिती, सुरक्षा असल्या गजालींचेर सुजाताचीय आस्था आशिल्ली. त्या खातीर दिव्यनाथाचो आरोप सारको न्हय. त्याच खातीर बापाय कडेन दुस्मानकाय मांडून घेवपाक व्रतीक सुजातान बळ दिलां अशें म्हणपाक आदार ना हें सिध्द जाता. व्रती बापायक दुस्मान माननाशिल्लो हें काय सिध्द जायना न्हय. व्रतीक दिव्यनाथाची चलणूक सोंसनाशिल्ली म्हणपाचें सुजाता जाणा आशिल्ली. तिका तें बरे भशेन खबर आशिल्लें.**

दुस्वास करताली. ती बाळंत जावपाच्या दिसांनी पयलींच भयणीगेर वचून रावताली, सुजाताक एकटीच सोडून.

सुजाताचो घोव म्हणटालो, ''माँ इल्ली हळव्या मनाची, कळो येतात तेन्नाचें तें वळवळप, रडप-आइडप हें सगलें पळोवं नजो जाता तिच्यान...'' पूण सुजाता रडली आइडली बी अशें केन्ना जालेंच ना. दांतांनी ओंठ घट्ट धरून ती भुरग्यांचेय बी सगलें सारकें करताली. ते फावटी सासुमांय घराच आशिल्ली कारण तिची भयण हांगा नाशिल्ली आनी ज्योतीचो बापूय कामाक

''खात्रेन! न्हीद तूं''

''कितें करतले तुमी?''

''ऑपरेशन.''

''डॉक्टर, भुरग्याचें कितें?''

''न्हीद तूं पयलीं! हांव आसां न्हय! एकटीच शी आयली?''

''तो ना घरा.''

अशें म्हणटना सुजाताचेर निरशेणी पडिल्ली. तिका दिव्यनाथ कलकत्यांत आसल्यारय बी आपणा वांगडा येवचो नाशिल्लो हें खबर आशिल्लें. जाल्यार डॉक्टराक अशें कित्याक दिसलें? दिव्यनाथ

पान ९३ चेर





# घुगी गे घुगी...

**भुरगो खायना जेवना जाल्यार ताका पोरसांत व्हरून काको दाखोवन जेवयतात. भुरग्यांच्या लक्तुबायेचो हो कावळो तकलेन बरोच फीन. तो हरशी काडयो वडयो एकठांय करून आपलो घोटेर बांदता. आमच्या घरा मुखार जिल्लो हॉस्पीटलाचे बांदकाम चलता. फाटल्या दिसांनी आमच्या माडार थंयचो बारीक सरयो हाडून कावळ्यान केल्लो घोंटेर हांवे पळयलो. आनी तांतूत तांतया घालपाक सोदपी कोगळीण आनी तिच्या फाटल्यान लागिल्लो कावळोय पळयलो.**

▸ हर्षा शेटये
९८५०५३०१५२

घुगी गे घुगी
आड्यार उबी
रडतल्या बायक म्हज्या
कर गे ओगी

धाकटुले सानवी बाय रडटाले आनी ताजी आजी ताका थातारपाक आल्लयो म्हणटाली. झाडार बशिल्ल्या सवण्यांकडेन बोट दाखोवन ताका फुसलायताली. ही आल्लय आयकून म्हाका मात अजाप जाले. घुगी म्हळ्यार घुगुम. हरशी घुगुम बी दिसप म्हळ्यार अशुभ अशी एक अंधश्रध्दा आसा. पूण हांगा तर आमी घुगुमाक भुरग्याचे रडप थांबय म्हणटात... म्हळ्यार आमका सगलीं सुकणीं प्रिय... तशें पळोवंक गेल्यार आमी भुरग्यांक ल्हान आसतनाच सवण्या-सावदांची वळख करुन दितात. हालीसराक सवण्यांची कोंकणी नांवा पुंजायतना म्हाका सवण्यांचेर रचिल्ली लोकगितां, आल्ल्यो मेळल्यो आनी म्हाका तांची विविधताय पळोवन अजाप दिसले.



सगल्यांक पयली भुरग्यांची वळख जाता ती काक्यांकडेन...

धोल धोल धोलाचो
धोलता बाबू भागलो
फुला वेचूक लागलो
एक फूल व्हेले काक्यान
कित्याक रे काक्या रडयता
आंगली तोपरी भिजयता...

भुरगो खायना जेवना जाल्यार ताका पोरसांत व्हरून काको दाखोवन जेवयतात. भुरग्यांच्या लक्तुबायेचो हो कावळो तकलेन बरोच फीन. तो हरशी काडयो बडयो एकठांय करून आपलो घोटेर बांदता. आमच्या घरा मुखार जिल्लो हॉस्पीटलाचे बांदकाम चलता. फाटल्या दिसांनी आमच्या माडार थंयचो बारीक सरयो हाडून कावळ्यान केल्लो घोंटेर हांवे पळयलो. आनी तांतूत तांतया घालपाक सोदपी कोगळीण आनी तिच्या फाटल्यान लागिल्लो कावळोय पळयलो.

कोगूळ बाबडी सादी. तिका सैमान घर बांदपाची कलाच शिकोवकना. तांतया घालपाचो वेळ येतकीच कोगूळ कावळ्याची तांतयां आशिल्लो घोंटेर सोडून दवरता. नर कोगूळ कितेंय निमित्त करून कावळिणेक घोंटेरांतली धांवडायता. तितले म्हणसर मादी कोगूळ येवन घोंटेरांत तांतयां घालता. केन्ना केन्नाय ती घोंटेरांतली कावळ्याची तांतयां भायर उडयता. ह्या मादी कोगूळाक कोंकणीत शिबरी, शिरबी गड्डेकांकण अशी नांवां आसात. कावळीण बाबडी ही तांतया उबयता. कोगळाच्या पिलाक आपल्या पिला बरोबर वाडयता. हो नातेसंबंद दाखोवपी एक आल्लय आंयकूंक मेळटा. तांतूत कावळ्याक कोगळाचो मामा म्हणला. घडये तो कोगळाची पिलां आपल्या भयणीली पिलां म्हणून वाडयता जावये. भुरग्यांक न्हिदयतना आवय म्हणटा.

आरे आरे कावळ्या
कोगळाच्या मावळ्या
वारो घाल, बाबूंल्या दोळ्यां

ते खातीर म्हाका आमच्या जाणटल्याच्या कल्पनाशक्तीचे कवतुक दिसता. कावळ्याक कोगळाच्या मामाचो दर्जो दिवप म्हळ्यार आमच्या जाणटेल्याक ग्रेट म्हणचें पडटले.

हो कावळो कोंकणी लोकजीवनाचो एक म्हत्वाचो भाग. कावळो रडपाक लागलो जाल्यार पयली जाणटेली म्हणटाली, 'आज कोण सोयरो येता दिसता.' तेन्ना सोयरो चलून येतालो. तेखातीर कावळ्याक ताची सुलूस पयली लागताली. तो मागीर आड्डून आड्डून घरच्यांक रकाद दितालो. तेचखातीर संवसारांतलो सगल्यो खबरो खबर आशिल्ले बायल मनशेक कावळ्या आवय म्हणटात.



कावळो आनी चिमणी हांची नांवां चडशी बरोबर घेतात. पूण लोकसाहित्यात कावळ्याचेर रचिल्ल्यो म्हणी, आल्ल्यो मेळटात तितल्यो चिमणेचेर रचिल्ल्यो मेळनात. कित्याक काय? सोदून काडचे पडले. घडये ती आकारान ल्हान म्हणून जावये. पूण आकारान तिचेच परस ल्हान आशिल्ल्या किटुराचेर काणयो कवनां खूब रचिल्ली मेळटात. हे कवन तर सगल्यांच्या वळखीचे.

शेवण्या किटुरा
खंय गो गेलेले?
घाटार गेलेलें
घाटार कित्याक?
वांवळ्यो हाडूंक
वांवळ्यो कित्याक?
घोटेर बांदूंक
घोटेर कित्याक?
पिलां काडूंक
पिलां कित्याक?
मामालें शेत राखूंक...

किटूर हे गोंयांत दिसपी सगल्यांत ल्हान शेवणे. किटूर आनी किडीची काणी हांवे भुरगेपणांत आजयेकडल्यान खूब वेळां आयकल्या. किटूराक एक कीड मेळटा. किटूर तिका खांवपाक वता. कीड म्हणटा, 'शी, तुवें चोंच तरी धुल्या? हतशें बुरश्या चोंचीन म्हाका खातलें? वच पयली चोंच

पान १०३ चेर

# दि|स|प|टी



▶ माधवी सरदेसाय

**शेनवार १ जानेवारी २०११**

नवें वर्स... रातीं सगळ्यां बरोबर 'नॉस्टाल्जियां'त. Forced myself to enjoy. पुपून, तुकी आंकूंक घेवन नाचलीं तें पळोवंक आवडलें. म्हाका मात तातोची खूब म्हळ्यार खूब याद आयली. दोळ्यां मुखार ओशिपितालांतलींच चित्रां. अशें कशें काय...? पयर सकाळीं फुडें तातो सपनांत. पिरवळा आमी प्रार्थनेक शीं बसल्यांत. माँय आसा. प्रार्थना म्हणपाचो 'भार' म्हजेर सो आनी हांव उतरा पावलाक चुकतां. तातो दुःखी तोंडान सो विचारता, ''आतां कशें जातलें?'' (म्हळ्यार...?)

आज गुरुनाथ काकालो फोन आयलो. 'नव्या वर्साचें resolution कितें?' विचारून. तो खंय लाख भर कोंकणी लोकांच्या हातांत 'सत्याचे प्रयोग' पावयतलो... हांवें कांय जाप दिलिना. मनांत म्हळें, वेळाक पाळो दितलें. काल राजूचो आनी म्हजो ह्याच मुद्द्यावयल्यान वाद. गरजे भायर. निमाणें भायर सरूंक राजूनूच वेळ केलो. पूण ताका दिसलें, आपणाक लागून म्हजें बेगीन जालें! (सदचे वरी.)

आजूय पणजे वचून जागाचें काम केलें.

भुरग्यांक घरा उडोवन म्हणटात तशें. पुपून फाल्यां परां वचचें जालें...

आयतारा डायरी बरोवप ना काय?

आयतार म्हळ्यार सगळ्याक सुटी?

मडगाव: सोमार ३ जानेवारी

'राव रेय!' म्हणटकच कारेंर रावताली तशें म्हज्या जागाच्या दिवाळी-नातलां अंकाचें जालां. नागेशबाबाचो लेख अजून येना. 'राव आँ...' म्हळा म्हूण रावतां...

आज थारायलें नोव्हेंबर, डिसेंबर, जानेवारी - तीन म्हयन्यांचो करप म्हूण हो अंक. फेब्रुवारीचो फेब्रुवारी अखेरेक काडप...

पूण बरोबर न्हय हें.

तातो आशिल्लो जाल्यार... ह्या वर्सा ताचे खातीर तरी वेळार येवंक जाय आशिल्लो अंक.

**मडगांव: मंगळार ४ जानेवारी**

रातीं तीन मेरेन बसून काकासाहेबावयलो लेख सोंपयलो. आनीक इल्लो बरो जावं येतालो... आज परतो वाचलो आनी मदीं मदीं 'किसूळ मारली'. ह्या लेखा निमतान 'पुण्यभूमि गोमंतक', 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' आनी तातोन बरयल्ल्या काकासाहेबाच्या व्हडल्या चरित्राचीं पन्नास-साठ पानां वाचलीं. 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' खूब सुंदर पुस्तक. १२-४-१९६९ ते २७-४-१९६९ - हे मजगतीं मेळिल्ल्या काकासाहेबाच्या सहवासाचें तातोन खऱ्यांनीच भांगर केलां. रमेशभाईन तातोक 'काकासाहेब के नचिकेता' म्हणिल्लो...

'सिदाद द गोआं'त 'फादांचे राती'क वचून आयलीं तुकीक घेवन.

पुपून पुण्याक गेलें. फोनार खूब उलयता. ना जाल्यार मॅसेजी धाडटा वा वाचता. आमचे बरोबर जेवंक बसतां तेन्नाय फोन म्हऱ्यांत आसता. आनी कान मॅसेजींच्या टोनाचेर... वायट दिसता म्हाका. दुखता Absence of a presence, presence of an absence चो अणभव... सांगलें ताका रातीं.

**मडगांव: बुधवार ५ जानेवारी**

पुतुलाल्या बाबूचो वाडदीस. कृपाली बरोबर युनिव्हर्सिटींतल्यान पिरवळा वचून आयलें. गिरीशान घराक भायल्यान रंग

**पान १०४ चेर**



# श्वेतसिंधू

कथा

इश्कोलांत आसतां म्हण गावांत म्हाका सगळे मास्तरच म्हणी. म्हाकाय मातशें ओर्र कशें. वगीच रावतालों. पूण एक दीस सांगलें हावें सगुण्याक म्हजें काम कसलें तें. पूण ताचेर कसलो परीणाम जालो ना. तें म्हज्यांत आपलें सर्वस्व मानतालें. आनी सगुण्याचें सिंधू करून ताका हावें म्हजें केलें.

▸ हेमा नायक
१७६४५१७६२८

गॅसार बोगुण्यांत कसाय शिजतालो. वयर धापिल्लया धाकण्याचो खळखळ आनी वयर सकयल ताचें हालप धोलप बारीकसाणेन नियाळटाना खिणभर गणेश आपल्यो विवंचना विसरलो. तबल्याचे थेके आनी नाचाचे ताल. ताका मजा दिसली.

काल हिंदू फार्मासींत वचून ताणे कसायाची पुडी हाडिल्ली. गॅसा म्हऱ्यांत उभो रावन कसाय शिजोवपाची ही पाळी ताचेर पयलेच खेप आयिल्ली. नाजाल्यार असलीं कामां ताचे बायलेचीं. ताच्या हातांत आयतें कोप येतालें कसायाचें. ती खंयच्यान हाडटाली ती पुडी हें लेगीत ताका खबर नाशिल्लें. तातूंत कितें आसता तेंवूय नकळो आशिल्लो. कसलीं कसलीं पानां आनी बारीक बारीक बियो कशो तीं काळीं फळां. बाणशिरें घेवन ताणें ल्हवूच धाकणें उकतें केलें . खतखतो, बुडबुडे, फेस आनी मागीर भस्स करून कोडसारसो, हरवसारसो विचित्र वास सगळ्याक पातळ्ळो. सात आठ दीस जाले थंडीच निवळना म्हणून हो उपाय करपाचो येवजिलो गणेशान.

थंडेन जाम जाल्लो पळोवन स्टाफरूमांत टीचरांनी आनी बाकिच्यांनी ताका भेश्टायलो, अशी थंडी आंगार घेवन रावूं नाका म्हण. पुलमावांत भरतली आनी मागीर कित्याचें कित्यारय पडत म्हणपाची शिटकावणी दिली. ताचो सहकारी इरफान, ताणें ताका सांगलें पुडी खंय मेळटा आनी तातूंतल्या सामानाचे तीन वांटे घालून एकेक वाटो शिजोवन तीन फावटीं कसो घेवपाचो तो. पूण शिजोवन दितलो कोण? बायलेक मरून म्हयनो जालो आनी धुवेचो पत्तो नासून पांच वर्सां सरत आयलीं. ताणें गाळणो घेवन कसाय एका पेल्यांत ओतलो आनी भायर पडवेर येवन तो सोप्यार बसलो. थंडेन ताचो जीव कासावीस जाल्लो. हरशीं तो फांतोडेर उठून एक पासय मारून येवपी. पूण आयज उठनच दिसना जालें. सदचेभशेन इरफानान सादयलो ताका. तसो तो सामको शेजारी न्हय पूण लागींच रावता. दोगूय वांगडाच वतात इश्कोलांत. वतनाय वांगडा आनी येतनाय बी. राम लक्ष्मणाची जोडी म्हणटात सगळेजाण तांकां. आनी गणेशाची बायल मरतसान तर इरफान ताका चड लागीं



आसतलें.

म्हज्या एकल्याच्या पगारान भागोवपाचें. आनी पगार तरी कितलो! प्युनाची सिर्विस. आठवे यत्ते वयर शिकपाक पावलों ना. तरीय तांतले तातूंत रीण काडून हें धाकटुलें घर बांदलें. आसा एक घर गावांत. मातयेच्या वणटींचें. गांवटी नळ्यांचें. रावूं येतालें थंयच. पूण सिर्वीस ही इतले पयस. सकाळीं साडेसातांक पावपाक जाय इश्कोलांत. थोडे तेप केलो यो वच. पूण वेळाचें गणित जमलें ना. बायल चड शिकूंक ना. ताका लागून तिका नोकरी ना. तरी बाबडी जुळोवन घेताली संसाराचें रडगाणें. केन्ना कसली कागाळ केली ना. आपणांक हें जाय तें जाय म्हण कसलो हट धरलो ना.

चली जाली तेन्ना केदी खोस जाली तिका. बाळंटेरा वेळार खूब त्रास जाले. दोतोरान धरिल्लें नॉर्मल जातली म्हण ती बाळंत, पूण ना. आकांतली सामकी. वेणो येतात पूण भुरगें भायर सरना. दोतोर भियेलो. दोतोर वळखिचो म्हण माणसुकी. तागेली बायल आमच्या इश्कोलांत शिकयता ताचे वयल्यान आमचें बरेपण. दोतोर पूण भांगर. एक पयसो घेतलो ना बाळंटेराचो. ऑपरेशन करचें पडलें ऐन वेळार. भुरगें वाचलें तें व्हडलें. पूण एक मात शिटकायलें दोतोरान, तिचे पिशवेक मातसो दोश आसा. आनीक भुरगें जावप कठीण आनी गर्भ धरलो जाल्यारय णव म्हयने तो सांबाळपाक जायत काय हो दुबाव. तेन्ना रीस्क घेवं नाकात. मेळ्ळां त्या भुरग्याक बरे तरेन वयर काडात.

जाल्लें हरशीं गुटगुटीत. पूण मातशें काळें. म्हजी तरी कात खंय धवी? आनी आवयूय तशीच काळी सांवळी. आसना कशेंय. आमच्या रगताचें जालें म्हणकीर जालें. नाव हावें दवरलें ताका ज्ञश्वेताफ खूब जाणां कडेन अर्थ विचारून घेतलो. आमकां तशें चड गिन्यान खंय आसा? हावाशिवा करून जालों आठवी पास. तोवूय सामको कांठार. आवय कामेरें आनी बापूय मानाय. जालें. म्हाकाय मानायपणाकूच धाडपाक सोदी. पूण

आयिल्लो. ताची काळजी घेतालो. आयज आनी सकाळींफुडेंच येवन सादोवंक लागलो. गणेशान हाथरूणा वयल्यानच सांगलें,

इरफान तूं चल. थंडेन जीव आंबशेला कसो म्हजो

आरे भायर तरी यो

नजो रे. तूंच यो दार धुकलून. उकतेंच आसा दार. सकाळी उठून उकतें केलें हावें.

इरफान ताचेम्हन्यांत आयलो. कुलकुलो खाल्ले भशेन गणेश हाथरूणार गच्च गोधडी कामरून न्हिदिल्लो.

ताप आयला? इरफानान ताच्या कपलाक हात लावन पळयलो. तशी तापाची हुनसाण लागली ना ताका. थंडी चड जाल्ली. तो भितर गेलो. गॅस पेटोवन फुटी च्या केली आनी कोपांत घालून घेवन आयलो आनी ताका उठोवन ताच्या तोंडाकडेन कोप धरून म्हणलें, कसाय घेतलो तुवें?

गणेशान तकली हालोवन ना म्हणलें.

करून दवरूं?

नाका. तूं चल. वेळ जातलो. प्रार्थनेची बेल मारपाची आसा.

आनी इरफान गेलो. कसायाचो एक खतखतीत घोंट ताळ्यांतल्यान सकयल देंवनाफुडें ताका बरें दिसलें. हुनसाणशी आयली कुडीक. पूण काळजाची हुनसाण कोण दितलो? ध्याना मनांत नाशिल्लें सगळें विपरीतच घडपाक लागलां. भांगरासारकेल्या संवसाराक कोणा दळडिन्याची नदर लागली कोण जाणा! तो अस्वस्थ जालो. आपल्याच जिवाची उबगण आयिल्ले भशेन जालें ताका. खंय आसतलें काय पोर म्हजें! एकलेंच भुरगें. खंय कमी पडलो आसतलो काय बापूय म्हणून हांव! आशिल्लयो बाबड्याक खूब उमेदी. मेट्रीकेक बऱ्या मार्कांनी पास जालें. फुडें शिकपाची उमेद आशिल्ली काय कितें तें कळपाक मार्ग ना. पूण पैशांची आमची अडचण पळोवन वगीय रावलां

म्हजेच गोमटेर म्हारू बशिल्ले भशेन जालो. शिकतलोंच म्हण गेलों इश्कोलाक. पूण आमच्या सारक्यांचेर लक्ष कोण दिता? गोरीं गोमटीं, नाका दोळ्यांनी जुस्ताजुस्तआसता त्या भुरग्यांच्यो तोखणायो. आमचो गृहपाठ सारखो जायना जाल्यार कानाक धरून उठाबशो. मास्तर वा बाई मुखार उभी आसताली पट्टी घेवन एक दोन.करीत. बाकिचीं भुरगीं कीटकीटटालीं. वाजेलों. आठवेक शाळाच सोडली आनी बापाय बरोबर गेलों वावराक. कोणालें कण्णेयिल्लें घर शींव तर कोणालो चुड्टां भोरो उखल.

नाव हरशीं गणेश, पूण सगळे गणसूच म्हण उलो मारी. आमच्या नांवाचीय ही अशी विदरणा. पूण म्हज्या भुरग्याक अशें घडूंक फावना म्हणून नांव दवरलें श्वेता. म्हणल्यार धवो फुल्ल रंग. सरस्वतिचें रूप. सरस्वति ही विद्येची देवी. शिक्षण, गिन्यान आनी बुदवंतकायेची देवता. मुखार पारजताचीं शिंपडून पडिल्लया धव्याफुल्ल पांकळ्यांच्या फुलां भशेन. अनंत, सदानंद आनी सदाफुलीपळोवंक गेल्यार आमच्या दारांत सगळीं धवींच फुलां! मोगरीं, जायो, जुयो. ल्हानशें पोरसूं. पूण फुलां खूब. आबोलीं आनी शब्दुलींय आशिल्लीं. आवड तिकाच आशिल्ली, बायलेक. चित्रंगीची वेलेची आनी कितली तर तोखणाय! आनी ते वेलीक फुलतलीं जाभळ्या रंगाचीं नाजूक फुलां सामकीं जाय आशिल्लीं. बडी रोमून ती वाल ते बडयेचेर वयर चडिल्ली पळयतना सामकी भुल्लूसून वताली. सिंधू नांव तिचें. हेंवूय हावेंच दवरिल्लें.

गणेश यादिंनी घुस्पलो.

सोयरीगत बी न्हय. गावांतलीच. अदींमदीं येताली आमगेर आवयचे मदतीक. सगूणे नांव. चोरयां, लिपून म्हणटा तसो दोळ्याक दोळो लागलो आनी धरलो. सगूणे म्हण उलो मारता तें अजिबात आवडनाशिल्लें. एक दीस धाडस करून सांगलें ताकातूं म्हाका आवडटा पूण तुजें नांव आवडना. तें मुरगटलें. म्हणपाक लागलें, नांवांत कितें आसा तर? आनी नांव बदलूं येता न्ही मास्तर? हांव हांसलों. इश्कोलांत आसतां म्हण गावांत म्हाका सगळे मास्तरच म्हणी. म्हाकाय मातशें ओर्र कशें. वगीच रावतालों. पूण एक दीस सांगलें हावें सगुण्याक म्हजें काम कसलें तें. पूण ताचेर कसलो परीणाम जालो ना. तें म्हज्यांत आपलें सर्वस्व मानतालें. आनी सगुण्याचें सिंधू करून ताका हावें म्हजें केलें. खूश बाबडें. सिंधू ह्या नांवातूच जाणवतालें म्हाका म्हज्या भारत देशाविशींचें आपलेपण. जांव म्हणलें तिच्या नांवातल्यान तो आनीक वाडत वचूं.

लग्ना उपरांत पयल्याच वर्सा घरांत आपल्या येवपान खोस फांकारपी श्वेता एक दीस आमकां सांडून नाच जालें तेन्ना सावन ती बाबडी <s>तळमळत</s> आसली. धुवेचे यादीनी घुस्मटटाली. केन्नाय हुंडकेताली. तिचो म्हणून बाबडेचो कितें अन्याय! धसको घेतलो तिणे ताच्या ना जावपाचो. कितल्यो तोखणायो गायताली तर धुवेच्यो. खूब लाड केल्ले. आपणाक काळें म्हण चाळयतात ही ताची आवय कडेन सदांच कागाळ आसताली आनी मागीर ती ताका म्हऱ्यांत काडटाली आनी रेडओचेर लागता त्या गीतांतल्यो दोन वळी सुरान म्हणटाली, झ्वगी तूं चलये म्हजे कोणे तुका काळी म्हळी.फ आनी मागीर मात तें आवयचे कुशींत रिगून खळखळून हांसतालें ताचो हांसो सिंधू न्हंयच्या प्रवाहांत सामील जावन न्हंयचो घेर वाडत वता कसो जाणवतालो. आनी एक दीस व्हांवतां व्हांवतां म्हजी सिंधू म्हाकाच सांडून गेली. म्हाका अशी उबांतरा उडोवन.

बायलेच्या आनी धुवेच्या यादींनी गणेशाच्या दोळ्यांच्यो पातकड्यो ओल्यो जाल्यो. इतल्यान पयसुल्लयान पोस्टमन ताका सादयत आयलो. आरे, म्हणजे दनपार जाली तर. केदो वेळ ताका आपूण यादिंनीं घुस्पल्लों तेंच कळना जालें.

पोस्टमन रें ीं, गणेश मोरजेकार कांपीण वाजयत ताणें सायकल गणेशा मुखार उबी केली आनी पोतयेंतलीं पत्रां उस्तून एक जाडसो लखाटो ताच्या हातांत दिलो. गणेशाक अजाप, हें कसलें लचांड बी न्ही मू आपणांचेर.

कितें रे गणेशबाब आज कामाक वचूं ना? तुका थंयच इश्कोलांत दितलों म्हण आशिल्लों हांव. कितें जालें? दुयेंत आसा?

थंडी मरे. थांबचना. कसाय घेतला करून. गेलों ना इश्कोलांत.

बरें केलें. सुशेग घे. निवळटलो. उगडास येता न्हय भाभीचो. गेली बाबडी.

पोस्टमन गेलो पूण भाभीचो उगडास काडलो आनी आपल्या घायावयली खवळी निखळावन काडिल्लेवरी जालें ताका. यादिंचें जडभार ओजें घेवन तो पोरसांत देंवलो आनी सगळ्या फुलिल्लया झाडांक पोशेवन तांचेर मायेचो शिंवर केलो. दनपारच्या भर वोतांत लेगीत फुलांनी आपल्या परमळान ताका धादोशीत केलो. चित्रंगीची पाचवीचार वेल तर हात लायता थंय ताच्या बोटांक गुठलावन घेताली. ताच्या आंगांतली आळसाय त्याच खिणाक ना जाली आनी तो सामको उमेदी जालो. मदींच भास जालो ताका सगळीं फुलझाडां वेटोळो घाल्ले भशेन ताका तिडकीन गुरगुरत विचारतालीं, खंय गेली आमची भाभी? केन्ना येतली आमची भाभी? कितें जाप दितलो गणेश तांकां? अपराधी जाल्ले भशेन तकली सकयल घालून तो घरांत आयलो.

मोठे उमळशिकेन ताणे पोस्टमनान हाडून दिल्लो लखाटो उकतो केलो. भितर एक पत्र पूण एक दोन पानांचें न्हय तर बरें जाडजूड. भरगच मजकूर. अक्षर मातशें मोठें. पत्राचे वयर नांव गांव काय ना. कोणाक बरयलां ताचोय उल्लेख ना. ताणे फाटफुडो सगळीं पानां चाळ्ळीं आनी निमाणेकडेन नदर भोंवडायली. श्वेता नांव वाचनाफुडें तो तटास जालो. धस्स जालें ताच्या काळजांत. ताणें वक्ल दोळ्यांक लायलें आनी परतून वाचलें, हय श्वेता. म्हजीच धूव ती. पोर खंय आसा कांय? आतां इतल्या वर्सांनी आयलो उगडास ह्या बापायचो?

पळय सिंधू तुगेल्या पोरान पत्र धाडलां पळय. कितल्याय वर्सांनी आसना पूण जाली

याद आमची ताका. आयकता मुगो? गणेश सामको भुरकटून गेलो आनी पत्र घेवन नाचपाकूच लागलो.

यो बस अशें, फुड्यान बस आनी फुडें आपली बायल बसल्या असो अदमास करून ताणें वाचपाक सुरू केलें,

नमस्कार

आई आनी बाबा म्हणपाची लायकी हावें दवरल्या काय कितें तें म्हाका खबर ना पूण म्हज्यांतली तुमचेविशींची माया आनी मोग हांकां स्मरून जें कितें घडलें तें सांगपाचें धाडस हांव करतां. खंयच्यान आनी कशी सुरवात करपाची तें म्हाका कळना. पूण घडिल्ली हकिकत तुमकां सांगपाकूच जाय. इतली माया आनी अपुरबाय करपी आई बाबा म्हाका मेळिल्लीं आसतना तुमकां सांगनासताना घरांतल्यान भायर सरून हांव खंय खंय भोंवाडे मारीत रावलें आनी इतलो तेप तुमकां ताची मातूय सुलूस लागूंक दिली ना हाची ख्यास्त तर हावें भोगलीच पूण जिवितांत कितलेशेच चित्त थरारक अशे अणभव घेतले.

जगप हें सुंदर तर आसताच पूण आव्हानां पेलीत जगप हें सबळकायेचें प्रतीक आसा. म्हज्या अणभवांतल्यान हे धरतरे वयले बायलेक हांव कितल्योशोच शिटकावण्यो आनी चत्रायो दिवपाक शकन इतलें धाडस म्हज्यांत नक्कीच आयलां. पूण तेपयलीं हें सगळें घडपाक कितें कारण जालें तें सांगपाक जाय.

बाबा, मेट्रीके उपरांत म्हजे खोशयेन हावें ब्युटी पर्लराचो कोर्स केलो. थोडेशें इंटेरीयर डेकोरेशन शिकलें. म्हाका दिसतालें हावें एक ल्हानसो पार्लर उगडचो आनी ह्या धंद्यांत नांव कमावचें. पाच वर्सांफाटीं गोयांत असले पार्लर चड नाशिल्ले आनी ह्या धंद्यांत बरो वाव आसा अशें चिंतून हावें हें केलें. म्हजें फुडलें शिक्षण तुका परवडपाचें ना हें हावें पळयलें आनी कसलेंय आलतू फालतू काम करपय म्हाका पसंत नाशिल्लें. दोन तीन हजार रूपया पगार मेळपाचे आशेन सकाळफुडें पर्सी खांदाक मारून कारखान्यानी कामाक वचपी चलयांक पळोवन तर तसली पगारी नोकरी करपाची म्हजी तयारी नाशिल्ली.

तुका मेळटा त्या पगारांतल्यान म्हज्या शिक्षणाचो खर्च भागोवंक कठीण वचपाचें म्हणून हें सगळें करपाक हांव फुडें सरलें. पूण तें म्हजेखातीर एक दिव्य आशिल्लें. दोनेक खेपो जीव दिवपाचो विचारय मनांत येवन गेलो पूण हांव तितलें दुबळेंय नाशिल्लें. इश्कोलांत तूं प्यून आसूं पूण घरांत मात म्हजो मास्तर आशिल्लो आनी जगपाचेर प्रेम करपाक तुवेंच म्हाका शिकयिल्लें. वगी तूं चलये म्हजे कोणें तुका काळी म्हळी / पूस ते दोळे रूपाची जात तुज्या आंगळी..आई जें गीत म्हजे खातीर गाताली त्या गीतांत म्हाका एक संदेश आशिल्लो , कोणेंय कितेंय म्हणलें तरी आपणे वगी रावपाक जाय. निरशेवन रडपाची गरज ना. खूब पोरने पद तें. रेडओचेर अदीं मदीं वाजत आसता. त्या गीतांत म्हजें भुरगेपण लिपलां. खंयूय कानार पडल्यार हांव थारून आयकतां आनी तृप्त जातां. आईचो उगडास येता आनी तेसरशीं म्हज्यांत बळ येता परिस्थितिचेर मात करपाचें.

वाचतां वाचतां गणेशाच्या दोळ्यांमुखार ल्हानपणांतलें श्वेता उबें जालें. ताका दिसलें, हें म्हजें पोर कितलें इश्पेर्त जालां. ताणें आपल्या दोळ्यांतलीं दुकां अचळय पुसलीं आनी तो फुडें वाचपाक लागलो.

पार्लरांत येतना वतना एका भुरग्या कडेन म्हजी वळख जाली. वसंत नांव ताचें अशें ताणेच सांगलें. उलोवपाक गोड आनी भरवंसो दवरपासारको अशी महजी पारखणी जाली. हावें सादेपणीं सांगलें ताका, म्हाका पार्लर घालपाची इत्सा आसा. म्हणपाक लागलो आपूण मदत करतां. कोटेशनां बी आपणेंच हाडून दिलीं. तुका सांगलें ना आनी आईकूय म्हणलें ना ती खूब व्हड चूक जाली म्हजे कडसून. सांगलें ना ताचे फाटल्यान कारण आसलें बाबा. घराचो हप्तो आनी संसाराचो भार. तातूंत म्हजो खर्च. तुका हें सगळें पेलपाचें न्हय. हावें सांगिल्लें जाल्यार तूं ना म्हणचो नासलो न्ही बाबा?

नागो बाय. खंयच्यानय रीण काडून तुजी इत्सा पुरी करतलों आसलों. कळवळून कशीं गणेशाच्या तोंडांतल्यान उतरां पाजरलीं. तो फुडें वाचपाक लागलो.

जाणा हांव. तूं म्हजें उतर केन्नाच खाला दवरपी न्हय. तुका त्रास जातले हेच खातीर हावें तुमकां सांगलें ना. पूण प्रत्यक्षांत वेगळेंच घडलें. ह्या वसंतान म्हज्या सादेपणाचो गैरफायदो घेतलो. एक दीस म्हणलें म्हाका, तुजे कडेन कितें पयशे वा भांगर आसल्यार घेवन यो. म्हाका दिसलें, हो सोपेपणी म्हजें काम करतलो म्हण आनी म्हाका तर पार्लर घालपाची सामकी तीव्र इत्सा जाल्ली. संवकळ आनी सांगात मेळपाक लागिल्लयान आमी दोगांय एकामेकाच्या चड लागीं येवपाक लागिल्लीं. वसंतान सांगिल्लें म्हाका पयलीं धंदो घालुया आनी मागीर लग्न जावया. हावेंय आं म्हणलें आनी ताका सहकार्य दीत रावलें. तो कोण, खंयचो, कितें करता हावें कांयच जाणून घेतलें ना. पिसाय कशें हांव!

आनी त्या दिसा नियतीन म्हजो डाव साधलो. वसंत मोटरसायकल घेवन आयिल्लो. हांव फाटल्यान बसलें .बसचे पयलीं ताणें म्हाका विचारलें पयशे कितले हाडल्यात आनी भांगरां खंय आसात. बाबा, खऱ्यांनीच सांगतां, तूं म्हाका अदीं मदीं दितालो ते म्हजेकडेन पंचविशेक हजार आशिल्ले. आरमारीच्या खणांतूच दवरतालें. ते सगळे घेतले आनी सरपळी, कांकणां ह्यो भांगराच्यो वस्तीय पर्सींत उडयल्यो आनी म्हाकाच कळ्ळें ना वसंत म्हाका खंय घेवन वता तो. ताणें गाडी फास्ट स्पीडीन धांवडायलीआनी काणकोण वलांडून आमी कारवारा फुडें पावलीं इतलेंच हांव जाणां. फुडलें म्हाका कांयच खबर ना.

मागीर म्हजें पोर खंय गेलें काय? सिंधू, कोणे खंयच्या गिधान व्हेलें काय म्हज्या श्वेताक?

जेन्ना हावें दोळे उकते केले तेन्ना हांव

एके बाज्रेर पडिल्लें आशिल्लें. म्हजे कपडे अस्ताव्यस्त जाल्ले आनी म्हजी खात्रीजाली म्हाका कोणेतरी बरेंच पिवयलें, सोरो काय ड्रग्स हें कांयच म्हाका खबर ना. कित्याक तर सगळें घडिल्लें तें बेसावध अवतिकायेंत घडिल्लें.

सावचित जालें तेन्ना म्हजे म्हऱ्यांत एक बायल बशिल्ली आनी ती म्हज्या आंगभर हात भोंवडायताली. कसलें ताट म्हज्या फुड्यांत वाडून दवरलां हें समजुपाक बरोच वेळ गेलो. हें होटेल म्हणल्यार शिंदळकिचो अड्डो आशिल्लो. वसंत हो तांचो सप्लायर. ताणें म्हाका सामकें जाळ्यांत फारायिल्लें. म्हजी पर्स, भांगरां कितेंच नाशिल्लें. ते बायलेन म्हाका वेंगेंत काडलें आनी सांसपित म्हणलें, कितें जाणा?

वगी तूं चलये म्हजे कोणें तुका काळी म्हळी / पूस ते दोळे रूपाची जात तुज्या आगळी. गणेशाच्या तोंडांतल्यान आपसूक उतरां आयलीं.

ना. म्हजी आई म्हणटाली तें गीत म्हणलें ना. कसलींतरी वेगळींच उतरां. कन्नड आसुंये. हांव कर्नाटकांत पाविल्लें. म्हजे कडेन तर आतां एक पानदुडू नाशिल्लो. मोबायलय ना आनी तुमचे कडेन संपर्क करपाचें कसलेंच साधन ना. त्या दिसाच्यान हांव तांचेमदलें जालें. म्हजे कुडीचेर त्या लोकांनी पयसो केलो. रावपाक मेळटालें, खावपाक पिवपाक मेळटालें. बाकिची सगळी काणी तुकाच न्हय तर कोणाकूच सांगपाची ना म्हाका. तरातराचीं गिरायकां येतालीं. रातचीं, दनपारचीं. तांकां खूश करपाचें. पयशांचो हिशोब भलत्याच कडेन. फक्त इतलेंच सांगतां ह्या पाच वर्सांत खंयच्या गिरायका कडल्यान खबर ना, पूण म्हाका दोन भुरगीं जालीं. एक चलो आनी एक चली. कितें करतलें? निमाणे तीं अर्भकां. म्हज्या पोटांत जल्माक आयिल्लीं. बापूय कोणय आसूं, पूण हांव तांची आवय आशिल्लीं.

आनी एक दीस वेगळेंच घडलें. जें घडलें तें कोणाच्या वायटाक आनी कोणाच्या बऱ्याक तें हांव नकळो. पूण आयज हांव तें म्हज्या बऱ्याक अशेंच म्हणपाक शकतां.

बाबा, जे कितें प्रसंग म्हजेर आयले ते सगळे हावें काळजार फातोर दवरून भोगल्यात. कित्याक जाणां बाबा, आईन म्हाका जगप कशें हें शिकयिल्लें. जीण ही रंगरंगयाळी आसता अशें तूंच म्हणी. ह्या वेगवेगळ्या रंगांचो आस्वाद घेवपाक शिकूंक जाय अशें तुजें सांगणें आसतालें. ते रंग हावें म्हजे तकलेचे फास्केर चितारल्यात. ह्या इतल्या कठीण आनी काळखी मार्गावयल्यान चलत फुडें वतना म्हाका असो एक लखलखीत दीपस्तंभ सांपडलो जाणे म्हज्या फाटल्या आरव्ख्या पाच वर्सांच्या जिवीतांत परिवर्तन घडोवन हाडलें. कसलें परिवर्तन तें सांगपाक म्हाका आनीक दोनूच दिसांचो वेळ दी. हांव तुका मेळपाक येतलें.

बाबा, तूं म्हजेर रागार ना न्ही? चूक जाल्या म्हजे कडेन. पूण ती मुद्दाम केल्ली चूक न्हय. नकळटाना सगळें घडून आयलें. पूण हांव आतां कोणाचेर अवलंबून ना. आईन हेंच शिकयिल्लें म्हाका. मनशाचें मन निर्मळ आसपाक जाय व्हांवते न्हंयेभशेन. खंयूय आसूं सिंधू न्हंयचो उगडास दवर. थंड व्हांवपी न्हंय. कात काळी आसली म्हण कांय जायना, कर्तूप श्रेष्ठ आसपाक जाय. श्वेता नांवूच धव्याफुल्ल निर्मळतायेचें प्रतीक.

तुका मेळपाक येतलें. तुजे आशिर्वाद जाय.

तुजें,
श्वेता

गणेशाच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवतालीं. मुखार इरफान ताका जेवण घेवन आयिल्लो. ताणे देळे उकते केले,

इरफान पळय रे म्हजें श्वेता म्हाका मेळपाक येवपाचें आसा. आज फाल्यां केन्नाय येत. सांगूंक जायना. हांव वाट पळयतलों ताची.

खरेंच?

xxx

दोन दीस जाले धुवेचो पत्तो ना म्हण गणेश वाजेलो. फटयलें शेर्त पोरान म्हज्या. ताणें आपली रजाय वाडोवन घेतिल्ली केन्नाय येत म्हण तें. पुरो सुशेग घेतला तो. फाल्यां वचप कामाक.

आनी म्हणटासर दारांत गाडी थांबली. गणेश उठलो. दोन बायलो आनी दोन भुरगीं. श्वेताक तो वळखलो पूण हेर सगळीं अनवळखी. आयलीं तीं सगळीं गणेशाच्या पांया पडलीं. आपलेंच घर आशिल्ले भशेन श्वेता सगळ्यांक घेवन भितर गेलें.

बाबा, हीं म्हजीं दोगां भुरगीं पत्रांत बरयल्यां हावें तीं.

गणेशान दोगांकूय म्हऱ्यांत काडलीं. आनी ही म्हजी नवी फॅमिली कबीर आनी सुखीया. अड्ड्याचेर धाड पडली तेन्ना सगळीं जळामळा फापसलीं. फकत हांव रावलें म्हज्या ह्या दोगां भुरग्यांक घेवन. म्हाका परतून असले हळशिकावणे वाटेर वचपाक नाका आशिल्लें. कबीर आनी सुखीया हाणी म्हाका आपणागेर दवरलें. फाटले स म्हयने हांव तांगेर आसां.

गणेश तांकां हात दिवपाक वतालो आनी इतल्यान ताणे एक कार्ड ताच्या हातांत दिलें.

बाबा, म्हज्यांत नवो चैतन्यमय आत्मविश्वास आनी हें सगळें घडून येवपाक जाय आशिल्लें फाटबळ म्हाका कबीर आनी सुखीयान दिलां. म्हजें जिवीत सार्थ करप हातूंतच तांच्या उपकारांची परतफेड आस्पावल्या. म्हजी आई म्हजें कर्तूप पळोवपाक आयज ना हें म्हाका खबर आसा. तिचे जितेपणींच हें जावपाचें पूण व्यवहाराचे सगळे सोपस्कार जावपाक वेळ गेलो.

गणेशान कार्ड आपल्या हड्ड्याकडेन घट्ट आंवळून धरलें. ङ्गश्वेतसिंधूफ ब्युटी पार्लराचें आयताराक गणेश मोरजेकाराच्या हातांतल्यान उकतावण.

ताच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवतल्या दुकांनी कार्ड चिप्प भिजिल्लें.

श्वेतान ताच्या पांयार घालून घेतिल्लें.

कथा

# सारीपाट

दिवाकराच्या मनांत आयलें... दिल्लीच्या वातावरणांत तयार जाल्ल्या लालवाणींक राजकारणूय कळटा तर..? ना जाल्यार हें हप्त्याचें सांगपाक तो निमण्या खिणाची वाट कित्याक पळयतलो आशिल्लो? आपूण या लडायेंत हारलां हेंय ताणें कशें ज्युस्त उतरांनी सुचयलां... तरीं हांवे तें वंडरलँडाचें उलोवन बरें जालें. इल्लिगलिटीजां बगर तो प्रकल्प कसोच आकाराक येवपाचो ना... लोलयेकार आतां सुटला आसत, फुडाराक कसोच सुटचो ना...!

▸ अनंत साळकार
९८५०६९३१००

केंद्रिय अर्थमंत्री दिवाकर प्रभूंचे मन दिल्लींत कशेंच रमना. तांचे इत्सेचो विचार लेगीत करनासतना तांका हांगा हाडलां. भांगराच्या पांजऱ्यांतलो कीर कसो. हांगा सत्तेच्या सारिपाटाचे नेम सतत बदलतात. आनी, दिल्ली हें तांचे क्षेत्रूच न्हय. तांका गोंयची याद येवपाक लागल्या. तशे ते सप्तकांतल्यान एक फावट गोंयांत वतातूच. पूण आतां थंयच सदां खातीर वचपाची इत्सा आपली मुळां घट करपाक लागल्या. कितें करप? गोंयातली सुत्रां अनिच्छेनूच ताणी लोलयेंकारा कडेन दिल्लीं तेन्ना तो चड तेप तग धरीत अशें तांकाय दिसूंक नाशिल्लें. पूण प्रधानंत्र्यान आनी पार्टी प्रेसिडेंटान लोलयेकाराची प्रत्येक मागणी मान्य केली आनी गोंयांकडेन पैशांचो घसघसो व्हांवपाक लागलो. आतांय त्या घसघशाक खंड ना. हें सगळें गोंयच्या आनी लोलयेकाराच्या मोगान काय आपले पांय कापचे खातीर? बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना अशी म्हजी गत दिल्लींतले हे मारवाडी तर करून उडोवचे नात मू?

कशेंय करून गोंयांत परत वचुंकूच जाय!

पूण लोलयेंकाराक हांवे फटयलो अशेंच कोणाक दिसपाक जायना. भौजन समाजाचो प्रतिनिधी म्हूण ताणे आपली इमेज तयार केल्या, तिचा धपको बसलो जाल्यार म्हजेंय राजकारण सोंपतलें....

उपाय एकूच... पाणी लोलयेकाराच्या गळ्यामेरेन पावोवपाची तजवीज करप. हातपांय मारून थकतलो आनी मागीर अळंग बुडटलो.

एक इश्ट आनी पोरणो वांगडी ह्या बोवाळांत वगडावपाची वेळ येतली. पूण राजकारणात आनी झुजांत सगळेंच माफ आसता.

लालवाणीचो फ्लोटिंग सिटीचो प्रॉजेक्ट....मुख्यमंत्री शिटूक आसत तर देडेकशें कोटींचो घास सहज घेत. लोलयेंकाराक घुसपावपाक ताचो वापर केलो जाल्यार...?

अर्थमंत्र्यांच्या तकलेंत प्लान आकार घेवंक लागलो. ताणीं समिराक आपयलो. फास्केंत बसनात असलीं कामा करचे खातीर म्हूण गोंयांतल्यान ताणीं समिराक दिल्लींत हाडिल्लो. पूण आतां तांका ताचोय दुबाव सो येवपाक लागिल्लो. तरींय ताका आपोवन ताणीं ताचो मोबायल मागून घेतलो आनी लालवाणीक फोन लायलो. गोंयांत खंयचीं सुत्रां हालयलीं जाल्यार प्रकल्पाक गती मेळटली ताच्यो सूचना दिल्यो आनी सप्तकाच्या शेवटाक गोंयांत वचपाचो बेत नव्यान करपांत ते गुल्ल जाले.

पर्वरी! मुख्यमंत्र्यांच्या कॅबिना भायल्या पावण्यां खातीरच्या कक्षांत शोमा अस्वस्थ जावन बसलां. भोंवतणची मनशांची

येरादारी तशी ताचे सवकळीची. पूण पोरणीं तोंडां खंयच दिसनाशिल्लीं. ताणें परत एकवार आपलो पदर ओडून घेतलो. साडयेंतल्यान आपले कुडीचीं वैशिश्ट्यां दिसलीं ना तरी दर्दी नदरेक जाणवतलीं म्हणपाची जतनाय ताणें भायर सरतनाच घेतिल्ली. इतल्यान मुख्यमंत्र्यांच्या पीएन येवन ताचेकडेन हांसून पळयत कुरू केली. तें उठलें आनी कॅबिनांत भितर गेलें. मुख्यमंत्री शोमाक पळोवन प्रसन्न हांसले.

'आइये, आइये, कैसी है आप?'

'जी ठीक हूँ। और आप की सेहत?' मुख्यमंत्री आपल्याक विसंक नात म्हणपाची खोशी शोमा लिपोवंक शकलें ना.

'फीट अँड फायटींग!'आपल्या कदेलाक बशिल्ले कडेनूच फाटल्यान धुकलीत मुख्यमंत्र्यान जाप दिली.

'आपने सिवील सर्वीस क्यों छोडी? यू हॅड अ ब्रायट फ्युचर. सच अ वेस्ट ऑफ टेलंट' मुख्यमंत्र्यांची नदर आता शोमाच्या हड्ड्यांचेर थिराविल्ली.

'चार्म नही रहा उसमें।'

'आपको यहाँ गोवा मे सेटल होना चाहिये. वी कॅन यूज युवर टॅलेंट्स फॉर द बॅटरमेंट ऑफ द स्टेट, यू नो...'

'फिलहाल तो दिल्ली ही ठीक है, सर।'

'यू आर रायट. युवर लव्हड वन्स आर देअर.' मुख्यमंत्र्यांचें उतर शोमाचें काळीज चिरित गेलें. लव्हड वन्स? डस ही मीन दिवाकर?

'तो बताइये, ये आपका प्रॉजेक्ट.....' मुख्यमंत्र्यानीच विशय बदल्लो.

'सर, फ्लोटिंग सिटी हा यह कॉन्सेप्ट अब पुरे टुरिझम इंडस्ट्री में हलचल मचा रहा है। बहामास, दुबाई, सेचेलीस, यहाँ तक की मालदिव्स और ऑस्ट्रेलिया ने ही इसे ग्रॅब कर लिया है।'

'बट यू वील ऑक्युपाय द एंटायर विड्थ ऑफ द रिव्हर. लोकल्स वील बी अप ईन आर्म्स'

सीएम प्रॉजेक्टाविशीं निगेटिव्ह ना म्हणपाचें शोमाक होलमलें. कंपनीच्या अधिकाऱ्यानी ताचो तसो समज करून दिल्लो. ताणें आपल्या हातांतली फायल उगडून सीएमाच्या मेजार दवरली, कदेलारूच बसून तें मुखार वांकलें आनी माहिती दिवपाक लागलें. कंपनी न्हंयेंचो सगळो विस्तार आडावची ना. तिका शंबर मिटर रुंदाय जाय फकत. तीय बी मर्दी. लांबी मात सुरवेक डेड किलोमीटर जाय. शिवोले सावन कामुर्ले मेरेनचो वाठार वापरपाक रोखडीच परवानगी जाय. थंयचो अणभव पळोवन विस्तार करपाचो निर्णय जातलो. ह्या फ्लोटिंग सिटींत एक सेव्हन स्टार हॉटेल, वीस स्वतंत्र डॉर्मिटरीज, तीन रेस्टॉरंट्स, पब्स, स्पा, स्विमिंग पूल, पर्सनल ग्रुमिंगच्यो सुविधा आनी हय, चार गेमिंग झोन्स आसतले. भुरग्यांखातीर ट्वेंटीफोअर अवर्स एंटरटेनमेंट पार्क, थियेटर आनी फूड पार्क

'चार गेमिंग झोन्स? याने चार कसिनो? दॅट वील पूट अदर्स आऊट ऑफ बिझनेस.' मुख्यमंत्र्यानी शोमा कडेन रोखून पळयत म्हळें.

'ये स्फिअर ही ऐसा है सर, जो जिता वही सिकंदर।'

'दिवाकर से मिली तूम?' सीएमाचो प्रश्न अनपेक्षित नाशिल्लो तरींय शोमा स्तब्ध जालें कांय खीण. हो प्रश्न येतलोच हें ताकाय बरें खबर आशिल्लें. ताचे कडेन लॉबिंगाची जबाबदारी दितना कंपनीच्या व्हायस प्रेसिडेंटान स्पष्टपणान सांगिल्लें– गोंयच्या सत्ताधाऱ्यांमदीं वावुरपाचो तुजो अणभव मतींत घेवनूच हें काम तुका दिलां!

'नहीं सर, वित्त मंत्रीजी से तो कंपनी के प्रेसिडेंटही लियेझॉं करते है।'

'अरे? दिल्ली मे गये उन्हे एक बरस हुवा, और आपकी उनसे मुलाकात तक नही हुई? इतनी बडी है दिल्ली?'

'दिल्ली तो बडी नही है, सर! लेकीन... फासले कूछ ज्यादा ही है।' उतर शोमाच्या ओंठार आयिल्लें. पूण भायर फुटलें ना. मुख्यमंत्री जाणून बुजून आपले पोरणे घावे उसोवंक सोदतात म्हणपाचें कळिल्लें ताका. तोंडार एक असहाय्य हांशें हाडीत तें मुख्यमंत्र्यांकडेन पळयत रावलें

'छोड दो। अब मुझे ईस प्रॉजेक्ट में क्या मिलेगा?' मुख्यमंत्र्यान विचारलें. ते इतले बेगीन मूळ मुद्द्यार येत अशें शोमाक दिसूंक नाशिल्लें. तांच्या स्वभावा भितर एक आक्रमकताय आसा, पूण ती शारिरिक आकर्षणा पुरतीच अशें दिसतालें ताका. आपलो अदमास चुकला म्हणपाची जाणविकाय जावन तें हांसलें.

'सर, इन्वेस्टमेंट का पहला इन्स्टॉलमेंट होंगा हजार करोड। टोटल प्रॉजेक्ट तीन हजार करोड का रहेंगा। वी इंटेंड टू प्रॉक्युअर एव्हरीथिंग लोकल्ली, इंक्ल्युडिंग मॅनपावर...'

'आय नो! वी विल एंड अप विथ अ फीव जॉब्स ऑफ स्टुअईस अँड रुमबॉयज.' मुख्यमंत्र्याचो आवाज कठोर सो जाल्लो. आपल्याक नोकऱ्यो आनी गुंतवणूकीचें पडिल्लें ना हेंच ताणीं सुचयिल्लें.

'सर, थर्टि टू फिफ्टी कूड बी इजिली युवर्स' शोमान हांयस सोडलें. प्रकल्पाच्या पयल्या पांवड्या खातीर साठ कोटी पर्यंत वचूंक येता अशें ताका व्हायस प्रेसिडेंटान सांगिल्लें.

'मॅडम, हमारे यहाँ चालीस सांसद है। साठ को चालीस में बाँटो तो ढेढ करोडही एक एक को मिलेंगे। दीज आर पीनट्स!' मुख्यमंत्र्यांच्या गणितान शोमाक हांसपाक आयलें, चाळीसूय आमदारांमदीं हो पैशे वाटपाक सोदता काय कितें? इतलो पिसो? काय म्हाकाच शिंगा लायता? काय लांस वाडोवपाची ताची हीच तरा?

'सर, इतने लोगों को देकर क्या करोगे आप? ऐसा थोडे ही होता है। खैर,आप ग्रीन सिग्नल दिजिये, आपके लिये अलग पाँच का इंतजाम करेंगे।' शोमान दुसरें हांयस सोडलें.

'दिल्ली में भी तो आपको कुछ देना पडेगा।' मुख्यमंत्र्यान दोळे बारीक करीत म्हळें

'सर, पार्टीके लिये सत्ताईस दिये है हमने।'

'मै पार्टी की बात नही कर रहा हूँ और ये आपको भी मालूम है।'

शोमान परत नदर फायलीचेर व्हेली. दिवाकराक कितले दिल्यात काय विचारता हो. पूण ताची जाप शोमा कडेन खंय आशिल्ली? ताणें फकत गोवाच पळोवपाचें.

'सर, जैसा की मैने कहा, वित्त मंत्री से प्रेसिडेंट खूद बात करते है।'

'या बीग फीश फॉर बीग नेट्स. ठीक है. आय वील कन्सिडर धीस. बट स्ट्रिक्टली फॉर नाव. यू वील हॅव टू रेज दी बार ईन फ्युचर, ॲनी वे!' मुख्यमंत्र्यान फायल बंद केली. कंपनीक दिवपा खातीर आपले कडेन खुश खबर आसा हे जाणविकायेन शोमाय सुखावन भायर सरलें. पूण मुख्यमंत्र्यान मुखा वयल्या वांटपणा खातीर जागो दवरला म्हणपाची जाणविकाय ताका अस्वस्थ करून गेली. आपणें ह्या मनशाक सदांच अंडरएस्टिमेट केलो काय कितें?

आनी... म्हजें आनी दिवाकराचें कितें तरीं चल्लां आसतलें असो दुबाव हाका आयजूय आसा काय? पांखां फुटचे पयलींच दिवाकरान सोंपयिल्लें तें प्रकरण. आनी हांव मात भितरले भितर कुढत उरलें. आतां तर तो दिल्लींत पावला. म्हज्याच गावांत आयला... म्हाका परकें करपाक. मदीं दिसतालें...ताका वचून मेळचें, एक दीस जेवपाक आपोवचें. गच्च भरिल्ल्या मळबा तळाक तेर्रासाचेर हून हून कॉफी पीत फकत फाटल्यो खबरो करच्यो. प्रभाकराच्या दोळ्यांतल्यान तींच गोंयच्या उदरगतीची सपनां नव्यान पळोवचीं.

पूण ताका मेळपाचो धीर जायना.

आतां तो मुख्यमंत्री आशिल्लो जाल्यार आपली हिम्मत जातली आशिल्ली काय सरळ सरळ पयशांची ऑफर दिवपाची? आपल्याक विकत घेवपाक सोदता म्हूण चवताळून धांवडावन घालचो नाशिल्लो?

चडूच सवळो मनीस. काय हांवूच तशें समजता?

फ्लोटिंग सिटीचें प्रपोजल पयलीं आयिल्लें तें विक्रम देसाया कडेन. ते गोंय सरकारांत मंत्री आसतना. पुराय प्रॉजेक्ट जाता म्हणसर दोनशीं कोटी सहजतायेन उखलूं येताले. ते भायर कॉर्पोरेट सोशिअल रिस्पॉनसिबिलिटीच्या नावाखाला तीसेक कोटींची कामा मतदारसंघांत करून फुडल्या धा- बारा वर्सांची तजवीज. पूण पक्षाक वेंचणुकेंत माती खावची पडली. आतांचे परिस्थितीतूय पक्ष तिगतलो शें दिसना. तिगलोच आणि सत्तेर आयलोच जाल्यार वांटेकार वाडटले. पापा सीएम जावपाची शक्यताय तर साप्प उणी. खुद्द पापाचीच तयारी दिसना. रिटायरमेंटाविशीं संज्योतीक सांगतालो, तें रक्षाबंधनाक आयिल्लें तेन्ना. म्हजे परस ताका संज्योतीच चड लागीं....

.... आतां तोच प्रॉजेक्ट घेवन भलतीच कंपनी पवरि येरादाऱ्यो घालपाक लागल्यात. लॉबिंग करपाक आदले हेल्थ सेक्रेटरीक नेमलां ताणीं. लोलयेकार खरो नशिबवान. तो सत्तेर आयलो आनी दिल्लींतूय ताचो पक्ष जिखलो. आतां पैशांचो ओघ गोंयां कडेन वळपाक लागला. हजार कोटींचीं कामा जावपाक लागल्यांत. तातूंत हो प्रॉजेक्ट. लोलयेंकार नशिबान सीएम जालो खरो. पूण हक्कान देडेकशें कोटी हातासतलो....

.... कॅन आय शेअर दी बुटी? कितें कं येता??

कितलोसोच वेळ विक्रम चिंतत रावलो. स म्हयन्यांचेर वेंचणुक येवन राविल्ली.

सदचेच उपक्रम मुखार व्हरपाक धा- बारा कोटी तरी जायच पडटले. सेचेलिसाक वचप आतां तरी समा जावचें ना. तो दिवाकर दिल्लींत वचून बसला. वित्त मंत्रालयाचीं सुत्रां हातांत आसात. सुणीं आंगार घालपाक मात्तूय अनमनचोना. ते परस हांगाच कितें जादा तें पळोवप.

अभावितपणान विक्रमान सीएमाक फोन लायलो.

'उलयात, विक्रम सायब!' सीएमाचो टिपिकल काणकोणचे कोंकणीतलो आवाज कानार पडलो.

'न्हंयांच्या राश्ट्रियीकरणाच्या सेंटराच्या प्रपोजलाचें कितें जालें काय म्हणून विचारपाचें आशिल्लें.'

'चल्ला... विचार चल्ला ताचेर.'

'म्हजें आयकात, लोलयेकारबाब. जस्ट से नो.'

'आरे, तशें बरें प्रोपोजल तें. न्हंयो क्लीन जातल्यो आमच्यो परस्पर. कितलो गाळ भरला भीतर. होडीं लेगीत व्हरपाक जायनात.'

'पूण, तितलेच पुरतें मर्यादित ना न्हय तें प्रपोजल?'

'व्हॉट डू यू मीन?'

'आमी न्हंयो तांचे कडेन दिल्यो जाल्यार न्हंये भितर तांका जाय तें करपाक दिल्लीवाले मेकळे. आमकां जाप लेगीत काडपाक मेळची ना.'

'जाय तें म्हळ्यार?'

'आतां हें फ्लोटिंग सिटीचें प्रपोजल तुमचे कडेन आयलां. राश्ट्रियीकरणाउपरांत तुमकां विचारपाची गरज भासची ना सेंटराक.'

मुख्यमंत्री बरोच वेळ शांत रावल्यात म्हणपाची जाणविकाय विक्रमाक जाली. आपलो बाण बराबर लागला म्हणपाचें ताका होलमलें. कितें चिंतता आसतलो काय लोंलयेकार? आपल्याक कितले दिवपाचे ते?

'हय! तूं म्हणटा तेंय बी खरें. म्हाका दिसता हाचेर सुवर्णमध्य म्हणतात तो काडपाक जाय आमी. फुडल्या सप्तकांत दिल्लींत वतलो तेन्ना किल्लेदारांक मेळपाक जमता जाल्यार पळयतां. तें सेझाचेंय जाग्यार घालूंक जाय न्हय...'

'सेझाचें कितें?' विक्रमाक आपल्या पोटांत कितें तरी ढवळता कशें दिसलें.

'सेझा खातीर जमनी तुज्या पापाच्या टायमार दिल्ल्यो न्ही? त्यो कंपन्यो म्हणटात, अंडर दी टेबल जाल्ले वेव्हारूय मतींत धरून कंपेन्सेशन जाय म्हूण. तांचे कडेन पुरावे आसात, व्हिडिओ शुटींग आसा. पयशांचे कशें डील जालें तें सांगपाक तयार आसात कांय कंपन्यो. ईट ईज अ सेन्सिसिटव्ह मॅटर. वी नीट टू बी व्हेरी केअरफूल.'

'कोणें अंडर दी टेबल डील केलां तांचे कडेन? पापान? अँड यू बिलिव्ह धीस क्रॅप?'

'आय नेव्हर बिलिव्ह ॲनी थिंग अनलेस ईट ईज सपोर्टेड बाय अनडिस्प्युटेबल एव्हिडन्स. आणि तुजो पापा म्हणजे राजा मनीस. तो खंयचे खंय तोंड घालपाक वचचो ना हें हांवूय जाणा. दुसऱ्यांचे झोंबून घेवपाक तर ताका केन्नाच आवडना. आय ॲम टोल्ड देअर ईज सम वन एल्स. पळोवया, दिल्लींत वतकच कळटलें घडये.' अशें म्हणून सीएमान फोन डिसकनेक्ट केलो.

आपल्या हाताच्या तळठाक घाम आयला म्हणपाचें विक्रमाक जाणवलें. सीएमान एकाच वाक्यांत ताका घुवळायिल्लो.

कितें करप ह्या लोलयेकराचें? दिवाकरा कडले संबंध ओगीच तोडले. ह्या सप्तकांत तरी ताका फोन करचोच पडटलो. पूण पापाक तें आवडत?

पापाक आवडटा अशें कितें म्हूण हांवें आयजवेर केलां? स्टील आय ॲम मोअर सक्सेसफूल दॅन हीम. ईन फॅक्ट, ही ईज देअर बिकॉज ऑफ मी.

पूण त्या कंपन्यांकडेन खऱ्यानीच रिकॉर्डींग बी आसत जाल्यार? आय शाल बी डॅम्ड. दॅट वूड बी एपोकॅलिप्स. लोलयेकाराक आडावपाकूच जाय. मागीर दिवाकर परत सीएम जालो तरींय चलता.

पणजेंतलें स्टेट फॅसिलिटी डिव्हेलॉपमेंट कॉर्पोरेशनाचें कार्यालय! दिल्लींतल्यान आयिल्लो दिवाकर अस्वस्थूच आसा. ताच्या वांगडा विमानातल्यान गोंयां आयिल्लो समीर विमानतळाचेर देंवलो आनी घरची गाडी येतली म्हूण सांगत नाच जालो. ताका व्हरपाक लोलयेंकाराचो साडू आयिल्लो म्हणपाची खबर दिवाकराक ड्रायव्हरान दिल्ली. लोलयेकाराक दिल्लींतली माहिती मेळटा हाचो दुबाव दिवाकराक आशिल्लो. ती समिरा कडल्यान वता अशेंय दिसतालें. आतां ताचेर शिक्काम र्तब जाल्लें. समिराक हे फुडें दिल्लींत व्हरप ना! ताका पक्षाच्या कार्यालयांतूच दसोवपाचो निश्चय दिवाकरान केलो आनी प्रदेशाध्यक्ष विर्जिनकाराक तशी सुचोवणीय दिल्ली.

पूण समीर हें ताचे अस्वस्थतायेचें कारण न्हय. फ्लोटिंग सिटीचें हांयस लोलयेकारान गिळ्ळां म्हणपाची खबर लालवाणीन ताका दिल्ली. आनी तें डील तडेक व्हरपाक शोमा अवस्थीन लॉबिंग केलां अशेंय सांगिल्लें. अस्वस्थतायेचें कारण तें हेंच काय कितें?

दिवाकरान मेजा वयली लँड लायन उखलून विनेश चोडणकाराक फोन लायलो. विनेश ताच्या विश्वासातलो पत्रकार. ता वयल्यान ताकभात वळखुपी. विनेशाक फ्लोटिंग सिटीच्या प्रकल्पाविशीं वयलेचाराक सांगप आनी कंपनीची कोट्यांनी रुपयांची दलाली दिवपाची तयारी आसा म्हणपाचें सुचोवप हें ताणें मनोमन थारायलें. आतां ताका मातशें बरें दिसपाक लागलें. शिरंतरानी परत रगत सळसळपाक लागिल्ल्याची जाणविकाय मनभर जाली.

देसाई फार्म, दाभाळ! वसंत देसाय, गोंय विधानसभेंतले लिडर ऑफ ओपोजिशन शुन्यांत नदर लावन विचार करतात. तांका

वळटना ताणीं दिवाकराचो हातूय हातांत धरलो. 'गोंयच्या बऱ्याचें जें कितें आसता ताका आदार दिवप हो प्रभूसायबांचो धर्म. ह्या प्रकल्पाविशीं विचारशात तर असलोच आनीक एक प्रकल्प खुद्द प्रधानमंत्र्यांच्या मतदारसंघात येता. तें कळटकच हांवे तांच्या कार्यालयाकूच फोन लायलो. उपरांत भौमानेस्त प्रधानमंत्रीय म्हजे कडेन उलयले. ते प्रकल्पाची तुस्तूच करताले. हो गोंयचें पर्यावरण संबाळून पर्यटनाक उर्बा दिवपी प्रकल्प जातलो अशें तांचें म्हणणें. ताणीं एके आंतरराष्ट्रीय यंत्रणेवरवीं प्रकल्पाच्या पर्यावरणीय परिणामांचो अभ्यास केला आनी तेच संस्थेक आमीय अभ्यास करपाक सांगचें अशेंय ताणीं सुचयलां. भौमानेस्त प्रधानमंत्र्यांनी प्रकल्पाचो निर्वाळो दिला म्हणटकच ताचो गांभिर्यान विचार करप हें आमचें कर्तव्य. ते भायर ती कंपनीय नामांकित आसा अशें आतांच प्रभूसायबांनीय सांगलां. तेन्ना उपकार करून प्रभूसायबांचो आशिर्वाद ना असो समज तुमी करून घेवचो न्हय.'

लोलयेकाराचें उलोवप चालू आसतनाच दिवाकरान मेजाचेर आशिल्ली फायल काडून वाचपाच्या निमतान दोळ्यां मुखार धरली. आपल्या तोंडा वयली निराशा पत्रकारांक दिसची न्हय म्हणून. ताचे तकलेंत परत विचारांचो हुंवार दाटलो. लोलयेंकारान प्रधानमंत्र्यांकडेन उलोवन ताचेर परत एकदां जैत मेळयिल्लें.

अर्थमंत्रालयांतलीं कामा करतां म्हणसर रातचीं आठ वरां जाल्लीं. एक दोग पर्सनल स्टाफ सोडल्यार हेर सगळे घरा गेल्ले. दिवाकराचो मोबायल वाजलो. दुसऱ्या अर्दान लालवाणी आशिल्लो.

'सर... आपके लोलयेकरजी फाईल पर बैठे है। कहते है की अक्रॉस दी पॉलिटिकल स्पेक्ट्रम बात करनी है। मेरे रिप्रेजेंटेटिव्हको अपोजिशन लिडरको एक्सप्लेन करने के लिये भी बोला है।'

'ये आप मुझे क्यों बता रहे हो, लालवाणी जी? आप के प्रेपोजल को तो पीएम की सिफारिश मील गयी है। '

'अरे सर. ये आप क्या कब रहे है? पीएम के पास तो हम कतई नही गये थे। आपके होते हुये हम उन्हे क्यों तकलिफ दें? उनके पीए बत रहे थे की खुद लोलयेकरजीनेही फोन करके पुछताछ की थी।'

दिवाकर हांसलो. आतां तागडी परत समतोल जाल्ली. 'ये देखो, लालवाणी, मै तुम्हारा वेल विशर हूँ। बस्स. तुमसे कभी पाँच पैसे लिये क्या? तुम पार्टी के बारे में सोचते हो, इस लिये तुमको कुछ सलाह दी। बाकी की जिम्मेदारी तुम्हारी और तुम्हारे रिप्रेजेंटेटिव्हकी। मै इस में पडा तो लोग कहेंगे की लोलयेंकर के पाँव खिंचता हूँ। हां, तुम्हारे साऊथ गोवा में वन्डरलँड के प्रॉजेक्ट के बारे में कुछ मदद चाहिये तो जरूर करेंगे, लेकीन ऑन बोर्ड। यू हॅव्ह टू कम क्लीन ऑन एव्हरीथिंग।'

'जरूर सर। अगले हप्ते हमारे लोग प्रपोजल मुव्ह करेंगे। ऑर ईस प्रॉजेक्ट के बारे में भी आपको हर डिव्हेलॉपमेंट बताता रहुंगा।'

'उसकी कोई जरुरत नही है।'

'आप कुछ भी कहो सर, आपको बताना हम हमारा फर्ज मानते है। बाय द वे, लोलयेकरजी को उनका हिस्सा कल दिया जायेगा। '

अशें म्हणून लालवाणीन फोन दवरलो. दिवाकराच्या मनांत आयलें...दिल्लीच्या वातावरणांत तयार जाल्ल्या लालवाणींक राजकारणूय कळटा तर..? ना जाल्यार हें हप्त्याचें सांगपाक तो निमण्या खिणाची वाट कित्याक पळयतलो आशिल्लो? आपूण या लडायेंत हारलां हेंय ताणें कशें ज्युस्त उतरांनी सुचयलां... तरीं हांवे तें वंडरलँडाचें उलोवन बरें जालें. इल्लिगलिटीजां बगर तो प्रकल्प कसोच आकाराक येवपाचो ना... लोलयेकार आतां सुटला आसत, फुडाराक कसोच सुटचो ना...!

आनी मागीर दिवाकर वंडरलँड प्रोजेक्टा वरवीं लोलयेंकाराक कशें घुंसपावंक येतलें हाचेर विचार करीत दिल्लींत देंवपी काळोख तेळीत रावलो.



# कोंकणींत साहित्य साधना उणी कित्याक?

अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य हो कला क्षेत्रांतलो एक संवेदनशील विशय. साहित्य क्षेत्रय ताका आडवाद ना. हेर कलाकारां इतलो साहित्यिकय ह्या स्वातंत्र्याचो पुरस्कर्तो आनी जागृत राखणदार म्हणून वावुरता. समिक्षक होय एक साहित्यीक. लेखका सारकें आनी लेखका इतलें ताकाय अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य मेळूंक जाय. जशें आनी जितलें लेखकाक तशें आनी तितलें समिक्षकाक हें स्वातंत्र्य प्रीय आसता. आसूंक जाय. दोगांनीय एकमेकाच्या ह्या स्वातंत्र्याचो आदर करप हे दोगांचेंय कर्तव्य.

▸ तानाजी हळर्णकार
९८२२८२५५०३

भारतीय तशें वैश्वीक साहित्य-समिक्षेंत वेगवेगळीं स्थित्यंतरां घडून आयलीं. वेगवेगळ्या काळांत आनी वेगवेगळ्या संदर्भांत. साहित्य समिक्षेचो साहित्या कडेन संबंद येता जाल्ल्यान, आनी साहित्यांत संवसारीक स्थित्यंतरां परिवर्तीत जाता जाल्ल्यान, समिक्षेंत अशीं आवर्तनां योवप अपरिहार्य जाता. साहित्याची वळख ह्या प्राथमीक स्वरुपांत सुरू जाल्लो समिक्षेचो प्रवास आस्वादक समिक्षा (साहित्य आनी नियाळ), समाजशास्त्रीय समिक्षा (साहित्य आनी समाज), मानसशास्त्रीय समिक्षा (साहित्य आनी मानवी अंतरंग), मार्क्सवादी समिक्षा (साहित्य आनी भौतीक वाद), आधुनीक नवसमिक्षा (साहित्य आनी आधुनीक वाद) अशीं पेणीं घेयत घेयत आयचे घडयेक ती उत्तर नव समिक्षेच्या (साहित्य आनी उत्तर आधुनीक वाद) मुक्कामार येवन रावल्या. थोडो विसव घेवन फुडल्या प्रवासाची तयारी करपाक आसुंये. मदीं स्त्रीवादी समिक्षा (साहित्य आनी अस्तुरीचें स्वतंत्र अस्तित्व) आंबेडकरवादी समिक्षा (साहित्य आनी दलीत पददलीत जिवीत) सारखिले प्रवाह येवन तिका मेळ्ळे.

साहित्य-समिक्षेच्या ह्या प्रवासांत कोंकणी समिक्षा खंयच्या पेण्यार आसा काय?

कोंकणींत दर वर्सा उणीं तीं दोनशीं-सवादोनशीं पुस्तकां प्रकाशीत जातात. फाटल्या धा वर्सांचें कोंत केलें तर दोन-अडेज हजार कोंकणी पुस्तकां भायर सरल्यांत. हेर भाशांचे तुळेन, आनी कोंकणी अल्प लोकसंख्येच्या संदर्भांत (धरून कोंकणी लेखक, वाचक अल्पसंख्या) हो आंकडो ल्हान ना. ह्या पुस्तकांनी समिक्षेचीं कितलीं आसूं येतात? दोनय हातांच्या बोटां परस एक दोन चड आसत. हेर भाशांनी समिक्षा-पुस्तकां वांगडा नियतकालिकी समिक्षा-लेखनय बरेंच जाता. तशें तें कोंकणींत जाल्लें दिसना. मदीं कांय काळ सुनापरान्तान एक बरो उपक्रम सुरू केल्लो. नवोदितांच्या कविता-कथांचें समिक्षण करपाचो. अशीं तशीं धा पंधरा पुस्तकां हांगां थंय नियतकालिकी पुस्तक-परिचय येदीच आमची फाटल्या एका शतमानाची जोड. हेर भाशांचे तुळेन आमी

समिक्षेच्या दुकळांत आसा म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

कोंकणींत जी आयजवेर लिखीत समिक्षा जाली ती चडांत चड आस्वादन स्वरुपाची जाली म्हणल्यार उपकारता. ''लिखीत'' हें विशेशण मुद्दाम वापरलां. (ताची फोडणिशी मुखार येतली.) ही लिखीत समिक्षा चडशी तोखणायी समिक्षा. तिचो आरंभ 'बरें'न जाता. मध्याक 'बरें' आसता, शेवटय 'बरें'न जाता.

हाका लागून समिक्षा म्हणचे तोखणाय अशें समिकरण कोंकणी साहित्य विश्वांत मान्य जालां. जो कोण हे तोखणायेचे चौकटी भायर वचून वस्तुनिश्ट (प्लस-मायनस दाखोवपी) समिक्षा करपाचो प्रयत्न करता ताका लेखक एक तर आपलो ''दुस्मान'' समजता ना तर ''अज्ञानी'' असो ताचेर शिक्को मारता. अशें समजप हाचे पयलीं कोंकणी साहित्य मळार खरोखरीं घडलां. केल्ले वस्तुनिश्ट समिक्षेचेर चर्चा जावंचे सुवातेर समिक्षकाचे पात्रताये संबंदीं आनी ताच्या उद्देशा संबंदीं वादावादी जाल्या. ही वादावादी वैयक्तीक उणे-दुणे काडपाचेर येवन थांबल्या. नाका तो वाद नाका तो म नस्ताप म्हणून वस्तुनिश्ट समिक्षा निरशेल्या.

समिक्षेचो शास्त्रीय, सिध्दांतीक अर्थ कुशीक दवरुंया. सामान्य अर्था प्रमाण समिक्षा म्हणचे एके तरेचें परिक्षण. परिक्षण आयलें की ताचे वांगडा चड उणे मार्क (गूण) आयले. शुन्यगुणय जमेक धरचे पडले. बेरीज वजाबाकी करून जो रिझल्ट लागता तो लागता. शंबरां मदल्यां शंबरूय गुणांचो आग्रो खंयच्या भरंवशाचेर धरप? आनी समजा कोणाकय तसो भरंवसो दिसात तर तो खंयचो तो सांगपाचें ताका स्वातंत्र्य आसा. पूण तशें जाल्लें दिसना. शंबर मार्कांचो आगरो तितलो दिसता. आपल्या आग्र्याचें विवेचनात्मक समर्थन ताचे कडल्यान जाल्लें तर समिक्षकाचे समिक्षेक जाप मेळटली आसली. वाचकांक कोण कितल्या उदकांत उबो आसा हाचो थाव लागतलो आसलो. भरंवसो दवरतल्यान ही धिटाय कित्याक दाखोवची न्हय? दुस्मान आनी अज्ञानी अश्या एक दोन उतरांनी आपली प्रतिक्रिया कित्याक गुठलावची कळना.

पुस्तकाचे प्रस्तावनेंतली जाणकाराची शाबासकी आनी पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्यांतली उलोवप्यांची तोखणाय ह्योच आपल्या साहित्याच्यो मोलावण्यो असो ''गोड'' समज बी साहित्यिकांनी करून घेवना मू असो संशय येता. नवोदीत आनी युवा साहित्यिकां संबंदी चड येता. प्रस्तावना बरयतना आनी प्रकाशन सुवाळ्यांत उलयतना दोनय कडेन हातचें राखून बरोवप उलोवप जाता हें तशें आतां गुपीत उरूंक ना. येवकार सुवाळ्यांत सव्यार उबीं आशिल्ल्या न्हवऱ्या-व्हंकलेक हात दितना तांच्या व्यंगाचेर उलोवपाचें नासता ही त्या वेळा वयली लोक-रीत. ती तेन्ना पाळचीच पडटा. पूण हात दिवन जेवणा हॉलांत ग्रुपां-ग्रुपांनी जेवणावळ चलता थंय वा, घरा परततना गाडयेंत, न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या एक दोन गुणां वांगडा एक दोन अवगुणांचो उल्लेख जाले बगर रावना. हेच धर्तेर, प्रकाशन सुवाळ्यांत अभिनंदनाचो हात दिल्या उपरांत वा घरा वचून पुस्तक वाचल्या उप्रांत शाबासकीचो अभिप्राय फोनार दिवप्यान खाजगींत समिक्षात्मक मतप्रदर्शन केल्लें आयकूंक मेळटा.

हातूंत गैर कांय ना. तो सामाजीक चालीरितीचो एक भाग. गैर आसा हे तोखणायेक आपल्या साहित्याचो दर्जो थारावपी कसवट मानप. गैर आसा, कोणेय तोखणाये पेल्यान वचून वस्तुनिश्ट असो अभिप्राय दिलो तर ताका हें प्रस्तावनेंतलें शाबासकीचें आनी प्रकाशन सुवाळ्यांतलें तोखणायेचें ''सर्टिफिकेट'' दाखोवप. ''लिखीत'' रुपांतली ही अशी देकोर समिक्षा आनी ''वाचीक'' स्वरुपांतली ती तशी खाजगी समिक्षा, वांगडा वा फाटींफुडें लेखकाचे भेटेक वचसर हें अशेंच चलतलें. लेखक, फसव्या जायना, समाधानांत रावतलो, तुमी-आमी तशें समाधान दिवपांत समाधानी जातले. हे समाधानाचे देव-घेवींत कोंकणी साहित्याचे वाटचालीचें समाधान जाल्लें तर बरें जावपाचें. तें जायना हो हुस्को.

दर एका लेखकाचो ताचो असो लेखन पिंड आसता. तो ताच्या व्यक्तीमत्वाच्या पिंडाचो अंश आसता. हो पिंड लेखकाची लेखन-भुमिका थारायता. हे भुमिकेंतल्यान ताची आपली अशी लेखन-नदर घडटा. ताची अनुभुती आनी अभिव्यक्ती हे नदरेंतल्यान परिवर्तीत जाता. व्यक्तीमत्व-पिंडाच्या नियंत्रणा वा प्रभावा भायर सरून स्वतंत्र, स्वयंभू लेखन-अभिव्यक्ती करप अशक्य नासलें तरी प्रत्यक्षांत (प्रॅक्टीकली) कुस्तार गजाल. प्रयासान तसो प्रयत्न करतल्या लेखकांच्या लेखनांत लेगीत लेखकाचो दोळो चुकोवन, लेखकाचो व्यक्तीमत्व-पिंड झळकताच.

पिंडे पिंडे मत भिन्ने आनी व्यक्ती तितल्यो प्रकृती ह्या प्रकृती धर्माक

अनुसरून एक अनुमान काडूं येता. दर एका मनशान केल्ली निर्मिती ही ताची स्वतंत्र निर्मिती आसता आनी ती मनशा मनशाकणी आगळी-वेगळी आसता. एका वातावरणांत एका सांगातान आशिल्ल्या दोन मनशांचे निर्मितींत समानता नासता. एका रगताच्या दोन भावंडांचे आनी जुवळ्यांचे निर्मितींत लेगीत हो फरक जाणवता. म्हटणकच लेखकाचे भुमिकेंतल्यान लेखन जावप, समिक्षकाचे भुमिकेंतल्यान समिक्षा जावप हातूंत गैर कांय ना. तातूंतल्यान जो मतभेद जाता तो ह्या दोन भुमिकां मदल्या फरका खातीर जाता. ताची खरसाण-मोवसाण ह्या फरकाचे लांबाय-रुंदायेचेर थारता. जितलो फरक व्हड तितली खरसाण व्हड. असो फरक लेखक-समिक्षका मदीं जसो उरता तसो तो लेखक-लेखक आनी समिक्षक-समिक्षक हांचे मदींय जावं येता. मतभेदाचें मुळावण आनी कारण हो फरक आसता.

कोण बरोबर कोण चूक हाचेर वाद घेवचे बदला आपापली तर्कसंगत बाजू मांडप, तिच्या समर्थनार्थ गिन्यानाधारीत विवेचन करप. वादा खातीर वाद अशी निश्फळ सुकी चर्चा करिनासतना अभ्यासपूर्ण असो संवाद करचो. वाद नाका संवाद-करुंया हे भावनेन ह्या मतभेदा कडेन पळोवंक घेतलें तर कोडसाण आनी दुस्मानकाय दोनय उरचीं ना.

कलाकाराक आपले कला-कृतीबद्दल अतोनात प्रेम आसप सभावीक आसा. मनीस धर्म तो. दुसऱ्याकय तें तितलेंच आसपाक जाय हो आगरो अवास्तव आसा. प्रेमांत खंय मनशाक प्रेमिकेचे दुर्गूण आनी रागांत सद्‌गूण दिसनात. वाचक वा समिक्षक प्रेम अवस्थेंत रावून वाचीना-समिक्षा करी ना. तांची अवस्था ही प्रेमरहीत-रागरहीत अशी अलिप्त अवस्था आसता. म्हणटकच प्रेमाची बादा जाल्ल्या लेखकांचें मत आनी अशी बादा जावंक नाशिल्ल्या समिक्षकाचें मत हातूंत फरक आसप अपरिहार्य आसा. प्रेमांत आनी विशेश करून कुड्ड्या प्रेमांत लेखकाक आपले लेखनकृतींतले दोश दिसनासपाची शक्यताय चड आसता. आनी अशे दोश समिक्षकाक दिसपाची शक्यताय चड आसता. लेखक, समिक्षक आनी प्रेमिका ह्या त्रिकोनी प्रेम प्रकरणांत लेखकाक समिक्षक हो ''व्हिलन'' दिसपा फाटल्यान हें लेखक-लेखन ''प्रेम प्रकरण'' एक कारण आसूं येता.

खुबदां समिक्षकाचे पात्रताये संबंदीं प्रस्नचिन्न उबें करप जाता. एक न्हय अनेक. लेखका परस समिक्षक व्हडलो व्हय? समिक्षकान कितलें साहित्य बरयलां? ताका कथेंतलें-कांदबरींतलें कितें कळटा? ताणे कथा-कादंबऱ्यो खंय बरयल्यात? अशे आनीक जायते प्रस्न.

कथा-कादंबऱ्यो बरयतल्यानच कथा-कांदबरीचेर उलोवचें -बरोवचें म्हणचे ऑम्लेट करूंक येतल्याकच ऑम्लेट खार-अळणी जाल्या ताचेर उलोवपाचो अधिकार आसा म्हणपा सारकें जाता. संगीत दर्दी कानसेनाक गायनाचेर, नाट्यरसीक प्रेक्षकाक नाटकांतल्या अभिनयाचेर उलोवपा-बरोवपाचो अधिकार ना अशें जाता. अभ्यास, साधना, व्यासंग, निरिक्षण आनी संवेदनशिलता आशिल्लो प्रज्ञावंत मनीस कला-पारखणी करपाक उणो पडतसो दिसना. कला सादरीकरण आनी कला पारखणी ह्यो एकमेका संबंदीत संकल्पना दिसल्यो तरी त्यो आपले परीन स्वतंत्र प्रज्ञा आसात. हाची गवाय म्हणचे बरो कथाकार वा कादंबरीकार बरो कथा-कादंबरी समिक्षक जातलोच हाची गॅरंटी ना. तसो साहित्य-समिक्षेचेर व्हडलोसो इतिहासूय ना. सगलेच व्हड साहित्यीक व्हड समिक्षक जावंक ना. सगलेच व्हड समिक्षक व्हड साहित्यीक नात.

अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य हो कला क्षेत्रांतलो एक संवेदनशील विशय. साहित्य क्षेत्रय ताका आडवाद ना. हेर कलाकारां इतलो साहित्यिकय ह्या स्वातंत्र्याचो पुरस्कर्तो आनी जागृत राखणदार म्हणून वावुरता. समिक्षक होय एक साहित्यीक. लेखका सारकें आनी लेखका इतलें ताकाय अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य मेळूंक जाय. जशें आनी जितलें लेखकाक तशें आनी तितलें समिक्षकाक हें स्वातंत्र्य प्रीय आसता. आसूंक जाय. दोगांनीय एकमेकाच्या ह्या स्वातंत्र्याचो आदर करप हे दोगांचेंय कर्तव्य. जें आपल्या तत्वाक जुळना, धारणेक पटना ताका विरोध, ताचो निशेध ही मूलतत्ववाद्यांची विचारसरणी आनी करणी. एका ताळ्यान स्वताच्या अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो पुरस्कार आनी दुसऱ्या ताळ्यान दुसऱ्याच्या अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो धिक्कार अशी डबल गेम कांय लेखक खेळटात. तांकां हें कशें पुटवता कळना.

साहित्य समिक्षेचें मुळांत प्रयोजन कितें? तिची गरज कसली? तिचें योगदान खंयचें? साहित्य उदरगत आनी साहित्य-समिक्षा हांचो कितें संबंद आसूं येता व्हय? साहित्य-समिक्षा साहित्य निर्मितीक प्रोत्साहीत करता काय निरुत्साहीत करता? दिशा दाखयता काय दिशाभूल करता?

म्हाका वेगळ्या समिक्षकाची गरज ना. म्हजो समिक्षक म्हजो वाचक. काळ हो व्हडलो समिक्षक. हांव ताचे समिक्षेक रावतां. म्हजें साहित्य ही म्हजी निर्मिती. थंय हेरांचें काम ना. हांव म्हज्या समाधाना खातीर बरयतां. म्हाका दुसऱ्यांच्या अभिप्रायाची गरज ना.

एक न्हय अनेक प्रस्न. अनेक प्रतिक्रिया. दर एकल्याचे विचारसरणे प्रमाण दर एकल्याची प्रतिक्रिया. सगल्यां प्रतिक्रियांक जाप दिवप अशक्यना. अशक्य आसा दर एकल्याचें समाधान करप. सकयले दोन विचार दिवन हो विशय सोंपोवया.

**म्हज्या आयज मेरेनच्या साहित्यांतलें, म्हजे पसंतीचें साहित्य, आयचे घडयेक वेंचून काडचें पडल्यार, म्हाका बरेंचशें म्हजें साहित्य कुशीक काडचें पडटलें.**

**– रवींद्र केळेकार**

**संसारीक कथाविश्वांत संचार करता आसतना म्हज्या मनांत सदांच एक खंत उरताली. हे असले तरेची कथा जोवर म्हज्यान बरोवन जावची ना तोवेर कथा**

**बरोवपाचो हांवें यत्न करुंक जायना. साहित्य यात्रेंत अशे खीण जायते फावटीं आयल्यात जेन्ना आत्महीनपणाची जाणविकाय मनांत दाटून येवन बरयिल्ल्या कथांचें हांवें विसर्जन करून उडयलां.**

**– चंद्रकांत केणी**

वयले विचार म्हणचे तांणी केल्ली आपल्या साहित्याची एके तरेची समिक्षाच आसा. स्वयं-समिक्षा. स्वताच्या साहित्याची स्वताच केल्ली समिक्षा. अशे तरेन स्वयंसमिक्षक जावप सगल्यांकच शक्य नासलें तरी समिक्षेची साहित्यिकाक गरज आसा हें तांच्या विचारांतल्यान सिध्द जाता. ती कोणे करची, स्वता आपणे करची काय दुसऱ्या कडल्यान करून घेवची ही जाची ताची मर्जी. पूण ती जावंक जाय.

वस्तुनिश्ट समिक्षे वरवीं, साहित्य-निर्मिती सकस जावंक मार्गदर्शन मेळूं येता तशें तें हेर उपक्रमांनीय मेळूं येता. वाचन हो तातुंतलो एक उपक्रम. स्वभास आनी हेर भाशेंतल्या सक्षम साहित्य - वाचनांतल्यान साहित्यिकाच्या लेखनाक एक आगळो आयाम प्राप्त जावं येता. साहित्याच्या माटवांत आपूण खंयच्या, हेर खंयच्या, सोपणार उबे आसात. स्वभाशेंतलें साहित्य खंयचें आनी हेर भाशेंतलें साहित्य खंयचे वेदीर पावलां हाचो बोध जावं येता. दुसरो आनीक एक उपक्रम. साहित्य-चर्चा, परिसंवाद, व्याख्यानां-विशेश करून अशे तरेचे भोवभाशीक साहित्यीक उपक्रम. अशा फेस टू फेस उपक्रमांनी जावपी विचार मंथनांतल्यान हेर भाशांतल्या साहित्यांत कसले प्रवाह आयल्यात, खंयचे प्रयोग चल्ल्यात, कितें नवीन जालां हाची सुलूस लागता. तातुंतलें, ताच्या सारकें कितें आपल्या, आपल्या भाशेच्या साहित्यांत येवं येता हाचो अदमास घेवपाची संद मेळटा. कान आनी मन लावन अश्या उपक्रमांनी सहभागी जालो तर ती साहित्यिका खातीर एके तरेची साहित्य-साधना जातली. बऱ्याच साहित्यिकांचें हे साधने कडेन दुर्लक्ष जाल्लें दिसता.

कोंकणी साहित्य हें कोंकणी पुरतें ना. कोंकणी साहित्य हें भारतीय साहित्य आसा आनी तें कोंकणी भाशेंत बरयता. तें भारतीय साहित्याच्या तोलामोलाचें जावचें ही सगल्याच कोंकणी साहित्यिकांच्या काळजांतली कळकळ आसा. ही काळजांतली कळकळ साहित्य-अक्षर जावन कागदार उदेवची अशी तळमळ लागूंक जाय.

अथक साहित्य-साधनेच्या मार्गान आनी निर्भीड समिक्षेच्या मार्गदर्शनान साहित्यप्रवास जायत रावलो तरच तें घडटलें. त्या खातीर तोखणाय, शाबासकेच्या धाकटुल्या पोरसाची अल्पसंतुश्टी वंय हुपचीच पडटली. तोखणाय करतल्यांनी आनी तोखणाय करून घेतल्यांनी. ❑

# थळनांवां फाटलो सांस्कृतीक भुगोलीक इतिहास

मनीसकुळाच्या इतिहासाचो सोद घेवपा खातीर सगले इतिहास अभ्यासक शक्य आशिल्ल्या पुराय साधनांचो आदार घेतात. हाच्या खातीर इतिहासीक बरपावळ आनी पुराणवस्तू शास्त्राचो आदार हो म्हत्वाचो आसता. पूण ह्या दोनय गजालींक कांय शिमो–मेरो–मर्यादा आसतात. ताका लागून संशोधनाच्यो हेर वाटो सोदच्यो पडटात. हांतली सगल्यांत म्हत्वाची वाट म्हळ्यार लोकवेदाची. ती 'प्रायमरी सोर्स' म्हळ्यार मुळावें प्राथमीक संसाधन. तांतलें लोक–पुराण वस्तू शास्त्र आनी लोक–उतरावळींचो अभ्यास हो इतिहासीक सोद घेवपाचे नदरेन भोव बरो आदार थारता.

एकाद्या उतराची निर्मणी आनी ताचो इतिहास ह्यो दोनय गजाली व्युत्पत्ती–शास्त्रा खाला येतात. थळनांवांच्या व्युत्पत्तीशास्त्राचो (एटिमोलॉजी) अभ्यास केल्यार, एक तत्व नदरे मुखार येता. तें म्हळ्यार चडश्या थळनांवांनी थंयची भुगोलीक–सैमीक स्थिती (टोपोग्राफी) पडबिंबीत जाल्ली आसता. भौसाचें थळ नांवां दिवपा विशींचें गिन्यान लोकवेदांत फिशालकायेन आयिल्लें दिसता.

लोकवेद संशोधकांनी वा इतिहास संशोधकांनी थळनांवांच्या उत्पत्ती संबंदान चडसो वावर केल्लो पळोवंक मेळना. पूण पी. गुरुराज भट्ट (१९७५), केमतूर रघुपती (१९८९), मालती महाजन (१९८९), प्रकाशचन्द्र शिरोडकार (१९९३) ह्या म्हालगड्यांनी थळनांवां विशीं थोडोभोव अभ्यास करून तो उजवाडा हाडला. हे बरपावळीचेर नदर मारल्यार इतिहास समजून घेवपा खातीर थळनांवांचो कसो उपयोग जावं येता हाची भोव बरी देख मेळटा. आज चालंत आशिल्ले भाशेच्या संदर्भांत घडये आमकां तीं थळनांवां संयुक्तीक दिसना जावंयेत. पूण तीं नांवां इतिहासीक आनी सांस्कृतीक संदर्भ पुरायेन सांबाळून घेवन आसतात हाची गवाय मनाक पट्टा. अशे तरेन थळनांवां आमच्या गिन्यानांत भर घालतात. आमचें थळां विशींचें गिन्यान घांसून

संवसारांतलीं खंयचींय पुर्विलीं थळनांवां हीं चडशीं वर्णनात्मक आसतात. तीं थळावे भुंये विशीं आनी थंयच्या लोकां विशीं खूब कितें सांगतात. तांचे संबंद, इत्सा, आकांक्षा, उमाळे, उत्सवो, सांस्कृतीक स्तर, सांस्कृतीक संकल्पना आनी विचार हांचे विशींचें पडबिंब. आमकां थळनांवांतल्यान भोव बरें पडिल्लें दिश्टी पडटा.

▸ डॉ. पांडुरंग फळदेसाय
९८२२१२३०३०

पुसून नितळ करपाक त्याच प्रमाण तें मुळाव्या गिन्यानाचे मुर्शींत घालपाक भोव आदार करतात. ताका लागून थळनांवां हीं सांस्कृतीक आनी भुगोलीक इतिहासाचे जीवाश्म (फॉसिल्स) म्हुणू येतात. तांचो अभ्यास आमकां इतिहासाची निखटी वाट सोदून काडपाक विज्ञानीक पद्दतीचो आदार जातलो.

संवसारांतलीं खंयचींय पुर्विलीं थळनांवां हीं चडशीं वर्णनात्मक आसतात. तीं थळावे भुंये विशीं आनी थंयच्या लोकां विशीं खूब कितें सांगतात. तांचे संबंद, इत्सा, आकांक्षा, उमाळे, उत्फरके, सांस्कृतीक स्तर, सांस्कृतीक संकल्पना आनी विचार हांचे विशींचें पडबिंब. आमकां थळनांवांतल्यान भोव बरें पडिल्लें दिश्टी पडटा. थळावो भुगोल (जिओग्राफी), भूगर्भशास्त्र (जिओलॉजी), स्थलांतर (मायग्रेशन), वनस्पतसृश्ट (बायोडायवरसिटी फ्लोरा) आनी जीव-जनावरां (फाउना). त्याच प्रमाण आमच्या पुर्वजांचें सांस्कृतीक गिन्यान आनी ताचे स्तर हाचे विशींची म्हायती आमकां थळनांवां वरवीं मेळटा. ह्या नांवांतल्यान एकाद्या थळाची सैमीक स्थिती (टोपोग्राफी) कळपाक मजत जाता. म्हळ्यार एकादें नांव हें दोंगोर, दोंगुल्ली, झरांव, व्हाळ, देगण, न्हंय, शेतोड, पठार, पवित्र थळ वा पवित्र रूख, पवित्र जनावर, पीक पिकावळ घेवपा सारकी जमीन वा पडंग जमीन, दर्या-वेळो, असले सैमीक स्थितीचो निर्देश करपी आसता. मनशाची बुद्दीमत्ता आनी गिन्यानांत जसजशी वाड जायत गेली त्याच प्रमाण भास विकसीत जायत गेली, तसतशीं थळानांवां हीं आकार, अंतर, थळावी स्थिती, वातावरण, सरभोंवतण आनी हेर गजालींचो निर्देश करपी अशीं जायत गेलीं. हाचे वयल्यान मनशान आपली उदरगत सादतना कशे तरेन थळ-काळा प्रमाण आपलें बस्तान बसयलें तें मतींत येता.

काणकोणांतल्या थळनांवांचो हांवें खोलायेन अभ्यास केला. हांतल्यो कांय देखी फुडें दिल्यात. त्यो देखी गोंयच्या हेर वाठाराकय लागू पट्टात हाची जाणविकाय सगल्यांकच जातली. गांवांचीं नांवां समजून घेतना तांचे रचणुकेचो आनी थोडोभोव इतिहास आनी थंयची सांस्कृतीक मांडावळ हांचो अदमास घेतना उमळशीक वाडटा.

काणकोणांत खुबशीं थळनांवां अशीं आसात की, तांकां निमणे 'गाळ' वा 'मळ' हें उतर लागता. ह्या दोनूय उतरांचो अर्थ म्हळ्यार चरव मेळपाची समपातळी जमीन. पयलीं आमी 'गाळ' उतरा विशीं पळोवया. पर्तगाळ, खरगाळ, सोंदगाळ, कुकुमगाळ, धानागाळ, अष्टगाळ, धुल्लगाळ, तळयागाळ, शिरगाळ, कुमेगाळ, गाळयें हीं नांवां हे जातकुळींत येतात. एक थळाचें नांव 'वीरगाळ' अशें आसा. हें वीराचें यादस्तीक म्हूण त्या थळाक वीरगाळ हें नांव दिल्लें आसा. मळ म्हळ्यार, लांबचे लांब पातळिल्ली चडशी समपातळी पडंग जमीन. हांगा झाडां झोपां उणे आनी पालो-चरव फावो तसो आसता. गोरवां-वासरां खातीर खंयचेंय मळ हें सामकें आवडीचें थळ आसता. मळ हें उतर चडश्या थळांनी निमाणे जोडिल्लें आसता. उक्ताड आनी पठारासारकी चड करून पडंग जमीन म्हळ्यार मळ. ते जमनीक कस नाशिल्ल्यान तातूंत पीक-पिकावळ करप शक्य नासता. दापटामळ, भटणीमळ, भटामळ, दुमाण्यामळ, तामणामळ हीं नांवां हे वळेरींत येतात. कांय मळां थंयच्या खासा झाडांपेडां खातीर लोक वळखतात. देखीक काजूमळ, सांवरीमळ, घोटीमळ, पणसुलेमळ, घोडकमळें, करमळें, फुलांमळ, जांवळीमळ, पारयेमळ, बोंबडामळ.

दुसरो प्रकार हो 'बाग' ह्या उतराचो. हें उतरय निमाणें लागता. बाग म्हळ्यार कुळागर वा फळझाडांची लागवड आशिल्ली जमीन. काणकोणांत आनी पुराय गोंयभर बाग उतर जोडिल्लीं शेकड्यांनी थळां आसतलीं. देवाबाग, काटेबाग, दिंडेबाग, न्हंयबाग, गालजीबाग, किंदळेबाग, राजबाग अशीं कांय उदाहरणां दिवं येत. बाग ह्याच अर्थान आयिल्लें दुसरें उतर म्हळ्यार भाट, वयलें भाट, सकयलें भाट, केणयांभाट, कीरभाट, गांवभाट, देवाभाट, फोणचें भाट, व्हडलें भाट, धाकलें भाट, मदलें भाट, सुलचें भाट हीं थळनांवां बाग वा भाट ह्या प्रकारांत आसपावतात.

कांय थळनांवां ही थंय जातल्या फळां वयल्यान पडिल्लीं आसतात. आमोणें आनी आमोलें हीं नांवां आंब्यांच्या बागां वयल्यान पडल्यांत. काणकोणांत आमोणें आसा, आमोलें आसा आनी खोला गांवांत आमें आसा. थंय आजय गेल्यार आंब्यांची रुखावळ कशी आशिल्ली हाचो भोव बरो दिश्टावो जाता. काणकोण म्हालांत आनी हेर कडांनी जांबोलें आसा. जांबळाच्या वा जांबांच्या झाडां वयल्यान हें नांव आयलां. काणकोणांत एक पोपयेदांडो आसा. काजूमळ आसा, आमाड्याफोंड आसा. बरकयेफोंड आसा, पणसकाणे, पणसुलेमळ आसा आनी पणसुलें नांवांचोय वाडो आसा. हेर कडांनी केळींत आसा, मावळिंगे आसा. तोरशें, बिंबल, करमळी, आमडय, आंबेली, आंबेडें, बोरी, चिंचणी, हळदोणें, चिंचोळें, रुमडामळ अशीं कितलींशीं नांवां मेळटात.

हाचे पयलीं हांवे वीरगाळी विशीं सांगलां. तशेंच दुसरें यादस्तीक नांव म्हळ्यार मास्तीमळ. महा-सती-मळ अशी हाची फोडनिशी जाता. सती गेल्ले बायलेच्या नांवांचेर हो वाडो आजय लोक वळखता. कांय गांव अशे आसात कीं तांच्या नांवांचे अखेरेक 'पाल' हें उतर जोडलां. पाल म्हळ्यार एक वसणूक वा वाडो. सातपाल, भूतपाल, भाटपाल ही कांय नांवां देखीक दिवं येतात. हेरकडांनी कासरपाल, अडवलपाल, भुंयपाल हीं नांवां मेळटात.

कांय नांवां फाटल्यान 'गिणी' वा 'गिणे' हें उतर येता. ताचो अर्थ सकल वाठार. अदीक विसकटावन सांगपाचें जाल्यार, समुद्राचे भरतेचें उदक जे शेतोडे मेरेन पावता त्या वाठाराच्या नांवांत भोव करून हें उतर आसपाविल्लें दिसता. देखीक पैंगीणी, नाटांगिणी, वांयगिणी, खणगिणी, बोडगिणी,

मांयगिणें अशीं नांवां सांगूंक जातात.

दुसरें एक उतर म्हळ्यार सडो, सडो म्हळ्यार फातरट वा तळपट जागो. थंय झाडां-पेडां उणीं आसतात. शेतोड तर नासताच. देखीक सडो, कुळटीसडो, लोलयेंसडो, वयलोसडो आनी मुरगांवचो सडो.

भौसांतल्या तरेकवार जमातीं वयल्यान गांवांचीं वा वाड्यांचीं नांवां पडिल्लीं आसतात. गांवकारवाडो, मेस्तांवाडो, भटवाडो, देसायांवाडो, देवूळवाडो, नायकांवाडो, धनगरांवाडो वा वाडी, बामणवाडो अशीं नांवां ह्या प्रकारांत आसपावतात.

कांय थळनांवां देवा-धर्माच्या संबंदान रुढ जाल्लीं आसतात. देखीक श्रीस्थळ, थळ वा थळांत, देवादांडो, देवाबाग, देवावेळ, देवावळ, देवतेमळ, देवसू हीं नांवां घेवं येतात.

मही या मूळ संस्कृत उतराचो अर्थ जमीन, माती, रेबो, चिखोल. ह्या अर्थान हें उतर लोकांचे संवकळीचें जाल्लें दिसता. मायणा, मये, माण्णे, मलोरे, मयडें हीं उतरां तशेंच चिखली हीं थळ नांवां चिखलाचे जमिनीच्या संदर्भांत आयिल्लीं दिसतात.

मरड, मड्डी हीं उतरां दोंगरी वाठार सुचयतात. ह्यो सुवातो दोंगुल्लेचेर ना जाल्यार दोंगरा माथ्या वयल्या पठारी-पातळिल्ल्या वाठारांत आसतात. काकूम ड्डी, कोल्यामड्डी, हीं थळनांवां ह्या प्रकारांतलीं.

भुगोलाचे नदरेन खोलायेचेर आशिल्ल्या वाठाराक खोल वा फोंड अशें नांव दिल्लें दिसता. देखीक काणकोणांतलो गांव खोला. थंय आशिल्लो खोलगड, अर्धफोंड, बरकये फोंड, फोंडकें, साश्टींतलो रावणफोंड, अंत्रूजांतलें फोंडें, तिसवाडींतलें फोणवें, फोंडकुली हीं थळनांवां थंयचो भुगोल सांगतात. तशीच सैमीक स्थिती (टोपोनिमी) सांगपी दोंगोर हें उतर. गांवडोंगरी, डोंगरी, दोंगरार, रामादोंगोर, रावणादोंगोर, डोंगुर्ली हीं थळनांवां त्या थळांची उंचाये वयली वसणूक सुचयतात.

कांय थळनांवांचेर तरेकवार भाशांचो प्रभाव दिसता. गोंयांत सगल्या वाठारांनी केरी हें उतर मेळटा. कानडी भाशेंत केरे वा केर म्हळ्यार उदकाचो स्रोत आशिल्ली अशीर आनी लांबट जमीन. सुमार इकराव्या शेंकड्या सावन हें उतर गोंयांत संवकळींत आयलें आसुंये.

त्या वेळा वयल्या भौसाचे नदरेन म्हत्वाच्यो आशिल्ल्यो सुवातो नगर, नगर्शें, म्हाल, म्हालवाडो, म्हालेबाग, नगरगांव, चावडी ह्या नांवांनी वळखताले. पेडें, तयपड हीं थळनांवां तांचो बाजारपेठो, व्यापारी मळां आशिल्ल्याचें सुचयतात. गोंयांतल्या चडश्या वाठारांनी गोठण हें उतर वेगवेगळ्या रुपांनी आयिल्लें दिसता. गोंयांत पुर्विल्ल्या काळा सावन गायो-गोरवां म्हशी-रेडे पोसप आनी दुदाचो वेवसाय चलतालो. दर एका गांवांत गोरवां आसतालीं. त्या गोरवां खातीर चरवाची तजवीज मळां, रायो आनी रानां राखून दवरून केल्ली. ताची सुलूस राय, देवराय, देवारान अश्या थळनांवांनी मेळटा. पूण ह्या गोरवांक चरवाक घालतकच तांकां पियेवपा खातीर उदकाची सुवात आनी उदक पियेल्या उपरांत बसपाची सुवात आसताली ते सुवातेक गोठण म्हणटाले. आज लेगीत चडश्या गांवांनी हीं गोठणां आशिल्लीं दिसतात. गांवांत एका परस चड गोठणां आसल्यार तांकां गोठण ह्या उतरा पयलीं सुचक नांव जोडटाले. देखीक-कारेगोठण.

कट्टा हें मूळ तेलगू उतर. ताचो अर्थ बांद वा जकात नाको असो आसा. गोंयांत कोंकणी मनशाचे संवकळीचें उतर म्हळ्यार कटो. किंदळकटो, पारेकटो, धुपेकटो, कटो (आमोणें), सांवरकटो, पिंपळकटो हीं थळनांवां वयर सांगिल्ल्या दोना भितरल्या एका अर्थान आयिल्लीं आसूंक जाय. त्याच प्रमाण खाजन हें उतर गोंयच्या शेती प्रकाराक जोडिल्लें आसा. सखल-पाणठळ खाऱ्या उदकान भिजपाची शेत जमीन ती खाजन. गोंयांत खाजन ह्या उतराक जोडिल्लीं कांय थळनांवां मेळटात. देखीक: कारेखाजन, धवळखाजन, म्हाखाजन. कारय वा काराय हें उतर चड करून बांद घालून खारें उदक आडावपाचें गांव. कांय जाग्यार कारो नांवांच्या रुखांक लागून हें नांव येवपाची शक्यताय दिसता.

बाराव्या शेंकड्यांत गोंयांत नाथ पंथ आयलो. नाथ पंथाच्या प्रसारांतल्यान गांवांतल्या कांय वाठारांक नाथ, जोगी वा सिध्द हीं उतरां दसलीं. सिध्दनाथ (अंत्रूज), चंद्रनाथ (पाइडें), जोगयांमठ, सिध्दामठ, पिशेमठ हीं थळनांवां नाथ पंथाच्यो कुरू जावन आसात. मेजपाच्या आंकड्यां वयल्यान कांय थळनांवां आयल्यांत. देखीक: अर्दफोंड, दुपें, चवाटो, चार रस्ते, सातोली, सातकेलें, अश्टगाळ, अश्टळा, बारदेश, तिसवाडी, साश्टी, सत्तरी अशीं नांवां दिसतात. जीव-जनावरां वयल्यान आयिल्लीं कांय थळनांवां आसतात. देखीक: वागोण, वागाळी, उंदरांवाडो, हत्तीपावल, मोरफोंड, नागाळी, नागेशी, कोल्यामड्डी, दुकरेव्हळ, म्हशीफोंड, माश्याफोंड, नागवें, शिल्ली, मोरजी, नागझर हाचे वयल्यान नांवां फाटल्यान आशिल्लो इतिहास अभ्यासपाचे नदरेन ताचे कडेन पळयल्यार समजूंक शकता. पूण आमकां ती नदर आसूंक जाय. हो इतिहास फकत थळांच्या नांवांचोच म्हळ्यार त्या उतरांचोच न्हय, तर तो पुराय मनीसकुळाचो. ताच्या सांस्कृतीक-सामाजीक-उद्देगीक आनी अर्थीक वाटचालींचो आनीक एक म्हत्वाची गजाल उदरगतीचो हो इतिहास अभ्यासतनाच आमच्या हाताक गावता ती म्हळ्यार भोव बरी सांस्कृतीक उतरावळ. ती उतरावळ आमी आमच्या सदांच्या वेव्हारांत हाडली जायत जाल्यार आमचे भाशे-गिरेस्तकाय वाडल्या बगर रावची ना. त्याच बराबर आमच्या साहित्याक एक भोव बरें सांस्कृतीक मुळावण मेळटलें, बुन्याद मेळटली आनी ताचेर आदारिल्लो आमचो साहित्यीक संवसार चड फळादीक जावंक पावतलो हाचे विशीं दुबाव ना.

गोंयच्या इतिहासाचेर नदर मारल्यार एक गजाल भोव बरी कळटा. ती म्हळ्यार गोंय चड काळ दक्षीण भारतांतल्या राजवटींच्या शेकातळा उरलें. ताचो परिणाम हांगाची संस्कृताय आनी जिणेशैलीचेर जालो. आमचे भाशेंत कितलींशींच उतरां भरसलीं. तातूंत मुंडारी, कानडी, संस्कृत, तुळू आनी तेलगू भाशांचो मोटो आसपाव जाल्लो दिसता. काणकोण वाठाराचो सांस्कृतीक इतिहास अभ्यासतना थंयचीं कांय थळनांवां मेळ्ळीं. तांची वळेरी आनी तरेकवार भासांतल्यान तांचो म्हाका कळिल्लो अर्थ सकयल दिला:–

**१) संस्कृत भाशेचो प्रभाव दाखोवपी थळनांवां:**

अवें – आवय
मायण– चिखलाची जमीन
श्रीस्थळ – देवाचें थळ,
थळ – देवाचें थळ

**२) मुंडारी भाशेचो प्रभाव दाखोवपी थळनांवां:**

बाग – नाल्ल, सुपारी हांची लागवड करपाची सुवात/कुळागर
बांद – उदक आडावप, उदक सांबाळप
घाट – दोंगरांतली वाट
गिणी – न्हंय/व्हाळ हांचे धडे वयली जमीन
पाल/पाळ– वसती
पाणटो – न्हंये वयलो पाणटो.

**३) कन्नड भाशेचो प्रभाव दाखोवपी थळनांवां :**

आगोंद – रानवटी वाठार
अवें – चिखलाचो वाठार
बड्डें – पडंग वाठार
भरवळो –पडंग तिरांटो
बेलांत – गोडाचे बेलयांचो वेपार चलपी सुवात.
भोळो – उंचाये वयली जमीन
भूतपाल – भुताच्या शेकाखाला आशिल्ली जमीन/वाठार
चिपळें – चेपिल्ली जमीन
दाबेल – चिड्डून सकला गेल्ली जमीन.
दांडो – न्हंय/व्हाळ हांचे देगे वयली बाग
कोळंब – उदका लागीं आशिल्ली/ कोळंबेच्या आकाराची जमीन.
कोंड – कोंड/कुंड
माटवें – माटोव/झाडा पेडांचे सावळेन भरिल्ली सुवात.
मुळ्चेळे –मुखेल वसतेपसून पयस आशिल्ली वसती.
मुडकूड – कोनशा वयली सुवात
नड्कें – पिकावळीची जमीन
पाळोळें/पाळवळें – उदकाच्या पाळांनी धुपतली जमीन
पारवें – जे सुवातेर पारव्यांचे चोमे रावतात ती सुवात.
तडवें – व्हाळा देगेर आशिल्ली सुवात.
हन्न – घोल
वसरट – शेळ आशिल्ली जमीन.
यडा – कोनशा वयली जमीन.
येंड्रें – पडंग थळ.

**४) तुळू भाशेचो प्रभाव दाखोवपी थळनांवां:**

आडीवळ – शिमेची शीर
भूतपाल – भुताचो शेक आशिल्लो वाठार
काराय – उदक आडायिल्ली सुवात
केर – कसदार सुपीक भूंय
खांडलें – भूंयखंडाची रांग
खरगाळ – खर/वचपाक कठीण असो वाठार.
कोळ्कण –भरड/पडंग जमीन.
कोळंब – उदका लागींची सुवात
कोळसर – पिकावळीक फावनाशिल्ली वा एकाच प्रकारच्या भातपिकाची जमीन.
लोलयें – विशमपातळी जमीन
माण्णें/मायणें – रेबो–चिखलाची जमीन.
मुडचेळे –घरांचो चोमो
मुडकूड – कुशीक दवरिल्ली सुवात/मळणे खातीर वापरपाचो केल्याचो दांडो
पणसखाणे – पणसांचें आगर
टाक – तोंकार/धडेर आशिल्ली जमीन.

**५) तामीळ भाशेचो प्रभाव दाखोवपी थळनांवां:**

अवें – आवय, भूंय, चिखोल ह्या अर्थान
बाबरें – बाबरो हे अतीमानवी शक्ती वयल्यान वा बंदोबस्त केल्लो वाठार ह्या अर्थान.
यडा – भूंय ह्या अर्थान.
खावट – दोन दोंगुल्ल्यां मदलें देगण.
मैक – पडंग जमीन
मोखर्ड – पडंग/दरवट्याकडलो वाठार.
मुडचेळे – मुखेल गांवां पसून कोनशार वशिल्लो घरांचो चोमो
मूडकूड – उंचायेर आशिल्लो वाठाराचो कोनसो.
पोळें – जमनीची शीर
तयपड – सागरी वेपार चलपाची सुवात
वाणी/वाण– उदका कडली सुवात

**संदर्भ:**

१. भट, पी. गुरूराज. स्टडीस इन तुळुवा हिस्ट्री अँड कल्चर. कल्लीनपूर : लेखकान उजवाडायलां, १९७५
२. केमतूर, रघुपती. ओ ग्लॉसरी ऑफ प्लेसनेम्स–इलेमेंटस् इन तुळू अँड कन्नडा. गुंडमी (कर्नाटक) : जनवादी प्रकाशन, १९८९
३. मन्नेर ए. तुळू–इंग्लीश डिक्शनरी. नवी दिल्ली: एशियन एज्युकेशन सर्व्हिसेस, १९८३.
४. हॉफमन, जॉन आनी आर्थर व्हॅन एमिलीन. एन्सायक्लोपेडिया मुंडारिका. नवी दिल्ली: ग्यान पब्लिशिंग हाऊस, १९९०.
५. जोशी, रमाबाई आनी पी.डी. जोशी, तामीळ–मराठी शब्दकोश. मुंबय: महाराष्ट्र राज्य साहित्य संस्कृती मंडळ, १९७६.
६. शिरोडकार, पी.पी. – ''पीपल ऑफ इंडिया–गोवा के.एस. सिंग, संपा. मुंबय: अँथ्रोपोलॉजिकल सर्व्हे ऑफ इंडिया, पॉप्युलर प्रकाशन प्रा. लि. १९९३'' ह्या पुस्तकांतल्या गोंयच्या थळनांवां विशींचो लेख.
७. दक्षीण आनी उत्तर कर्नाटकांतल्या कन्नड, तुळू, तशेंच तेलगू उलोवप्यां कडल्यान प्रत्यक्ष चर्चे वरवीं म्हायती. ❑

मुंबयंतले दीस...

# म्हजी मुंबय

लग्ना उपरांत चार दीस भोंवंक म्हणून तिकेट काडूंक गेलीं. म्हज्या एका इश्टान लग्नाची भेट म्हणून बरें सोरपा-कातीचें पाकीट दिल्लें, तांतूंन सगले पयशे घालून तें म्हजे व्हड्ले पर्सींत घाल्लें. तातूंत पुस्तक, नॅपकीन आनिकय कितें कितें आसलें, पूण चोरान जुस्त तें पाकीट फारायलें. मुंबयच्या भामट्या विशीं खूब आयकल्लें, प्रत्यक्ष अणभव हो असो आयलो.

▶ जयमाला दणायत
९७५७११९३१७



गोंय आनी मुंबयचें नातें एकदम लागींचें! गोंय स्वतंत्र जावचे पयलीं धरून शिकूंक म्हणा जांव नोकरी धंद्याक लागून गोयकार मुंबयचो मार्गच आपणायताले. तेन्ना गोंया कॉलेजी बी खंयच्यो? – एस्.एस्. सी. ची परिक्षा लेगीत पासपोर्ट बी काडून मोट्या यागांनी मुंबय वचून दिवची पडटाली. म्हज्या नशिबान हांव सव्वे–सातवेक आसतना गोंय मुक्त जालें. पूण मिस्त्राक मात परिक्षा दिवंक आनी फुडल्या शिक्षणा खातीर मुंबयक आपणावची पडली.

म्हजी व्हडली भयण बाय–जी म्हाका सामकी आवय सुवातेर – तिचें लग्न मुंबय जाल्लें. ताका लागून भुरगेंपणांल्यान मुंबय विशीं एके तरेचें आपलेपण कशें आशिल्लें. पूण पयले खेपे मुंबय पावलें तें एस्.एस्. सी. जातकच! खरें तर मुंबय विशीं मनांत मोटें आकर्शण आसलें. – पूण मुंबय पावतां पावतां भायल्यान येवपी घाणींनी पोटांतल्यान ढवळून येवंक लागलें, जीव सामको गळ्यांत आयलो, आनी शीऽऽ मुंबयची हवा अशी इतली घाणयारी – असो मनांत एक दडो बसलो तो सासणाचो! पयलीं पयलीं सगल्याक भोंवतना मळबाक तेंकपी त्यो बिल्डिंगी पळोवन, चौपाटी, राणीची बाग, मलबार हील, सिनेमा, नाटक, सर्कस पळेत चार दीस मजेंत गेले. पूण गोंयच्या मेकळ्या वातावरणांत वावुरपी म्हाका त्या गच्च घुडा सारकिल्या रुमांत आनी सद्दां उठून वचत थंय पातळिल्ले भोंवतणचे गर्दैत सामकें घुसमटूंक जावंक लागलें. केन्ना काय म्हज्या सैमान नटिल्ल्या मेकळ्या ढाकळ्या गांव–घरांत वचून पडटां अशें जालें आनी म्हयनोभर रावंक आयिल्ल्या हांवें आठ दिसांनीच थंयच्यान पपा काडली.

दुसरे खेपे मुंबय पावलें तें पुण्याक एम्.ए. ची परिक्षा दिवंक गेल्लें तेन्ना. दोन पेपरांमदीं चार पांच दिसांची गॅप आसली. म्हणून पुण्या सावन मुंबय येवप. तेन्ना हांव सामकें बारीक आसलें. पळोवंक ल्हान दिसतालें. हांव थंय आसतना भावोजीले कांय मित्र आयिल्ले. भावोजीन वळख करून दिली – ''ही म्हजी मेवणी, एम्.ए. ची परिक्षा दिवंक आयल्या.''

''काय, राव आम्हाला शेंडी लावता, ही कॉलेजला तरी जाते का? एस्. एस्.सी. ला असेल.'' म्हणून फकाणां करीत व्हडान हांसूंक लागले. म्हाका मारली भिरभिरी! भावोजी कडेन अशें उलयतात म्हणचे कितें? भितर वचून पर्स हाडली आनी म्हजें आय कार्ड तांचे मुखार आपटिलें. तांची बोलती बंद!

परतें मुंबय आयलें ते बद्द लग्ना वेळार. हय, म्हजें लग्न मुंबयच जाल्लें. खरें तर मिस्त्राची ट्रान्स्फर गोंयांत जाल्ली, तो आनी आमी खासा खुद्द गोंयचीं. पूण तांचे चडशे लोक मुंबय रावपी, म्हणून लग्न वडाळा मठांत करचें थारलें. आमचें व्हाड ट्रेनीर गोंयच्यान मुंबय आयलें. तेन्ना तर कोंकण रेल्वे बी कांय नासली. मिरजेंत गाडी बदलची पडटाली. आनी लग्न म्हणटकच जण एकाचें खूब सामान – तातूंतच म्हजें व्हंकलेचें सामान! भयणीगेर पावतकच लक्षांत आयलें – म्हजी एक बॅग शिवणेची सुटकेस ना. टॅक्सींनी, स्टेशनार, गाडयेंत, हमाला कडेन सगले कडेन सोदासोद केली, पूण बॅक शेणली ती शेणलीच! येदे व्हडले मुंबयंत ती येदीशी बॅग सोदतली खंय आनी मेळटली तरी कशी? गोंयच्या लग्नाची शिवण म्हणचे म्हज्यात पावयल्या कोणाकय उमजतलें कितें आसतलें तें! इतल्या दिसांचे म्हजे कश्ट खिणा भितर व्यर्थ जाले. लग्ना खातीर स्पेशल केल्ली ती शिवण एका खाशेल्या अर्थान भरिल्ली – तांतल्या धाग्याधाग्यांनी भावभावनाचे टांक घाल्ले आसतात. गेली ती गेली, परत म्हणून हांवें शिवणीचें नांव काडलें ना. कारण ताचेर जायती चर्चा भासाभास जाली आनी म्हजें लग्न मुंबय–गोंयां, सगले कडेन गाजलें. मुंबयचो हो पयलो वायट अणभव म्हाका असो आयलो.

लग्ना उपरांत चार दीस भोंवंक म्हणून तिकेट काडूंक गेलीं. म्हज्या एका इश्टान लग्नाची भेट म्हणून बरें सोरपा–कातीचें पाकीट दिल्लें, तातूंन सगले पयशे घालून तें म्हजे व्हड्ले पर्सीत घाल्लें. तातूंत पुस्तक, नॅपकीन आनिकय कितें कितें आसलें, पूण चोरान जुस्त तें पाकीट फारायलें. मुंबयच्या भाम़ट्या विशीं खूब आयकल्लें, प्रत्यक्ष अणभव हो असो आयलो. त्याच दिसांनी पार्ल्या, अंधेरी खंय तरी सोयऱ्यांगेर वतना बसीर चडटना हाताचें भांगरा कांकण कापलें, हाताक खरचटलें, पूण गोंयचें भांगर म्हणून कांकण तुटलें ना. हातार मात अजून हय न्हयशी माव ते घडणुकेची याद जावन आसा. मागीर अशें जायत्या वेळा पर्स कापप, शेणप–घालप चलतच रावलें तें हो वेळ मेरेन चालूच आसा. चोर म्हाका अचूक पारखितात आनी इतले अणभव येवनय हांव शाणें जायना. आतां आतां मात हांवय हुशार जालां, सट्ट करून कोणाक फसना.

लग्न जातकच चलयांचे जिणेंत खूब बदल घडटात. तातूंत हांव कुळारा सगल्यांत धाकटें म्हणून सामकें अपुरबायेन वाडिल्लें. हांगा एकदम व्हडलें जालें. व्हडली सून – आपसूक कितल्योश्योच नव्यो जापसालदारक्यो आंगार पडल्यो. हाचो बापूय ल्हानपणांतच गेल्ल्यान हाच्या आंगार शिकतनाच घरची सगली जबाबदारी पडिल्ली. ताच्या हाताक हात लावन म्हाका ती निभावची पडली. ताका लागून मनांत गोंयचो कितलोय मोग आसलो तरी हाची बदली जायना फुडें मुंबयक आपणवची पडली. लग्न जावन पांचेक वर्सां गोंयांत उरलें, आनी आवडलें ना तरी मुंबयकच कर्मभूंय मानची पडली – हांगाची जीण पत्करची पडली.

पयलीं पयलीं गर्दैत भोंवचेली संवय नासली. सुरवेक तर



खंयूय वचप म्हणचे म्हजेर सामको आकांत येवचो. एकटें भोंवची संवयच नासली. पूण हांगा जो तो आपल्या कामाच्या व्यापांत; सदां उठून म्हज्या बराबर येतलो कोण? हांगाच्यो बायलो एकेकटीं भोंवतात, करतात तें पळोवन मातशी धिटाय आयली आंगांत. मागीर एकटें वचपाची संवय जाली. गर्दी सोंसूंक नज आसली, ती तांतलेंच एक जावपाची किमया साधली. हांगाचे घाम साणीन, घाणीन नाकापुरो जातालें, नाकार लेंस जांव पदर धरले बगर भोंवंक नज जातालें – सामकें थू थूऽ जातालें, आंगाक कोणाचो हात लागल्यार लेगीत हळशीकशी दिसताली. पूण हे मुंबयन म्हाका सर्वसामान्य मनशा भशेन जियेवंक शिकयलें, भोंवंक शिकयलें.

हांव रावतां डोंबीवलीक, म्हणटकच खंयय येवचें वच्चें जाल्यार ट्रेन इज मस्ट! जे गाडयेचो, गर्देचो मनाक कांच बशिल्लो तो काडून उडोवंक जाय आसलो. जीव साम को मुठींत घेवन म्हणटा तशें हांव गाडयेंत चडटालें. फास्ट ट्रेनींत तर ना. पूण मागीर इतकी संवय जाली की सकाळीं णवांचे गाडयेंत चडून दाखयल्यार खरेंच गाडी धरपांत एक्स्पर्ट असो एक संकेत आशिल्लो त्या कसाकय उतरलें. थोडो तेंप कामाक वतना ती ट्रेन धरून व्यवस्थीत प्रवास करप जमूंक लागलें.

एके खेपे मात ते गाडयेंत चडटना पांय वयर काडूंक कोणें तरी फाटल्यान जोत्यार पांय दिलो – जोतें सटकलें तें सरळ रुळाचेर, आनी हांव एका पांयाच्या जोत्या सकट गाडयेंत भितर! आतां एका पांयांत जोतें घालून वतलें कशें? साताठ दीस लेगीत जाल्ले नासले जोतें घेवन. देंवचो येत्न केल्यार भायल्यान चडपी भितर धुकलूंक लागले. भितरलीं 'खिसको, खिसको करून भायर सरूंक दिनात. शेवटाक त्या जोत्याचेर उदक सोडलें. गाडी व्ही.टी. पावतकच सरळ दुसरें जोतें गाडयेंत भिरकायलें आनी नंगे पाँव म्हणटा तशें स्टेशना भायर वचून झक मारीत नवें जोतें घेतलें आनी रेडियो स्टेशन गांठलें.

आनीक एक फावट अशेंच रेडियोचेर वतना लेट जातलें म्हणून धांवतच रेल्वे ब्रिजाचीं सोंपणां देंवन उबी आशिल्ले गाडयेंत चडूंक गेलें. दारांतल्या रॉडाक हात घालो आनी गाडी सुटली. धड चडूंक येना आनी दार सोडूंक येना – अशी स्थिती जाली. भितर आशिल्लीं बायलां 'उडी मार, उडी मार' करतात. पूण हात फुडें करून वयर घेनात. काळजांत सामकें खपखपूंक लागलें. गाडी जोरान वताली. मातशें फुडें खांबो आसलो –म्हजेर आकांत आयलो, दोळे धांपून देवाचो धांवो सुरू केलो. सकयल लोकांचो बोवाळ कानार पडटालो – 'गीर गयी, गीर गयी' – कितें करचें कळनासलें. खांब्याकच आपटुपाचें, पूण ताचे पयलींच एका दादल्यान धांवत येवन म्हज्या पांयाक धरून ओडलें, त्या आदारान हांवें हात सोडलो. तो पडलो, हांवय पडलें, खरचटलें, साडी पिंजली पूण तितल्यारच निभावलें. मरणाचो भंय नासलो, पूण अशें बसलां थंय हात पांय मोडून पडलें जाल्यार हे येवजणेनच जीव सामको आटलो. भरभर करुन लोक एकठांय जाले – कोणें तरी साखळी ओडून गाडी थांबयली. सामकें लजेक म्हारग, मरूंक पुरो जालें. त्या उपकारकर्त्याचे धड आभारय मानले नात, तोंडांतल्या तोंडांत थँक्यू म्हणून धांवन तीच गाडी धरली आनी तशेंच रेडियोचेर गेलें. घरा सुद्दा कोणाक सांगलें ना.

हय, मुंबयन म्हाका म्हजें हें नवें कुळार दिलें – आकाशवाणी मुंबय! लग्न जावन भुरगो जातकच बरी बँकेंतली नोकरी सोडून घरा बशिल्लें. मुंबय आयलें – एक फावट प्रोग्रामाक म्हणून थंय गेलें, कोंकणी विभागांत भितर सरलें आनी थंयचेंच जावन गेलें. गोंयची याद जाली, कुळारचो उगडास आयलो – कोंकणी विभागांत येवचें. दिसभर दुर्गाबाय, ललीताताई, चिमुलकार हांचे मदीं दीस घालोवचो – आसा तें काम करचें, पोटभर कोंकणी उलोवचीं आनी सांजचें घरा परतुचें. कितलीं मनशां म्हाका हांगा मेळ्ळीं, गोमश, माशेलकार मामा, कृष्णा – कितलीं नांवां सांगचीं? म्हजेर माया करपी, म्हाका मोग दिवपी!

रेडियेचेर न्युजरिडर म्हणून काम करतलें अशें भविष्य कोणेंय सांगिल्लें जाल्यार ताका हांव सामकें पिशांत काडपाचें – पूण खरेंच म्हजें भाग्य म्हणूंक जाय, हांव हांगा आयलें कितें, ते बाबतींत कसलोच अणभव नासतना, क्वालिफिकेशन नासतना. म्हज्या कोंकणी उलोवपाचेर पडतेसरान म्हाका खबरो दिवंक फॉर्मार केलें – सगलेंच अजापाचें! बऱ्यो बातम्यो दिवपी म्हणून नाम ना मेळयली. हांगाय कुसुमताई सारके जायते कलीग मेळ्ळे. ह्या मुंबयन म्हाका कितें दिलें ना? कामाचो आनंद दिलो. खोशी, सम ाधान, नांव दिलें. कोंकणी खातीर महाराष्ट्र सेन्सर बोर्डाचें सदस्य म्हणून म्हजो आसपाव जालो. मुंबयन खोशी दिली, जिणेचो आनंद दिलो, तशेंच दुख्खय दाखयलें.

हाका हार्ट अॅटेक आयलो तेन्ना मुंबयतलीं ल्हान व्हड हॉस्पिटलां भोंवलें – थंयचे बरे वायट अणभव घेतले. जिणेंत सूख आसा तशेंच दुख्खय आसा. वायट लोक मेळटात तशेच जायते बरे लोकय आसतात. हें मुंबयन म्हाका दाखोवन दिलें. मनशांतल्या मनीसपणाचे अणभव आयले.

हांगा रावंक आयलें तेन्ना गोंया पसून, कोंकणी पसून पयस पावलें म्हणून मनाक खूब खंत भोगली. मनाविरुध्द म्हणटा तशें हांगा आयलें. हांगा मराठी, हिंदी, गुजराती, कन्नड, तुळू वेगवेगळ्यो भाशा उलोवपी – कोस्मोपोलिटन सोसायटी. हांगा पयलेंच आयलें तेन्ना आमचे सर म्हणचे कोंकणीचे नामनेचे कवी दोतोर – मनोहरराय सरदेसायान म्हाका पत्र बरयिल्लें – ''आतां तूं कोस्मोपॉलिटन सोसायटींत वावुरतलें – तुज्या कोंकणीचेर परिणाम जातलो. तुजीं भुरगीं थंय रावन कोंकणी विसरतलीं. हांवें तांचे कडेन बॅट मारली – अशें केन्नाच जावचें ना, आनी हांव जिखलें, म्हजे भाशेचेर मातय परिणाम जावंक दिलो ना. घरांतलीं सगलीं मराठी

उलयतालीं. पूण हांव, म्हजो घोव – भुरगीं कोंकणीच उलयतालीं. तीं कोंकणी विसरलीं नात, हांवें तांकां विसरूंक दिलें ना. भलें ताचें शिक्षण कोंकणी माध्यमांतल्यान जालें ना. तरी तीं कोंकणी वाचतात – बरयतात, कोंकणींतल्यान तांणी कार्यक्रम केल्यात. हो वेळ मेरेन हांवय म्हाका शक्य तितली कोंकणी सरस्वतीची सेवा करीत आयलां हें व्हड समाधान!

हांगाच रावन म्हाका आमचे भारतीय संस्कृतायेंतले विवीधतायेतलो एकचार पळोवंक मेळ्ळो. नाना धर्मांचीं, भाशांचीं, जातीकातींचीं मनशां अणभवूंक मेळ्ळीं. हरशीं भाशे वयल्यान, धर्मां वयल्यान, जातीपाती वयल्यान झगडूं, सादें अर्दवर बसपाच्या जाग्या वयल्यान झगडूं – पूण कोणाक कितेंय जालें, घुंवळ आयली, कोण गुरवारीक पोटांत दुखूंक लागलें जाल्यार सगलीं मनीसपणाच्या नात्यान एक जावन ताका मजत करतात हेंवय हांगाच अणभवूंक मेळ्ळें.

घर ल्हान काय व्हड हो प्रस्न ना तर मनशाचें काळीज, मन – हाचेर सगलें अवलंबून आसता हें ज्ञान म्हाका मुंबय शारान बेस्स बरें करून दिलें. भयण रावताली थंय जागो ल्हान, तांकां तो पावतालो, न्हय पावोवन घेवचो पडटालो. तेद्याच जाग्यांत दोन–दोन, तीन–तीन जोडपीं रावतालीं, आनी कामा खातीर, शिकपा खातीर गांवच्यान कोणय वळखीचो मनीस आयल्यार त्याच जाग्यांत ताकाय आसपावन घेवपी कुटबां हांवें हांगा मुंबयंतच पळयलीं.

कसलेंय अस्मानी संकट येवं ताका धिरान, शांतपणान तोंड दिवंकय म्हाकाय हांगा रावंक येतकच शिकूंक मेळ्ळें. वसती वाडत गेली तश्यो मेळत थंय बिल्डिंगो, घरां वाडत गेलीं. पावसा तेंपार व्हांवपी उदकाक खंयच सुवात उरली ना. हीं घरांय भर घालून उबारिल्लीं. त्या भायर वर्सा कणकणी डांबराचे थर वाडयत रस्ते वयर जाताले. ताका लागून पावसा तेंपार घरांत फरशींतल्यान उदक येवंक लागलें. मातशें येवपी उदक पावलभर जावंक लागलें. वर्सान वर्स पातळी वाडटाली. उदकान सगले बंगले भरूंक लागले. एक तर जमीन वयर करची नातर वयर माळो करचो पडलो. पावसा तेंप म्हळो की पोटांत सामको गुळो येवचो. केन्ना उदक येत कळनासलें. परत तें काडून उडोवन घर साफ करतासर जीव गळ्यांत येवचो. उदक पळोवंक सामकें निवळ, पूण तातूंत केमिकल्स आसतालीं. सादें लाकडीं सामान वा हातरुणां–पांगरुणांक लागलें तरी सगलें खराब जावचें. मागीर तें, भायर उडोवपा बगर दुसरो उपायच नासतालो. एकदां तर निवळ करतना म्हज्या केंसार पडून – जटा जाली, इतली की सरळ लांब केंस कापून बॉबकट करचो पडिल्लो.

कसलीच मोह माया मनांत दवरी नासतना अशें सामान 'ईदम् न मम्' म्हणून सरळ भायर मोखून दिवपाची अलिप्ततताय हे मुंबयनच म्हाका शिकयली. इतलेंच न्हय तर म्हज्या अनुवादाच्या कामा वेळार २६ जुलयक मुंबय आयिल्ल्या उटंगाराच्या हुंवारान म्हज्या अर्दाअदीक कामाचेर उदक सोडचें पडलें. मेजार पडिल्ले सगले कागद भिजून चिप्प – निमाणे परत आनीक स म्हयने मागून घेवन काम पुराय जालें म्हणा आनी आतां ताकाच साहित्य अकादेमीचो अनुवादाचो पुरस्कार फावो जालो.

पयलीं पयलीं म्हाका खऱ्यांनीच सामको वीट येवचो. रस्त्यांनी भरिल्ल्या त्या उदकांत गटारांतली कसली कसली घाण व्हांवन येवची! तांतल्यानच भुरग्यांक शाळेंत हाडप–व्हरप, बाजार करप जिवार येवचें. भायर वता तितल्या वेळा घरा येतकच न्हावन कपडे बदलप. म्हज्या त्या भैरजोळपाक मांय बी हांसताली. कितलो तेंप अशें करशीत – जातली तुकाय संवय म्हणटाली. म्हाका तर सामकें झोपडपट्टेंत राविल्ले वरी दिसचें. पूण करतलें कितें? उपाय नासलो. सद्दां उठून खंय रावंक वतलें? मागीर जाली संवय – एकदां तर वडा पुनवे दिसा पुजा बी करून कमरभर उदकांतल्यान गाडी–बस – टॅक्सी करत रेडियोचेर बातम्यो दिवंक गेल्लें तें अजून याद जाता. म्हज्या मनाची हांवेंच समजूत घालची. काश्मिरी लोक रावनात शिकाऱ्यांत? भोंवतणी उदक आसता न्हय? तशेंच हे बंगलेय पावसांत शिकारो जाता म्हणपाचें. फकत ही गंगा – यमुना न्हय – गटारगंगा! दोळ्यांत गंगा–जमुना उब्यो करपी! मागीर हांव बाकीच्यांक सांगूंक लागलें – आमी शिकाऱ्यांत रावतात. 'गुल, गुलफाम, गुलशन' अशीं वेगवेगळीं नांवांय दिलीं. हांवें आमच्या बंगल्यांक! ही नदर म्हाका दिली ती हे मुंबयनच.

कसलेय परिस्थितींत खेळून मेळून कशें रावप ताची नवी नदर मेळ्ळी म्हाका हांगां. येता तो खीण चिंता, दुख्ख करिनासतना खोशेन कसो जियेवचो हें मुंबय रावन हांव शिकलें. हेय दीस वतले म्हणून वाट पळोवप – आनी खऱ्यांनीच कितलींशीं वर्सां जालीं – अंडरग्रावंड गटारां जाल्या उपरांत आतां हांगा कसलेच त्रास नात. खरी मुंबय अजून भरता – रेल्वेरुळांनी उदक येता पूण आमच्या ह्या उपनगरांत आतां कसलोच उपद्रव जायना.

हांगा रावन वेगवेगळ्या भाशांच्यो, जातींच्यो शेजान्नी – मैत्रिणी मेळ्ळ्यो. एकमेकांच्यो वेगवेगळ्यो चालीरिती, सणवार हांची वळख जाली. मुंबयन म्हाका सर्वधर्म समभाव शिकयलो. म्हज्यांतली सहिशुताय वाडयली. संकुचीत वृत्ती, आत्मकेंद्रीभाव काडून उडोवन मनाक एके तरेची विशालताय – भव्यताय मेळ्ळी ती हांगा – मुंबय येवनच, मुंबय रावनच.

म्हजी आनी शीलाची वळखय हांगा मुंबय येतकच जाली. आमी गोंयच्यो धुवो मुंबय येतकच मेळ्ळीं – वळख जाली, आनी मागीर घट्ट इश्टागत जाली. गोंयाच न्हंय खंय हेर कडेनय कोंकणी कार्यावळ आसली रे आसली – आमकां आमंत्रण आसूं नासूं चल्ली आमची पालकी थंय!
मुंबय आयिल्ल्याचो, राविल्ल्याचो होय एक व्हड फायदोच म्हजे नदरेन! अशे आसले हे म्हजे मुंबयचे दीस! ❑

मुंबयंतले दीस...!

# मुंबईंतूली आमगेली कोंकणी वाडी

# आनंदाश्रम

परबांक आमगल खास आमचीगल सारस्वत पध्दतीचें रांदप आसतालें आनी वाडींत खेळतना सगळ्या रांधच्या वासऱ्यांथानू खमंग पदार्थांचे पर्मळ यात्ताले. चवथीक, चाकल्यो, सोमाशे, उंडे, होळीक पुर्नपोळे, संक्रातीक तिळा उंडे, गोकुळाष्टमीक कोडबळीं आनी गोड्डा उंडे! शिवाय चवतीक खोट्टे, मडगणं, पत्रोडो, तय्येक पात्तोळ्यो, अष्टमीक मुगा आटवळ आनी पोळे. हें सगळें उगडोस कोरनू आमगल तोंडा उद्दा यात्तालें.

▶ प्रा. साधना कामत
९८६७००९२१५

सुमार वर्सांमाक्शी खब्बरी! मगल चेल्डवं स्कूलाक वचुगलेली. बाम्मूणू कामाक. सकाळीं, मगल आम्माक एकदम बरें ना जाल्लें. हॉस्पिटलांत होरका जाल्लें. तिगल अवस्था इतल् गंभीर आश्शीली की दोन दिवस हांव तिज्सांगाती हॉस्पिटलांतूंची राबलीं. तित्ल् वेळांतूं मगल घरांतूली तान्नेची, जेवणाची सगळी जबाबदारी आमगल सोसायटींतूलीं मगल लेकतलीं आनी मगल मैत्रीण्यो हांन्नी वांटून घेतली. माक्का कस्लीई काळजी कोरका पण्णी. तिसऱ्या दिवसू गोयांथानू मगल नणंद मगल मदतीक आयली, माग्गीरी हांव घारा आयली.

हे कश्शी शक्य जाल्ले? तरी आमगल 'आनंदाश्रम वाडी' म्हळ्यार एक हॉड एकत्र

कुटुंबशे आस्स. रावबहाद्दूर श्रीपादराव तालमकी हान्नी आशियांतूल्यो पैल्यो तीनी सहकारी गृहनिर्माण संस्था (कोऑपरेटीव सोसायट्यो) मुंबईंत सुरू केल्ल्यो तांतूली एक आमगली सोसायटी. याची वाडींतूं मगल जन्मू, बालपण, लग्न, संसारू सगळे आनंदांत जाल्ले. हांगा बहुतेक सगळीं मूळ कर्नाटकांतूलीं चित्रापूर सारस्वत ज्ञातींतूलीं कुटुंब राबताली. घरांतूं उलौंची भास मंगळूरी कोंकणी. (स्कुलांत बहुतेक मराठी किंवा इंग्लीश माध्यम) या ज्ञातीची लोकसंख्या भो कम्मी, म्हळ्यारी पंचवीस हजार सुमार अस्स. माक्शी लग्नं बहुतेक जातींतूची जात्तालीं, त्यामीतीं वाडींतूल मस्तजाणं एकमेकांक लेकताली आणी संबंध नात्तीलतरी अेकडे राब्बीलमीती ऋणानुबंध निर्माण जाल्याती. त्यामीती गरजेक सगळीं एकमेकांक पावताली. पंचावन्न बिडारं आस्सती, जाल्यारी झगडीं नाती. वातावरण शांत आस्स.

हांव मगल आम्मागली एकळी चल्ली. मगल भावागलें आनी बापसूगलें अकाली निधन जाल्ले. ताव्वळी आमगेल्या एक्का कुडांतूं पेइंग गेस्ट्स् राबताले. मगेल गोमंतकीय बाम्मूणू नरेंद्र कामत लग्ना फुडे, विद्यार्थी आसतना गोंयथानू कॉलेज शिक्षणा खात्तेर मुंबई आईल्लो. तो आमगलो पेइंग गेस्ट आश्शीलो. तश्शी आमगल गुर्तू जावनू लग्न जाल्लें. मागिरी शिक्षण जायना फुडें नरेंद्रान मुंबईंत वकीली प्रॅक्टीस सुरू केल्ली. म्हणू आम्मी आनंदाश्रमांतूंची राबली. त्यामीतीं आजीथाई मगल वास्तव्य आनंदाश्रमांतूंची आस्स. जाल्यारी माक्का आनी मगल चेल्डवांक मंगळूरी आनी गोंयची यो दोन्नी कोंकणी भासो यात्ताती.

आमगल वाडीचें वातावरण अश्शी घरगुती आश्शीलमीतीं आम्मी सान्न आसतना किंवा मागल चेल्डवांनी सान्न आसतना आवस बापसूक काळजी आस्सनाशिल्ली. इत्या म्हळ्यारी खेळूक मस्त जागो आस्स, वॉचमन-गुरखा राक्कूक आसताली आनी सगळी कुटुंब गुर्ताचीं जालमीत्ती चेल्डवांक घरगुती सुद्धांई खेळंक जात्ता. वाडीतूं श्याम राव विठ्ठल बँकाची शाखा आस्स. त्या बँका मेट्टू सुप्रसिध्द आस्स. ताज्जेर बैसूनू सान्न होइडं सगळीं खबऱ्या उल्लयताली. तशीची एक अपरूब म्हळ्यारी आमका एक सान गार्डन आस्स. थई चेल्डवं खॅळताती आणी बायलो, दारले खुर्च्या घालनू निसर्गाचो आस्वाद घेत्ताती.

आम्मी सान्न आसतना सगळ्यो परबो उत्साहाने साजऱ्यो जात्ताल्यो. गोकुळाष्टम ीक घरांत कृष्णागल मुर्तीक नित्य विंगविंगड अलंकार कोरनू, सगळीं एकडे मेळणू रमावल्लभदासांगल्यो म्हणत्यो (भजनं) म्हणतालीं. नित्य विंगड प्रसाद आसतालो. तें आमकां चेल्डवांक मुख्य आकर्षण! आम्मी सान्न चलयो जरी किरगणो-पोलको घालनू संक्रांतीक तिळगूळ वांटूक आनी दसऱ्याक 'सोने' दिवंच्याक घरोन्घर वत्तालीं. तशीची गणपती पोळोंच्या वच्चोई उत्साह आसतालो. वाडींतूले आनी आजूबाजूचे एकवीस पुणी गणपती पोळौंकाच्ची अश्शी आमगली प्रतिज्ञा आसताली. दिवाळेक आम्मी तालमकीवाडींतूं कोंकणी नाटकं पोळौंच्या वत्तालीं आनी वापस येंवच्याक कितलीई राती जालतरी सक्काळीं अभ्यंगस्नान कोरनू फटाके मारतालीं.

परबांक आमगल खास आमचीगल सारस्वत पध्दतीचें रांदप आसतालें आनी वाडींत खेळतना सगळ्या रांधच्या वासऱ्यांथानू खमंग पदार्थांचे पर्मळ यात्ताले. चवथीक, चाकल्यो, सोमाशे, उंडे, होळीक पुर्नपोळे, संक्रातीक तिळा उंडे, गोकुळाष्टम ीक कोडबळीं आनी गोइडा उंडे! शिवाय चवतीक खोट्टे, मडगणं, पत्रोडो, तय्येक पात्तोळ्यो, अष्टमीक मुगा आटवळ आनी पोळे. हें सगळें उगडोस कोरनू आमगल तोंडा उद्दा यात्तालें.

वाडींतू कृष्णाबाई राव म्हुणू एक चित्रकार राबताली. तिगल घर तरी कलाकारांगल कुळारची म्होणयेद! दिग्गज कलावंत मंडळी म्हळ्यार यशवंत देव (सुगम संगीत), पार्वतीकुमार (नृत्य), पं. तारानाथ (तबला), नाना शिरोडकर (चित्रकार), काका केणी (लोकनाट्य) अश्शी अनेक गुरुंगलें थंई येणेवचणे आसतालें आनी तांगल शिष्य थंई तैय्यार जात्त आश्शीले. सुमन कल्याणपूर (भावगीत) आनी भावना (सुमन हेबळे ताटे) (अभिनय) यो दोगजाण आमच्या सांगाती आश्शील्यो आनी तांगलें भविष्य उज्ज्वल आस्स अश्शी भाकीत तांगल गुरुंनी कॅल्लेल माक्का उगडास आस्स.

कृष्णाबाईपाच्ची ऑल इंडिया रेडिओचेरी आमगले कार्यक्रम आयोजीत करताली. माग्गिरी आम्मी कोंकणी कार्यक्रमांतूई भाग घेवंच्याक सुरू केल्लें. ताव्वळी मराठी चेल्डवांगल कार्यक्रम गंमत जंमत बाळ कुडतरकर (बाळकोबा) आनी प्रभाकर जोशी (जोशीमास्तर) हे सादर करताले. आकाशवाणी हें एक्कची मनोरंजनाचें माध्यम आश्शीलमीती आम्मी खंचीई सानशी भुमिका केल्ल्यार सुद्धांई स्कूलांत मैत्रिण्यो ते आयकूनू आमगल कौतूक करताल्यो. पाच्चेने आमकां एच. एम. व्हीं तू लाइव्ह ध्वनिमुद्रण आयकूंच्याक व्हेल्लेलें. गायिका कोण? आशा भोसले आनी अमीरबाई कर्नाटकी! पाच्ची आमकां सहलींकई व्हरताली.

विल्सन कॉलेजांतू रजेदिवसांतू मोफत वाचनालय आसतालें, थंई आम्मी साने गुरुजी, चिं. वि. जोशी, हांगली पुस्तकं, 'चिंगी', 'गोट्या', 'चंदू' हांगल्यो काण्यो वाचल्यो. तालमकीवाडींतूं 'एक होता म्हातारा', 'लग्नाची बेडी' हीं मराठी आणि इतर दर्जेदार कोंकणी नाटकं पळयलीं. उत्तम मैफली आयकल्यों. 'सारस्वत' ही ज्ञाती सरस्वतीगल उपासक आश्शीलमीतीं आमकां, साहित्य, संगीत, नृत्य नाट्य हांतूं केन्नाई आवडी आसता, हाज्जो आमकां सानधोरनू अनुभव आयलो आनी आमगल बालपण सांस्कृतीक दृष्ट्या श्रीमतं जाल्लें.

'आनंदाश्रम' या सुसंस्कृत, सुशिक्षीत कोंकणी भाषीक कॉलनींत राब्बीलमीतीं हें अमोल संचीत माक्का प्राप्त जाल्लें अश्शी मगल दृढ भावना आस्स आनी त्यामीती हांव केन्नाई कृतज्ञता व्यक्त करतां. ❑

मुंबयंतले दीस...!

# जादूची नगरी



आमचें तिसरें बिराड जे बिल्डिंगींत आशिल्लें, ती बिल्डिंग कुशीक एक व्हाळ आसलो. नांतल्यान काळें उदक व्हांवतालें. सांजेर खंयचे तरी फॅक्टरीचें उदक हे व्हाळयेंतल्यान व्हांवतालें. ताची इतली घाण येताली... म्हाका जात्यार ओंकूक येतालें. आनी त्या बिराडांत जळवां येतालीं. न्हिदचे पयलीं वखद मारून आनी एक पातळ माळून येताली. मागीर झान्न मारली काय पोसोभर जळवां एकठांय जातालीं.

▸ शीला कोळंबकार
९८१९३१५३०७

मुंबय म्हळ्यार ल्हानपणांत जादूची नगरीशी दिसताली. थंयचो लोक फकत मिठाय खाता. सिनेमा पळयता. थंयचो लोक ट्रेनीन भोंवता. थंयचीं फुलां माळूंक जायना. त्या फुलांक लागून रोगराय जाता. अशेंच कितेंशें. सांगचेंच म्हळ्यार मुंबयचें प्रचंड आकर्शण आसलें. मुंबय वचून आयिल्ल्याच्यो गजाली आयकून केन्ना एकदां मुंबय वतां काय जातालें.

मुंबय वचपाची पयली संद मॅट्रिकेक पावतकच मेळटाली. मॅट्रीक परिक्षेचें केंद्र मुंबय आसतालें. हांव मॅट्रिकेक पावलें आनी गोंय मुक्त जालें. मॅट्रिकेची परिक्षा गोंयांतूच जाली. मुखार कॉलेजूय गोंयांतूच जाली. मुंबय वचपाचें स्वप्न अर्दकुटें उरलें.

मुखार म्हजे व्हडले भयणीच्या लग्नाक मुंबय पावलें. मुंबयची जी कल्पना आसली, ती साप्प पुसून उडोवची पडली. मुंबयचें इल्लें इल्लें चित्र सामकार दिसूंक लागलें. ना म्हळ्यार ट्रेनींत बसपाचो आनंद अणभवलो. ताचे पयलीं ट्रेन पळोवंक नासली. ना म्हळ्यार वास्को 'घुडूस' म्हळ्यार 'गुडस् ट्रेन' पळेल्ली. तितलीच!

भुरगेपणांत म्हाका जेवपाक खूब्ब वगत लागतालो. तेन्ना आई म्हणटाली, 'हाचें लग्न करून मुंबय धाडूंक जाय. मागीर तें बेगीं जेवंक शिकतलें.' खऱ्यांनीच म्हजें लग्न जावन हांव मुंबय पावलें.

म्हाका दिसतालें म्हजें लग्न रासवळ कुटुंबांत जावचें. तशें तें जालेंय बी. हें रासवळ कुटुंब कोडीबाग-कारवार आसलें. ते सात भाव आनी दोन भयणी. सात भावांनी म्हज्या घरकाराचो नंबर सवो. आमचें लग्न मुंबय जालें. आमच्या लग्नांत म्हजे व्हडले नणंदेची व्हडली चली आपल्या तीन भुरग्यां सयत आयिल्ली. म्हळ्यार लग्न

जाल्या जाल्या हांव 'मामी-आजी' जाल्लें. कुटुंब इतलें व्हड, सगल्यांक सारकें वळखूंक म्हाका तीन चार वर्सां लागलीं. कित्याक लग्न जावन हांव मुंबय उरलें. चवथीक, नाजाल्यार कुरुमगडार जात्रेक, मागीर भुरगीं जातकच मे म्हयन्यांत कोडीबाग वचप जातालें.

मुलुंडचो आमचो फ्लॅट तयार जावंक नासलो. म्हूण पयले दोन म्हयने आमी धाकले नणंदेगेर कॉटनग्रीन ह्या वाठारांत रावलीं. कोळंबकाराची रजा आससर आमी मुंबय खुब्ब भोंवलीं. सकाळीं धांक सुमार भायर सरतालीं. मागीर नाटक पळोवप. भायर जेवप, दनपारचो परत सिनेमा पळोवप. दोन दीस मजा दिसली. तिसऱ्या दिसा वाज आयलो. पूण हाचें म्हणणें आसलें, एक खेप कामाक वचूंक लागलों काय वेळ मेळचो ना. तुका खंय व्हरूंक मेळचें ना. जालेंय बी तशेंच. मुंबय सिनेमाक वचप म्हळ्यार पयलीं तिकेटी काडप. मागीर वचप. घडयाळीच्या कांट्या भोंवतणी भोंवपी मुंबयकारांक अश्या गजालीं खातीर वगत आसता काय?

पणजे कुळारा आसतना बाजारा कडेन रावतालीं. 'एल् दोराद' थेटर दोन मिनटांचे वाटेर आशिल्लें. आमकां भयणींक सिनेमांचें पिशें आसलें. आमकां खंयचेय भाशेंतले सिनेमा चलताले. तेन्ना एल् दोरांदांत बायलांक वेगळी बाल्कनी आशिल्ली. तिकेट आसली एक रुपया. आमी सिनेमाक गेलीं काय बाबाक आनी भावांक राग येतालो. पूण आई आमकां सिनेमाक धाडटाली. सांजेर स चो सिनेमा रातीं णवांक सुट्टालो. तेन्ना आई स्वता आमकां व्हरूंक येताली. आई म्हणटाली, ''म्हज्यो धुवो म्हज्या आंगणांतल्यो चिमण्यो. एक दीस भूर्र करून उडून वतल्यो. घोवाघरा वतकच तांकां सिनेमा पळोवंक मेळटले काय ना, खबर ना. तेन्ना जाय तितले सिनेमा तांकां पळोवं दी!''

एक पुतणयो वर्तकनगर, ठाणा लिव्ह-लायसन्साचेर रूम भाड्याक घेवन रावतालो. आमी थंय रावपाक गेलीं. 'वर्तकनगर' ही एक व्हड कॉलनी. पन्नाशेक बिल्डिगाची. जण एके बिल्डिंगेक नंबर. सगल्यो बिल्डिंगो सारक्यो! आमी रावता ती बिल्डिग खंयची ती कितलो तेंप कळच नासलें. सगल्यो बिल्डिंगो चार मजली. बिल्डिंगे मदीं जिनो. जिन्याच्या दोनूय वटयांनी चार चार कुडी. ह्या कुडींक जोडपी लांबचे लांब बाल्कनी. घर म्हळ्यार एक व्हड कूड. रांदचे कुडीक एक जनेल.

सकाळीं उठून हो आनी पुतणयो कामाक वताले. मागीर घरा हांव एकलेंच! दाराक खिळी घालून जनेला कुशीक हांव बसून आसतालें. सकाळीं दोगूय डबो घेवन वताले. दनपरां हांव चपाती-भाजी खावन रावतालें. एकल्या खातीर कोण रांदतलो? लग्न जाल्या उपरांत आईन सांगिल्लें, ''पळे, तूं मुंबय वता. थंय वाजेवन रांदिनासतना कितेंय खावन रावूं नाका. दादले निर्दयी आसतात. तूं जेवलें काय ना ताचें तांकां कांय पडिल्लें आसना. ते आपलो थातोमातो बरे करून घेतात. तेन्ना एक गजाल कर. तुका केन्नाय घोवाचो राग आयलो, नाजाल्यार तुमचीं झगडीं जालीं जाल्यार ताचो राग जेवणाचेर काडूं नाका.''

हांव एकलेंच दिसभर घरांत. खंय वतलें म्हळ्यार वचूंक कळना. कितेंय जाय जाल्यार हाडूंक कळना. दीस खावंक येतालो. व्हडान आइडून रडचेंशें दिसतालें. पूण रडूंक येनासलें. मागीर हांव जनेला कुशीक बसून पयसुल्ल्यान दिसपी दोंगर पळेतालें. बाल्कनींत खेळटल्या भुरग्यांचे खेळ पळेतालें. तीं भुरगीं आपआपल्या घरांत जाणटीं उलयतात तश्शीं उलयतालीं. तांतल्यान 'खेळ' ही कथा म्हाका सुचली.

आमचो मुलुंडचो फ्लॅट तयार जातासर वर्तकनगर आमी तीन बिराडां बदल्लीं. दुसरे बिल्डिंगेंतले लोक बरे आसले. आमचे कुशीक एक मद्रासी रावतालो. ताची उमा म्हण कॉलेजींत वचपी चली आसली. हो मद्रासी सुभाषचंद्र बोस हांचे आर्मींत आसलो. एक खेपे ताचे चलयेची तांचे कॉलनींत रावपी चल्यांनी मस्करी केली. तेन्ना ते चलयेच्या बापायचें उग्र रूप आमी पळयलें. ताणे त्या चल्याक सांगलें, ''खबरदार, चलयांची मस्करी करश्यात जाल्यार! तुमी म्हाका वळखनात. आमी केन्ना कोणाक भियेले नात. खंयच्याय चलयांची मस्करी करश्यात जाल्यार तुमचे दोकेच मोडून घालतलों.''

तेन्ना सावन ताचे चलयेचे वाटेक कोण गेले नात.

आमचें तिसरें बिराड जे बिल्डिंगेंत आशिल्लें. ते बिल्डिंगे कुशीक एक व्हाळ आसलो. तांतल्यान काळें उदक व्हांवतालें. सांजेर खंयचे तरी फॅक्टरीचें उदक हे खळयेंतल्यान व्हांवतालें. ताची इतली घाण येताली... म्हाका जाल्यार ओंकूंक येतालें. आनी त्या बिराडांत जळारां येतालीं. न्हिदचे पयलीं वखद मारून आमी एक पासय मारून येतालीं. मागीर सान्न मारली काय पोसोभर जळारां एकठांय जातालीं.

निमाणो आमचो मुलुंडचो फ्लॅट तयार जालो. आमी पांच हजार रुपया घर सजोवपाक, फर्निचर घेवपाक कुशीक काडून दवरिल्ले. त्या वेळार वर्तकनगर सावन ठाणा स्टेशनाचेर वचूंक बसीची तिकेट चार आणे आसली. रिक्षाचें उण्यात उणें भाडें एक रुपया आसलें. सोसायटीक वॉटर कनेक्शन आनी हेर गजालींक पयसे भरपाचे आसले. तें पयशे थंय दिवचे पडले. आमी आशिल्लें तें सामान घेवन मुलुंडच्या देवी निवासांत प्रवेश केलो.

मुलुंड देवी-निवासांत अठरा फ्लॅट आसले. चडशे सगले मद्रासी. दोन मल्याळी आनी एक महाराष्ट्रीयन. सगलीं कुटुंबां आम चेवरीच, म्हळ्यार नोकरी करून पोट भरपी. जण एकल्यागेर दोन नाजाल्यार तीन कदेलां आसतालीं. कोणागेरूय पुजा नाजाल्यार भुरग्यांचो वाडदीस आसत जाल्यार शेजाऱ्यांलीं कदेलां मागून हाडप. मागीर रातीं कडेन व्हरून दिवप. तेन्ना अशें मागपांत, दिवपांत कोणाक उणेपण दिस नासलें. कित्याक तातूंत मनीसपणाचे ओलसाणीची

आपुलकी आसली.

मुलुंडचो फ्लॅट म्हळ्यार भितर सरल्या उपरांत इल्लीशी सुवात आसली. ताचे दावे वटेन बाथरुम, संडास. मुखार एक दार. थंय एक रूम. रुमाक लागून बाल्कनी. उजवे वटेन इल्लीशी पॅसेज. थंय मदीं किचन. पॅसेज सोंपता थंय एक व्हड रूम. ह्या रुम ाकूय बाल्कनी आसली.

कितलींशींच वर्सां कोणाल्या घराक ग्रिल्स नाशिल्ले. आमी सगलीं दिवाळेची वाट पळेतालीं. बोनस मेळ्ळो कांय पयलीवयली आरमार येताली. आमी सगलीं नवी साडी घेतालीं. एकमेकांक दाखयतालीं कवतूक करतालीं. दिवाळेचे पदार्थ घरा करतालीं. कोणूय दुयेंत जालो जाल्यार सगलीं बिल्डींग दुयेंत जाताली. कितेंय बरें जालें जाल्यार सगलीं बिल्डींग खूश जाताली.

सकाळी सगल्यांचे घरकार डबे घेवन भायर सरून गेले काय आपआपल्या बाल्कनींत सगलीं येवन उबीं रावतालीं. पेपरांत वाचिल्ल्यो बातम्यो, कोणाल्या घोवान सांगिल्ल्यो खबरो एकमेकांक सांगतालीं. ''अशें जालें, तशें जालें, म्हातारेक बरें ना जालें'' अशे तरेच्यो त्यो सगल्यो खबरो आसताल्यो. खबरो खऱ्यो रंगताल्यो त्यो सांजेर! सांजेर सगलीं बायलां सकयल कंपावंडांत जमतालीं. भुरगीं खेळटालीं. खंयचेय बायलेचे दोळे तांबडे दिसले जाल्यार चवकशी जाताली. मागीर ती बायल आपलें दुख्ख सांगताली. तें आयकून दुसरी एकाद्री बायल तसले तरेचें आपलें दुख्ख सांगताली. उरिल्लीं मागीर पयलेच्या दुख्खार फूक मारतालीं. तिका धीर दितालीं. घोव, देर, नणंद, मांयो त्यो तसल्योच. तूं लक्ष दिवं नाका. तांचे खातीर रडून तूं आपली वाट लावन घेवं नाका. भुरग्यां कडेन पळोवन दीस काड. रडपी बायल आपलें दुख्ख विसरताली. आपूण एकली ना. हीं बायलां आपलें दुख्ख समजतात. तिंवूय बी असले परिस्थितींतल्यान वतात नाजाल्यार गेल्लीं आसात ह्या विचारान ती शांत जाताली.

एकेक खेपे एकाद्री बायल बाजारांत वताली. आपल्या भुरग्यांचेर लक्ष दियात म्हूण सांगून वताली. मागीर कोणूय ओलो मसालो हाड, नाजाल्यार आनी कितेंय घेवन यो म्हूण फर्मायश करतालीं. ती बायल गेली काय आमी तिच्यो गजाली करतालीं. एके बायलेचो घरकार ज्युस्त सांजेर साडेसंक येतालो. एक मिनीट फाटीं फुडें जाय नासलो. मागीर ताची बायल घरा वताली. ह्या मद्रासी लोकांचें एक बरें आसलें. तांचे दादले घरा येतना भाजी घेवन येताले. घरा येवन काफी घेताले, मागीर बायलांक भाजी चिरून दिताले.

मद्रासी लोकांच्या दारांत सदांच रांगोळी आसताली. धव्या फुल्ल पिठ्याची. शुक्रारा एक थारावीक चवकोनी रांगोळी आसताली. जन्माष्टम, दिवाळी, गणेशचतुर्थी, नवरात्रांनी तांदळाच्या ओल्या पिठ्याची व्हड धवीफुल्ल रांगोळी आसताली. ही रांगोळी हे लोक केन्ना घालतात काय दिसतालें. मागीर कळ्ळें, न्हिदचे पयलीं रातीं साडे धा इकरांक ओली रांगोळी घालतात. सकाळीं सुकली काय ती धवीफुल्ल दिसता. हांव तांचे कडल्यान रांगोळी घालूंक शिकलें.

एक दीस असोच एक मद्रासी ब्राह्मण आयलो. तांचे प्रथे प्रमाण ते वर्गणी मागूंक येतात. ताणे बेल वाजयली, म्हाका पळोवन तामीळ भाशेंत कितें कितें उलोवंक लागलो. हांवें म्हळें, ''तमीळ तेरीयाद'' म्हळ्यार तमीळ येना. तेन्ना ताणें म्हाका विचारलें, कन्नडिगा? हांवें मान हालयली. तेलुगु? तुळू? मल्याळी? तो विचारता आनी हांव तकली हालयतां. मागीर ताणे हिंदींत विचारलें, ''आप कहांसे है?'' हांवें म्हळें, ''गोवाशे''! गोवन जावन इतली बरी रांगोळी घाल्या? रांगोळी पळोवन मद्रासी लोकांचें हें घर आसूंक फाव अशें म्हाका दिसलें. ताणे दिल्लो तो कॉम्प्लिमेंट हांवें मनांत बरोऽ सांबाळून दवरला.

मागीर ल्हवू ल्हवू पयसे येवंक लागले. तशे सगल्यांगेर सोफासेट आयले. घरांक रंग लागूंक लागले. बाल्कनीक ग्रिल्स आयले. थोड्यांनी रूम आनी बाल्कनीक जोडून आशिल्ली वणत तोडून व्हड रूम केले. सगले म्हणूंक लागले, तुमीय तुमची वणत तोडात. रूम व्हड जातलें. हांवें रुम व्हड करूंक दिले नात. हाजे मजगतीं म्हाका दोन चले जाल्ले. दोगूय व्हड म्हळ्यार आडसाटे जाल्ले. दोगांयनी दोन बाल्कन्यो वांटून घेतिल्ल्यो. ते 'स्पोर्टस् स्टार' म्हूण मॅगझिन काय साप्ताहीक याद जायना घेवन येताले. ताचे वयलीं खेळगड्यांचीं चित्रां कापून बाल्कनींतल्या वणटींक दसयताले. दोनूय बाल्कन्यो असल्या फोटवांनी भरून गेल्ल्यो. शेजारी म्हणटाले, ''शी! बाल्कनी कितल्यो बुरश्यो दिसतात! तुमी भुरग्यांक चित्रां लावंक कित्याक दिल्यांत?''

आतां आमच्या घरांत आमी कितें करचें, ना करचें तें हे थारायतले? आमच्या घराच्या वणटींचेर भुरग्यांनी चित्रां काडिल्लीं. येवपी वचपी आमच्या गांवठीपणाचेर हांसताले. आमकां दोगांकूय पर्वा नासली. भुरग्यांक भुरग्यां प्रमाण वागूंक दितां हाची आमकां खोस आसली.

कोळंबकाराक शुक्रारा सुटी आसताली. भुरग्यांक शेनवार आयतार सुटी आसताली. म्हजी दोतोर भयण शशी सायन हॉस्पिटलांत शिकयताली. हॉस्पिटला भायर एक व्हड कॅम्पस आसलें. थंय बॅरेक टायप घरां आसलीं. भायर व्हड व्हारांद. भितर लांबचे लांब रूम. थंय दोतोरकी शिकपी चलयांचें हॉस्टेल आसलें. शशी तांचें रेक्टर आसलें. त्या कॅम्पसाक तीन गेटी आसल्यो. थंय चौकीदार आसताले. सायन हॉस्पिटलांत काम करपी थोडे लोक आपल्या फामिली सयत थंय रावताले. सांगचें म्हळ्यार हो कॅम्पस म्हळ्यार एक ल्हानसो गांव आसलो. तरेकवार ल्हान व्हड झाडां. भुरग्यां खातीर खेळूंक, नाचूंक मेकळी सुवात. कॅम्पसांत भरपुर भूरगीं. कॅम्पसा भायर खरी मुंबय. सगले रस्ते बसी आनी गाडयांनी भरिल्ले.

मुलुंड सावन सायन हॉस्पिटला मेरेन एक डबलडेकर बस आसली. शुक्रारा सांजेर दोनूय भुरग्यांक घेवन हांव सायन शशीगेर वतालें. बसींत अपरडेकचेर बसूंक भुरग्यांक

आवडटालें. दोन दीस आमी शशीगेर रावतालीं. आयतारा सांजेर कोळंबकार आम कां व्हरूंक येतालो. ते दोन दीस म्हजे दोगूय पूत आनी शशीलो चलो आनी कॅम्पसांतलीं हेर भुरगीं इतलीं खेळटालीं, तीं जेवंक लेगीत घरा येनासलीं. तांकां ओडून हाडून जेवण भरोवचें पडटालें. म्हज्या भुरग्यांनी तांचें भुरगेपण सायनांतल्या त्या वाठारांत खूब एन्जॉय केलें.

सुरवेक देवी-निवासांत कोणागेर गॅस नासलो. स्टोचेर रांदचें पडटालें. कोणागेर फोनूय नासलो. सगल्यांनी गॅस बूक केल्लो. गॅस येवपाक चार पांच वर्सां लागतालीं. रेशनच्या दुकानांत वचून पेत्रोल हाडचें पडटालें. पेत्रोल आयलां म्हूण कळटकच आमी कॅन घेवन धांवतालीं. एकमेकांक सांगतालीं, कोणागेरूय हरव्यो मिरसांगो, करबील, टॉमेटो, बटाट उणे पडले जाल्यार कोण धांवत बाजारांत वच नासलीं. शेजरा वचून हक्कान मागून हाडटालीं. केन्ना साकर, दूद, च्यापालो हांचें दिवप घेवप चलतालें. तातूंत कोणाक कांय उणेपण दिस नासलें.

मे म्हयन्यांत आमी हळद दळून हाडटालीं. गिरणीर फक्कत बिरेस्तारा हळद दळून दिताले. आमी एक बिरेस्तार थारायतालीं. त्या दिसा सगलीं वांगडाच हळद दळून हाडटालीं.

बिल्डिंगात पयलो टी.व्ही. चौधरी म्हणटा तांगेर आयलो. तेन्ना 'छायागीत', 'फुल खिले गुलशन गुलशन' हे प्रोग्राम फामाद आसले. आयतारा सिनेमा आसतालो. मागीर ज्या कोणागेर टी.व्ही. आसा तागेर आमी सिनेमा पळोवंक बसतालीं. कोणूय आयलीं ना सिनेमाक जाल्यार कित्याक आयलीं ना म्हूण चवकशी जाताली.

नवरात्रांनी 'अंबाजी धाम' देवळा कडेन घट बसयताले. थंय राती कडेन गर्बा चलतालो. खेरीज बाजार आनी गल्ले-गल्लेंत घट बसयताले. रातीं अख्खें मुलुंड जागें आसतालें. ज्यूस विकपी दुकानां उगडीं आसतालीं. चड करून शेनवारा रातीं भुरग्यांक न्हिदोवन घरकाराक घरा दवरून आमचो पंगड भोंवंक वतालो. तोवूय बी रातचो इकरा, साडेइकरांक. सगल्यांक भोंवन, लायटींग पळोवन, गर्बा पळोवन, ज्यूस मारून बारा, साडेबारांक घरा येतालीं.

नवरात्रांनी मद्रासी लोकांगेर हळद कुकूम आसतालें. मागीर आमी सगलीं एकाच वगतार कोण आपयता तागेर वतालीं. थंय मागीर कोण कोण देवीची स्तोत्रां म्हणटालीं. पयलीं त्या लोकांक हांव गोंयचें म्हूण क्रिस्तांव आसशें दिसतालें. मागीर आमी कॉलेजींत एक संस्कृत प्रार्थना शिकिल्लीं, ती हांव म्हणटालें. मागीर तांची हांव हिंदू म्हूण खात्री जाली. मागीर हांवूय तांकां संक्रांतीचें हळदकुकमाक आपयतालें. तूं बटाटवडे करतलें, जाल्यारूच आमी येतलीं अशी तांची मायेस्त धमकी आसताली.

वर्साक एक खेप सत्यनारायणाची पुजा आमी एकठांय जावन करताली. एकल्या कोणाल्याय घरा रांदतालीं. तेर्रसार पुजा जाताली. सगलीं जेवल्या उपरांत जें कितें उरलां, तें कोणाक जाय तितलें वांटून घेतालीं. उरिल्लें वावराडेक. वर्साक एक खेप पिकनिकेक वतालीं.

मागीर 'ब्लॅक ॲण्ड व्हायट' टी.व्ही. वचून कलर टी.व्ही आयले. सगल्यां कडेन पयशे आयले. पुजा आसली काय जेवण भायल्यान येवंक लागलें. ३१ डिसेंबरांक भुरगीं येना जालीं. तांचे वेगळे ग्रूप जाले. सगलें बदलून गेलें. आमची बिल्डींग रिडेव्हलपमेन्टाक गेली. सगलीं हांगा थंय शिंवरून पडलीं. एक दीस मिसेस कृष्णन मेळ्ळी. म्हणूंक लागली, ''शीला, ते दीस तुजी खूब याद आयली.'' ''कित्याक मामी?'' ''ना. म्हाका केन्नाय तवो नाजाल्यार कुकर लागून हाताक दाग पडले आनी तुवें तें पळेलें जाल्यार तूं म्हाका तापयतालें. म्हणटालें, लक्ष खंय आसता तुजें? कित्याक लासून घेता? ते दीस म्हज्या हाताक तवो लागलो. व्हड दाग पडलो. कोणें पळेलो ना. कोणाल्या लक्षांत येवंक ना. दिसलें तूं आशिल्लें जाल्यार तापोवपाचें तरी! तेन्ना तें तापोवप लेगीत काळजाक मलम लायिल्लेवरी दिसतालें. घरांतल्या कोणाक तो दाग दिसलो ना तें चड चुरचुरिल्लें.''

''हय बाये! सगलें बदल्लें. बदलत आसा. कोणाक कोणालें कांय पडूंक ना. कितें करुंया?''

मुंबयन म्हाका एक जिवाभावाची मैत्रीण दिली. जयमाला दणायत. माधव बोरकार, आकाशवाणी मुंबय, कोंकणी विभागाचो मुखेली म्हूण आयलो. ताणें भोवमानान आपोवन आकाशवाणी मुंबय खातीर बरोवंक लायलें. अना म्हांबऱ्या सारको मित्र मेळ्ळो. भौ. रवीन्द्र केळेकार मुंबय दोतोर दत्ताराम सुखठणकारागेर येताले. ताणी म्हजी दोतोरा कडेन वळख करून दिवन म्हाका हक्काचें कुळार मेळोवन दिलें. ह्या सगल्या अणभवांचेर हांवें विंगड विंगड लेखांनी कितें कितें बरयलां. तेन्ना पुनरुक्ती जायत म्हूण बरोवपाचें टाळटां. इतलें खरें. खचाखच भरिल्ल्या बिल्डिंगांच्या जंगलांत, कुचकुचीत भरिल्ल्या लोकांमदीं रावन हांव एकलें पडिल्लें. म्हजो घुस्मटमार जातालो. तो ह्या सगल्यांक लागून उणो जालो.

म्हजी भयण शशी. ताका लागून संगितांतल्या दिग्गज गायक वादकांच्या महफिलींचो आस्वाद घेवंक मेळ्ळो. मुंबयच्या साहित्य अकादमीच्या कार्यालयाक लागून व्हड व्हड साहित्यीक पळोवंक आनी आयकूंक मेळ्ळे. तांकां लागून म्हजे पांय जमनीर उरले.

मुंबय शाराक आपली अशी गती आसा. ते गती वांगडा धांवपाचे हांवें यत्न केले. मुंबय एक खेप उदकांत बुडली. बॉम्बस्फोटांनी हादरली. आतंकवाद्यांचे हल्ले तिणें सोंसले. दंगली पळेल्यो. पूण मुंबयन आपली गती सोडली ना. एक दीस सगलें थांबिल्लेवरी दिसतालें. दुसऱ्या दिसा कांयच जालें ना अशे तरेन मुंबय धांवताली. ट्रेनी दिड दिड धा, दिड दिड धा करीत पळत सुट्टाल्यो. बदल हो जिणेचो स्थायीभाव हें मुंबयन स्विकारलां. बदलांक फुडो करपाची कला मुंबय शिकयता. गरज आसा ती शिकत रावपाची! ❑





# माय डिक्शनरी

कोंकणीक गरज आसा ती पारिभाशीक उतरावळींची. हालीसरास प्रसार माध्यमां वाडल्यांत. छापील आसूं वा इलेक्ट्रॉनीक. ह्या माध्यमांनी कोंकणींतूय तांत्रिकी उतरां येतात. वेगवेगळ्या मळां वयलीं. देशीक – राजकारण, अर्थशास्त्र, विज्ञान, हवामान, खेळ, कला आनी हेर. निदान दोनेक हजार उतरांची एक टॅक्नीकल ग्लोसरी कोंकणीक जाय.


• मुकेश थळी
९४२३०५६७५५


भुरगेपणातली एक घडणूक. सुटी आशिल्ली. तशें म्हाका पुस्तकांचें पिशेंच. पुस्तकां वाचतालोंच. तीं वाचून जातकच केन्नाय हांव शब्दकोशांत तकली घालून बसतालों. डिक्शनरीची ती मांडावळ, एका क्रमान मांडिल्लीं उतरां, तांचो अर्थ, केन्नाय देख दिवन दाखयल्लो वापर हांचें वाडतें आकर्शण आशिल्लें. असोच ड्क्शिनरी वाचतालों. इतल्यान घरांतलो एकलो जाणटेलो आयलो. कित्याक कोण जाणा – अकस्मात तापलो. ड्क्शिनरी वाचून वाचून कितें तुका अमक्यांतल्या घरांतल्या काका भशेन जावपाचो आसा... सोयऱ्यां भितल्लोच एक जाणटेलो जाका काका म्हणटाले, तो रिटायर्ड जिणेंत एक व्हडली ड्क्शिनरी घेवन बसतालो. तातूंतल्यान उतरां विशीं केन्नाय नोट्स बी काडून दवरतालो. वेळ वचपाक आनी ज्ञान संपादन करपाक ताणें हो उपाय सोदून काडिल्लो. तातूंत गैर कितें आशिल्लें, तें अजून म्हाका कळूंक ना. ते अकस्मात जाल्ले तापोवणेन आनी विचित्र वागणुकेन मात हांव मातसो दुखावलों हें खरें.

सांगपाचें तात्पर्य, ते पिरायेर वर्मार घाव घालपी झोंबपी उतरांक तोंड दिवचें पडलें. पूण तातूंतल्यान एकूच शिकलों. केन्नाय खंयच्याय भुरग्याक कसल्याच कारणाक लागून तापोवपाचें धाडस म्हाका जालेंना. हर्ट करपाचें सोडूच. भावनिक कोंडमाऱ्यान भरिल्ली अशी ती पिराय आसता. तेन्ना दिल्ली ऊब, उत्तेजन, उर्बा जशी याद उरता तशेंच केल्ले अपमान, कोडू, सुरये सारक्या उतरांनी काळजाक घाल्ले घाव आनी भितरल्यान स्रविल्लीं दुकांय यादीक उरतात.

वाचनाचें पिशें आशिल्ल्यान उपरांत उतरांकडेन बारीकसाणेन तेळपाची आवड जाली. शब्दांक कितल्योश्योच अर्थसया आसतात. म्हजे भाशेच्यो शब्दकळा तर दर दिसा शिकपा सारक्यो. ओपारी, म्हणी हांचें सौंदर्य, अर्थाची खोलाय हांकां तर अंतूच ना. उतरांच्या उच्चारां कडेनूय पळोवपाची एक नदर

तयार जावपाक लागली. वृत्तनिवेदन जावं वा टीवी, फिल्म, नाटकांतलो वाचीक अभिनय जावं उतरांचो अर्थ आनी बारीकसाण समजून आत्मविश्वासान प्रभावी उच्चार करता, ताका उतरांची जाण आनी अभ्यास कितलो आसा तें रोखडेंच होलमता. मराठी, हिंदी आनी इंग्लीश भाशांतलीं पुस्तकां वाचता आसतना ही शब्दसंपदा आनी त्या शब्दब्रह्माचो जादू पळोवन अजाप जावचें. वाचनान शब्दांच्या वापराची तांक कळत गेली. एकेच भाशेंत एकाच उतराक वेगवेगळ्या वाठारांनी वेगळो अर्थ आसूं येता. देखीक – निबर म्हणजे घट्ट वा वातड. पूण पेडण्या वाठारांत खंय कांय जाण वताक निबर म्हणटात. साहित्य रचतना शब्दांची शक्त तशेंच मर्यादाय कळत गेली. अणभव हो उतरां पेल्यान आसता आनी तो शब्दांनी अणकारीत करप ही एक कला. चडांत चड प्रमाणात तो शब्दबध्द जाता आनी अणभवाच्या आविश्काराक लागीं वता तो कुशळ लेखक हें सत्य होलमलें.

हालींच एका नेमाळ्यांत ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवपी काश्मीरी साहित्यीक राही हांची मुलाखत वाचली. ताणी शब्दांक तीन सया आसतात अशें सांगलां. शब्दकोशांतलो अर्थ दिल्लें एक रूप. खूब खेपे आयच्या वापरांतलीं वा उलोवण्यांतलीं कांय उतरां शब्दकोशांत आसयनात. दुसरी सया आसता ती सांस्कृतीक आनी तिसरी भावनीक. ह्यो उरिल्ल्यो दोन सया वा रूपां आमी शब्दकोशांतल्या अर्थावणे वरवीं समजूंक शकनात. तांचो फकत अणभव करूं येता.

आमची माई उकाशी वृत्ती हें उतर वापरता. शब्दकोशांत मेळना तें. तिची आवय बी वापरताली खंय. जाचे कडेन पयशे खूब आसात पूण भोगपाची वान्सा ना ती उकाशी वृत्ती. खूब पयशे सांठयल्लो जाणटो मनीस जेन्ना मुंबय वतना साद्या एसटी बसीन वता तेन्ना ताका पयशे भोगपाची वान्सा आसना. तो विमानानूय वचूंक शकता वा रेलगाडयेन वचूंक शकता. ही उकाशी वृत्ती.

खूब जाण म्हाका केन्नाय फोन करून वा प्रत्यक्षांत अमूक एका शब्दाचो अर्थ विचारतात. हांव तांकां परतून प्रस्न करतां. उतराचो अर्थ विचारूं नाका. खंयचें वाक्य अणकारता तें मूळ वाक्य इंग्लीशींत वाचून दाखय. कारण एकाच उतराक वेगवेगळ्यो अर्थसया आसतात. खूब खेपे ह्या अर्थसयांतली एक्कूय त्या वाक्यांत फीट बसना. तेन्ना लागींचो भावार्थ दिवचो पडटा. रजिस्ट्रार ह्या उतराचो अर्थ कोणेय विचारलो काय हांव ताका विचारतां. कसलो रजिस्ट्रार, विद्यापीठाचो काय सोसायटींचो... कारण विद्यापीठाच्या रजिस्ट्राराक कुलसचीव म्हणटात. जाल्यार सहकार सोसायट्यांच्या रजिस्ट्राराक निबंधक म्हणटात.

कोंकणीक गरज आसा ती पारिभाशीक उतरावळीची. हालींसराक प्रसार माध्यमां वाडल्यांत. छापील आसूं वा इलेक्ट्रॉनीक. ह्या माध्यमांनी कोंकणीचीं तकनिकी उतरां येतात. वेगवेगळ्या मळां वयलीं. देखीक – राजकारण, अर्थशास्त्र, विज्ञान, हवामान, खेळ, कला आनी हेर. निदान दोनेक हजार उतरांची एक टेक्नीकल ग्लॉसरी कोंकणीक जाय. वेवस्थीतपणान तयार केल्ली. जाणकारांनी प्रमाणीत केल्ली. कारण ते वरवीं कोणूय कसोय वापर करता ती गजाल टळटली. योग्य वापर करपाक साधन मेळटलें आनी ही गजाल निटायेर पडटली.

दरेके भाशेंत समांतर कोश म्हळ्यार थिसॉरस आसतात. तातूंत एकाच उतराक समानार्थी आनीक कांय उतरांचो संच दिल्लो आसता. देखीक – सोबीत उतरा मुखार सुंदर, ओडलायणो, रूपेस्त, तेजीश्ट, आकर्शक, मनोहर... इंग्लीश भाशेंत सुरवातीच्या काळांत रॉजेटचो थिसॉरस बरोच गाजला. आनीक खूब आसात. हिंदींत अरविंद कुमार हांचो समांतर कोश नॅशनल बूक ट्रस्टान उजवाडायला. मराठींतूय पर्याय शब्दकोश आसात. कोंकणीत हाची खूब गरज आसा. समांतर कोश आनी शब्दकोश हातूंत फरक आसा. लेखकाक वा पत्रकाराक खूब खेपे बरयतना अमूक एक उतर येवजना. आडकून उरता. अशा वेळार ताका हें उतर मेळोवपाक समांतर कोशाच्या आदारान मेळूंक शकता. थंय वचून उतरांचो पुंजुलो पळेतकच ताका एकदम तें सुचूंक शकता.

अनुवादकाक हो समांतर कोश खूब बऱ्याक पडटा. साहित्य वा हेर तकनिकी भाशेंतले अणकार आपले भाशेंत हाडटना ताका ह्या थिसॉरसाचो खूब आदार जाता. खूब खेपे समानार्थी उतर शब्दकोशांतूय मेळना. तेन्ना अनुवादकाक बरीच तकली खाजोवची पडटा. केन्नाकेन्नाय अकस्मात एक सणसणीत उतर मेळटाय. देखीक – मायलस्टोन हाका कोंकणींत वाटचिरो हें उतर वापरतात तें एक मुदयेर थीक कशें उतर. खबरो अणकारपी रेडीयो टीवी वा खबरांपत्रांतल्या डेस्क संपादकाक खूब खेपे साप थोड्या वेळांत उतरां घडोवचीं पडटात. त्या दबावाचेर बरीं बरीं उतरां निर्माणूय जातात. असलीं उतरां भाशेचे गिरेस्तकायेंत भर घालतात.

उतरांचे उच्चार लेगीत शब्दकोशांनी दाखयल्ले आसतात. ते खातीर फोनेटीक्सची खाशेली उतरावळ वापरांत आसा. इंग्लीश कोशांनी हे उच्चार उतरा उपरांत मेळटात. ती भाशा आदीं शिकप ही एक वेगळीच तकालशीची गजाल. पूण हालींसराक इंटरनेटार यु–ट्युबाचेर उतरांचे उच्चार आयकुपाची तजवीज जाल्या. ही एक बरी गजाल. कारण उच्चार हे आयकुपाचेच आसतात. कोंकणी भाशेच्या गोंय, कर्नाटक, केरळ आनी हेर वेगवेगळ्या वाठारांतल्या उतरांचे उच्चार यु–ट्युबाचेर वचपाची गरज आसा. ते आतांच अपलोड केले जाल्यार कालांतरान तातूंत घडून येवपी बदल कांय वर्सांनी अभ्यासकांक शिकपाक सोपें जातलें. ते भायर इंटरनेटाचो आटाप संवसारीक पांवड्याचो आसा. देखून नव्या तंत्रगिन्यानाक आपणावन कोंकणी शब्दकोश आनी उच्चार हांचो चडांत चड आसपाव इंटरनेटाचेर जावपाची खूब गरज आसा. हालींसराक स्मार्टफोनाचेर शब्दकोशांचे एप म्हळ्यारूच शब्दकोश डावनलोड करूंक मेळटा. ताचे फायदे खूब. दाट शब्दकोश घेवन भोंवचे पडना. शब्द टायप कर आनी ताचे अर्थ पळे. वाक्यांत केल्लो वापर तशेंच शब्दांचे रूपा प्रमाण अर्थ लेगीत थंय दिल्ले आसतात. म्हळ्यार विशेशण आसल्यार

अमूक अर्थ, नाम आसल्यार अमूक अर्थ आनी क्रियापद आसल्यार अमूक अर्थ अशे तरेन ते दिल्ले आसतात. तितलोच भाग आमी दुसऱ्याक वा कोणाक अर्थ जाय ताका एका सेकंदा भितर वॉट्सएपा वेल्यान धाडूंक शकतात. फेसबुकाच्या माध्यमांतल्यानूय शब्दांचें दिवप-घेवप वा कालबाह्य जावपी उतरां वा शब्दाची उत्पत्ती वा आदलीं उतरां, सांस्कृतीक संदर्भ आशिल्लीं उतरां हांचेरूय दिवप-घेवप जायत आसता. तंत्रगिन्यानान हाडिल्ली क्रांती ती ही.

कोंकणीक सद्या गरज आसा ती बृहद कोशाची. गोंय, महाराश्ट्र, कर्नाटक, केरळ सगल्या वाठारांतल्या सर्वसमावेशक अशा उतरांच्या कोशाची. आदीं वापरांत आशिल्ल्या आनी सद्या वापरांत आशिल्ल्या उतरांचो वापर हातूंत आसूंक जाय. गरज पडटा थंय वापर कसो करप हें दाखोवं येता. हिंदी भाशेंत अशे तरेचो एक सुंदर कोश आसा. नालंदा विशाल शब्द सागर. तातूंत सुमार देड लाख उतरां आसात. सारंग ह्या उतराक थंय पंचवीसेक अर्थ दिल्यात.

हालींच एका पत्रकार इश्टान सांबारडें वा सांबाड्डें ह्या उतराचो खोलायेन अर्थ विचारलो. खंयच्याय कोंकणी शब्दकोशान अजून तरी हें उतर आसपावीत केल्लें ना. आदल्या काळांत सांबार म्हळ्यार मसालो एका आयदनांत दवरताले. दगडफूल, तिखी, खसखस, मिरयां, लवंगां बी. ताका सांबारडें वा सांबाड्डें अशें म्हणटाले. अशें तरेचें लाकडी स्वरूपाचें आयदन खंय लग्न जावन वचपी धुवेक दिताले. लग्नांय ल्हान पिरायेचेर जातालीं. सांबाड्डें, पेट्रूल, ताबुलफळें अश्यो तरेकवार वस्तू ते धुवेक भेट म्हूण दिताले. सांबाड्डें उतराचो अर्थ माईक विचारलो. आयज आदल्या तेंपावेलीं सांबाड्डीं नात. पूण माईन म्हाका प्लास्टीकचें वाटकुळें आयदन दाखयलें. तातूंत वाटकुळ्यो डबयो आशिल्ल्यो. कॅरम बोर्डाचेर घुलो आसच्यो तश्यो. तातूंत हे मसाल्याचे जिनस दवरिल्ले. एकाच आयदनांत दवरतकच ते बेगीन सोपेपणी सांपडचे हो ताचे फाटलो हेत. मसालो विकपी पसरकाराक आदल्या काळांत सांबारी म्हणटाले. मसालो हें उतर उपरांत आयलें. कांय वाठारांनी हुमणाक सांबारें म्हणटात. आदल्या काळांत कांय वाठारांनी हुमणाक रोस म्हणटाले. हालींसराक शिवराक कालवणाक रोस म्हणटात. बिमलां घालून कर गे बाये सुंगटांचो रोस अशा अर्थाची एक वळ बाकीबाबांच्या कवितेंत आयल्या. हांगासर रोस म्हळ्यार हुमण. ही सगळी अर्थावणी पत्रकार इश्टाक सांगतकच ताका अजापूच जालें.

कोंकणीचो बृहद कोश ही काळाची गरज. मोट्या आटापाचें काम हें. व्हडले संस्थेचें. खूब जाणांचें. टिमीचें. वेगवेगळ्या सुवातांनी वचून करपाचें. तातूंत बायलांच्यो मुलाखती जाय. देखीक सांबाड्डें म्हळ्यार कितें हें समजतलो जाल्यार संबंदीत बायलांकूच विचारचें पडटलें. वेगवेगळे वेवसाय आसात. कला आसात. तातूंतल्या संबंदितांक मेळून तांची उतरावळ हातूंत आसपावीत करची पडटली. मेस्तकाम आसूं वा नुस्तेमारी आसूं. माधवीबायन जाग नेमाळ्यांत आदीं अशे तरेची त्या त्या वेवसाया कडेन उतरावळ कांय म्हयने दिल्ली. कारवार वाठारांत मसालो हाका करपो म्हणटात खंय. असलीं उतरां बृहद कोशांत येवंक जाय.

पावला पावलाक भास आनी उतरां बदलूं येतात. मैला मैलाचेर भास बदलता अशें म्हणटाले. काळा प्रमाणूय भाशेच्या प्रवाहांत बदल जायत रावतात. कांय उतरां गुप्त आनी लुप्त जातात. कांय नवीं येतात. वाठारां प्रमाण, समुदाया प्रमाण भाशेच्या उतरांच्या उच्चारांतूय बदल जायत आसतात. एका बिंदूंत आसचो सिंधू तशें हें. जिज्ञासू वृत्तीन शिकपी अभ्यासकाक तातूंतल्यान खूब कितें शिकूंक मेळटा. आपले आवयभाशेच्या अभ्यासांत आनी उतरांची व्युत्पत्ती सोदपांत एक आनंदूय आसता. आपले आवयकडेन आपले आवयभाशेन उलयता ताची शारीरीक, मानसीक आनी भावनीक भलायकी लेगीत बरी उरता अशें अणभवी जाणकार सांगतात. भाशा हें संस्कृतायेचें मुखेल आंग जाल्ल्यान उतरांचो अभ्यास आमकां संस्कृतायेच्या मुळां कडेन हाडून सोडटा.

आमचो इश्ट सुभाष जाण हायर सेकंडरींत शिकयता. तो अकौंटंसी शिकयता. पूण भुरग्यांचेर बरे संस्कार जावचे ह्या हेतान ताणे कांय उपक्रम सुरू केल्यात तातूंतलोच हो एक – माय डिक्शनरी. दर वर्सा तो इकरावी आनी बारावेच्या विद्यार्थ्यांक एक डायरी बाळगियात आनी दर दिसाच्या पानांत त्या दिसा शिकिल्लीं नवीं इंग्लीश उतरां अर्थासयत बरोवन दवरात अशें सांगता. हीं उतरां अभ्यासक्रमांतलीं म्हळ्यार विविध विशयांतलीं आसूं येतात. खबरांपत्रांतलीं आसूं येतात. पुस्तकां वाचतात वा कोणूय उलयता वा टीवी रेडीयो खबरांतलीं आसूं येतात. शिक्षणीक वर्स सोंपतकच जांणी माय डिक्शनरी ही डायरी बरयल्या तीं भुरगीं आपल्यो डायऱ्यो सादर करतात. चडांत चड उतरां पुंजावपी विद्यार्थ्याक सुभाष जाण रोख इनाम दिता. कोणाकूच सक्ती ना; पूण जे पंदरा वीस विद्यार्थी डायऱ्यो दितात तातूंतल्या एकल्याक हें बक्षीस मेळटा. हो उपक्रम एकदम देखदिणो. आपल्या थारायल्ल्या शिक्षणक्रमा भायर लेगीत कांय संस्कार भुरग्यांचेर ते पिरायेचेर कशे करूं येता हाची ही देख. तातूंतलो एक तरी विद्यार्थी एक तरी उतर केन्नाच विसरचोना. ह्या उपक्रमांतली आनीक एक गजाल सुभाषान म्हाका सांगली. कांय विद्यार्थी ते डायरेंत उतरां बरयतना तांचे अर्थ आपणाक विचारतात आनी कितलींशींच नवीं उतरां, कठीण उतरां तांचे अर्थ भुरग्यांक शिकयतना आपूण शिकलों अशें ताणें सांगलें. फाटलीं तेरा वर्सां हो उपक्रम चलला. इल्लीशी प्रामाणीक कृती करून शिक्षक कितें करूंक शकता ही आनीक एक देख हातूंत आसा.

माय ड्क्शिनरी हो प्रकल्प दरेका शाळांनी, माध्यमीक शाळांनी, हायर सेकंडरी आनी कॉलेजांनी चालीक लावं येता. घरांनी पालक ही संस्कार कार्यावळ सुरू करूंक शकतात. माय डिक्शनरी नांवाची डायरी जण एकल्यान आपल्या मेजार दवरूं येता. तातूंत नव्यान शिकिल्लीं, नव्यान आदळिल्लीं, नव्यान मेळिल्लीं उतरां बरोवन दवरूं येतात. कोंकणी आनी हेर भाशांतलीं. तो मनीस गिरेस्त जातलो. उतरांनी.

# गैरसमज

हांवें गैरसमज जावपांत बायलांचो हात आसता अशें म्हणलां तातूंत तथ्य आसा हें पुरूशवर्गाक पटलांच आसतलें. तांचें वागणेंच जगा वेगळें, तातुंतल्यान कितें निश्कर्श काड्प हेंच आमकां कळना. आनी तातुंतल्यान गैरसमज निर्माण जाता. देखीक, रमान म्हाका एक दीस कंवळ्यां भर चौकार विचारलें, 'तुका सपात बी करपाक येता मरे? येना जाल्यार येन्नाच शीक आं म्हाका खूब आवडटा केळीं बी घालून'. आतां हें एका वया वयले चलये कड्ल्यान वया वयल्या चल्यान आयकतच कितें समजुपाचें?

गैरसमज म्हणल्यार कितें तें हांवें तुमकां विसकटावन सांगपाची गरज ना. गैरसमज हें उतर वाचल्या बराबर तुमकां तुमचे जिणेंत जाल्ले गैरसमज याद जातलेच त्याच वांगडा तांचे पसून जाल्लो मनस्तापूय. थोड्या वाचप्यांच्या ओंठार गैरसमज हो माथाळो वाचून 'तुम्हें याद होगा कभी हम मिले थे महोबत की राहों पर मिलके चले थे' असल्यो वळी बी आयल्या जातल्यो. म्हजो पिंड अभ्यासकाचो हें वाचप्यांक खबरूच आसतलें. जेन्ना हांवें गैरसमज ह्या विशयाचेर म्हजो अभ्यास सुरू केलो तेन्ना स्त्रीवर्गाचो हातूंत मोलादीक वांटो आसता अशें दिसून आयलें आनी गैरसमजांतल्यान दर खेपे पुरूश वर्गूच भाजून भायर सरता अश्या निश्कर्शा कडेन हांव पावलों. इतिहास काडून पळेया, पेशवाईंत आनंदीबाईन (बाई म्हणटकच ती बायलमनीस हें तुमच्या लक्षांत आयलांच आसतलें) 'ध' चो 'मा' करून मटिरियल ओल्टरेशन केलें. गारध्यांचो गैरसमज जालो, तांणी नारायण रावाचो (राव म्हणटकच दादलो मनीस हें तुमकां कळ्ळांच आसतलें) काका मला वाचवा अशें आड्डता आसतना ताचो जीव घेतलो. तेन्ना सावन हांव आमच्या मुंबयकारांच्यो चिटी, बायलम नशेन बरयिल्ल्यो आसल्यो जाल्यार त्यो बारीक वाचपाक लागलों. खंयूय खाडाखोड आसली जाल्यार ती पळोवपाक दिव्यार धरून ओरिजिनल कितें बरयिल्लें आशिल्लें ताचो सोद घेवपाक लागलों. एके चिटींन, 'छोट्याना आशीर्वाद' ही वळ जातकच खाडाखोड आशिल्ली. हांवें चीट रोखडीच पेत्रोलाच्या दिव्यार धरली. 'तुमच्या कडे होत नसेल तर भाटें आमच्या कडे सुपुर्द करावीं' अशी ती वळ आसली. हांवें तें आईक सांगलें ना. आतां त्यो चिटीय गेल्यो आनी पेत्रोलाचे दिवेय गेले पूण आनंदीबाईचो आंकडो मात वाडत आसा आनी चारूय दिकांनी म्हजे सारके आनंदराव वांचया रे वांचया रे म्हणून आड्डत आसात. सोड.

वांचया रे वयल्यान याद जाली, याद जाली म्हणून सांगतां. म्हाकाय अशेंच कोणें तरी बचाव बचाव आड्डचें आनी हांवें ताका मागीर मजत करची अशें सदांच दिसऽ. तुमी ओगीच गैरसमज करून घेवं नाकात. हांव कोणाचें वायट चिंती ना. पयलीं सिनेमांनी हिरोईणीक पेंवपाक ये नाशिल्ले. आतां तीं स्विमिंग सूट बिकीनी बी घालून पेंवतात आनी बऱ्यो पेंवतात. दीपिका (५.०') तर दोन तीन हात मारून हे वटेंतल्यान त्या वटेन पावता. तर, आदल्यो हिरोईणी उदकांत कित्याक देंवताल्यो तें म्हाका खबर ना आनी बुडूंक लागतकच बचाव बचाव करून आड्डताल्यो. आनी हिरो तकले वयल्यान शर्ट आनी

▸ कृ. म. सुखठणकार
९८५०५३०७५६



बानयान काडून सूर मारून हिरोईणीक वयर काड्टालो आनी उमथी घालून पोटांत गेल्लें उदक भायर काड्लो. म्हाका हें बरेंऽ दिसतालें आनी प्रत्यक्षांत म्हजेय जिणेंत असो एकादो प्रसंग येवचो अशें म्हाका दिसऽ. म्हजें चुकलें जाल्यार तुमी सांगात. परत सांगतां ओगीच गैरसमज मात करून घेवं नाकात, म्हाका कोणेंच बुडचें अशें दिसनाशिल्लें. म्हणटकच तसो प्रसंग आयलो जाल्यार हिरोक म्हणचे म्हाका (हांगां समेस्त स्त्रीवर्गाच्या तोंडार कुच्छित्री असो हांसो येतलो हें हांव जाणा, आय काण्ट हेल्प ईट) पेंवंक येवपाक जाय न्हय! तें शिकपाक हांव दिवाडे फेरीबोटीच्या धक्क्यार गेलों आनी शर्ट बानयान (बानयान काडटना जानवेंय आयलें, आमचें शास्त्र्यांचें घराणें) काडलें आनी उदकांत पेंवंक शिकपाक सूर मारलो. सूर बरोऽ लागलो ना आनी हिरोईणीच्या पोटांत उदक वच्चें सोडून हिरोच्याच पोटांत उदक वचपाक लागलें सगले वटेंतल्यान. कुडीक कितले कडेन शिद्रां आसतात तें म्हाका त्या दिसा कळ्ळें. मागीर हांवें बचाव बचाव म्हूण कोंकणींतल्यान बोबो मारपाक सुरू केल्यो. लागींच उबी आशिल्ले फेरीबोटींतल्या कामगारान हात लांब करून म्हजो आठ्तीस किलांचो देह बचकुलाक धरून वयर काडलो आनी 'पेंवोक येना जाल्यार मोरोंक येता हिंगा?' अशें म्हणून म्हाका देगेर सुकपाक उड्यलो. सुकतकच हांवें घरची वाट धरली. आईक हांवें गळ्यांतलें जानवें काडलें हें कळटकच भयंकर वायट दिसलें. आसूं.

हांवें गैरसमज जावपांत बायलांचो हात आसता अशें म्हणलां तातूंत तथ्य आसा हें पुरूशवर्गाक पटलांच आसतलें. तांचें वागणेंच जगा वेगळें, तातुंतल्यान कितें निश्कर्श काडप हेंच आमकां कळना. आनी तातुंतल्यान गैरसमज निर्माण जाता. देखीक, रमान म्हाका एक दीस कंवळ्यां भर चौकार विचारलें, 'तुका सपात बी करपाक येता मरे? येना जाल्यार येन्नाच शीक आं म्हाका खूब आवडटा केळीं बी घालून'. आतां हें एका वया वयले चलये कडल्यान वया वयल्या चल्यान आयकतच कितें समजुपाचें? हांवें तो इनडायरेक्ट हिण्ट कसो घेतलो आनी म्हज्या कामाक लागलों. पांच किलो रवो भाजून गोबोर जातकच म्हजो रवो सपाता खातीर तांबडो जालो. भितर केळीं घालपा खातीर घडवलें मारलें. 'रमा, सपात करपांत हांव आतां एक्सपर्ट जालों आं, आयुश्यभर तुका खावयतां', हांवें रम ाक आमगेर मेळांय व्हरूंक आयिल्ले कडेन म्हणलें. 'आंवय आंवय तुज्या हातचो सपात खावपाक हांव आयुश्यभर आईगेरूच उरतलें काय कितें? 'लेक लाडकी ह्या घरची होणार सून मी त्या घरची..' अशें म्हणत ताणें म्हज्या हातांतलें मेळांय मुर्को मारीत घेतलें आनी त्या घरची सून जावपाक गेलें. म्हजो गैरसमज जाल्लो तो ताणें पयस केलो. हांव मागीर श्रावणांत विठोबाच्या देवळांत दर बिरेस्तारा केळें घालून सपात करून व्हरपाक लागलों. गैरसमजाचेय फायदे आसतात ना न्हय.

आमी आपले परीन विचार करतात आनी खुबदां मनशाची परिक्षा करतात आनी तातुंतल्यानूच गैरसमज उत्पन्न जाता. हांवें वाचिल्लो किस्सो तुमकां सांगतां. तुमीय तो वाचला आसतलो, वाचूंक ना तांचे खातीर हांव परत सांगतां. एक तरणाटें जोडपें नव्या घरांत रावपाक वता. ती तरणाटी दुसऱ्या दिसा सकाळीं शेजान्नीक कपडे सुकत घालतना जनेलांतल्यान पळेता. 'आंवय आंवय कपडे म्हेळे तशेच आसात नांवांक धुल्यात' ती म्हणटा. घोव बाबडो आयकता आनी ओगी रावता. अशें म्हयनो भर चलता. एक दीस सदचेवरी सकाळीं ती जनेलांतल्यान भायर पळेता आनी अजापीत जाता, 'आवय म्हजी शेजान्न सुदारली आं सगले कपडे चकाचक. म्हजो शेरो तिच्या कानार पडलो दिसता', ती घोवाक म्हणटा. 'तुजो गैरसमज जाला' घोव थंडपणान तिका सांगता. 'तो कसो?' 'ती पयलीं सारकीच आपले कपडे नितळ उमळटा, हांवें आज आमच्या जनेलाचे धुल्लान माखिल्ले हारशे निवळ केल्यात'. आमची स्थिती कांय वेगळी ना. आमी दोळ्यांनी जें पळेतात तेंच खरें मानतात ताचे खोलायेंत वचनात.

आड्नांवा वयल्यान कसो गैरसमज जावं येता तें तुमी पळेया. आमच्या वाड्यार सखाराम भोसलो म्हणून सावंतागेर भाड्याक रावतालो. तागेर एक दीस पावणो आयलो. ताणे सखारामागेर शिवाजी महाराजांचो खाडकेर हात धरून फोटो पळेलो. बरी च्या बी घेवन जातकच वतना 'यंदा कर्तव्य आहे का?' असो हळूच सखारामाच्या कानांत फुतफुतलो. सखारामाक बाबड्याक फुडें कितें वाडून दवरलां ताचो अंदाज आयलो ना. आठवड्या भरांत व्हडली वरात सखाराम ाच्या दारांत उबी रावली. व्हडले व्हडले फेटे मारिल्ले लांब रुंद दादले गाड्येंतल्यान देंवले. बायलो हातांत धरिल्ल्यो पराती (कित्यान भरिल्ल्यो तें खबर ना) घेवन देंवल्यो. सगल्यांच्या नाकांत नथी आशिल्ल्यो तें हांवें नोट केल्लें, सोड. तांकां पळोवपाक शूटिंग पळोवपाक गर्दी कशी जाता तशी जाल्ली, आमच्या वाड्या वयले लोक ते. तांचे कडेन उलोवपाक सगल्यांनी म्हाका (बी.कॉम पास) फुडें काडलो कारण सखाराम घरा नासलो. 'सखाराम महाराज कुठे आहेत?'– एक फेटेवालो.

सखाराम महाराज म्हणटकच हांव मातसों हाल्लों.

'महाराज पलतडी खाणीवर चिरे मारायला गेले आहे', हांवें खरें तें सांगलें.

'त्यांचा सावंतवाडीच्या सावंत भोसलेंशी संबंद आहे का?'– भगवो फेटो.

'हे बघा, सखाराम फक्त भोसले आहे, सावंत हे त्यांचे पात्रांव आहे. भोसले सावंताला वेळच्यावेळी म्हयन्याचे भाडे देतात हा सावंत भोसलेचा संबंद आहे'.

म्हजी ही जाप आयकून तांचे भितर कितें तरी उलोवणीं जालीं. नथी घाल्लीं पराती घेवन परतीं गाड्येंत बसलीं.वतां वतां एका जाण्टेल्यान, 'ह्या भोसल्यांनी जन्मात हातात तलवार धरली नसावी' अशें म्हाका बेजारून म्हणलें. 'अहो, त्यांच्या पुर्वजनानी नारळ फोडयला हातात कोयता लेगीत घेतला नाही तलवार राहिली दूरच' हांवें कळवळून सांगल्या बराबर गाड्यो आयिल्ल्यो तश्यो आपले वाटेक लागल्यो.

खूब फावटीं गोंयां आमच्या आङ्नांवांक लागून गोंदोळ जाता. गोंयकारां भितरूच न्हय तर बिगर गोंयकारां भितरूय. कारण तांकां आमच्या भितरली विवीधताय खबर नासता. आमच्या लग्ना उपरांत चार दिसांनी हांवें उमेदीन आमगेर सत्यनारायणाची पुजा दवरिल्ली (पुजे उपरांत घराच्या दोनूय वटांनी अहुजा लाऊड स्पिकर लायिल्ले आनी पानवेलकर भजनी मंड्ळाक भजन करपाक आफयल्लें). तर, हे पुजेक सौ. व श्री. सिद्धेश सिलीमखान, पणजी गोवा हीं दांपत्या आशिल्लीं. पुजेक हिगेलीं कांय सोयरीं आयिल्लीं आनी तातूंत हिची मुंबयची एक आजीबाई आशिल्ली दिसता. सिलीमखान दांपत्याक बसल्यां म्हणल्या बराबर ही आजीबाई, 'काळ आला आहे ह्यांच्यावर!' अशें म्हणून जी बिट्की कवळून चलूंक लागली ती आमकां फोंड्यां कोपेला लागीं सांपडली. मागीर सत्यनारायणाची कथा सांगून जाल्या उपरांत तिका सिलीमखान घराण्याची कथा सांगली आनी तिचो गैरसमज पयस केलो. आङ्नांवा वयल्यान जावपी गैरसमजाच्यो काणयो फुडें चालूं दवरतना म्हाका आनीक एक याद जाली. फाटीं हांव आमच्या वाड्या वयल्या गोविंद बोरकाराक (नांव बदल्लां, कोम्युनिदादींत आसता. खंयची कोम्युनिदाद ती सांगपाक मेळना) घेवन आमच्या एका सोयऱ्यागेर गेल्लों. मुंबय घराक चुनो काड्पाक खूब देसपेस जाता म्हणून हांव स्पेशल आखाडो (सांत इश्तेंव्ह गोंय) हांगा सरल्यान दोन साक चुनो घेवन मुंबय गेल्लों. आदाराक गोविंद बोरकाराक घेवन गेल्लों. मुंबय पावना बराबर आमचें बरें स्वागत जालें.

'धन्यवाद धन्यवाद, चुना आणल्या बद्दल धन्यवाद'– यजमान.

'हे आमच्या वाड्यावरचे बोरकर, आदारा साठी आणले आहे'– हांव.

'अहो, गोव्याचे सुपुत्र कविवर्य बा.भ. बोरकरांच्या घरातले का? बोरकर म्हणजे आपण कविता करतच असणार! आपल्या कवितांवर कुणाचा प्रभाव आहे?'– येजमानीण (एम.ए मराठी), पदराक हात पुशीत भायर आयली.

'मी कोम्युनिदादीची लेजरं लिहण्या पुरती हातात लेखणी घेतो बरे. माझ्यावर आयुष्यात फकत जॅक सिकेरांचा प्रभाव पड्ला बरे. बाई तुम्ही समझता तो मी नव्हेच!' अशें म्हणून आमच्या बोरकारान घाम पुसलो. येजमानीण कशीच आयकना जाली...,

'मी तुमच्यासाठी नंदी तूप घालून बदामयुक्त शिरा केला आहे. आता एक कविता होऊ द्या'. अशें म्हणत ती बोरकारा (गोविंद) सामकार बसली. आमचो बोरकार हाल्लो. शेवटाक ताणे...

रुच आहे तो वरी खाऊन घे<br>
दोळे आहे तो वरी पळोवन घे...

अश्यो कितेंतरी वळी म्हणल्यो आनी गोंया पावतकच आपूण बोरकार आङ्नांव बदलतांच म्हणून लागिल्लो. मागीर आईन समजायतकच ताणें निर्णय बदल्लो.

म्हजी नदर मातशी तिरशी तुमी म्हज्या दोळ्यांत दोळे घाल्यार कळटलें. स्त्री वर्गाक वेगळें सांगपाची गरज ना. तांकां तें पयलीं कळटा, सोड. ह्या म्हज्या तिरशेपणाक लागून खूब गैरसमज जाल्यात. म्हजी नदर म्हजे कडेन ना म्हणटकच ती नाका थंय पावता आनी हाका हांव जापसालदार ना. म्हज्या तिरशेपणाचो हांवें आज मेरेन केन्नाच फायदो घेतलो ना हें तुमचे म्हायती खातीर. म्हज्या ह्या तिरशेपणाक लागून जाल्या गैरसमजान म्हज्या चारित्र्याचेर बशिल्ले कडेन जायते दाग लागल्यात. ते म्हजे ल्हानशेच पूण म्हज्या मनाची व्यथा सांगपी कवितेंतल्यान दिसून येतलें ...

नजर माझी तिरशी<br>
दोश द्यावा तरी कुणाला<br>
दर्शन घेत होतो निर्मात्याचे डोळ्यात प्राण आणून<br>
बुळबुळे मात्र गेली भलत्याच बाजून<br>
गैरसमज झाला तीचा देवळाच्या पायरीवर<br>
मला मात्र घेतला उगीच तीने फैलावर<br>
भर चौकावर झाली माझी शी शी थू थू<br>
निर्मात्या ह्याला कारणीभूत फक्त तू तू तू तू

आदल्या तेंपार लग्नाचीं उलोवणीं जातालीं तेन्ना दोनूय कड्ल्यान (चलेकार आनी चलयेकार) गैरसमज जावपाक सुवात खूब आसताली. उलोवणीं दिवप घेवप. जेवणां खाणां ह्या संबंदांत आसतालीं. म्हजें लग्न खूब उसरां जाल्ल्यान म्हज्या लग्ना आदीं आमच्या सोयऱ्यांच्या लग्नांचीं उलोवणी करपाक हांव गेलां. बरो मध्यस्त आनी आकांताचो प्रसाद घेवपी अशी नामना हांवें जोड्ल्ली ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल. आतां दिवप घेवप आनी जेवणां खाणां काळाच्या पड्ग्या आड जाल्ल्यान असलीं उलोवणीं फकत फॉर्माल्दाद जाल्या आनी हाका लागून गैरसमज चड जायनात. लग्ना उपरांत घोव बायले मदीं दोन तीन दिसां भितर गैरसमज जावन दोगूय जाणां आप आपलो आदोगाद पळेतात ती गजाल वेगळी. हांवूच आतां बरो आदोगाद असल्या जोड्प्यांक सोदून दिवपाचें काम करतां हें तुम चे म्हायती खातीर. 'उलोवणीं जाल्लीं तेन्ना पानार आंब्याच्यो दोन दोन शिरो वाड्पाच्यो थारिल्लें. आमकां दिसलें मानकुरादाच्यो म्हणून. मुशेरादाच्यो कोण फोडी वाड्टात? आमकां लजेक पुरो जालें! आमी मुशेराद फकत हालव्याक वापरतात!' असलीं उतरां म्हज्या कानार पड्ल्यांत. मागीर दोनूय वटानच्यान रागार फुगार जें पयलें भुरगें जाय मेरेनूच उरतालें हें म्हाका अणभवान खबर आशिल्ल्यान हांव ताची सुलूस केन्ना लागता हाची वाट पळेतालों. जोड्में मेळटा तेन्ना 'आमकां पेडे केन्ना दिता?' हो म्हजो प्रस्न तांकां आसतालोच. 'बेगीन गोड बातमी दी आमकां, मागीर आपशींच सगळीं जाणां एक



जातलीं' असलीं उर्बा वाडेवपी उतरां तांच्या कानार पड्टकच तांकांय बरें दिसतालें. आसूं, वयर म्हणलां तशें लग्नाचीं उलोवणीं आतां काळाच्या पड्ड्या आड गेल्यांत म्हणल्यार जाता तातूंत भर म्हणून उठ सूठ आमी मोगांत पड्न लग्नां करतात हाका लागून म्हज्या सारक्या मध्यस्ताक रोल उरूंक ना. आतां गोंयांत हळू हळू लिव ईन रिलेशन्शिप्स ही पिडा आपले पांय पसरूंक लागल्या अशी बातमी म्हाका सावळ्यान दिल्या. हातूंत लग्नाचीं उलोवणीं आनी जेवणाचो तर प्रस्नूच ना. कारण अश्या रावप्यांक दोन वेळाचें जेवणूच मेळ्ळ्यार माथ्या बोज वयल्यान पुरो जाता. लिव ईन रिलेशनशिप्सान रावपी दोगूय जाणां आपआपलीं बॅगां भरून खंय आलमारी वयर दवरतात. तांच्या मदीं गैरसमज जाल्या बराबर तीं वयल्यान आपणेंच काडप आनी तोंड घेवन वचप अशें सावळ्यानूच म्हाका सांगलां. हांगा आमगेर ही खंयूय वता तेन्ना हिचें बॅग वयल्यान काड्न म्हाकाच भरचें पड्टा. एक एकल्याचें नशीब! सोड.

गोंयांत वयार आयिल्ल्या चलयांचे आवय बापूय तांचे बाबतींत खूब प्रोटेक्टीव आसतात हाचें म्हाका खूब वायट दिसता. हाका लागून तांच्या धुवांक भायल्या जगाचें फावो तशें एक्सपोजर मेळना. हांच्यो चड करून आवयो ओवर प्रोटेक्टीव आशिल्ल्यान म्हज्या सारक्या चल्यांनी तांच्या घरा कडेन कसल्याय जेन्युईन कारणाक लागून पासय मारल्यार लेगीत तांकां बेटोच दुबाव मारतालो. हातुंतल्यान नाका अशिल्लो गैरसमज तयार जातालो. म्हजे बाबतींत सांगपाचें जाल्यार ह्या चलयांच्यो सोयरिको जावन लग्न थारून लग्नाच्यो व्होंविलको म्हज्या हातान हांवें वांटल्यो तरी तो गैरसमज पयस जावं नाशिल्लो. लेटेस्ट पोजिशन म्हाका खबर ना. म्हज्या सारक्या निरुपद्रवी प्राण्याच्या वांट्याक लेगीत गैरसमज येवचो हाचें म्हाका खूब दुख्ख जाता. ह्या गैरसमजाचें रुपांतर पंदरा मानिल्ल्या भयणींत जालें. ती वेगळी काणी आनीक केन्नाय. म्हज्या खातीर ह्या भयणिंनी खूब त्रास काडले हें हांव हांगा नमूद करतां. कांय आवयांनी म्हाका तांचे गेटी कडेन पळोवन आपल्या धुवांक मान्न्यांत, खाटी पोंदा असल्या सुवातांनी लिपयल्यां. कित्याक तें तांकांच खबर. कांय आवयांनी, 'तुजे कडेन नोट्स कश्यो नासतात रे? कॉलेजींत बांक तापोवपाक वता?' अशेंय म्हाका तोंडार विचारलां. तेन्ना बांक तापोवप म्हणचे कितें तें एक्जेक्टली खबर नाशिल्ल्यान हांव तांचे गेटी कडेन पांच मिणटां घुटमळून मागीर तांच्याच पोरसांतली दसणीचीं फुलां घेवन घरा गेलां.

आमच्या घराण्याक कलेचो वारसो आसा. आमच्या घराण्याचेर शारदा काय सरस्वती कोण तरी ह्या दोनीय देवी पैकीं एक काय दोनीय देवींचो वरदहस्त आसा अशें आमच्या घराण्याक वळखुपी (सावळो आनी दत्ता) म्हणटात. खरें फट आमी नकळो. म्हजो बापूय आमच्या वाड्या वयलो कलाकार आसलो. ताचेच गूण म्हज्यांत आयल्या अशें गांवचे लोक म्हणटात. तर, हांव म्हाका कसलीय भुमिका दिली की ताचो हांव अभ्यास करतां आनी तातूंत भितर सरतां. हाका लागून नाका जाल्ले गैरसमज निर्माण जाले आनी जात्रे कडेन नाटकाक नट्यो मेळना जाल्यो. 'बाबा आसल्यार आमी ना' असलीं उतरां नटी सोदूंक गेल्ल्याक आयकुचीं पड्टालीं. (बाबा म्हणल्यार अस्मादीक). नट्यांचीं बाबड्यांची चूक हांव म्हणचो ना आनी म्हजी तर नाच ना. आमच्या वाड्यार काल्याक, शिगम्याक नाटकां जातालीं. अजुनूय जातात. नाटकां हौशीक बाजारकर नाट्य मंडळ करतात (दिग्दर्शक बाबलो गुरव). नाटकां कौटुंबीक जिव्हाळ्याचीं आसतालीं. हाका लागून म्हज्या सारक्या हाडाच्या कलाकाराक अभिनयाक आकांताचो वाव आसतालो. देखीक, 'कुंकू मला काय कामाचा?', 'दोळ्यान नको आणू पाणी', 'सारं अयुष्य नळावर' आदी. हीं नाटकां हांवें म्हज्या अभिनयाच्या बळार गाजयल्यांत. कंसांत सुलभा श्रीकांताच्या कुशीत शिरते अशीं वाक्यां बी आसतालीं. सुलभा श्रीकांताचे कुशींत शिरतकच श्रीकांत (हांव) भुमिकेंत शिरतालों आनी म्हाका वेळाचें भान उरनाशिल्ल्यान सुलभा मागीर सादारण ना म्हणल्यार धा पंदरा मिणटां तरी श्रीकांताचे कुशींत शिरकून उरतालें. हरशीं पसून कोणय कोणाचेय कुशींत शिरल्यार इतलीं मिणटां शिरकून उरना हें हांव अणभवान जाणां. हाका लागून नट्यां भितर नाका जाल्लो गैरसमज जालो आनी मागीर नट्यो मेळना जाल्यो. आनी म्हाका 'बाजारात जाऊन येतो गं. येताना वाण्या कडे जाऊन पेट्रोमाक्साच्या वात्या आल्या आहे का ते पण बघून येतो' अशीं सिंगल लायन डायलोग आशिल्ल्यो भुमिका मेळपाक लागल्यो. आसूं, देवाच्या पांयां कडेन वर्सांतल्यान एकदां तितली तरी सेवा जाता म्हणून हांवें केन्ना ना म्हणलें ना.

इंग्लीश ही भास सारकी वापरली ना जाल्यारूय गैरसमज जावन तातुंतल्यान अनर्थ जावं येता. हें हांव सोड्न आनीक कोण बरें सांगूंक शकतलो. म्हजे मावशेक (सांवड्डेंची) सवे खोपे दीस वतकच मावसो तिका आमगेर घेवन आयलो. ताणें, 'म्हाका आतां बाळंटेर काड्पाचें पासियेंस उरूंक ना गो बाय' अशें जाहीर करतकच बायन म्हणचे आईन मावशेक आमगेर दवरून घेतली. तेन्ना हांव बी कॉमाच्या दुसऱ्या वर्साक आशिल्लों. तेन्ना निमणे परिक्षेक बसपा खातीर पंचात्तर टक्के हजेरी गरजेची आसताली (मुंबई विद्यापीठ). मावशी जड पांयांनी आमगेर येतकच आईन म्हाका, 'आरे आतां घरांतूच पड, घरांत दादलो मनीस आनीक कोण ना' असो सल्लो दिलो. तेन्ना बापूय (१९११-१९८१) आमकां सोड्न देवागेर गेल्लो. त्या वर्सा फार जोझेफान म्हाका ऑफिसांत आपोवन परिक्षेक बसपाक मेळचें ना म्हूण सांगलें. कारण हांव घराच कडेन पडिल्ल्यान



म्हजी हजेरी फावो तितली भरूंक नाशिल्ली. म्हजो आवरो उब्लो. नापास जाल्यार कोंताक येता परिक्षेक बसूंक दिना म्हणचे कितें! हांवें म्हजे परीन फादराक समजावपाचो यत्न केलो. 'Father, my aunt has come to stay with us with heavy legs and nine months full. There is no male man at our home. So my mother told me to fall in home only hence less atteandance. ok?' पाद्रीक म्हजी इंग्लीश कळ्ळी ना काय णव म्हयन्यांचो घोळ कळ्ळो ना हें कळपाक मार्ग ना. ताणें ऋशीं जीं अशें म्हणत राम शास्त्र्या भशेन बोट सरळ करून दारा कडेन दाखयलें. हांव इंग्लिशींतल्यान म्हजी भावना फादरा मेरेन पावोवपाक कमी पडिल्ल्यान हांव नाका आशिल्लें पचपचतां आनी आपलो वेळ खातां असो गैरसमज फादराच्या मनांत उत्पन्न जालो आनी हांव परिक्षेक मुकलों अशें म्हाका सावळ्यान सांगलें. मागीर मावशी सुट्टकच घराव्या दुदाचे पेडे हांव फादराक घेवन गेलों तेन्ना ताका खोस जाली पूण खूब कळाव जाल्लो. फुडें तीन एटेम्प्टांनी हांवें एसवाय बी कॉम क्लियर केलें ही तुमचे खातीर अभिमानाची गजाल.

केन्ना केन्ना हांव सादेपणान कितेंय उलोवन वतां आनी फुडलो मनीस ताचो भलतोच अर्थ काडटा. हाका लागून गैरसमज निर्माण जावन वायटपणां येता. बरी देख आम च्या मुंबयकाराची दिवं येता. हालिंचीच गजाल घेवया. मुंबयकार (हो नलूचो शेजारी न्हय, कल्याणाक आसता. कल्याणाक रावन आमचें कल्याण केलें अशी आई म्हणटा) दनपारच्या कडार भितर सरलो म्हणटकच सहज उदका पेलो दिवन विचारप जालें,

'अहो तुम्ही जेऊनच निघणार काय?'

'म्हणजे काय? काका गेले आनी आम्ही जेवायला पण जड जालो का?' ताणे बापायच्या (म्हज्या) फोट्याक पळेत म्हणलें तशें म्हज्याय दोळ्यांत ट्च्च करून दुकां आयलीं.

'अहो, तुमचा काय तरी गैरसमज होतोय. हिला त्या प्रमाणे शिताला तांदूळ काडायला नको काय? नाही तर हिने रोजच्या प्रमाणे दोन पेले तांळ काडले तर पंचाईत' हांवें ताका समजावपाचो यत्न केलो तरी आसतना तो दनपारच्या कडार पने घेवन भायर सरलो. आमकां सगल्यांक खूब वायट दिसलें. आतां कोणूय खांयच्याय वेळार भितर सरल्यार, जेवनूच वचा आं, असो हांव आग्रो करतां. जेवन आयला म्हणल्यार हिच्या हातच्यो दोन उणयो जमता जाल्यार भितर धुकलून वचा असो आग्रो करतां, भानगडी नाका.

गैरसमज आदांव बापाच्या जमान्या पासून जावपाक लगिल्लो तो अजून जावप चालूच आसा. ताका उपाय ना. ताणें आपोल काय कितें तरी गैरसमजांतल्यानूच खाल्लें असो सावळो म्हणटा. म्हणटकच तें खरें आसपाक जाय. आदांव आनी ईव लीव ईन रिलेशनशिपांत आशिल्लीं हें आतां सिद्ध जालां अशें म्हज्या कानार पडलां. म्हणटकच गैरसम जाक खूब वाव आसा. सोड. गैरसमजाक आनीक एक कातेगोरी आसा, गोड गैरसमज. गैरसमजा परसूय गोड गैरसमाजाचो भयंकर मनस्ताप जाता. देखीक, थोड्यांक आपूण एक गायक, लेखक, कवी असो गोड गैरसमज आसता. असो गोड गैरसमज जालो म्हणटकच अशा मनशाचे आशीकुशीक रावप म्हळ्यार लेगीत मनस्ताप. आमच्या घरांत अशी एक केस आसा. आमचें व्हडलें (उगतें मळब फेम) हाका आपूण एक कवयित्री म्हणून साक्षात्कार जाला. हालींच ताणें आपल्याक एक जाकीट बी शिवन घेतलां. ओके, नो प्रोब्लेम कारण दोन कविता छापून येतकच सगले जाण अशेंच करतात. पूण ताची कविता जल्माक येतकच (हीं ताचीं उतरां) जो म्हाका त्रास जाता तो दुस्मानाक लेगीत जावं नाका...

म्हाका हालीं येवपाक लागल्यां मुमरां<br>
हे पिरायेर सगल्यांक येता हांव जाणां<br>
आई म्हणटा पिठी लाय आजी म्हणटा साय लाय<br>
एक म्हण आसा ऐकावे जनाचे करावे मनाचे<br>
सध्याक हांव तेंच करतां<br>
आनी फैर एण्ड लव्हली लायतां

फैर एण्ड लव्हली ही ताणेंच जल्माक घाल्ली कविता मोस्त्राक हांगा दिल्या. ताचो हो गोड गैरसमज ह्या जल्मांत पयस करप म्हाका तरी शक्य ना. हें कमी म्हणून आमच्या दुसऱ्याक (एफ वाय एटीकेटी) आपूण विचारवंत सो दिसता. लोकांनी विचारवंत म्हणपा खातीर कांय वादग्रस्त विधानां करपाक जाय हें ताका बेस बरें खबर आसा. 'प्रभू रामचंद्राक हांव पुरषोत्तम केन्नाच म्हणचों ना' अशें ताणें जेवणाच्या मेजार एक दीस स्टेटमेण्ट केलो. तेन्नाच हांवें कल्लेचो कुडको तोंडान घाल्लो तो कांट्या सकट ताळ्यांत शिरकलो. 'आरे बापायक कल्ली तरी सारकी खावंदी रे' अशें म्हणून आईन ताळवेर मूठ मारली तसो कुडको परत ताटांत पडलो. आवयचें छत्र माथ्यार आसपाक जाय तें ह्या खातीर. तो मदी मदीं 'सुभाष बाबू आज आशिल्ले जाल्यार वेगळें चित्र पळोवंक मेळटलें आशिल्लें' (सुभाष बाबू = नेताजी) असले स्टेटमेण्ट करीत आसता. आपूण विचारवंत ही साथ हालीं पसरत आसा. आपूण कृष्णमूर्ती असो सगल्यांचोच गोड गैरसमज जावपाक लागला. हांच्या पसून दोन हात पयस रावपाचें इतलेंच आमी करपाचें कारण समाजाक 'शहाणे करून सोडावे' अशें तांकां दिसपाक लागता. मागीर ते दिसाळ्यांनी लेख बरोवन बरोवन आमकां विंगड विंगड विशयांचे ड्रेज दितात. हांव तीं पानां मागीर आईक नुस्तें उजरावपाक दितां. बाकी घरांनी तांचें कितें जाता तें खबर ना. आपूण विचारवंत असो गोड गैरसमज करून घेतिल्ल्यान तांचें स्वताचें कितलें नुकसान जाता तें हांव नकळों, आमचे रद्दीत मात बरीच भर पडटा. सोड.

मानव जातीचे निर्मिती पसून गैरसमजाक सुरवात जाली अशें म्हजें मत. सावळो तर म्हणटा मनशाचो जल्म गैरसमजांतल्यानूच जाला. तो म्हणटा म्हणटकच तें खरेंच आसपाक जाय. म्हणटकच आमी गैरसमज जावपाचो बंद करूंक शकना, तो चालूच उरतलो. पूण कोणाचो तरी गैरसमज जाला हें कळपा इतलो समज आमच्या भितर उरल्यार पुरो इतलेंच आमी मागुया. ❑



# दादाची गणपतीची चित्रशाळा

दादा रेखणेचें काम नरकसूद करतालो. ताचे रेखणेन मूर्त दोळ्यांतल्यान आपले कडेन उलयता अशें पळोवप्याक दिसा. यशोनमामा तारफे आनिकूय लोक आशिल्ले जांका तांचीच मूर्त जाय आसताली. आमच्या घरच्या गणपती खातीर दादा मातयेची घडनी मूर्त करतालो. ती न्हर्मनीन छापिल्ल्या एका नामनेच्या कॅलेंडरा वयल्या चित्रा भशेन केल्ली आसताली. चवथीचो दीस केन्ना उदेता आनी जातो ती मूर्त आपले माळयेर केन्ना हाडटा हाची आमी वाट पळयताले.

• मनोहर पी धुंगट

दादाचो भुसारी म्हालाचो पसरो वेरें बाजारांत आशिल्लो. दुकानांचे लायनीची सुरवात दादाच्या पसऱ्यान जाताली. उजवे कडेन पसऱ्याची नाब आनी दावे कडेन दादाचो बसपा उठपाचो जागो आशिल्लो. दादाचो पसरो ल्हान आनी कचेरी व्हड अशी एकूण गत आशिल्ली. हे कचेरेंत वणटीर दोन तीन पांयजेलां आशिल्लीं. तांतलें एक कमळांत उबी आशिल्ली लक्ष्मी शेजरा हत्ती अशें. दुसरें ॐ ह्या अक्षरा भितर वेणू घेतिल्ल्या श्रीकृष्णाचें. दादाच्या उंच पांवड्याचे अभिरुचीची नाट दाखोवपी अशीं हीं पांयजेलां. हेर कडेन वणत मेळटा त्या बरबरीन चित्रांनी भरिल्ली तुमकां दिसताली. व्हडल्या बांकार एक सोबीत लांकडी पेटी आशिल्ली. तातूंत दादाच्यो हिशेबाच्यो पटयो, बरोवपाचें सामान आनी देवळाचे  लिव्र आसताले देवळाच्या कोमिसांवांत आसूं नासूं दादा देवळाचें सरकार दरबारांतलें दिसापटीचें सगलें काम करतालो. बसकेचे फाटल्यान एक वणटीक लावपाची घडयाळ आशिल्ली. ज्युस्त बारा वरांचेर पणजेचे इगर्जेच्यो



घांटी आयकल्यो की दादा उठून घडयाळीक कोर्द दितालो. त्या तेंपार वचत ताचे कडेन हाताच्यो घडयाळी बी नासताल्यो. वेळ पळोवपाक हीच एक बरी सोय आशिल्ली.

कचेरी आनी नाब हांचे मदीं व्यवस्थीत मांडिल्ल्यो विकपाचें सामान दवरपाक लांकडाच्यो काशी आशिल्ल्यो. त्यो धांपपाक लांकडाच्यो फळयो आशिल्ल्यो. दादा कडेन कामाक वा खबऱ्यांक येवपी लोकांची बसपाची आयती सोय जाताली. देवळाचे, शाळेचे आनी वाचन मंदिराचे काम दादा आपखोशेन करतालो देखून ह्या ना त्या निमतान लोकांचो राबतो ताच्या मांणार सदांच आसतालो. माण हेंच उतर. म्हाका दादाच्या संदर्भात बरें दिसता. पसरो म्हळ्यार बकालपणाचो वास येता. दादाचें सगलें व्यवस्थीत जागच्या जाग्यार. गांवांतले पसरकार म्हळ्यार दोळ्यां मुखार येता तो लोळकें आंगोस्तर आनी पिंजिल्लें बानयन असो अवतार. ताचे उरफाटे धवो सदरो, पुडवें आनी धवी तोपी असो दादाचो भेस आसतालो. माणार पावतकच सदरो, तोपी खुंटयाळयाक लायतालो आनी भितरल्या धव्या बानयनान तो वावुरतालो. हात पुसताक एक वालो दवरिल्लो आसतालो. सामान दितकच काडले हात पुसले पुडव्याक असलें तो केन्नाच करी नाशिल्लो.

दादाचो माण आशिल्लो तें देमतो नायक म्हणटा ताचें माळयेचें घर आशिल्लें. माणाचे फाटल्या वटेन एक दार आशिल्लें. थंयच्यान तुमी एका सालांत पावताले. सालांतल्यान माळयेर वचपाक सोंपणां आशिल्लीं. सोंपणां चडून वयर वतकच एके कुडींत पावताले. हे कुडीक मुखा वयल्यान उक्तीं जावपी जनेलां आशिल्लीं. सकयलें साल आनी माळये वयली कूड दादाचे गणपतीचे चित्रशाळेक वापरताले. दादा दर वर्सा विकपा खातीर शंबर ते देडशें गणपतीच्यो मुर्ती करतालो. आमच्या गांवांत आनीक दोग जाण मुर्ती करताले – निळू मेस्त आनी कृष्णा पेंटर म्हणून दोग कलाकार आशिल्ले. ते 'गणपतीचा कारखाना' हें नांव वापरताले. दादाक 'कारखाना' हें उतर मात पसून आवड नाशिल्लें. तो म्हणटालो शाळा म्हणचे कूड एक निवारो. यज्ञशाळा बी उतर वापरतात ते भशेन. ऋग्वेदांत 'शालासूक्त' हाचो विचार करपी आसा हें उपरांत केन्ना तरी कळ्ळें आनी दादाचो आग्रो कितलो बरोबर आशिल्लो तें कळ्ळें. मे म्हयन्याच्या दुसऱ्या ना जाल्यार तिसऱ्या आठवड्यांत कायतान गावडो गाडोभर चिकणमाती हाडून सालांत माळयेर वचपाक सोंपणा आसात थंय जागो करून घालतालो. ती माती दादाच्या हातान मुर्तीरूप घेवपाक उत्सूक आसताली आनी त्याच बराबर आमच्या भुरग्यांक भुरळ घालताली. आमी त्या सालांत जमून माती घेवन गाय, घोडो बी खेळणी आमचे भशेन करताले. 'भुरग्यांचे म ळणेक बी ना भात' अशें म्हणून दादा बाबडो ओगी रावतालो. पूण ह्या खेळांतल्यानूच आमच्यांतलो एक भुरगो आनू, ताका मुखार जे. जे. स्कुलांत वचून मॉडेलिंग शिकन दिसलें आनी तातूंत ताणे सुवर्ण पदक मेळयलें. पारसी आनी मराठी रंगभूमीचो नेपथ्यकार म्हणून कीर्त मेळयली.

कायतानान हाडिल्ले मातेयेच्यो मुर्ती करूंक घेवचे पयलीं आनीक एक काम दादाक हाता वेगळें करपाचें आसतालें तें म्हळ्यार कागदाचेर गौरी म्हळ्यार गणपती, पार्वती आनी महादेव हांचीं रंगीत चित्रां काडपाचें काम. सतराव्या शतमानांत पुर्तुगेजाच्या धर्मकोल्लाक लागून मातयेच्यो मुर्ती पुजप्यांक व्हड ख्यास्त करताले. गणपती पुजा तर सोड, मरणा उपरांत संस्कार करप लेगीत हिंदूक कठीण जाल्लें असो तो भयानक काळ. कसो तरी निभावन व्हरचे खातीर कांय घराब्यांनी तेन्ना कागदाचेर चित्रां काडून ताची पुजा करप आनी उत्तरपुजा करतकच निर्माल्य त्या कागदांत गुठलावन माळ्यार बी वडवप अशी पद्दत आपणायली. पुर्तुगालची राजवट बदल्ली आनी धर्म छळ कमी जालो. त्या कठीण काळाचें स्मरण म्हणून कांय घराण्यांनी ही मातयेच्या मुर्ती वांगडा कागदाच्यो गौरी पुजपाची पद्दत चालू दवरली. तांतलेच आमचें एक घराणें. दादा आपल्या खातीर आनी हेर वीस बावीस घराण्यां खातीर सोबीत रंगीत गौरी तयार करतालो. अद्यापय कागदाच्यो गौरी पुजपाची प्रथा आमचे कडेन आनी हेर वीस तीस घरांनी चालू आसा. तांकां त्यो चितारून दिवपाचें काम दादाक गुरुस्थानी मानपी मुकुंदभाऊच्या वंशजांनी चालू दवरलां ही एक खोशेची बाब जावन आसा. तें काम सोंपोवनच मुर्ती करपाच्या कामात सुरवात करतालो. ताचे मजतीक नारायण म्हणून एकटो येतालो. फिरकी आशिल्ली तामरेत ताचे कचेरींतले बसके शेजरा हाडून दवरताले. कायतानान मळून दवरिल्ली माती गुळे करून सांच्यांतल्यान काडून बावलें फिरकेर हाडून दवरताले. मागीर ताका आकार दिवपाचें दादाचें काम चालू जातालें. माणार गिरायकां येतात तांकां आवियार करप आनी एकाग्र चित्तान मुर्ती साकार करपाचें काम करप. एक एक मुर्त

जाल्या उपरांत सुकपा खातीर सालांतल्या फळयांचेर मांडून दवरप. दादा एकाच वेळार पसरकार आनी मुर्तिकारूय आशिल्लो.

शंबर एक मुर्ती तयार जातकच, सुरू जातालो एक शिस्तबध्द कार्यक्रम. बेळां घेवन एक एक मुर्ती नितळ करप. तें जाल्या उपरांत रंगकामाक सुरवात जाताली. दादाच्या हातांतल्यान गणपतीची मूर्त घडपाची सगली प्रक्रिया आमी बारीकसाणीन पळेयताले आनी भुरगेमनाक तार्चें आमकां अप्रूपूय दिसतालें. गोकुळाष्टमीच्या अदम ासाक मुर्तीची रेखणीबी पूर्ण जाताली आनी सुरू जातालें सोनेरी रंगाचें नाजूक आनी कठीण काम. एक बारीकसो थेंब पडलो जाल्यार सगल्या कामाचो विव्दाट! ते पुराय जातकच मुर्ती मांडून दवरताले. रातच्या वेळार सालांत पेट्रॉमॅक्स पेटयतकच वेगळेच दुनियेंत पाविल्ल्या सारकें दिसतालें. त्या मुर्तींच्या भितर दोन पुराय तांबड्या रंगान चितारलेल्यो आनी वार्निश काडिल्ल्यो अश्यो आसताल्यो. पणजेच्या धेंपे घराण्याक ह्यो रक्तवर्णी मुर्ती लागताल्यो. आनीक एक खाशेली मुर्त आमच्या यशोनमामा खातीर आसताली. यशोनमामा म्हळ्यार हौशी गृहस्थ. तो म्हयनोभर पयलीं वेऱ्यां मुजरत येवन दादाक कसली मूर्त जाय ताची ऑर्डर दितालो. येतना आमचे खातीर चॉकलेटी, क्रिम क्रॅकरचो डबो बी घेवन येतालो. गणपतीची मूर्त व्हरपाक येतालो तेन्ना आमचे खातीर खूब फुगेट्यांचे माराण घेवन येतालो. घरांतल्या गणपतीची आरास आनी सीन तो नावाजत्या व्यावसायिका कडल्यान करून घेतालो. ती पळोवपाक मळ्यांतल्या ताच्या घरांत रीग लागताली. अशीच रीग पणजेच्या आनीक एका घरांत जाताली. त्या घरचो एकटो मुंबय सिनेमा व्यवसायांत आशिल्लो आनी चवथीक मुद्दाम मुंबयच्यान येतालो आनी आपली कला दाखयतालो. ताचे सीन पळोवपा सारको आसताले. यशोन मामा कडेन सीन खंयच्याय कलाकाराचो आसूं गणपती मात ताका दादाच्याच हातचो जाय आशिल्लो. ताका हुंदीरूय स्पेशल लागतालो. हातांत मोदक घेतिल्लो, नाजाल्यार टाळ घेतिल्लो बी असलो हुंदीर ताका लागतालो. आनूक ताची ऑर्डर दिवन दवरतालो. ताची घसघशीत तळी तो आनूक वेगळी दितालो.

दादा रेखणेचें काम नरकसूद करतालो. ताचे रेखणेन मूर्त दोळ्यांतल्यान आपले कडेन उलयता अशें पळोवप्याक दिस. यशोनमामा सारके आनिकूय लोक आशिल्ले जांकां ताचीच मूर्त जाय आसताली. आमच्या घरच्या गणपती खातीर दादा मातशी व्हडली मूर्त करतालो. ती जर्मनीन छापिल्ल्या एका नावाजत्या कॅलेडरा वयल्या चित्रा भशेन केल्ली आसताली. चवथीचो दीस केन्ना उदेता आनी नारगो ती मूर्त भायले माळयेर केन्ना हाडटा हाची आमी वाट पळेयताले. आमच्या घराक दोन माळयो आशिल्ल्यो. तांतले भायले माळयेर गणपती पुजपाची कायम वेवस्था आशिल्ली. वयर पाइटाक चौकोनी आकाराची एक लांकडांची फासकी माटवे खातीर कायमची सोय म्हणून फिक्स केल्ली आशिल्ली. एक लांबचे लांब मेज आनी ताका जोडून एक पायरी आशिल्ली. मेजार चित्ररूप गौरी, रंगयल्लो नाल्ल 'म्हादेव' म्हणून तये दिसा आनी गणपतीची मूर्त चवथी दिसा स्थापन करपाची सोय जाताली. दिवली बी दवरपाची सोय आसताली. चवथी पयली दोन चार दीस नारगो येवन सोबीत आरास करतालो. रंगीत सादे आनी क्रेप कागद घेवन तो जी करामत करतालो ती पळोवपा सारकी. शांतादुर्गेच्या देवळांत नवरात्रौत्सवांत देवीक झुलत्या मकरांत बसयताले तें मकरूय नारगो सजयतालो ताका सगल्या लोकांची दाद मेळटाली.

तये दिसा घरांतल्या जाणल्यांचे मजतीन नारगो माटवी बांदतालो. पोरणो नाल्ल काडून आंब्या ताळो आनी शेलाणो असोलयो नाल्ल पयलीं बांदतालो आनी उपरांत हेर फळफळावळ. दिसपट्टे जिणेंतल्या फळां वांगडाच कांरादो, भिल्लफळां, कांगलां बी अनोळखी फळां नारगो हाडटालो. दादाच्या बापोलभावाच्या तुआंतल्या भाटांत शेलाण्या नाल्लाचो माड आशिल्लो. ताचे कडल्यान दोन नाल्ल आमकां मेळटाले. एक माटवेक आनी एक सोलून रंगोवन बी म्हादेव म्हणून गौरी वांगडा पुजताले. माटवी बांदून जातकच उत्सवाचें वारें भायले माळयेर घोळटालें. चवथी दिसा दादाचे चित्रशाळेंतल्यान नारग्यान गणपती हाडून मखरांत दवरलो की खोशयेक उधाण येतालें. मूर्त व्हरपाक आयिल्ल्या गिरायकांक आव्हियाद करून दादा घरा येता म्हणसर उशीर जातालो. तो न्हावन, सवळें न्हेसून घरच्या देवाची पुजा करून भायले माळयेर येतालो. ताका सगली पूजा येताली. ताचो चुलत भाव विष्णूदाद पोथी पळोवन एकवीस पत्रेचींबी नांवां सांगतालो. ती पत्री दोंगरार, शेतादेगेर बी बुङ्डून आमी भुरग्यांनी जमयल्ली आसताली. त्या कामांत आनूदाद आमचो लिडर ताका बरी म्हायती आसताली. गणपती मूर्त रंगोवपाक बोळू रंग लागतालो तो करपाक रानटी भेंडे लागताले तें हाडपाचें कामूय तोच करी. आरती जातासर दोन अडेज वरां जातालीं. विष्णूदादाचो चलो नरेनभाऊक आरती तोंडपाठ आशिल्ल्यो. आमचें लक्ष फुगेट्यांचे माराण मारपाचेर चड आसतालें.

माकावाचे मराण, चिनी बायलेचें चित्र आशिल्ले तेन्ना मेळटाले. प्रत्येकाच्या वांट्याक धा बारा मराण तरी येताले. आमचो गणपती देड दिसाचो. पयलो दीस पुरणाच्या नेवऱ्यांचो आनी मोदकांचो. दुसरो दीस नवें घालून केल्ल्या पायसाचो. शेतांत वचून थंय माराण बी मारून नवें हाडून माटवे सकयल चौरंगाचेर दवरून पुजा करताले. सगलीं बायलां मेळून रांदप. नेवऱ्यो चड करच्यो पडटाल्यो. दादाक चिकणमाती मळून दिवपी कायतानाक, नारग्याक आपल्या जार्दिनांतलीं फुलां मुद्दाम गणेसाक हाडून दिवपी येराक्लीन भाटकान्नीक, इश्कोल प्रिमारयाच्या प्रोफेसराक दिवपाच्यो आसताल्यो. दुसऱ्या दिसा आळवाच्या पानाक गांठी मारून भरपूर आलें, सोलांबी घालून आलगांठी म्हणून करतालीं ती भोव



बरी लागताली.

चवथीचो पयलो दीस पट करून सोंपतालो आनी गणपती वचपाचो दीस केन्ना उदेता तें कळच नाशिल्लें. रातचे विसर्जनाक गांवचे लोक येताले आनी सामुदायीक आरती, मंत्रपुष्पाजली बी म्हणप जातालें. ताचे आवडीची दशावतारांतली 'गणराज गजानन होऽऽ' ही आरत म्हणपाचो आग्रो आसतालो. ती आरत आनी मंत्रपुष्पांजली दादा वांगडा म्हणपी म्हळ्यार विष्णूदाद, मुकुंद भाऊ आनी पुट्टीबाब. वातावरण भारून वचपी तांचे सूर. फुगेट्यो मारून जाल्ल्यो आसताल्यो आनी आमी भायले माळयेर येताले तेन्ना गाराण्याचे शब्द आमच्या कानार पडटाले आनी गणपतीक निरोप दिवपाचो वेळ जाला हें कळटालें. 'गणपती बाप्पा मोरया'च्या गजरांत निरोप दितकच आमकां खूब वायट दिसतालें. दुसऱ्या दिसा भायले माळयेर वचनशें दिस नाशिल्लें.

दादा आपलें सदांचें काम सुरू करतालो. नवरात्रा पयलीं दोन तीन सरस्पतीच्यो मुर्ती करपाचे काम आसतालें. दसरो जालो काय काल्याच्या नाटकांची लगबग सुरू जाताली. 'वेरेंकर ब्राह्मण समाज' शांतादुर्गे च्या कालोत्सवाक तीन नाटकां करतात. ताची जबाबदारी दादा कडेन आशिल्ली. नाटकां वेंचून काडप, मागीर तांची रंगावृत्ती करप पार्ट वांटून जातकच जण एकल्या पार्ट्याक भाशणाची पटी दिवप. दादा स्वता हें भाशण बरोवन काडपाचें काम करतालो. हेर कडेन नाटकाच्यो दोन प्रती घेवन कापून भाशणाच्यो पटयो करतात. दादा आपल्या सुंदर अक्षरान त्यो पटयो करून दितालो. मागीर रातच्यो एसायो बी चालू जाताल्यो. बाबयदाद, मुकुंदभाऊ, पुट्टीबाब हे ताचे त्या वेळचे सहकारी. दादा नाटकांत काम करतालो. चंद्रग्रहण, शहाशिवाजी, सिंहाचा छावा, उमाजी नाईक बी इतिहासीक नाटकांनी आनी 'श्री' भावबंधन बी साम ाजीक नाटकांनी दादान भुमिका केल्ल्यो अशी याद जाता. भावबंधनाची याद जाता ती म्हळ्यार त्या नाटकांतल्या कलाकारांचो वेरेंच्या फोटोग्राफरान काडिल्लो कृष्णधवल फोटो उपलब्ध आसा. फोटोची तयारी जाता म्हणसर दादान मेकअप पुशिल्लो आनी धुंडीराजाचो पोशाख काडून दवरिल्लो. दादा सदांच्या भेसान त्या फोट्यांत आसा. ताच्या पांया कडेन आमच्यांतलोच एकटो मोरू जाल्लो पूर्णवेशान आसा. मोरूची तोपी इतली फिट आतां मेरेन कोणाकच बसूंक नाशिल्ली अशें पुट्टीबाब म्हणटालो.

दादा पसरकार, मुर्तिकार, नाट्यकर्मी, ग्रंथपाल आनी शाळा मास्तर आशिल्लो. हय, शाळामास्तर! जेन्ना मराठी शाळेक मास्तर मेळना जाल्लो तेन्ना दादान कांय तेंप मास्तर जावन शाळा चलयिल्लीं. ते सबंदीची एक याद दादाचो मित्र आनी आमचो दोतोर, जावन आशिल्लो हरीदोतोर सांगतालो. हांव तीन चार वर्सांचो आशिल्लों तेन्ना दादाक चिकटून आसतालों. तो म्हाका आपणा बराबर शाळेंत व्हरतालो. म्हाका थंय उबगण आयली की हांव 'दादा शाळा बेगीन सुटय, रे' अशें एक सारके म्हणटालो खंय. म्हजी बाल्यावस्था सोंपली आनी लिसेवाची पायरी चडूंक सोदतालो तरी लेगीत हरीदोतोर 'दादा शाळा सुटय रे' आयलो म्हणून चाळयतालो. भुरगेपणांतल्यो थोड्यो यादी तुमच्यो आसता आनी थोड्या यादींचें दुसऱ्यांनी रोपण केल्लें आसता.

दादाची वागणी आनी करणी सुवार्थ नाशिल्ल्या समाजसेवकाची. पसऱ्यार उदारी खूब आसुनय नड गिरायकाक परतो धाडलो ना. मापान माप केन्ना केलें ना. सेन्ज्याचेर (रेशन कार्डाचेर) तांदूळ दिवपाचो पोस्त ताका पडिल्लो तेन्ना मजतीक एक नोकर घेतिल्लो. तो वजन सारकें करिना म्हणून ताका काडून उडयलो. बारीक सारीक गजालींतल्यान लोकांचे बरेपण जोडलें. वयाच्या साठाव्या वर्सा हार्ट ॲटक येवन तो गेलो. त्या वर्सा ताणे मुर्ती करपाक घेवंक नाशिल्ल्यो. घरा खातीर एक आनी लागशिल्ल्या खातीर चार पाच अश्यो मेजून मुर्ती करून सुता पुनवे कडेन पूर्ण केल्ल्यो. पुनवे उपरांत दोनूच दिसांनी माणारूच ताणे निमणो स्वास घेतलो. ताच्या मरणाक सगलो गांव लोटलो. घरा फाटल्यातले दोंगुल्लेर ताचे कुडीचेर अंत्यसंस्कार केले. गांवान शेवटचे यात्रेक इतली गर्दी केन्नाच पळयलीं ना अशें लोक म्हणटाले. ताणें त्या वर्सा केल्ली गणपतीची मूर्त भायले माळयेर आरशाचे आरमारींत दवरिल्ली. तें ताचे खरे यादस्तीक जावपाचें पूण भायली माळी पडली आनी ती आरमार ना जाली. दुसरें यादस्तीक म्हळ्यार ताका अग्नी दिल्लो त्या जाग्यार शमीचें झाड लायलें. दादाच्या शतसंवत्सरीच्या निमतान त्या झाडाक पार बांदलो. ताच्यो समिधा गरज पडटा तेन्ना लोक वापरतात. सदाहरीत असो हो वृक्ष थंय पाविल्ले खेपे प्रेमान आमचे कडेन पळेता. ❑

# म्हजे मुस्तींतली दिवाळी

▸ शुभांगी नेवरेंकार
७८७५४४४७५२



नवरात्र सोंपून दसरो येतकच खरे दिवाळेचे वेध लागतात. आमकां ल्हान आसतनां चित्रबोधाचेर एक धडो आशिल्लो. ''नवरात्र संपले दसरा उजाडला'' अशें कितें तरी. दिवाळी हो शब्द आयकतकच दोळ्या सामकार पेटिल्ले आकाशदिवे, पणट्यो, लायटीची रोशणाय आनी नाकांत फराळाचो वास.

म्हज्या आयुश्यांतली पयली दिवाळी मुंबय जाली. कारण आमी मुंबय रावतालीं. मुंबय दिवाळी हो सगल्यांत व्हडलो सण. हांगा वावराड्यांक आठ–धा दीस पयलीं सांगिल्ले आसता, ''साफसफाई करायची आहे.'' कारण तिका बाकीचीं घरां बी आसतात. दिवाळेक कांय घरांक रंग बी लागता, कांय घरांनी नव्यो वस्तू बी येतात. कपड्यांची खरेदी जाता ती वेगळी. घर झाडून बी स्वच्छ जाता. त्या दिसा बेगीन उठप जातालें. उटणे बी लावन न्हावप. नवो ड्रेस बी घालप, पूण मुंबय दिवाळे दिसा फराळ चिवडो, शेव, चकऱ्यो, तरांतरांचे लाडू, शंकरपाळ्यो, नेवऱ्यो, फेणोऱ्यो, अनरसे, म्हैसूरपाक हो सगलो फराळ एकामेकांगेर दिवप, खावंक बी वचप. दिवाळे दिसा उंवाळप जातालें. घरांतले मुख्य बायलेन. मुंबय तुमकां दिवाळे तेंपार चडशें सगल्यांच्या घरा सामकार सुंदर रांगोळी दिश्टी पडटा, तरातराचो फोग, माराण, चंद्रज्योती, चार पांच दीस तर सामकी दिवाळी

दबाज्यान गाजता. कारण भावबीज, पाडवो, लक्ष्मी पुजन, एका फाटल्यान एक आसता. भावबिजे दिसा तर भयणीगेर बोवाळ आसता, भाव येतलो म्हणून. उत्सुकतात बी आसता भावबीज किर्तें मेळटली म्हणून. मुंबय तर दादराक सामकी रस्त्यार खरेदीक इतली गर्दी आसता सांगूं नाका... कांय जाणां कपडे तर कांय जाणां मिठाय बी घेवपाक, थंय दामोदर हलवाई म्हणून फामाद आसा दादराक,थंय आमी लेगीत बुंदीचे लाडू घेतालीं. लक्ष्मी पुजनाक तर चडश्या दुकांनानी व्हडली पुजा जाता. आनी मागीर जे माराण लागतात, केदोवेळ तुमकां कांयच आयकूंक येना. माराणाच्यो माळी लायतात सामक्यो, एक तोंक ते दुसरें तोक. रातचें तुमकां बिल्डिंगो, घरा, बंगले, पणट्यांनी लायटीच्या दिव्यांनी झगमगिल्ले दिसतात. पाडव्या दिसा जांवयांक मावोड्ड्या आपोवपाची पद्दत आसा. शाळेंत भुरग्यांक बी बावीस दीस सुटी आसताली.

आतां गोंयची दिवाळी. आमी जेन्ना मुंबयच्यान गोंयांत आयलीं तेन्ना हांव आठ वर्सांचे आशिल्लें. आमकां गोंयचे सणवार नवे आशिल्ले. दसरो जातकय काय दिसांनी दिवाळी आयली. दिवाळी पयलीं काय दीस, आमचो वरगांवचो भागेली, यशवंत देसायाक, फोव कांडून हाडूंक सांगलें. कांय जाणांनी रोजां आनी काट्टां हाडून दिलीं. आमच्या भायल्या आंगणांत बी नडणी काडून सान्न मारून, सामकें निवळ जालें. धनत्रयोदशीक आमचे कोठये कुडींतल्या तांदळाच्या आनी अशेच बाकीच्या हेर काय डब्यांक गंधाचे तिबें, आनी रोजां फुलां आनी काट्टां गुंथून केल्ले हार घालतालीं. सगले कडेन दिवे पेटोवन दवरतालीं. आमची आजी दिवाळे पयलीं भांगरां रिठ्याच्या उदकांत घालून साफ करुन लकलकीत करून आमकां सगल्या भुरग्यांक घालतालीं. त्या दिसा आम कां न्हिदच लागनाशिल्ली. चार वरा सावन नरकासूर येवपाक सुरवात जाताली. तांकां पळोवंक आनीक नवे कपडे केन्ना घालून मि रयता म्हणपाची उमेद आसताली. नरकासूर सकयल्या वाड्या वयलो आनी वयल्या वाड्या वयलो येतालो, भुरगे गांवांतलें. तांणी तो गाड्यार घालून ओडीत हाडप. मागीर म ळार, देवकीकृष्णाच्या देवळा सामकार ताका लासप. आमची वावरडी त्या दिसा फांतोडेर येवन हाण्यारांदनीक उजो घालून, शिताडो घालून सान्न मारून घर सगलें लख्ख करुन दवरताली. आई आमगेली चादरी, फ्रोंजी बी ट्रकांतल्यान काडून घालताली. आमकां आई तेल उटणे लावन न्हाण घालताली. नवीन साबण मुद्दाम दिवाळे खातीर हाडिल्लो भायर काडून लायताली. मागीर आमी सुंदागेर हांव म्हजी इश्टीण माया वचून ताचे कडेन केंस वळोवन घेतालीं. तेन्ना कानार दोन विणयो बी घालपाची फॅशन आशिल्ली. ते मागीर आमकां गुलाबीसो पावडर आनी काळी तिकली लायतालीं. हें सगलें जातकच घरा रांगोळी काडून रांगेंत दिवे, काट्टां दवरून उबीं रावतालीं. आई आमकां सगल्यांक उंवाळटाली. आमगेर वेगळी भावबीज जायनाशिल्ली. राखी बी बांदप तेन्ना आमी नकळोच आशिल्लीं. मुंबय आसतना भावबीज करतालीं. दिवे उंवाळून जातकच मागीर फोव खावंक बसप. सगले तरेचे फोव. दुदातले म्हणूं नाका, रोसांतले, धयातले, बटाटफोव त्या भायर चण्याची उसळी, आमाड्याची करम. म्हजी आजी एक राज आवळ्यांचे बरें लोणचें करी. तेंवूय आसतालें, सगले गांवांतले लोक फोव खावंक येता आशिल्ल्यान, आचारीमाम फोव करपाक येतालो. दनपरां भूक लागलीच जाल्यार पेज जेवतालीं. रातचें मागीर आमचे कडेन जे किर्तें आसा तें लावप. मारान. चंद्रज्योती तेवूय साद्यो आसताल्यो आनी फटफटीत आसताल्यो. तांबड्यो तिकल्यो येताल्यो, त्यो स्टोवाच्यो काकड्या भशेन, तातूंत घालून जमनीर आपटतकच आवाज जातालो. मागीर गुळयोश्यो येताल्यो, त्यो जमनीर मारतकच फुट्टाल्यो. दुसरो आनीक एक वांटकुळो फोग येतालो, तो सोरोपा भशेन वयर येतालो. बाकी जमीनचक्रां, सुरसुरीं बीं आसतालीं. आतां तरा तरा आयल्यात. पाडव्या दिसा आमच्या तुळशी आंगणांत आमी शेणाचो गोठो करतालीं. आनी काट्टयक चार व्हीर तोंपून गोरवां तयार करप. आमगेर गोरवां आशिल्लीं, त्या दिसा तांकां घरा हाडून तांची पुजा करतालीं. तांकां हार घालप आनी खावंक दिवप. सांजचो धेंडलो दारांत येवप, आनी रातचो मागीर रथ दारांत येतालो. सगल्या घरांनी लायटी, पणट्यो पेटोवन घरा झगमगतालीं. एके वटेन रथ येता दारांत म्हणपाचो बोवाळ. दुसरे वटेन नाटकां पळोवंक जागो आडावपाचो बोवाळ. कितले उमेदीचे दीस आशिल्ले ते. नवरात्रीच्यान आमकां दिवाळेचो बोवाळ, खंयचो ड्रेस शिंवप बी म्हणून. नरकासूरय पळोवाचो जागीं रावन. आकाश दिवो खंयचो घेवपाचो वा कसो करपाचो, पाडव्या दिसा पणट्यो लावप काय मेणवाती लावन सजोवपाचें घर होच विचार. कारण आमच्या घराचो डिझायन सुंदर आसा, आमचें आरकाचें घर दिव्यांची आरास करतकच, महाला भशेन लखलखतालें. म्हणून आमकां दर वर्सा किर्तें ना किर्तें नवें करपाची उमेद आसताली. आमच्या वेळा उमेद उत्सुकताय आनी त्या त्या वेळार त्यो त्यो गजाली मेळटाल्यो. म्हणून आमकां तार्चे म्हत्व आसतालें. तें मेळटले म्हणून उत्सुकता आसताली. आतां बाराय म्हयने सगलीं खाणां मेळटात. तेन्ना फकत घरांत आनी त्या त्या सणांक मेळटालें. कपडे बी करूंक आता आमी सणांक रावनात, जाय तेन्ना वचुन खरेदी करतात. त्या खातीर आतां असल्या वस्तूंची भुरग्यांक उत्सुकता बी ना आनी उमेदूय जितली आमकां आशिल्ली तितली दिसना. आजूय आमकां याद उरपाचें कारण म्हळ्यार तेन्ना आमकां वाट पळोवन मेळटाल्यो ह्यो सगल्यो वस्तू, आनी अप्रूप आसतालें ह्या सगल्या वस्तूंचें. तर वाचप्यांनो हें जालें आमच्या वेळा वयल्या दिवाळेचें पुराण. ही दिवाळी तुमकां सुखा समाधानाची वचूं हीं दिवाळेचीं परबीं.❑



# एका अर्थाचें फाटीक पडून

असले अनुवाद कोणा खातीर? मेल्विन इतले कष्ट काडून आपलो वेळ कित्याक विभाडता? आकरेक कोण कितें जोडूंक पावता म्हळ्ळीं सवालां उदेतलीं. एक अनुवादावर्वी आन्येके भाशेची ग्रेस्तकाय कितें, आन्येका समुदायाची संस्कृती कसली म्हळ्ळें समजूंक साध्य जाता. ह्यावर्वी भासो नेणासल्ल्यांक आपली जाणविकाय वाडोवंक सलीस जाता म्हणतलेय आसतले.

▸ मेल्विन रोड्रीगीस
०९९८०५३६२९७

अनुवादा तसलें कष्टांचें काम दुसरें ना. अनुवाद म्हळ्यार फोटोग्राफी काडल्ल्या तितलें सलीस काम न्हय. एका चित्रकारान, एक पिंतूर पळेवन तसलेंच आन्येक पिंतूर चित्रायिल्ल्याबरीय न्हय. अनुवाद, सर्जनशील कृती रच्च्याकय कठीण काम.

एमिरेतांत एकलो केरळाचो मनीस कृषीद्वारीं तांदूळ करता म्हणून २०१४ ज्यून म्हयन्यांत पत्रांनी वाचूंक मेळ्ळें. भारतांत भाताची कृषी, व्हड काम न्हय. पूण हीच कृषी एमिरेता तसल्या वेगळ्याच एका वातावरणांत, मात्येंत, उदकांत, हव्यांत तुवें करची – सलिसायेचें काम न्हय. हाका जायतीं सवालां तुवें फूड करीजाय पडतात. एमिरेतांत तांदळाची कृषी करतल्यान, मात्ये पोंदा उदक जिरनातल्लेबरी कॉंक्रिटीची वोल हांतुळ्ळली. एमिरेतांत तांदूळ काडतल्यान, भारतांत तांदूळ काडच्याकय चडीत श्रम करीजाय पडता आनी तितलेंय करून तो त्याच मापान आनी त्याच गुणामोलाचो तांदूळ जोडूंक पावता म्हणून सांगूंक पावना.

हीच गत अनुवादाची आनी अनुवादकाराची!

इतलेंय पुरा बरोवंक कारण आयलेवार हांवें अनुवाद केल्लें पुस्तक. कन्नडाच्या के.एस.नरसिंहस्वामीच्या कवितांचें पुस्तक 'तेरेदा बागिलू' – म्हळ्यार 'उगतें दार'.

के.एस.न. 'मैसूरू मल्लिगे'द्वारीं नांव वेल्लो कवी. ताच्या 'तेरेदा बागिलू' पुस्तकाक साहित्य आकादेमी, नवी दिल्लिची प्रशस्ती लाभल्ली. हें पुस्तक कोंकणीक अनुवाद करूंक जाय म्हणून अकादेमीन म्हजेलागीं विचारल्लें.

सुरवेर म्हाका कळचेबरी सगळें पुस्तक हांवें अनुवाद केलें. कळनातल्ले कन्नड सब्द, कन्नडाचीं मुखावरां आसा तशीं सोडलीं. चडीत वेळ खरचूंक गेलों ना. उपरांत अर्थकोश भायर आयले. मनोहर सरदेसायी, स्टीवन क्वाड्रसाचे अर्थकोश आसलेच म्हण्यां, पूण चडीत चाल्लो अर्थकोश म्हळ्यार राजहंस वितरणान पर्गट केल्लो 'कोंकणी सचित्र अष्टांगी अभ्यासकोश'. हें पुस्तक हातांत धरचेंच एक साहस. तितलें दाट आनी वजनाचें. हांतलीं पानां चाळचेंच एक नव्या अनभोगाक कारण जालें. के.एस.न.चें 'तेरेदा बागिलू'

कन्नडाचें पुस्तक  जाल्ल्यान एं. माधव पैचें 'कन्नड-कोंकणी रत्नकोश' चडीत उपेगाक आयलें. चडीत दीस ह्या अर्थकोशां सांगाता आनी इंटरनेटां वयल्या कन्नड-इंग्लीश-कन्नड अर्थकोशांचो सांगात जोडल्या उपरांत म्हज्या अनुवादाची दुसरी करड प्रती तयार जाली.

इतलें आसुनय कन्नडाच्या जायत्या सब्दां-काटाची (हिरिशी), मुखावरांचे अर्थ समजूंक हांव पावलो ना.  के. एस. न. ची पयली कविता 'कुंकूम भूंय' हांतूं 'नीरोडला हाविना होलिगे' (आसा तश्या अनुवादांत - उदकावोंट्येंतली दिवडा शिंवण) म्हळ्ळो सब्दांकाट येता. कशें केल्यारी म्हाका हाचो अर्थ समजलो ना. ह्याच संदर्भार म्हाका कन्नडाचो विमर्शक रहमत तरीकेरेचो उगडास आयलो. ताका फोन करून समजुंचें प्रेतन केलें. ताकाय कळ्ळें ना. जायत्या अर्थां भोंवारीं भोंवाडे काडले तरी कवितेच्या संदर्भांत अर्थ झळकलो ना. निमाणे तरीकेरे म्हणालो: के.एस.न.क आपणाक मात्र सम जुंच्या अर्थांचे सब्दांकाट आपल्या कवितांनी घालची विशेस  संवय आसल्ली. थोडे फावटीं व्हड कवी जाल्यारी, तांणी बरयिल्लें सगळें सारकें आसता म्हणूंक जायना. ताच्या कवितांचेर डॉ. नरहळ्ळी बालसुब्रह्मण्यमान पीएचडी केल्या. ताचें डॉक्टरेट जोडल्लें पुस्ताक 'इहदा परिमळदा हादी' म्हजे लागीं आसा. मंगळूराक येंवचो आसां. तुका दितां म्हणताना खुशी जाली. पूण दूसऱ्या दिसा ताणेंच फोन करून पुस्तक कितलें सोदल्यारी मेळ्ळें ना म्हणताना निराशा जाली. उपरांत स्वपना बूक हौसाच्या जाळिजाग्यांनी  (websites) सोधनां करताना, आख्ख्या कर्नाटकांत मैसूरांत मात्र एक प्रती आसा म्हळ्ळी म्हायेत लाबली. तांचेकडे उपकार मागल्ल्यान, ही प्रती तांणी बेंगळूराक धाडली आनी थंय थावन मंगळूर पावतच म्हाका फोन आयलें आनी हांवें तें पुस्तक विकतें घेतलें.

पुस्तकांत ही कविता दिल्या जाल्यारी खंयसरय ह्या सब्दांकाटाचो अर्थ ना. पूण ह्या पुस्तकांत एक गजाल सांगल्या: के. एस.न.न सब्दांचीं चित्रां रच्च्यांत विशेस प्रतिभा दाकयिल्लें विमर्शकांनी पारकिलां. डी. एल. नरसिंहाचार हांणी हांकां 'सविनुडी चित्तारगळू' (गोडश्या उतरांचीं पिंतुरां) म्हण सांगून प्रशंसा केल्या. तांच्यो जायत्यो कविता असल्या पिंतुरांचे सर. सुरवेच्या कवितांनी असलीं चित्रां सुटीं सुटीं जावन आपणायितल्याक सोभीत दिसतालीं. उपरांतल्या कवितांनी, कवनांचो अर्थ चित्रांद्वारीं वाडोवन वेची रीत के. एस. न. न आपणाची करन घेतली. पूण काव्यवस्तुंसांगाता हीं चित्रां कसलोय संबंध जोडूंक सकनांत म्हळ्ळें दुरसणेंय के. एस.न.चेर आसा.

हें वाचताना तरीकेरेचें चिंतप सारकें दिसलें तरी विवेक शानभागाक फोन केलें. ताणेंय मातें खोरपिलें. ईमेयलां आशार पाशार जालीं. ह्यामधें नरहळ्ळीक दोन फावटीं फोन केलें तरी ताचेथावन कसलीच जाप मेळ्ळी ना.   मागीर विवेकान एच. एस. वेंकटेशमूर्तीक बरयलें. म्हजो ईष्ठ मेल्विन के.एस.न. हांचें 'तेरेदा बागिलू' पुस्तक कोंकणीक अनुवाद करीत आसा. ताका 'कुंकूम भूमी' कवितेंतली 'नीरोडला हाविना होलिगे' वोळ अर्थ जावंक ना. म्हाकाय जावंक ना. तुमकां कळीत आसल्यार दया करून सांगशात?

एचेस्विची जाप आयली. नीरोडला हाविना होलिगे - हें के.एस.न. च्या पसंदेचें रूपक. सूत नातल्ली सुवी निळ्या वस्तुराचेर - अशें एके कवितेंत विमानाची उबणी ताणे वर्णिल्या. त्या अर्थाक समान जाल्लें - हें नीरोडला हाविना होलिगे.

उदकांत आडवें तिडवें उप्येंवच्या येवाळ्याक चिंत्यां. तें उदकावोंट्येंतले शिंवणे भाशेन तुका दिसता. झळकल्लेंच नपयिंच जांवचें हें शिंवणेचें चित्र आपणायितल्याक निरर्थक. थंयसर शिंवणेचो समान धर्म आसा. पूण निजायेंत कसलीय शिंवण ना. घडनातल्ली एक करनी, ह्यो वोळी वर्णितात. सूत नातल्ली सुवी निळ्या वस्तुराचेर - तसलेंच रूपक. विमान म्हळ्यार सुवी. पूण सूत नातल्ली सुवी. सूत नातल्ली सुवी आपल्या धर्मांत आसुनय कसल्याय उपकाराक पडनातल्ली. फळावीण कर्माचें चित्र हें. असलीं चित्रां 'सविनुडी चित्तारा' म्हणून कन्नड विमर्शकांनी पारकिल्यांत. तीं एका संवेदनाच्या थळार मात्र स्विकार करीजाय पडतात. अनुवाद करताना जाल्यारी, तें चित्र तशेंच सांबाळ्ळ्यार पुरो दिसता.

इतलें वाचल्या उपरांत 'उदकावोंट्येंतली दिवडाशिंवण' हांवें तशीच सांबाळ्ळी.

उपरांतय जायतो गुस्पड गोंदोळ आसल्लो. अनंतमूर्तीक बरयलें. कायकिणीक बरयलें. प्रभाकर जोशी सांगाता बसलों. गुरू बाळीगान थोडी जाणवाय दिली. वितोरी कार्कळान, एचेम पेर्नाळान थोडी मजत केली. मधें एक फावटीं संस्कृतीक संबंध जाल्ल्या सब्दांचेर शिरकलों जाल्ल्यान कोंकणी संस्थ्यांत वावुरच्या गोपाल गौडाक फोन केलें. अशें तिसरी करड प्रती तयार जाली.

आतां हो अनुवाद देवनागरींत पर्गट जातलो जाल्ल्यान, आनी चडीत वाचपी गोंयकार आसतले जाल्ल्यान, अनुवादाची बोली बदलुंचो निचेव केलो. ह्या संदर्भार कवयित्री नूतन साखरदांडेन म्हजी मजत केली. एक फावटीं आमी दोगांयनी सांगाता बसून, उपरांत थोडें फोनाचेर वोरांगटल्यान उलोवन, हो वावर सोंपयलो.

चवती प्रती हांवें अकादेमीक धाडून दिल्या आनी पर्गट जावंक वाट पळेते आसा.

असले अनुवाद कोणा खातीर? मेल्विन इतले कष्ठ काडून आपलो वेळ कित्याक विभाडता? आकरेक कोण कितें जोडूंक पावता म्हळ्ळीं सवालां उदेतलीं. एक अनुवादावर्वी आन्येके भाशेची ग्रेस्तकाय कितें, आन्येका समुदायाची संस्कृती कसली म्हळ्ळें समजूंक साध्य जाता. ह्यावर्वी भासो नेणासल्ल्यांक आपली जाणविकाय वाडोवंक सलीस जाता म्हणतलेय आसतले.❑

(उगतें मन - निबंधांच्या पुस्तकांतल्यान)

# दिवेलागण



दिवाळी येता म्हणटकच दोळ्यां फुडें येतात भाणां... कळशे... तांबये... चुन्याचे तिबें लावून गळ्यांत रोजांच्यो आनी काराटांच्यो माळो घालून सजिल्लो. आनी नरकासूर... आनी उपरांत दिवे. दिवाळी म्हळ्यार दिवेच दिवे... दिवाळी याद जाता तेन्ना म्हाका दिव्यांची याद जाता आनी कितल्याश्याच सांजवेळांचीय... फांतोड म्हाका आवडटा... तशीच सांजय. खंयच्याय प्रहरा परस सांजेक चड मान अशें म्हाका भुरगेपणांत दिसतालें. तेय दिवेलागणे खातीर. 'दिवेलागण' ही दिवे लावपाची सुंदरशी वेळ... आयचे सारकी घरची घरकान्न नोकरी वेवसाया निमतान भायर नासताली. तिनसांजेचेर घरांत आसताली आनी सांज जाली तशी दिवे लावपाची ताकतीक आसताली. म्हज्या दोळ्यां फुडें अश्यो भुरगेपणातल्यो सुंदर सांजो आसात. उजवाडाचें अस्तित्व एकाकार जावन काळखांत एकरूप जायत वता.

खंयची तरी अज्ञात शक्ती आपल्या अदृश्य हातांनी काळश्या रंगाची शाल सैमाचेर पांगुरता. सांज म्हळ्यार उजवाड आनी काळखाचो संगम. सांजेचेर दृश्ट आनी अदृश्ट शक्तीचो प्रभाव आसता असो भावार्थ आशिल्ल्यो गांवच्यो बायलो. सांज देवाची आनी देंवचाराचीय समजतालीं. गांवांत आमी देंवचाराच्यो काणयो खूब आयकल्यात. हातांत दांडो आनी विडी बी ओडीत कोणय पिंपळापेडार बी बशिल्लो अनवळखी दिसलो बी जाल्यार म्हाका दिसचें देंवचारच. देंवचाराच्या काणयांतलो देंवचार बी आमकां तेन्ना खरो दिसतालो आनी गांवांतलो सैम तिनसांजेचेर चडच गूढ दिसतालो. अशा वेळार दिवे लावप. तुळशी फुडें दिवो, देवाकुडींत लामणदिवो... फाटल्या दारांत वाटाराच्या सोरपाक दिवो आनी सांतेरीची देवळी आसा ते दिखेक सांतेरीक दिवो... सोमाराक दिवली पेट्टाली कुळदेवाच्या नांवान आनी शुक्राराक लक्ष्मीच्या नांवान...

दिवेलागण म्हळ्यार संस्कारसो... दिवे लागतकच घर म्हाका सामकें सुंदर दिसतालें... चडशें पावसांत. पावसांत लायट वताली ती येयच नाशिल्ली. मागीर सगल्या घरांतच दिवें लावप जातालें. दर कुडीत चिमणी आनी मदल्या सालांत पेट्रोमॅक्स .

भुरगेपणांत जेन्ना वेगवेगळ्या देवाच्या नांवान दिवे लायतालीं

> लायट गेली की घरभर दिवेलागणशी फरपी पडटाली... मंद उजवाडांत कुडी सुंदर दिसताल्यो... सामकी गूढ गुल्लोपपी गांवची रोम... पड्येर बी काळखांत येवन वातताच... तेंय एक निरांजन घेवन निरांजनाच्या ज्योतीचो शांगात... काजुल्यांचें भिरें बी उबत यतालीं... काजुल्यांचें भिरें येवप, आळा बसप... आळच पेटिल्ल्या सारकें दिसप...

▶ सुजाता सिंगबाळ



तेन्ना हांवें कुतुहलान विचारचें 'इतले दिवे कित्याक?' तेन्ना जाप मेळटाली परंपरेन हें चलत आयलां. आयज म्हाका दिसता हे दिवे लावप म्हळ्यार उर्जेची आराधनाय करप आनी हें आयुश्य आमकां मेळ्ळां त्या विशी कृतज्ञ म नान देवा कडेन लीन जावप. तिनसांजचें घरा आसता तेन्ना हांव दिवे लायतांच. काळखाक जिखूंक दिवो शिकयता पूण लायटीच्या उजवाडांत ल्हान दिव्याचो उजवाड शेणटासो. काळोख आनी त्या काळखाक जिखपी दिव्याची थरथरपी ज्योत खूब बरी दिसता. कमी उजवाडांत आमच्यो सावळ्यो सामक्यो व्हडल्यो जाताल्यो. भोंवतणी सगलो काळोख आनी रातकिड्यांची किरकीर बी.

लायट गेली की घरभर दिवेलागणशी करची पडटाली... मंद उजवाडांत कुडी सुंदर दिसताल्यो... सामको गूढ भुलोवपी गांवचो सैम... पडवेर बी काळखांत येवन बसतकच... तेंय एक निरांजन घेवन निरांजनाच्या ज्योतीचो सांगात... काजुल्यांचें भिरें बी उडत येतालें... काजुल्यांचें भिरें येवप, झाडार बसप... झाडच पेटिल्ल्या सारकें दिसप... ''थंय वचून पळोवंक जांय कोणें दिवे लायल्यात ते.'' अशें म्हळें जाल्यार जाप मेळटाली ''भुताचें घर आसा आं... तांणी दिवे लायल्यात''... मागीर खूब उसरां भुताचे दिवे न्हय काजुले (सैमाचे दिवे) हें कळ्ळें. अलौकीक अशें हें दृश्य. काजुल्यांचें दिवे पळोवपाचे. आनीक एक सुंदर दिवो गांवांतलो म्हळ्यार चूड... शेतांतली. लोक पाळणीतल्यान वतना चूड पेटोवन वताले. माडाच्या चुड्टांची ती चूड. व्हरतना ती हालयताले. ती चूड व्हरतात ती पळोवन म्हाकाय तशें करन दिसलें. काळखांत चूड घेवन वचप. चूड बी सांजेचेर करून दवरली आनी पेटोवन झेतान पाळणींतल्यान वयर चडलें... चूड मोट्टी पेटली आनी रोखडीच पालवली. सामको काळोख. तातूंत व्हडलो सोरोप, माळूण, दिवोड, हरयाळी सगल्या जिवाण्यांचीय ती येती वती वाट. काळखांत पांय बी पडल्यार जिवाणें चाबतलें बी असो भंयसो... काळखाचो भंय मनांतल्यान गेल्लो... तशेंच काळखांत आडखळत घरा मेरेन आयलें...

दुसऱ्या दिसा कळ्ळें चूड पेटोवन व्हरप ही कलाशी. चूड चड पेटची बी न्हय म्हणून ती ज्युस्त हालयतात. तशीच ती घट्ट बांदून जावंक जाय. ''चूड दाखोवन म्हारू घरांत हाडप'' ही म्हण कोंकणींत आसा. अशी ही चूड. तीनसांजचे चुडी हातांत घेवन पाळणींतल्यान वचपी शेतकार म्हाका सामके शूर आनी 'टॅलेन्टेंड' दिसूंक लागले.

चवथीच्या दिसांनी व्हडल्या घरांत चवथ जाताली... त्या घरा कडेन वतना पांयवाट... पाळणींतल्यान वतकच व्हाळ लागतालो. तो वर्सभर व्हांवता तसलो व्हाळ... मागीर देंवती बी देंवन बॅट्री दिव्याच्या, पेट्रोमॅक्साच्या बी उजवाडांत आमी रातच्या आरतींक वचप. सगल्या कुडींभर दिवे. गणपती फुडलो नंदादीप आनी वणटी वयल्या लांकडा फळशांचेर पेट्रोमॅक्साचो दिवो... मंद पावस... सामकें पिक्चरांतलेंशें वातावरण... भोंवतणी कुळागर... मदलें व्हडलें घर... हांव तर खूबदां लायट वचुंदी म्हणून मागतालें आनी खूबदां लायट वताली. मागीर पेट्रोमॅक्स, चिमणी... आनी हेर दिवे... आनी गणपतीच्यो आरती... ते सगलें यादींतले दिवे... दिवे... आनी फुलांचो वास मनाक 'रिलेक्स' करता. श्रावण–भाद्रपदांतलें पवित्र वातावरण. उजवातीचो, खाणाचो वास, पाचवोच सैम. वझऱ्याचें व्हांवतें उदक आनी दिवेलागण... अश्यो कितल्योश्योच सांजो... दिवेलागणी यादींत आसात.

गांवांतलें रूख, झाडां, फुलां तशेंच दिवे... खंयच्याय पिंपळापेडार दिवो पेटिल्लो आसतालो... म्हाका मागीर तो पिंपळ गूढसो दिसतालो. पानांनी सळसळत वर्सा–वर्सांची काणी सांगतालो. वडापुनवेक बायलो वडा मुळांत दिव्यार दिवे लायताल्यो. दर एक दिवो ते बायलेच्या घोवा वयल्या प्रेमाचें प्रतीक. सावित्री सत्यवानाची अमरकाणी वडामुळात घडली. सावित्रीक साक्षात मृत्यूदेवान अभय दिलें आनी सत्यवान जिवो जालो. काणये परसय दिवे जे वडा मुळांत बायलो व्हरून लायताल्यो तो दिवो दर एके बायलेक उजवाडाची वाट दाखयता अशें म्हाका दिसतालें. म्हज्या कुळारा आनी हांगाय वडापुनव करपाची पद्दत ना. पूण गांवांतले वडापुनवेचे दिवे म्हज्या यादींनी भिरभिरत येतात. काजुल्याच्या दिव्यांचें भिरेंचशें.

खूबदां काळखांत हांव शांत बसून रावतालें... घरांतले पडवेर... सांगाताक एक निरांजन आनी ताची ज्योत. गांवांत अश्यो कितल्योश्यो सांजो हांवें काडल्यात. गर्दैतय एकांत हांव सोदतालें. कितल्योश्योच सांजो आनी दिवेलागण. सिमलाची आमोरी म्हाका याद आसा. सिमलाक शिंयाच्या दिसांनी साडेपांचाकच आमोरी जाल्ले सारकी दिसता. भोंवतणी चिडाचे रुख. चिडाच्या रूखाचो रंग काळोख पातळटा तसो बदलता – भोंवतणी दोंगर सामके गर्दगूढ दिसतात आनी मागीर रात लागीं येता. सगली 'व्हॅली' दिव्यांनी उजळटा. दोळे दिपकावपी दृश्य. मनाच्या कॅमेऱ्यात ते दिवे कायमचे उरल्यात. आमी राविल्ल्या हॉटेलांतल्यान 'व्हॅलीचो व्ह्यू' मेळटालो. आख्खी व्हॅलीच दिव्यांनी सजिल्ली... थंयच्यान रातचें दिव्यांनी सजिल्लें सिमला पळोवंक मेळटालें. ते दिवाळेक आमी सिम ला आशिल्लीं. थंय नरकासूराची चाल ना, दारांत आकाशदिवो बी लायनात. दिव्यांच्यो लायटीच्यो माळो मात घरार घालतात. आनी दिवाळेक घराभायर वाजप लायतात. आमी दिवाळेक फोवबी खावन देवळांत वतात तशी थंय मिठाय खावन देवळांत वतात. दिवाळे दिसा 'चमचम' नांवाचे मिठायेक मागणी. धव्याफुल्ल रंगाची साकरेच्या पाकांत केल्ली ही 'चमचम' मिठाय. दिसता रसगुल्ला भशेन पूण रुचीक वेगळी. देवळांत देवाचें

दर्शन घेवपाची चाल हांगाय आसा आनी तिनसांजची दिवेलागणय. भोंवतणचें सैमीक सौंदर्य आनी दिव्यांनी सजिल्लें सिमला – पवित्रशी भावना. ते दिवाळेक झाको पर्वता वयल्या हनुमानाचें आमी दर्शन घेतिल्लें. थंयचो सैम उतरांनीय वर्णन करूं नजो असो खूब पवित्र, खूब अप्रूप... पाचवे पाचवे पयसुल्ले दोंगर दिसताले आनी पाचव्या दोंगरा फाटल्यान लिपिल्लीं धवींफुल्ल 'हिम शिखरां'. ती दिवाळी वेगळी... सिमलाचें धुके बरें उसरां धा साडेधांक बी वितळटा... मागीर सुर्याचे किरण नाचतात.

केरळाक आमी गेल्ली तेन्नाय अशीच तिनसांज म्हज्या मनांत जिवंत आसा. नि:शब्दसो वाटार. सैमाक पळोवन मन साम कें मोनें मोनें... आनी शांत. केरळांत आमी मसाज घेतिल्लो त्या सुंदर रुमांतले तिनसांज जाल्ले सारके दिवे. आनी वासाच्यो मेणवाती त्या दिव्यांक पळोवन देह आनी मन आपशींच ेिशर्क्षींशपरींश जाल्लें.

तशेंच केरळांतलें उदक... स्तब्ध मोनेशें. त्या उदकांतल्यान बोटीन आमी केरळ पळयलें... प्रायवेट बोट... केरळांतली पारंपारीक घरां... गांव... थंयची संस्कृती... मिनाचल न्हंय. मिनाचल न्हंय 'गॉड ऑफ स्मॉल थिंग' कादंबरींतलो सैम दोळ्यां फुडें आशिल्लो. ल्हान भुरगीं, बायलो व्हडी ताणीत वतात. न्हंयचे देगे वयल्या घरांचे एक एक व्हडे. गोंयचें सारकें एलिपितले वातावरण. शेतां, केळी, उदक... वाटेंतलो गांव... एलिपी ते कुमारकोम प्रवास आमी केल्लो तोय बोटीन. अस्विमरणीय असो प्रवास आनी सांजय. तीन न्हंयो एकठांय जावन हांगा सरोवर जाता. उदकच उदक. सुर्याचे किरण उदकांत पडून सरोवर चकचकतालें. हरशीं न्हंय वचून दर्याक मेळटा – पूण देवाची करणी कोणाक कळना – सैमाची करणीच जादूशी. तीनय न्हंयो मेळून दर्याशें सरोवर जाल्लें. तो ेिशपलरपव श्रज्ञश मागीर ह्याच सरोवराचो फांटो परत न्हंय जावन व्हांवता आनी दर्याक मेळटा. हांगाचो सैम सामको अजापीत करता. अजबशें सगळें. थंय वाटेर परतताना सांज जाल्ली. वाटेरच 'चावरा भवनाकय' आमी भेट दिल्ली. चावरा हो हांगाचो संत – बोट थारतकच धा मिनटांचे वाटेर तें चावराभवन आसा. खेडे सामकें सुंदर... उदक, बदकां, कमळाचीं फुलां, चावराच्या घरा लागीं चर्चय आसा. केरळांतली चर्च कशी आसा काय? मनांत कुतूहल आशिल्लेंच. हांगाचे चर्चीत वतना जोतीं भायर काडप आमी देवळांत भायर काडटात तशींच. बसपय सकल, गोंयचे चर्ची भशेन बसूक बांकबी नात आनी प्रार्थना करतना दिवली पेटयतात. मेणवाती पेटयनात.

हांगाय आमच्या गोंयचे सारकीं राजांगणाची घरां आसात आनी मर्दी झोपाळो. घरांतलें लांकडाचें नक्षीकाम सुंदर... अप्रतीमशें. इतिहास परंपरा आनी संस्कृती मातशी रीत वेगळी भारताच्या राज्यांत सारक्योच. हांगाचे ख्रिश्चन तिनसांजेचेर दिवली लायतात. म्हज्या दोळ्यां मुखार सायबिणीक घेवन गितां गायत चलतात तीं गांवांतली वळखीची क्रिस्तांव भावभयणां आयलीं... मागीर आलतारार मेणवात दवरून प्रार्थना करपी. गांवात तिनसांच जाली की तांचीय दिवेलागण आसताली. ''तुमी निरांजन लायतात आमी मेणवात'' अशें तांणी सांगचें. आनी दिल्लीच्यान आमी एकदां जयपूर गेल्लीं. सांज जाल्ली बऱ्यो कचोऱ्योबी खावन परतीं येतालीं. दिल्ली-जयपूर रस्त्यार टायर पंक्चर जाल्लो म्हण आमी रावलीं... वाटेर बरें घर आशिल्लें.. घरांतली बायल तुळशी वृंदावना फुडें दिवो लायताली. तिनसांजचो दिवो लावपाची रीत सगल्या भारतांत आसा. आनीक एकदां दिवाळेच्या दिसांनी आमी शिवपुरी (मध्यप्रदेश) आशिल्लीं. लग्नाक म्हण गेल्लीं. सांज जाली की घरची बायल 'दियाबानी' करतात. दिवाळी म्हळ्यार दिव्यांची आराधना... उजवाडाची वाट सोदप आनी दिवो म्हळ्यार चैतन्य... सकारात्मक उर्जा – आयज 'दिवेलागण' ना जाल्या कितल्याश्याच घरांतल्यान. म्हज्या दोळ्यां फुडें मात सुंदर सैम... काळखात शेणिल्लो गांव आनी दिवे लावपाचो वेळ येता.

गंगेच्या तिरार हांवें अनुभवल्या ती दिवेलागण आनी सांज. म्हज्या जिवनातली सगल्यांत सुंदर पवित्र सांज. ऋषीकेश, हरिव्दारबी गंगारती जातात सांजेच्यो गंगेच्या तिरार. गंगा ह्या शारांचो प्राण आनी गंगारती म्हळ्यार सगल्यांनी गंगेची केल्ली प्रार्थना... पुजा... ऋषीकेश हांवें गंगारती पळयल्या... सूर्य अस्तमता ताचे पयलींच गंगाआरती जाता. हातांत पंचारती, वा दिवले सारक्यो व्हडल्यो आरती घेवन ''ओम जय गंगामाता...'' म्हणीत गंगेची आरती भावीक करतात. थंय गंगेक देवा परस चड मान... गंगेच्यो आरती सुरू जाल्यो... हांव म्हाकाच विसरलें. आरतींचे शब्द. मृंदगाचो, वाद्यांचो आवाज आनी भाविकांनी गंगेंत अर्पण केल्ले दिवे आनी फुलां... गंगा काळखांत शेणटा.. .भोंवतणचे दोंगर काळखांत शेणटात... गंगेच्या पात्रांत व्हांवत वचपी दिवे दिश्टी पडटात. मन वेगळेच तंद्रेंत वता. गंगेच्या तिरार तिनसांजचें बसलें तेन्ना एक वेगळीच दिवेलागण हांवें पळयली. सामकी 'अव्दितीय'. मनांत उतरांच नाशिल्लीं. मन सामकें मोने मोने जालें. गंगा व्हांवताली... आनी दोण्यांतले दिवे... फुलां...

गंगेची शितळकाय पांगरून म्हज्या स्वासाचो आवाज आयकत हांव बशिल्लें. गंगेच्या उदकांत उफाट शक्ती आसता मनाक उजवाडाचे दिकेन व्हरपाची... ती दिवेलागण इतली सुंदर... तिनसांज सोंपून रात जाली... गंगेच्या तिरार म्हजी भावस्थिती वेगळी जाल्ली. म्हज्या 'मनरंगी' कविता संग्रहांतल्यो ह्यो ओळी,

उदकांत दिवेच दिवे.
म्हज्या काळजांत
पडबिंब दिव्यांचें?
काय काळीज उजवाडलां?
गंगेच्या पात्रांतलें
दिव्यांचें बिम्ब
म्हज्या मनांत

हांवें गंगेच्या तिरार बरयिल्ल्यो. जिणेंतली म्हजे सगल्यांत सुंदर दिवेलागण.

भोंवतणी काळोख... गंगेच्या पात्रांतले दिवेय पयस गेल्ले. म्हज्या मनांत, काळजांत उजवाडाचे किरण पातळटाले...❑

# वाट पळयतना...!

**पंदरा–वीस दिसां भितर जमनीचे पेपर तयार जाले. प्रभावतीन मोर्तूच्या आदारान सगलें जाणून घेवन पेपरांचेर सय केली. घरा येतकच मोर्तून लताक वेंगेंत घेवन खूश खबरी आयकयली. ''आगो म्हजे मोगाचे राणये... एक पडंग दोंगुल्ली तितली वतली खरी. पूण प्रभावती आनी रामबाबाली बाकी सगली मिरास आमचीच. पळय तूं... पांयांनी फ्राक आसत हांव बुद्दीन न्हय. म्हजें तत्व एकच. 'म्हजें तें म्हजेंय आनी तुजे, तांचे, हांचे तेंवूय म्हजेंच.'' खुंशाल लतान मोर्तूक मागीर आनीकय खोशी केलो.**

▶ आशा शानभाग
संपर्क: ९४०४१४५३३७

''आयज सावन हांव तुमच्या पानांर दाय घालचें नां. तुमची वाट तुमी धरात.'' रातचीं जेवणाच्या मेजार सगलीं जमिल्लीं आसतना मांय घरचे सुनेचेर... एकलुक्या पुताचे बायलेचेर फोग काडटाली. घरचो नांवा पुरतो धनी तोडांत फोव घालून आपले घरकान्नीचो सांवार पळयतालो. मुखदुर्बळ... सादो तो मनीस ना पुता–सुनेची कड घेवंक शकतालो ना आपले बायलेक शुत् करपाक शकतालो. कर्कशे मांय प्रभावतीन आपलें तोंड सामकें सदळ सोडिल्लें... काल पयर मेरेन तिचो... फकत तिचोच पूत आशिल्लो परेश... लग्ना उपरांत फकत तिचे सुनेचो... सायलीचो घोवच उरिल्लो. धडाधड पुता–सुनेचीं ताटां उमर्थी घालून तिणें आपलें आनी आपल्या घरकाराचें ताट वाडून घेतलें. ''आई.. वाडी ना जाल्यार वाडूं नाका आमकां पूण तोंड तरी बंद दवर गे... प्लीज. रातचो वेळ. वाडोभर आयकलो गे बोवाळ.'' परेशान गळ्यांत जीव हाडून आवयची विनवण केली. ''सुण्यांनो... म्हज्या घरांत, म्हाका ओगी रावंक सांगता तूं?...'' बायलेचो शिगमो आयकुवपी... पळोवपी रामबाब शितागोटे मुड्डीत राविल्लो. आंकवारपणांत आवयच्या पदराक धरून फिरपी हो बाबू आवय सोपले उपरांत बायलेच्या पदरान आवय सोदत कायचो गुलाम जालो.

कानपोकळ्या आपले आवयचे कान भरपी लता–मोर्तू हें जोडपें येन्नां मेरेन सालाच्या जनेलां कांन लावन रावलां आसतलें, हें परेशाक कळटालें. ताची घरकान्न... स–सात म्हयन्यां पयलींच ह्या घरची सून जाल्लें सायली तोंड धांपून दुकां गळयतालें. ''चल सायली... आमी न्हिदुया आतां.''

''आरे परेश.. .बाबा...'' रामबाबान मातसो आवाज काडलो. ''तुका गिळपाचें आसा... काय वतात पुताचे फाटल्यान? प्रभावतीन धेंगसो घाले बराबर रामबाबान हुंदकुट्या वांगडा शिता उंडयो गिळपाक सुरवात केली. ''भकभक करून गिळूं नाका.

उस्तुरें गेल्यार म्हाका कटकट.'' बायलेच्या ह्या उतराचेर मान सकयल घालून रामबाब जेवपाक लागलो.

''सायली... म्हाका लागून तुका हे त्रास गो.'' ''ना रे परेश... म्हाकाच लागून तुका त्रास...'' सायली परेशाक वेंग मारून रडपाक लागलें. ''सायली तू भियेवं नाका हांव आसां तुज्या वांगडा...'' ''परेश... तूं सकाळीं वता तो बद्द तिनसांजेर येता. दिसभर म्हजो जीव वता रे.''. ''सायली... केन्ना सावन चल्लां तर हें?'' ''हय रे... लग्ना उपरांतचे नवलायेचे दीस सोंपले आनी हें सुरू...'' ''एकटेंच सोसत रावलें तूं? म्हाका सांगपच ना गो? हांव परकीच मुगो तुका?'' ''ना रे परेश... हांगा तूं म्हजो एकटोच.''

''मागीर? सांगूंक ना कित्याक?''

''आवय-पुतामदीं फूट पडची न्हय ह्या एकाच कारणान सांगूंक ना रे तुका. पूण काल तुज्या सांमकारच घडलें सगलें.''

''मोगा म्हज्या... जिवा-काळजांतल्यान मोग करून... तुका सुखी-समाधानी दवरपाचें उतर तुज्या आवय-बापायक दिवन तुका मागिल्लें हांवें. एकटेंच घुस्मटत... सोंसत रावलें तूं?''

''परेश कितेंय तरी सोल्युशन काडपाक जाय आतां. म्हज्यांनी नजो आतां सोंसूंक.''

''ए... मामाक किंवा मावशेक सांगुंया रे? ती विचारपाक शकतात गो आईक.''

''नाका रे... घरच्यो कटकटी घरांतच सुटाव्यो जावंक जाय. आपल्या रक्ताच्या पुताक... सून मारली झक... जेवण घाली ना ती आपल्या भावा-भयणीचें आयकतली? परेश... हीं सगलीं कर्मा मरे त्या मोर्तू आनी लताचीं.''

''फाल्यां दोन फुलयतां त्या ×××च्या लंगड्या मोर्तूचेर.'' परेश सामको चाळवलो.

''शी... परेश शिकिल्लो सवरिल्लो मनीस तूं... गाळी कितें घालता? आपलो मनीस घर आनी आपल्या मताचेर ठाम रावपी आसल्यार दुसऱ्यांक उलोवप. हांगा तूं जाणांच...'' दोगांय उलयत-उलयत रिकाम्या पोटान न्हिदलीं.

दुसऱ्या दिसा... परेश कामांक वचनासतना घरा रावलो. पूण ताजे आवयन सायलीक सोडाच... परेशाक लेगीन च्याचो घोंट दिलो ना. नित्यनेमान मोर्तू-लताची सकाळची फेरी त्या दिसाय येवपाची. पूण परेशाची सुलूस लागिल्ल्यान ती परतून गेली. परेश तर मोर्तू सांपडल्यार ताका पुराय आनी कायमचो सातको करपाचो थारावन तयारेन राविल्लो. ''आई... म्हाका दिसता तुका आमची दोगांयचीय आडखळ जाता. तुका आमचे पसत त्रास जावचो न्हय म्हणून हांवच घर सोडून वतां.'' ''वच मरे... खंय वता तो वच.'' ''आई... म्हज्या आज्याच्या ह्या घराचेर म्हाकाय अधिकार आसा. ह्याच घरांत वेगळेचार करूं येता. पूण दीस-रातीच्या बोबांनी वाड्याची मज्जा जाता. आमची न्हंय पलतडची दोंगुल्ली म्हज्या नांवार करून दी.'' ''हांव दिवं? आदवोगादाची फी. पेपर सगलें कर. आशीनातूर करपाक आमी येतात मागीर.'' रामबाब ह्या वेळार कपल धरून बशिल्लो. ''आई... आतां आमी थोडेच दीस हांगा रावतलीं. हाचे फुडें घरांत आवाज जावंक जायना. फकत स म्हयन्यां भितर हांव घर सोडटलों. सायलीन कितेंय तुजी कागाळ सांगल्यार दोंगुल्लेर घर बांदिनासतना हांगा... ह्याच घरांत मर्दी वणत काडटलों. हें घर याद धर. आनी तुज्या त्या मोर्तू आनी लताकय याद धरपाक सांग. आतां आसतलींच तीं वणटीक कान लावन.'' परेश आनी सायलीन हांगा थंय फिरून संवसाराक जाय तें सामान, आयदनां कड्डण बी पैदासलें. आनी त्याच पुर्वजांच्या घरांत दोन रान्नी जाल्यो. हातूंत बाबड्या रामबाबाचो सँडवीच जालो.

पंदरा-वीस दिसां भितर जमनीचे पेपर तयार जाले. प्रभावतीन मोर्तूच्या आदारान सगलें जाणून घेवन पेपरांचेर सय केली. घरा येतकच मोर्तून लताक वेंगेंत घेवन खूश खबरी आयकयली. ''आगो म्हजे मोगाचे राणये... एक पडंग दोंगुल्ली तितली वतली खरी. पूण प्रभावती आनी रामबाबाली बाकी सगली मिरास आमचीच. पळय तूं... पांयांनी फ्राक आसत हांव बुद्दीन न्हय. म्हजें तत्व एकच. 'म्हजें तें म्हजेंच आनी तुजे, तांचे, हांचे तेंवूय म्हजेंच.'' खुशाल लतान मोर्तूक मागीर आनीकय खोशी केलो.

पयशां-पयशांचो हिशेब करून सायली-परेशान आपलो नळे आनी वांशे-कांबींचो ल्हानसो घोंटेर तयार करपाचें थारायले. जमीन मापतना गंवड्यान कडेक आशिल्लो आंब्याचो आनी पणसाचो... दोनूय व्हडले रूख मारचे पडटले म्हळ्ळें मात. सायली उसळ्ळेंच. ''ना. हीं दोनूय झाडां अश्शींच दवरून घर जावंक जाय. एकूय खांदो लेगीत कापपाक जावचें ना. एक फुडले वटेन तर दुसरें फाटले वटेन. आनी तांचे सावळेंत आमचें घर.'' ''बाय... तीं जाणटी झाडां. केन्नाय तरी पडटलींच. घरार पडल्यार?'' ''ना... मामा... तीं पडची नात. आमच्या घरांत हाचे फुडे जाणटी कोणच नासतलीं आमचेर मायेची सावळी धरपाक. हे दोगूच... हो आंबो आनी तो फाटलो पणस आमचे जाणटेले.'' सायलीन जमीन मापचे आदीं पांचव्याचार त्या रुखांक नमस्कार केलो.

हळूहळू तांचो घोंटेर उबो जालो. फुडले वटेन आंब्यान आपली चंवर धरली. जाल्यार फाटली बाजू पणसाच्या थंडगार सावळेन भरली. घरपुरुसाच्या दिसा पुरायेन कसले-कसले विधी करतालो. दरवट्याची पुजा, कडधान्याचे दबे, देवालो फोटू. सगली तयारी जाली. घरा भोंवतणी आंगणांतल्या आंब्याचीच पानां घेवन तोरण लायिल्लें. सायलीन एका ताटांत पिंजर, हळद, दोन फुलां, साकर आनी उदकाचो तांबयो दवरलो. ते निट्ट आंगणांतल्या आंब्यांक आनी फाटले वटेच्या पणसाक पिंजर, हळद लावन, फुलां घालून, साकरेची चिमटी तांच्या खोडार दवरून, मुळांर उदक ओतोवन आंगणांत आयलें. ''म्हालगड्यांनो... आमी तुमचे सावळे पोंदच्या घरांत आयच्यान रावंक येतात. तुमचो आदार आमकां मेळटलोच.. मेळचोच



हे आमचे जाणटेले म्हणून तुमकांच नमस्कार करून तुमचे कडेन मागतां.'' भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणे हात जोडले. सायली-परेशाचो घरपुरूस जावचे पयलींच रामबाबय देवागेर गेलो. आनी प्रभावती मात लता-मोर्तूच्या नांवान आडकून लंकेची पार्वती जावन पडिल्ली.

दुसऱ्या वर्सा मेरेन परेश सायलीचे होटींत एके नखेत्रा सारके धुवेचें वरदान सैमान दिलें. परेश तर पयली बेटी धनाची पेटी... म्हणून खुशाल जालो. तीन साडे तीन म्हयन्यांनी सायली वेंगेंत आपले धुवेक... रियाक घेवन कुळारा सांवन आयलें. घरांन भितर सरचे पयलीं तें रियाक घेवन आंगणा कडेच्या आंब्यापोंदा गेलें. रियाचो ल्हान गुलाबी तळवो आंब्याक लावन ताणे आंब्याच्या पांचव्याचार पानां कडेन नदर केली. ''आंब्या... आमच्या घरच्या म्हालगड्या आमची धूव... आनी तुजी नात तुका नमस्कार करता रे.'' फाटले वटेच्या पणसा कडेनय वचून ताणे आपले धुवे खातीर दिर्घायुश्याचो आशिर्वाद मागलो.

आनी मागीरच तें धुवे सयत घरांन आयलें.

फुडल्या चार वर्सां भितर तांचो पूत... ध्रुव जल्मलो. आनी ती फामील चौकोनी जाली. रियाक भाव आयलो. आनी दोनूय म्हालगड्या आज्यांक नातू. बारशा दिसा सकाळींच सायली आपल्या पुताक घेवन आंब्या-पणसाक भेटोवंक गेलें. ''आज्यांनो हो ध्रुव... तुमचो नातू. हाकाय तुमचेवरी भलायकी संपन्न दिर्घायुश्याचो आशिर्वाद दियात. एक गजाल सांगतां तुमकां... फुडल्या भविश्यांत... जेन्ना ध्रुव व्हडलो जातलो... लग्न जातलो तेन्ना उंबऱ्या वयलें माप उलांडचे पयली ताची बायल... म्हणल्यार तुमची नातसून तुमचो आशिर्वाद घेतली. हें तुमकां म्हजें उतर.'' ''जालें गो सायली? आज्यांचो आशिर्वाद घेतलो गो? हांवय येतां पांयां पडपाक? परेशय रियाक घेवन आयलो. आंब्या-पणसान आपलीं पानां हालोवन धादोस जायत आशिर्वाद दिले.

आयज... त्याच जाग्यार... अदरवायज त्याच घराच्या जाग्यार सायली-परेशाचें व्हडलें तेर्रासाचें घर उबें आसा. घरा मुखावयलो आंबो आनी फाटले वटेचो पणस आनीकय पांचवेचार जाल्यात. धादोस अशे एके तिनसांजेर तुळशीमुखार दिवो दवरूंक आयिल्ले सायलीन सहज परेशाक म्हळें... ''आरे परेश पळय रे... आमचे म्हालगडे... हो आंबो आनी येऽऽतो पणस दीस वता तशे नेणटेच जातात पळय.'' ''बाय गो... मोगा म्हज्या... म्हज्या भुरग्याचे जन्मदाते तुवें तांकां दोगांयकय नातसुनेचें हांयस दाखयलां मुगो? ते वाट पळयतात... नातसून केन्ना येतली हें चिंतत आसात दोगूय. मागीर तांकां नेणटेपण आपणांवचेंच पडटलें न्हय गो?''

समाधानान परेशाचे वेंगेन रिगपी सायलीक पळोवन आंबो-पणस आपले खांदे हालयतात... जणू काय म्हणटात.... 'ओय... जाण्ट्यां सामकार वेंगो मारपाक लज दिसना तुमकां?'' तांचें सुख-समाधान पळोवन वाट पळोवपी ते म्हारूख आपली अगडबंब कूड वाऱ्यां वांगडा धोलयतात... लारा लारा लारा लारा....❑

# पुलीसवाला

**हांवें पदर गळ्याभोंवतणी आनीकय घट्ट गुटलायलो. आनी ताचेर तापलें - ''मैं किसीको पहचानती नही. तुम पुलीस में है? कौनसे स्टेशनमे? मेरे लडकेको बुलाती... हांवें मोबायल नंबर दामून कानाक लायलो... आनी जादू जाल्लाभशेन दोगयजाण लागींच पार्क केल्ल्या स्कुटरीकडेन धांवले... स्कुटर स्टार्ट करून नाच्च जालें...**

▸ सुधा खरंगटे
०८३२-२७५०५७३

सदचे भशेन सांजचीं स वरां जातकच पासय मारपाक भायर सरलें. ही पासय मारली ना जाल्यार दोनय पांयांक राग येता आनी रातचो तो राग म्हजेर काडतात ते! मागीर प्रणाली - म्हजी सून -खंयचो स्प्रे हाडून धोंपरार मारू... खंयचें वालिनी काय कितें हाडून चोळ अशें करून तांचो खूब थातोम तो करता...

''चल्ली गे वॉकाक?'' शेजान्नीन विचारलें-

''हय. पासय मारना जाल्यार म्हज्या पांयांक राग येता... तांचेंय म्हणून जाण्टेपण जालां न्ही?'' आमी दोगांय हांसूंक लागलीं.

''कोणागे जाण्टेपोण जाला म्हुण्टा गे?'' नातवाक घेवन गार्डनात गेल्ली आण्टी येताली, तिणें विचारलें.

''कोणाचें न्हीं गे... म्हज्या पांयांचें! ते म्हणतात म्हजेबरोबर तेय बी जाण्टे जाल्यात. तांकां मातशें भोंवडावन हाडतां...''

त्या दोगांकय खबरी मारपाक सोडून हांव गेटीभायर पावले. बाहेर भम्पू मेळ्ळो. भम्पू आमच्या बिल्डिंगेचो तीन पायांचो सुणो... एक पांय मोडको लोंबता... तसोच जगार भोंवता... ताणे धांवत येवन आपलें नाक म्हज्या हाताक तेकयलेंच!

''... बुरसो खंयचो!... नाक कितें लायता हाताक? कांय हाडूंक ना खावंक तुका! ...चल, पासयेक यो म्हजेबरोबर...''

''व्यॉऽव...'' असो कितेंसो वाजेल्लेभशेन आवाज काडून तो म्हजेबरोबर चलपाक लागलो. अर्दे वाटेर पावपाक ताका दोन व्हडलेशे सुणे दिसले. केस्तांवां करपाचो मूड नाशिल्ल्या ताणे 'भुकू' असो आवाज काडलो आनी फाटलेपांयानी पळ काडलो.

आज बरी व्हड पासय घेवपाचें येवजिले. सरळ रस्तो क्रॉस करून सुनीताच्या घरावटच्यान चलूंक लागलें... पूण ह्या वाटेन येवन चूकच केली शी दिसलें. आतां चार - चार पावलांचेर थांबचें पडलें. ''... कशी आसा गे?... ह्या दिसांनी दिसलीच ना तूं.'' पाय कशे आसात...? ...वाटेवेल्या चाळींतली दरेक घरांतली बायल सांजची चडशी दाराभायर वाऱ्याक उबी आसताच! कोण नातरांक खेळयता... कोण भुरगीं रिंग खेळतात तें पळयता... कोण दोगां एक जावन खबरी करतात... सगल्यांच्या प्रस्नांक जाप दीत हांव ल्हव-ल्हव चलतां... तांचीय खबर घेतां. ...सगल्यांचीं हांसतीं तोणां पळोवन मन खोशी जाता... जिवाक प्रसन्नशें दिसता.

अजून तीळसांज जाली ना पूण ह्या दिसांनी सात जावचे पयलींच काळोख जाता. सडसडीत पावलां उबारलीं. रस्तो क्रॉस करपाक मातशें थारलें. बसी, गाडयो ह्या वेळार थार नासतना रस्त्यावेल्यान वतात... कोण एकलो रस्तो क्रॉस करतालो ताचे फाटोफाट चलत रावलें. आनी घरच्या वाटेक लागलें. पाच मिनटांत आतां घरा पावतलें...

''माँजीऽ... माँजी...ऽऽ''

फाटल्यान कोणतरी कोणाक व्हडल्यान उलो मारता दिसता... हांव चलत रावलें.

इतल्यान एक बरो उंच सो धडधाकट तरणाटो म्हाका आडवो आयलो.

''माँजी... पाँव लागूं माँजी'' म्हणत म्हज्या पायांक हात लावंक लागलो.

''आरे... पयसुल्यान... पयसुल्यान उलय.. कितें जालां तुजें?'' हांवें आकांतून विचारलें.

''हमारे साब कबसे आपको पुकार रहे है, सुना नही आपनें? चलो, जल्दी चलों...'' ताणे ताकतिकेन आपल्या सायबावटेन बोट दाखयलें.

रस्त्याच्या दावेवटेन सामको कुशीकसो एक धवेच कपडे घाल्लो बरो पेजादीक मनीस... मोबायल कानाक लावन उबो आसलो.

''चलो माँजी, साब बुलाते है...''

''आरे, तुम्हारा साब मुझे क्यों बुलायेंगा? वो उलयता पळय मोबायलार!

तुजो कितें तरी गोंदळ जाला. हांव वळखना तुज्या सायबाक.... पहचानती नहीं मै...'' हांव चलूंक लागलें.

''माँजी, तुम्हारे कामकी ही बात है. जल्दी चलों...'' म्हाका परतो आडवो येत ताणे म्हळें.

आतां म्हज्या 'काम की बात' जाल्यार पळोवचें पडलें ना? हांव घुसपलें.. कोण काय? कसलें काम म्हजें??

हांव थारलें म्हणून तो सांगूक लागलो – ''चलो माँजी, साब पुलीसवाले है...''

जाण्टेपणान ट्यूबलायट मातशी वेळानच पेटता. पूण 'पुलीस' हें उतर आयकतकच आज सट्ट करून पेटली. पेपरांनी वाचिल्ल्यो, कानांनी आयकल्ल्यो सगल्यो खबरी दोळ्यांसामकार नाचूंक लागल्यो –आपूण पुलीस म्हणून सांगून कुशीक व्हरून कितल्या जाणट्या बायलांचें भांगर काडून व्हेलें... कोणालें मंगळसूत्र तोडून काडून तिका धुकलून खळयेंत वडयली...

....काळजांत कलकलता काय कितें...??

...मातसो घाम सो सुटलो आंगाक?

सद्दा उठून प्रणाली सांगतालें तें याद जालें. – आई, तो गळ्यांतलो छेडो आनी कांकणां काडून दवर हातांतलीं – मागीरच तुज्या पासयेक वच... घड्याळ घाल्यार पुरो... तीळसांज करून घरा परतता तूं...! कितें कितें घडटा हालीं मडगावांत, आयकूंक ना? तुज्या गळ्यांतलें ओडून काडून तुका सकल वडयल्यार?

''आगो, हांव कितें पदरावयल्यान घालतां भांगर? भितर घालतां. वयल्यान पदर आनी गुटलायतां... म्हाका कोण कांय करना...''

– त्या खिणाभीतर कितें कितें येवजलें.

– पांय मातशे थरथरपाकशे लागलें...

पांयांक सांगलें – थरथरनाकात... मातशे घट्ट आसा थंयच थारात... कुशीक वचपच ना. ताणींय आयकलें... थंयच रावले...

आतां कितें करूं? मागीर आयडिया केली... म्हळें – ''आरे, तुम्हारा साब पुलीस में है? नया नया आया क्या मडगांवमें? अच्छा हुआ... मेरा लडका भी पुलीस में है... तुम्हारे साबको इधर बुलाओ मै फोन करके लडकेको बुलाती... तुम्हारे साबकी पहच्यान करवाती...'' हांवें मोबायल काडलो...

तो गोंदळ्ळो... तरीकय म्हणता – ''उधर चलो माँजी... साब के पास...''

पयसुल्ल्यान नाकम्मा आपल्या चलयेक हात धरून येता ती दिसली... त्याबरोबर मातशे मोठ्यानच उलयलें... ''आरे, बुलावो तुम्हारे साबको, इधर बुलाओ...''

फाटल्यावटेन एक सायकलवालो येता तो दिसलो. बोवाळ आयकून तो साबच म्हऱ्यांत पावलों... ''सॉरी आँटी, ...एक अॅड्रेस चाहिये था...''

''किसका अॅड्रेस??''

''यह देखो, प्रदीप जोशी नामका आदमी... यहीं कहीं रहता है... आप पहचानती है!'' तो एक कागदाचो चिटारो म्हज्या हातांत दिवपाक सामकोच लागीं येवंक लागलो.

हांवें पदर गळ्याभोंवतणी आनीकय घट्ट गुटलायलो. आनी ताचेर तापलें – ''मैं किसीको पहचानती नही. तुम पुलीस में है? कौनसे स्टेशनमे? मेरे लडकेको बुलाती... हांवें मोबायल नंबर दामून कानाक लायलो... आनी जादू जाल्लाभशेन दोगयजाण लागींच पार्क केल्ल्या स्कुटरीकडेन धांवले... स्कुटर स्टार्ट करून नाच्च जालें...

सायकलवालो थारलो... ''कितें जालें गे? कोण ते धांवले?'' ताणे विचारलें.

''कोण जाणा? चोरच जातलें'' हांवें म्हळें.

नागम्मा लागीं पावली. ''कोण गे तो माई! तुज्या पांयांसो पडतालो? तुमचो सोयरो?''

''सोयरो खंयचो? जाणट्या बायलांक आपूण पुलीस म्हणून सांगून कुशीक व्हरून तांचे भांगर चोरतात तें आयकलें ना तुवें... आज म्हाका धरिल्लें ताणी..

''आगे बायेऽ... माई, तुका कांय करूंक ना न्ही?''

''हांव रस्त्यावेलें हाललेंच ना गे. कुशीक गेल्यार कितेंय करत आसलें... पूण सगल्यांक सांग हां! एरियेंत चोर आयल्यात म्हणून...'' हांवें सांगलें.

घरा पावतकच प्रणालीक सांगलें – तें सगलेंच नर्व्हस... ''तरी तुका सांगिल्लें हांवें'', म्हणूंक लागलें

ह्या खबरीक चोवीस वरां जावचींच आसात. वयल्या मजल्यावयली मिस्टर आनी मिसेस दोशी. ...बेल वाजली म्हणून दार उगडलें – ''हमको क्यो नहीं बताया... कलकी बात?'' हांवें आपल्याचेर व्हडलो अन्याय केल्ल्याभशेन म्हाका पळयताली.

''कितें जालें?'' हांव काचाबूल.

आयकत जाल्यार ती सकाळची भाजी हाडपाक गेल्ली खंय... दोन पदरी येदो व्हडलो रस्तो. ती वतां वतां एकलो आयलो तोच 'पाँव लागूं माँजी – हमारे साब आपको बुला रहे हैं'' म्हळें. तिणें पयसुल्ल्यान नदर मारली. आनी ''होगा कोई हमारा पहचानवाला'' अशें म्हणत ती बायल दोनय रस्ते वलांडून त्या मनशा फाटोफाट ताच्या 'सायबाक' मेळूंक गेली. थंय त्या सायबान आपूण पुलीस, अशीं भांगरां घालून भोंवक जायना... आतांच त्या दुसऱ्या रस्त्यार एका बायलेक चाकू मारून तिचें भांगर घेवन चोर पळ्ळो... हांव स्पेशल ड्युटीर... बायलांक सावध करूंक...

– आनी मिसेस दोशीक ताणे सांगिल्ल्याप्रमाण चारय कांकणा, गळ्याची सरपळी काडून लेंसाक गुटलावंक लागली. त्या पोलिसान व्यवस्थित गुटलावन पोटली तिच्या हातांत दिली आनी तो गेलो.

'चाकू मारलो' बी आयकून भिल्ली ती बायल तशीच घरा परतली. घोवान भांगराची पोटली सोडून पळयल्यार तातूंत फातर...!!

''काल सांजचे पासयेक गेल्लेकडेन माईक तो पोलीस मेळिल्लो'' अशें नागम्मान तिका सांगलें मात –

आपल्याक घरा येवन हांवें सावध केलें ना म्हूण म्हाका जाब विचारपाक मिस्टर आनी मिसेस दोशी म्हज्या दारांत...!!❑



# हुंवार

*घोवाल्या घरा एकच सूख ताका आशिल्लें तें म्हळ्यार ताची मांय- शांबाची आवय! ती सुकांतीचेर मना सावन माया करताली. आपलो पूत राक्षस आनी सून गरीब गाय हें पळोवन ती भितरले भितर रडटाली. कित्याक त्या पोराग आपणें त्रासांत घालें ह्या विचारान वायट दिसून ती सुकांतीचेर अदीक माया करताली. खोंपीं भायर तिणे तवशीं, घोसाळीं, पडोळीं, दुदी, भेंडे, तांबडीभाजी अशी तरेकवार भाजी रोयिल्ली. ती विकून आयिल्ल्या पयशांनी दुवाळे लागिल्ले सुनेक ती खावंक घालताली.*

▸ ॲड. वर्षा बाळे
९७६४६८२६०८

सूर्य माथ्यार आयिल्लो. वताचो रखरख सामको वाडिल्लो. तापिल्ल्या रस्त्या वयल्यान वाफो भायर सरताल्यो. सुकांती त्या रस्त्या वयल्यान लागीं लागीं धांवतालेंच. पावसान भिजिल्लेवरी घामान तें सामकें चिप्प भिजिल्लें. ताचो ताळो इतलो सुकिल्लो की उदकाचो एक घोंट पियेवपाक तें आशेल्लें. मदींच दिसपी एकाद्या झाडाचे सावळेंत दोन मिनटां उबें रावचें अशें ताका दिसतालें. पूण इल्लोय वेळ वगडावपाची इत्सा नाशिल्ल्यान आनी जाता तितले बेगीन घरा पावपाचें आशिल्ल्यान तें बेगोबेग चलतालें. वताची, तानेची पर्वा करिनासतना! घाम पुसपाचेंय भान ताका नाशिल्लें.

सुकांतीक भुरग्यांची याद जाली. दोन वरां तरी जावन गेलीं आसतलीं. बाबडीं सामकीं भुकेतलीं. आई म्हणून तरी तांकां कितें खावंक दितलीं? ताणे आपले कडली पिशवी सांसपिली. भुरग्यां खातीर ताणे मडगांवच्या प्रासा वयल्या गाड्यार बटाटवडे घेतिल्ले.

मडगांवां वचपाक तें सकाळीं सातांक भायर सरिल्लें. फकत फुटे च्याचो घोंट घेवन तें चलूंक लागिल्लें. बस थांब्यार येवन बस मेळून मडगांवह पावतासर ताका णव जालीं.

मडगावचें एके व्हडल्या राजमहाला भशेन दिसपी कलेक्टर ऑफिस पळोवनच तें आबूज जालें. हांगा थंय फिरपी ओर्दाद लोक, सोबीत कपडे घाल्ल्यो चलयो, बायलो पळोवन ताका आपले पोरणे, रंग उडिल्लो साडयेची लज दिसली. ताच्या मतान तातुंतले तातूंत तें बरी साडी न्हेशिल्लें. पूण ह्या लोकांक पळयतकच तें सामकेंच खजील जालें. ताणें बेगीबेगीन साडी सारकी केली. ओगीच केंसा वयल्यान हात भोंवडायलो. साडयेच्या पदरान तोंड पुसलें.

कोणाचे तरी मजतीन तें ताका आफयिल्ल्या मनशा म्हऱ्यांत पावलें. थंय इतली गर्दी आशिल्ली की ती पळोवन तें आनीक निर्शे ल्लें. ते गर्देत भितर रिगपाचेंय ताका सुचलें ना. तें फाटीं फाटीं पडत रावलें. ताचो नंबर येतासर ऑफीस बंद जावपाचें जालें. पूण ताचें रडकुरे तोंड पळोवन त्या मनशान ताचें काम केल्लें आनी ताच्या तोंडार हांसो पातळ्ळो.

सुकांतीक आपली खोंप दिसली आनी तें विचारांतल्यान भायर आयलें. भुरगीं दिसलीं ना. पूण आई भायरच बशिल्ली. सुकांतीक पळोवन तिच्या जिवाक सू जालें.

'येयलें गो बाय? इल्लें उदक पिये पयलीं आनी आवतिकाय कितें जाल्या ती पळय तुजी.' आईन बेगीबेगीन उदकाचो पेलो हाडून ताच्या हातांत दिलो.

घटाघटा उदक पियेवन पदरान तोंड पुशीत सुकांतीन विचारलें, ''भुरगीं खंय?''

''खेळूंक गेल्यांत'' आईन जाप दिली तशें सुकांतीन प्रस्नांकीत नदरेन तिचे कडेन पळयलें. तिची नदर वळखून आईन म्हळें, ''कस्तुरे कडसून इल्ले तांदूळ घेवन पेज करून दिली तेंकां. तूं हुस्को करूं नाका.''

सुकांतीक तेय परिस्थितींत बरें दिसलें.

''काम जालें मगो?'' आईन काळजीन विचारलें.

सुकांतीन फकत मान हालयली आनी एकदम आईक घट्ट वेंग मारून तें हुडक्या-हुडक्यांनी रडूंक लागलें. आई कांय उलयनासतना ताका सांसपीत रावली.

''आई, हांवेन केलें तें सारकें काय चुकलें गे हांव'' सुकांतीन रडत प्रस्न केलो.

''ना गो धुवे. तूं चुकोंक ना.आयचे परिस्थितीक फावो तशेंच वागलें तूं.'' आईच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

''पूण म्हाजें मन खाता गे.''

''सुकांती, तकलेंत कांयच धरूं नाका. कांयच चिंतनाका. आनी इल्ली पेज उल्ल्या ती जेय पयलीं.''

''तूं जेयली?'' आईन मान हालयली. पूण ती फट मारता हें सुकांती वळखलें. ''दोगांय इल्ली-इल्ली पेज पियेवया. आनी भुरग्यां खातीर बटाटवडे हाडल्यात. एक तूंय खा पेजे वांगडा.'' सुकांतीन आईच्या हातांत एक बटाटवडो दिलो.

सुकांतीचे तकले वयलो भार देंविल्लो तरी मनांत मात युद्ध चलिल्लें. आपूण योग्य वागलें की अयोग्य ताका सम जनाशिल्लें. विसरचें म्हळ्यार विसरूंकय येनाशिल्लें. मनाच्या व्दंदांत तें घुसपल्लें...

आवय-बापूय ल्हानपणांतच गेल्ल्यान सुकांती काकागेर वाडिल्लें. तिरसुवाद काका-काकीचीं उलोवणीं खावन आनी कामां करूनच ताचो दीस उजवाडटालो आनी अस्तमतालो. बरें उतर ताका केन्ना मेळ्ळेंच ना. 'पोरकें, 'कपलफुटें', 'अवचिन्न', 'अवदसा', 'धव्या पांयाचें' अशीं कितलींशींच विशेशणां ताच्या नांवा फाटल्यान लागिल्ल्यान आपलें खरें नांवय तें लागीं लागीं विसरिल्लें.

शाळेंतय तें गेलें तें शाळेच्या गुरुजीन घरा येवन सांगलें म्हणूनच. सरकारान स ते १४ वर्सां मेरेनच्या भुरग्यांक सक्तीचें आनी फुकट शिक्षण दवरलां म्हूण सांगतकच काका-काकीन नाखोशेन ताका शाळेंत धाडिल्लें. मदले सुटयेंत 'माध्यान्ह आहार' मेळटल्यान काकागेर अर्द पोटार उठपी सुकांतीक शाळा आवडली आनी मानवलीय बी.

सुकांती शिकूंक जेमतेमच. फकत खावपाचे आशेक तें शाळेंत वतालें. अभ्यास करूंक काकी वेळच दिनाशिल्ल्यान कशेंबशें धुकलत सातवी मेरेन शिकलें आनी काकीन ताची शाळा बंदच केली. शाळा सोडिल्ले परस आतां पोटभर खावंक मेळचें ना हाचेंच ताका वायट दिशिल्लें. ताच्या कामांत आतां आनीकय वाड जाली. पोरसूं शींप, आयदनां घांस, कपडे उमळ, उदक भर, सान्न मार असलो वावर करून तें उबगल्लें. पूण दोन वेळाचें इल्लेंशें जायना जेवण मेळटालें म्हूण तें कश्ट उसपितालें.

जेन्ना शांबा गांवकराची सोयरीक आयली तेन्नाय ताची पसंती कोणेंच विचारली ना. खरें म्हळ्यार वयान वाडिल्लो, काळोभिल्ल, बेबदयावरी तांबारिल्ल्या दोळ्यांचो शांबा सुकांतीक मातूय आवडलो ना. ताच्या दोळ्यां मुखार ताच्या सपनांतलो सोबीत राजकुंवर येतालो. पूण ताका कोणें गृहितच धरलें ना आनी मना विरुध्द शांबा कडेन लग्न जावन सुकांती सांग्या वयल्या कुस्कें गांवांतल्यान काणकोणच्या काळशी गांवांत पावलें.

ताणें कल्पना केल्ली तसोच, ताचेपरस चडच शांबा आसलो. इल्लेश्या निमतान ताका राग येतालो. सुकांतीचेर हात उबारपाकय तो इल्लोय फाटीं-फुडें सरलो ना. रात जाता म्हळ्यार तर सुकांती थरथरूंक लागतालें. रात जावचीच न्हय अशें ताका दिसतालें. शांता पियेवन तर्रर जावन येतालो आनी मागीर बुरश्यो गाळी, खोंटांनी ताका मस्तवप आनी ताच्या शरिराचेर अत्याचार सुरू जाताले.

काकाल्या घरा ताचेर कोणेच माया केली ना. काका-काकी दिसयभर ताचेर फडफडटालीं. पूण ताका केन्नाच तांणी मारलें ना. हांगा येवन आपूण नरकांतच पडलां अशें ताका दिसतालें. जीव दिवचो अशेंय ताका दिसतालें आनी तेन्नाच आपल्या पोटांत एक जीव वाडटा हाची ताका जाणीव जाली.

घोवाल्या घरा एकच सूख ताका आशिल्लें तें म्हळ्यार ताची मांय- शांबाची आवय! ती सुकांतीचेर मना सावन माया करताली. आपलो पूत राक्षस आनी सून गरीब गाय हें पळोवन ती भितरले भितर रडटाली. कित्याक त्या पोराग आपणें त्रासांत घालें ह्या विचारान वायट दिसून ती सुकांतीचेर अदीक माया करताली. खोंपीं भायर तिणे तवशीं, घोसाळीं, पडोळीं, दुदी, भेंडे, तांबडीभाजी अशी तरेकवार भाजी रोयिल्ली. ती विकून आयिल्ल्या पयशांनी दुवाळे लागिल्ले सुनेक ती खावंक घालताली.

सुकांतीचें लग्न जातकच काका-काकीन तें कशें आसा हाची सादी चवकशीय करूंक नासली की तीं तांगेर येवंक नासलीं. तेन्ना बाळंतपणाक तांगेर वचपाचो प्रस्नच नासलो.

तागेर पयलें चली जाल्लें. आज्जेक कोण अपुर्बाय! पूण बापायक मात मातूय पडून गेलें ना. ताणे धुवेची केन्ना अर्थ-अपुर्बाय केली ना की ताका कितें हाडलेंना. फकत पी पी पियेतालो.

लग्नाच्या धा वर्सांत तागेर स भुरगीं जालीं. बाळंतपणा सोंसून तें सामकें मरूंक तेंकिल्लें. आईय बी थकिल्ली. शांबाच्या पियेवपांत, मारपांत कांयच फरक पडूंक नाशिल्लो. तातूंत आतां इल्ल्या-इल्ल्या स भुरग्यांची भर पडिल्ली. तांकां पोसतासर सुकांतीक नाकापुरो जाल्लें. शांबा एकय पयसो घरांत दिनासलो. सगले पयशे पियेवपाक वगडायतालो. वयल्यान तावेर्नाचेर ताचीं रिणां आसतालीं तीं वेगळींच.

भाजी विकून म्हणून तरी कितलो पयसो येतलो? तें कोणाल्या शेतांत काम कर, कुळागरांत काम कर अशें कश्ट काडटालें. पूण णव मनशांक पोटभर खावंक मेळनासलें. व्हडलीं तिगां शाळेंत वतालीं जाल्यार मदलीं दोगां बालवाडींत. धाकटें घरा.

त्या वर्सा आई आनी सुकांतीन तवशीं, घोसाळीं, आदी तरेकवार भाज्जेचीं बियां घालीं. ह्या वर्सा चड भाजी रोवन मडगांवां विकपाचें तांणी थारायिल्लें. वेलीय बऱ्यो तरतरिल्ल्यो. आनी एक सारको पावस पडपाक सुरवात जाली. पावस थांबनासतना पडटालो.

''असोच पावस पडत रावलो जाल्यार सगले रोपे कुसतले'' आईन चिंता उक्तायली. सुकांतीचें आंग शिरशिरलें. रोपे कुसल्यार भुरग्यांक खावंक घालप कशें? तातूंत भर म्हणून शांबा दोन दीस घरा येवंक नाशिल्लो. कितलोय पियलो तरी लकत लकत, गाळी संवत तो घरा येतालोच.

सुकांतीचेर तो अत्याचार करतालो. ताका तो आवडनाशिल्लो. पूण कसोय जाल्यार ताचो तो घोव आशिल्लो. ताच्या कुकमाचो आदार! सुकांतीक ताचो सामको हुसको जाल्लो.

''आई, हो दोन दीस येयलो ना मगे घरा'' सुकांतीन हुसक्यान म्हळें.

''हय गो. खंय गेला तोंड घेवन कोणाक खबर. बेबदयाचें कितें? येतलो. खंय वचना तो. फुकट गिळूंक आनीक कोण घालतलो?'' आईन उबगून म्हळें.

आनी त्याच वेळार ताचीं व्हडलीं दोगांय भुरगीं धांवत आयलीं.

''आई, आज्जे, बाबा मगे व्हाळांत न्हिदला.'' व्हड्ल्यान सांगलें आनी सुकांतीच्या काळजांत धस्स जालें. आईचे हात पांय कडकडूंक लागले

तीं दोगांय पावसांतल्यान भिजत व्हाळाचे दिकेन धांवली. शांबा व्हाळाचे देगेर उमथो पडिल्लो. पूण ताचो जीव केन्नाच गेल्लो. सोऱ्यान ताचें जिवीत सोंपयिल्लें. आई आनी सुकांतीन बोब मारली. पूण पावसांत तांची बोब कोणेंच आयकली ना.

थोड्या वेळात सावचीत जातकच कोणाकय तरी आफोवन हाडपाक सुकांती उठलें आनी तेन्नाच घसघस करून आवाज करीत उदकाचे लोट येवंक लागले. सुकांती भियेवन भुरग्यांचो आनी आईचो हात धरून धांवत सुटलें.

उदकाच्या लोटान तांची खोंपय व्हांवन गेल्ली. सगले कडेन बोबो, हुयेल्यो आयकूंक येताल्यो. सगळ्या लोकांनी शाळेंत आसरो घेतिल्लो. ढगफुटी जाल्ल्यान सगल्या काणकोणांत हुंवार आयिल्लो. दोंगरा वयल्यान उदकाचो घसघस व्हांवतालो. लोकांच्या घरांनी, दुकानांनी उदक भरिल्लें. कितलेशेच लोक, घरांतलें सामान, जनावरां, झाडां, खोंपी सगलें सगलें व्हांवन गेल्लें. सगले कडेन हाहाकार उडिल्लो. रडारड, भुरग्यांचो कुलकुलाट हाणे शांबा आपणाक सासणाचो सोडून गेला हाचो आई आनी सुकांतीक विसरच पडिल्लो.

चार दीस सगले लोक शाळेंत रावले. सरकारा मार्फत तांकां च्या, न्याहारी, जेवण सगलें मेळटालें. पूण लोकांक आपलो संवसार आपले दोळ्यां मुखार व्हांवन गेल्लो पळोवन दुख्ख जातालें.

पावसाचो सांवार थांबलो. इल्लें इल्लें सगलें सुरळीत जावंक लागलें. विस्कळीत जाल्लें जनजिवन ल्हवू ल्हवू जाग्यार पडूंक लागलें. सुकांतीय आपले खोंपींत परतलें. खोंप कसली? फकत जागोच उरिल्लो. एका काळार हांगा खोंप आशिल्ली हें खरेंच दिसनाशिल्लें. खोंपी वांगडाच आयदनां, सामान, कपडे सगलें व्हांवन गेल्लें. सरकारान सगल्यांक घरां बांदून दिलीं. पंचायतीन आनी स्वयंसेवी गटांनी लोकांक सामान, कपडे, आयदनां दिल्लीं.

आनी एक दीस खबर आयली. सरकारा मार्फत लोकांक ५० हजार लुकसाणभरपाय मेळटली ज्या घरांतलो मनीस उदकांत व्हांवन गेला तांकां दोन लाख रुपयांची लुकसाण भरपाय मेळटली.

अकस्माक सुकांतीचे सुकिल्ले दोळे लकलकले. आनी आपल्याक सुचिल्ल्या विचारान ताचें काळीज धडधडूंक लागलें. कितें करचें ताका कळनासलें. आईक विस्वासांत घेवपाचें ताणें थारायलें.

''आई, एक सांगपाचें आसा.'' ताणें धीर करून म्हळें.

''अशें कांचवेलां कित्याक गो बाय? सांग म्हाका. कितें सांगचेलें आसा तुका?'' आईन ताका आपल्या म्हऱ्यांत बसयत विचारलें.

''आई, ज्या घरांतलो मनीस हुंवारांत उदकांत बुडून मेला ताका सरकारान दोन लाख रुपया लुकसान भरपाय दिवपाचें थारायलां.'' सुकांतीन सांगलें. आईक तें कितें म्हणूंक सोदता तें कळ्ळें.

''तुका जाय तें कर बाय. हांव आडायना तुका.''

''राग येयलो गे?''

''ना गे धुवे. तूं म्हजी सून न्हू. तू धुवच म्हाजी. आतां तर शांबाय उल्लोना. बाय, म्हाजे पुतान तुका कसलेंच सूख दिलें ना. लग्न जायत सावन मार–बडय आनी गाळी हाचेबगर तेणें कितें दिलें? कसली अर्थ–अपुर्बाय ना कसली तोखणाय ना. फकत पदरांत स भुरगीं घालून सोऱ्या भकीक पडलो. आतां जर तेजेपसून तुका, भुरग्यांक कसलो फायदो जाता आसत जाल्यार हांव केन्नाच तुका आडावचें ना.''

''पूण आई, लोकांक कळ्ळें जाल्यार?'' सुकांतीन हुसक्यान विचारलें.

''सांगतलो कोण गो? आमी आवय आनी बायल सांगतात तें पुरो ना? जितेपणांत तेणे आमचें कांयच बरें केलें ना. पूण मरतकच तरी आमचें कल्याण जालें जाल्यार ताच्याय आत्म्याक शांती मेळटली.'' आईन दोळ्यांक पदर लायलो.

मागीर सगलें वेगान घडत गेलें. गांवचो सरपंच, आमदार, मंत्री, काणकोण येताले. लोक कितलें लुकसाण जालां तें सांगताले आनी आयिल्ले अधिकारी कसलो तरी फॉर्म भरताले. सुकांतीक दोन लाख ५० हजार रुपयांचो चेक मेळटलो हें सांगतकच एका दोळ्यांत सुखाचें दूक आनी दुसऱ्या दोळ्यांत दुख्खाचें दूक उबें रावलें.

तोच चेक हाडूंक तें मडगांवच्या कलेक्टर ऑफिसांत गेल्लें. पयले बँकेंत दवरून आयिल्ल्या व्याजान तें घर चलयतलें. भुरग्यांक खूब शिकयतलें आनी पर्थून, भाज्जेच्यो चड रोपयो रोवन मडगांवां वचून भाजी विकतलें. ल्हानपणांतल्यान जें सूख ताका मेळ्ळें ना तें भोगतलें आनी आईक आनी भुरग्यांक खूब सूख दितलें.

''बाय, कितें चलता गो अदळच्यान?'' आईन ताच्या केंसां वयल्यान हात भोंवडायत विचारलें.

सुकांती रडटां रडटां हांसलें. पावस पडटां पडटां सुर्याचो किरण चकचकचो तशें. ❑

# एक नवी सुरवात

बसींत, ट्रेनींत आनी हेर गर्देमदीं कितलेशेच फावट बायलांचो म्हाका स्पर्श जांला जातलो, पूण तेन्ना अशें कितें घडूंक नासलें. पूण अपूर्वाचो खीणभराचो स्पर्श म्हाका भितरल्यान हालोवन गेल्लो आनी हांव उदका भायर आयिल्ल्या नुस्त्या भशेन तळमळपाक लागलों. त्या दिसा सावन तीय म्हजे कडेन आडखळिल्ले भशेन पळोवंक लागली. त्या उपरांत म्हाका अशें अणभवपाक लागलें की आमच्या दोगांय मदीं कितें तरी नातें आसा, जें अदृश्य तर आसाच, पूण आमकां दोगांकूय लागीं हाडपाक पळयता. तें लागीपण कसलेंय आसूंक शकता. मानसीक, शारिरीक वा भावनीक.

डॉ. अनिता राठोड हांची मूळ हिंदी कथा: ''मंजरी''
कोंकणी अणकार : उदय देशप्रभू
संपर्क : ९५५१९५५५२३

बँकेच्या झोनल ऑफिसांत पावलों तेन्ना कळ्ळें की झोनल मॅनेजर मिटिंगेंत घुसपला. ताच्या पी.ए.न सांगलें की आनीक तीन वरां उपरांत मॅडम फ्री जातली. ती येना फुडें तुमची स्लीप तिचे फुडें पावयतां. म्हजे कडेन वाट पळोवपा बगर दुसरो उपाय नासलो. म्हणून थंयच सोफाचेर बसून रावलों.

झोनल ऑफिसांत हांव म्हजे नेमणुके निमतान गेल्लों. म्हजें बँक ऑफिसर ह्या पदा वयल्यान ब्रँच मॅनेजर पदा खातीर प्रोमोशन जाल्लें. म्हजी नवी नेमणूक म्हज्या शारा पसून खूब पयस केल्ली. हांव इतले पयस वचपाक सोदी नासलों. कारण म्हजी बायल हालींच भायर पडिल्ली. आनी हांव सामको एकमुळो जाल्लों. नव्या शारांत वचून हांव आनीक
एकमुळेपण भोगतां आसलों, म्हणून लागींच खंय तरी नेमणूक जावची म्हूण आंवडेतालों.

चलो आनी सून ऑस्ट्रेलियांत आसलीं. तांकां दिसतालें की हांवें व्ही.आर.एस. घेवन तांच्या वांगडा रावचें म्हूण. पूण हांवें मानलें ना. म्हजे सर्विसीची अजून पांच वर्सां उरिल्लीं. दीस कसोय बँकेंत पासार जातालो पूण रात खावपाक येताली. कांय इश्टांनी दुसऱ्या लग्नाची सुचवणी केल्ली, पूण हांव ताका राजी नासलों. कारण हे पिरायेचेर लग्नाचो विचार केल्यारूच लज शी दिसताली. चलो-सून कितें म्हणटलीं? लोक कितें म्हणटले? आनी हांव म्हजे बायलेचेर खूब मोग करतालों. तिणें म्हाका इतली साथ केली आनी आतां हे परिस्थितीचेर लग्न, म्हज्या नदरेन तें म्हळ्यार तिचे कडेन विस्वासघात केल्ले भशेन आसलें. हय नैसर्गीक गरजो पुराय जावंक नाशिल्ल्यान हांव मातसो हट्टी जाल्लों.

वावराक येवपी वावराडेचेर हांव गरजे भायर तापतालों. ती आशीकुशीच्या लोकां मदीं म्हाका नेरवांकार म्हूण पाचारताली. जायते फावट वांगडा काम करपी आनी कामा खातीर आयिल्ल्या लोकां वांगडा

म्हजीं झगडीं जातालीं. ते सगले म्हजे फाटल्यान खबर ना कितें म्हणटाले.

''सर मॅडम आयली, मातशें तुमचें नांव सांगात.'' अशें पी.ए.न म्हणटकूच हांव वर्तमानांत आयलों.

''हां, हां. सुभेंदू कुमार.''

कांय वेळ वाट पळयल्या उपरांत बेल वाजना फुडें, शिपाय धांवतच मॅडमीच्या कॅबिनांत गेलो. परतो आयिल्लो तेन्ना कळ्ळें की, मॅडमीन म्हाका आफयल्लो.

कॅबिनांत भितर सरना फुडें मॅडमीक पळयलें आनी हांव तटास जालों.



म्हज्या परस एक दोन वर्सांनी ल्हान आसतली. पळोवपाक शांत आनी सोबीत. पदाचेर सोभत अशें व्यक्तीमत्व.

''तुमी कसल्या कामा खातीर आयिल्ले?''

सामकें नमळायेन तिणें विचारलें.

''हय मॅडम, म्हजी नेमणूक म्हज्या शारा पसून खूब पयस केल्या. म्हाका लागींच खंय तरी नेमणूक जाय आसली.''

''पयस वचनासपा खातीर कितें तरी खास कारण आसतलें, सुभेंदूबाब?''

''मॅडम हांव थंय सामको एकमुळो जातलों. ना वळख, ना देख.'' हांवें नम ळायेन सांगलें.

''वळख देख तर ल्हव ल्हव जातलीच. आनी एकलेच कित्याक, तुमी तुमच्या कुटुंबाक घेवन वचात.''

मॅडमीन भितरल्या भितर हांसत सांगलें.

''म्हजी घरकान्न हालींच भायर पडली.''

हांवें भरिल्ल्या ताळ्यान सांगलें, मॅडम मातशी उदास जाली.

''सॉरी सुभेंदूबाब, म्हाका खबर नासली.''

अशें उलयतना ती मातशी भावूक जाली. तिच्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं हांवें पळयलीं, जी तिणें व्हड हुशारकायेन हूम पुशिल्ले भशेन करून पुसलीं.

खरेपणी बायलमनीस खूब संवेदनशील आसता. रोखडेच दोळे पाणावतात. जाल्यार दादले मनीस हे बाबतींत मातशे वेगळे आसतात. ते आपलें दुख्ख भितरल्या भितर अशें लिपोवन दवरतात की, सामकार आशिल्ल्याक ताची सुलूस पसून लागना. ते भितरल्या भितर घुसमटत उरतात. जसो हांव घुसमट्टां.

मॅडम मातशी रावून शांत जाली. घडये ती आपल्या बायलपणाचे भावुकतायेंतल्यान भायर आयली, आनी एक अधिकारी ह्या नात्यान उलयली. ''सुभेंदूबाब, तुमचे कडेन फावो तशें कारण ना, तुमची नेमणूक बदलपा खातीर. तुमकां प्रोमोशन घेवपाचें आसत जाल्यार नव्या जाग्यार वच्चेंच

पडटलें.''

''मॅडम गाझियाबाद सारक्या शारांत म्हजो वळखीचो असो कोणूच ना. शक्य आसल्यार लागीं खंय तरी म्हजी नेमणूक जायत जाल्यार बरी आसली, म्हणटकूच हांव हांगाच्यान येवन वचून काम पळोवंक शकता आसलों.'' हांवें ल्हानविकायेन मागणी केली. ''गाझियाबाद तर हांवूय रावतां. सद्दां दिल्ली येतां, म्हज्या घराच्या वयलो रूम रितो आसा. तुमी जाय आसल्यार म्हज्या घरांत पेइंग गेस्ट म्हूण रावूंक शकतात.

मॅडमीन दाखयिल्लें आपलेपण पळोवन हांव गदगदलों. खंयचो एक व्हड अधिकारी आपल्या हाता सकयले व्यक्ती खातीर असो विचार करता? कित्याक खबर ना म्हाका बेठेंच दिसलें की ती म्हजे बाबतींत चडच आपलेपण दाखयता शें. ह्या विचारान हांव मातसों उत्साहीत जालो. आनी गाझियाबाद ब्रँचींत रुजू जावपाक उतावीळ जालों. पूण मनांत एक भय लिपून आसलो, की थंय रावतना म्हजे कडल्यान कसलीय अमर्यादीत घडणूक घडची न्हय म्हूण. जाका लागून हांवूच म्हजे नदरेंतल्यान देंवत अशी.

रोखडोच हांव गाझियाबाद ब्रँचींत रुजू जालों. सांजे वेळार मॅडमीच्या घरा पावलों तेन्ना एका वयस्कर मनशान म्हाका येवकार दिलो. ''तुमी ब्रँच मॅनेजर सुभेंदूबाब मूं?''

''हय, मॅडमीन हांगा...''

म्हजी जाप पुराय जावचे पयलींच ''हय हय, ती मॅडम म्हळ्यार म्हजी चली अपूर्वा, झोनल मॅनेजर. अजून ऑफिसांतल्यान येवंक ना. आतां येवपाचीच जाली. तो मेरेन आमी दोगूय एक एक कप च्या घेवया.'' अशें म्हणत त्या जाणट्यान आपल्या चाकराक च्याचे खातीर सांगलें.

इतल्यांत गाडयेचो हॉर्न वाजलो. घडये मॅडम आयिल्ली.

हांवें उबो रावन तिका येवकार दिलो. जाल्यार ती खळखळून हांसत म्हणपाक लागली, ''सुभेंदूबाब, हें ऑफीस न्हय, म्हजे घर. हांगा तुमी म्हजे सोयरे... तुमी म्हाका अपूर्वा म्हूण पाचारल्यार बरें दिसतलें.''

ती फ्रॅश जावन आयली तो मेरेन च्या आयली. मागीर आमी तिगांयनी वांगडा बसून च्या घेतली. तिच्या बापायन जेन्ना सांगलें की, अपूर्वाच्या घोवाक एका अपघातांत मरण आयलें तेन्ना म्हाका तिचे चुरचुरे दिसले आनी तिचे ठांय सहानुभुती उमाळून आयली. ताका एकूच चली आसली जी अमेरिकेंत जॉब करताली.

हांव घराच्या वयल्या मजल्यार पेईंग गेस्ट म्हणून रावपाक लागलों. म्हजें मन थंय रमपाक लागलें. तिचो बापूय एक समजुतदार आनी मनमिळावू मनीस आसलो. रातचें जेवण आमी तिगांय वांगडाच घेतालीं. एक दीस भाजी सर्व करतना अपूर्वाचो हात म्हाका तेंकलो, तेन्ना म्हजी कूड झणझणली.

बसींत, ट्रेनींत आनी हेर गर्देमदीं कितलेशेच फावट बायलांचो म्हाका स्पर्श जाला जातलो, पूण तेन्ना अशें कितें घडूंक नासलें. पूण अपूर्वाचो खीणभराचो स्पर्श म्हाका भितरल्यान हालोवन गेल्लो आनी हांव उदका भायर आयिल्ल्या नुस्त्या भशेन तळमळपाक लागलों.

त्या दिसा सावन तीय म्हजे कडेन आडखळिल्ले भशेन पळोवंक लागली. त्या उपरांत म्हाका अशें अणभवपाक लागलें की आमच्या दोगांय मदीं कितें तरी नातें आसा, जें अदृश्य तर आसाच, पूण आमकां दोगांकूय लागीं हाडपाक पळयता. तें लागीपण कसलेंय आसूंक शकता. मानसीक, शारिरीक वा भावनीक.

पूण म्हजे बेचैनी आनी तळमळीचें कारण मात म्हाका खबर आसलें. फट उलयना. म्हजे मन तिच्या वांगडा शारिरीक लागसाण आंवडतालें. घडये तिका म्हजे हे मानसीकतायेची सुलूस लागिल्ली. पूण म्हाका तिच्या मनाचो अंदाज येय नासलो.

पूण आमच्या दोगांय मदीं चलपी हें हुमाणें सोडोवपाक तिच्या बापायन फुडाकार घेतलो. ''सुभेंदूबाब, नमनाक घडोभर तेल ओती नासतना, मुद्द्याचेर उलयतां. तुमी म्हजे चलये वांगडा लग्न जावंक तयार आसात?''

तो इतल्या बेगीन स्पश्टपणान लग्नाचें विचारीत हाची म्हाका कल्पनाच नासली. हांव मातसो भियेल्लों. हो भय समाजाचो, चलो-सुनेचो काय म्हजे भितरलोच म्हूण कळपाक मार्ग नासलो. हांव वगीच रावलों.

''म्हाका खबर आसा, ह्या प्रस्नाची जाप दिवपाक तुमकां मातशें कठीण जातलें म्हूण. तेन्ना तुमी तुमचो वेळ घेयात विचार करपाक. म्हजे चलये संबंदी आनी तिच्या भूतकाळा संबंदीं तुमकां खबरुच आसा. म्हजी नात अमेरिकेंत जॉब करता. लग्न जावन थंयच सेटल जावपाचो तिचो विचार आसा. तिणें स्वताच तशें कळयलां. ''आज्या, मॉम सदां खातीर अमेरिका येवची ना, म्हणून तिचें लग्न करुन दी.'' आनी खरें सांगूं, ''म्हाकाय दिसता की, चलयेचें बेगीन लग्न जावचें म्हूण. म्हाका खबर ना केन्ना आपोवणें येत.'' अशें म्हणटना ताचो गळो अंदलो.

म्हाका कळ नासलें कितें उलोवचें म्हूण. हांव तांचे कडेन माफी मागून म्हज्या रुमांत आयलों. हे पिरायेर लग्नाचो विचार केल्यारूच अडेचें शें दिसतालें. चल्या सुने मुखार लग्नाचो विचार मांडप म्हळ्यार लज शी दिसपाक लागली. लोक म्हणटले की बायल मरून वर्सय जावंक ना. आनी दुसरें लग्न केलें आनी तेंय बी जाणटेपणार. नीशान पुराय तीस वर्सां साथ दिली. कितली काळजी घेतली म्हजी. तिचे वांगडा विस्वासघात केल्ले भशेन जातलें. ती म्हणटालीं बी ''तुमी फकत म्हजे जावन आसात, फकत म्हजे. म्हाका उतर दियात, म्हज्या मरणा उपरांत दुसरें लग्न करचे नात म्हूण.''

घडये मागीर ती ही गजाल मना पसून करताली वा फकाणांनी, पूण हांवूय अपुरबायेन हय म्हूण जाप दितालों. ह्या सगळ्या गजालींक लागून हांव लग्ना खातीर फाटीं फुडें जातालों.

हय, हांव अपूर्वाचो सांगात आंवडेतालों. पूण फकत शारिरीक रितीन.

दोन तीन दिसां उपरांत अपूर्वाच्या बापायन सांगलें, ''सुभेंदूबाब, म्हाका तुमची जाप जाय. अपूर्वाक दिसता की पयलीं तुमी जाप दिवची शी.''

''बाबा, हे पिरायेर लग्न? मातशें विचित्र शें दिसता. हां, हांव जो मेरेन हांगा आसां तो मेरेन अपूर्वाची पुराय काळजी घेतलों. तिका कसलीच अडचण येवची ना.'' हांव मातसो आडखळत उलयलों.

''म्हळ्यार, तुमी लग्न करचे नात तर'' ताच्या उलोवपांत खूब निराशा आसली. हांव मनांतल्या मनांत बेजारलों. ''विचित्र हो जाणटेलो. लग्ना खातीर फाटल्यानूच लागला. लग्ना बगर पसून हाची चली म्हज्या वांगडा खूश रावूंक शकता. अशे भशेन दोगांयच्यो गरजो भागतल्यो. दोगांयकूय एकमुळे पणांतल्यान मुक्ती मेळटली.

तेच राती अपूर्वाच्या बापायक हार्ट अॅटॅक आयलो, तेन्ना हांव भियेल्लों. घडये हें म्हाका लागून तर घडूंक ना मूं. राती कडेच ताका हॉस्पिटलांत व्हेलो, आनी ट्रीटमेंट सुरू जाली. दुसरे राती तांचो विस्वासू चाकर आपूण हॉस्पिटलांत रावलो आनी आमकां दोगांयकूय घरा धाडून दिलें.

पयलेच फावट आमी दोगांय पुराय घरांत एकांतांत आसलीं. आनीक खंयचोय वेळ आशिल्लो जाल्यार अपूर्वा कडेन हांव कितेंय उलयतलों आसलों. आख्खो दीस आमी दोगांय हॉस्पिटलांत आसली. म्हणून जीव जाम जाल्लो. बिस्कीट आनी च्या बगर पोटांतूय कांय नासलें. म्हणून भूकय खूब लागिल्ली. पूण भिडेक लागून तोंडांतल्यान उतर भायर सरनासलें.

''सुभेंदूबाब, म्हाका खबर आसा ह्यावेळार आमी दोगांय खूब थकल्यांत आनी भुकेल्यांत. तुमी हात-पांय धुवन बेगिनूच डायनिंग हॉलांत येतात, तो मेरेन हांव खिचडी करून हाडटां.''

डायनिंग टेबलार गरम गरम खिचडी, वांगडा धंय, लोणचें आनी पापड बी आसलें. आमी जेवतालीं, इतल्यांत अपूर्वाचो मोबायल वाजलो.

**पयलेच फावट आमी दोगांय पुराय घरांत एकांतांत आसलीं. आनीक खंयचोय वेळ आशिल्लो जाल्यार अपूर्वा कडेन हांव कितेंय उलयतलों आसलों. आख्खो दीस आमी दोगांय हॉस्पिटलांत आसली. म्हणून जीव जाम जाल्लो. बिस्कीट आनी च्या बगर पोटांतूय कांय नासलें. म्हणून भूकय खूब लागिल्ली. पूण भिडेक लागून तोंडांतल्यान उतर भायर सरनासलें.**

''बरें आसा, हांव सकाळीं दोतोरो कडेन उलयतां.''

''बाबा बरो आसा न्हय?'' हांवें काळजी व्यक्त केली.

खोल स्वास घेत अपूर्वा उलयली.

''बाबा खंय बरो आसा? ताचें ब्लड प्रेशर नॉर्मल जायना. म्हाका लागून काळजी करतात. खूब उमेद आसली ताका तुमचे कडल्यान की तुमी ताचे चलये कडेन लग्न जातले म्हूण. तुमचो न्हयकार तो सहन करूंक शकलो ना.''

''अपूर्वा, म्हाका दिसतालें की...''

''म्हाका खबर आसा, तुमकां कितें दिसतालें तें आनी कितें आंवडेतात तें.'' म्हजी उतरां पुराय जावचे पयलींच ती उलोवन गेली. ''सुभेंदूबाब, हांव एक बायलमनीस पुराय पन्नास वर्सां पासार केल्यांत. आमच्या ऑफिसांत कामा निमतान सद्दां उठून शेंकड्यांनी दादल्यां कडेन मेळप जाता. शिपाय धरून म्हज्या सेक्रेटरी मेरेन सगले दादले. हांव ल्हान भुरगें न्हय...''

''अरुणाचें मरण जाल्या उपरांत, बाबाक फकत म्हजी काळजी सतायताली. तुमकां मेळटकच ताका दिसलें की ताचे चलये खातीर योग्य वांगडी जावंक शकता म्हूण. तसोच विचार करून ताणे तुमचे कडेन उतर घालें. पूण दुर्दैव म्हणचे तुमीय बी हेर दादल्यां वरीच. आपल्या स्वार्था खातीर म्हाका आपणावपाचो विचार करतात.''

''म्हजे परस उणे पिरायेच्या तरणाट्यांनीय लग्ना खातीर उतर घाल्लें. पूण हांव जाणा आसलीं की ते लग्न कित्या खातीर करूंक सोदतात ते. फकत म्हजे पयशां खातीर. अशेच जायते म्हज्या पिरायेचे दादले लग्नाक तयार आसले जे म्हज्या परस सकयल्या पदार आनी उणे प्रतिश्ठेचे आसले. ते बायलेचो वापर करून आपली प्रतिश्ठा वाडोवंक येवजिताले. पूण तुमकां म्हज्या पयशांचीय गरज ना आनी प्रतिश्ठेचीय बी. तुमकां म्हजो सांगात जाय पूण फकत एक बायलमनीस ह्या नात्यान. लग्नाची बायल म्हणून न्हय.''

हें सगलें आयकून हांव शॉकांत. तिणें जें कितें सांगिल्लें तें सगलें खरें आसलें.

''सुभेंदूबाब फट सांगिना, पयले फावट जेन्ना म्हज्या कॅबिनांत तुमकां पळयले आनी तुमी तुमचे बायले संबंदी सांगलें, तेन्ना म्हाका दिसलें की तुमचें आनी म्हजें दुख्ख एकूच म्हूण. एक सारक्यो अडचणी. तेन्नाच्यान म्हज्या मनांत तुमचे बद्दल आपलेपणाच्यो भावना उदेताल्यो. म्हणूनच हांवें तुमकां आमच्या घरांत पेईंग गेस्ट रावपा संबंदीं सुचयलें. तुमी तेन्ना विचार केला आसतलो की ही कसली बायल काय म्हूण? सुभेंदूबाब, बायलमनीस फकत कूड न्हय, तिका मन पसून आसता, जंय तिच्यो भावना, सपनां, घुसपल्लीं आसतात. पूण केन्ना केन्ना ती ह्यो सगल्यो गरजो पुराय करपाची इत्सा दवरता. पूण ह्यो गरजो जर अनैतीक रितीन पुराय जाल्यो जाग्यार पुराय जिवीतभर तिच्या मनांत गुन्यांवकाराच्यो भावना तशोच उरतात आनी त्यो गरजो जर पवित्र पद्दतीन पुराय जाल्यो जाल्यार तो खीण जिवीतभर तिका सुखान न्हावोवपाक

शकता. हेच पवित्र भावनेक लागून हांवेंच स्वता बाबा कडेन तुमचे संबंदी म्हणिल्लें.

पूण तुमच्या मनांतले विचार आनी नियत हांवच न्हय तर बाबानय वळखले. पूण हांव तुमकां सांगूंक सोदतां की हांव फकत एक बायलमनीस म्हूण तुमकां सांगात दिवपाक शकना, मागीर म्हाका कितल्योय आडखळी येवं.''

''अपूर्वा सत्य अशें आसा की हांव म्हजे बायलेचेर खूब मोग करतालों, आनी तिच्या वचनाचो मान राखूंक सोदतां. चलो-सून बी आनी लोक कितें म्हणटले हाचो विचार करून म्हाका धीर जायना.''

''सुभेंदूबाब, बायलमनीस जाचेर मोग करता तो पुराय निश्ठेन करता. ती खूब भावून मोव आनी संवेदनशील आसता. भावूकतायेन तिका दिसता की आपल्या मोगाच्या मनशान फकत तिचोच जावन रावचो म्हूण. पूण त्या वेळार ती वास्तवतायेपसून खूब पयस आसता. हेच भशेन तुमची बायल. तुमकां वचनांत बांदून गेली. पूण तिणे हो विचार केलो ना की तीच जर ना जाली तिचो सांगाती कितलो दुख्खांत बुडटलो, ताका एकमुळेपण भोगचें पडटलें. जाका लागून ताका जायत्या मानसीक आनी शारिरीक त्रासांक तोंड दिवचें पटटलें म्हूण. अशे तरेन वचनांत बांदून दवरप हें तिचो मोग तर व्देश आसलो दुसरे बायलमनशे ठांय जी तिच्या घोवाच्या सांगातांत येतली ती जिवीत आसतना एक वेळ तशी भावना समजूं येता, पूण तिच्या मरणा उपरांत तिचे ते इत्सेक कांयच अर्थ उरना.''

''हांवूय बी म्हज्या घोवाचेर खूब मोग करतालीं. जाय ते फावट ताका म्हणटालीं, 'अरूण, तुमी फकत म्हजेच जावन आसात. हांव जिवी आसतना जर खंयचे दुसरे बायलमनशे कडेन तुमचो संबंद आयलो जाल्यार हांव जीव दितलीं. पूण म्हज्या मरणा उपरांत मात तुमी दुसरें लग्न मात जरूर करात. कारण म्हजे फाटल्यान तुमी एकमुळे उरचे न्हय अशें म्हाका दिसता. ते फकत हांसताले, पूण कांयच उलय नासले. पूण वेळ कसो आयलो पळयात, तेच म्हाका सोडून गेले. निमाणे कडेन एक फावट, आनी पयलेंच तांणी म्हणिल्लें, ''अपूर्वा हांव तुजो जिवा परस चड मोग करतां, पूण तूं दुसरें लग्न मात जरूर कर, कारण खरो मोग करपी केन्नाच आपले फाटल्यान आपलो मोगी एकमुळो उरचो असो विचार करचो ना.''

''ते गेले. हांव फातर जाल्ले भशेन बधीर जालीं. कांयच कळ नाशिल्लें. कितें करचें म्हूण. पूण ल्हव ल्हव जिवीत सामान्य जालें आनी हांव हे घडणुकेंतल्यान सावरलीं आनी परतून ऑफिसांत वचपाक लागलीं.''

''अशें न्हय की हांव तांची इत्सा पुराय जावची म्हूण, वा तांचे इत्सेक मान दिवचो म्हूण लग्न करपाक सोदतां, आनी अशेंय न्हय की हांव तांकां पुराय विसरूंक सोदतां, पूण सुभेंदूबाब आमी वयल्यान कशेंय भासयलें तरी आमच्या भितरल्यान एक सत्य आसता तें कोणूच न्हयकारूंक शकना. भितरल्यो भावना, शरिराच्यो इत्सा ज्यो सैमीक आसात त्यो बांदून दवरपाक जायनात. मागीर आमी कितलोय यत्न करूं. त्यो भावना केन्ना ना केन्ना उफाळून येतल्योच आनी ताका लागून घडये स्वता खातीर, समाजा खातीर वा कुटुंबा खातीर तें वायटाक पडूं शकता. तशें घडचें न्हय म्हूण आपल्यो भितरल्यो ह्यो घडणुको मान्य करून आमकां फावो तो निर्णय घेवचोच पडटलो.''

''तुमी विचार करता आसतले की, हांव एक बायलमनीस जावन हें सगलें उलयतां. पूण बायलमनीस जेन्ना दादल्यांचे बरोबरीन सगल्या वाठारांत वावुरता जाल्यार आपल्या मनांतले उगतेपणीं सांगपाचो हक्क तिका आसाच. हांव सत्य उलोवपाक केन्नाच अनमनना. एकमुळेपणाक लागून हाचो म्हाका खूब त्रास जाता. हाची खबर म्हजे तरणाटे चलयेक आनी जाणट्या बापायक पुराय तरेन आसा. म्हूण तीं म्हजे फाटल्यान लग्न जावपाचो आग्रो धरून आसात.''

''तुमचीं भुरगीं, चलो-सून बी जर तुमकां समजूंक शकता आसले जाल्यार तींय बी तुमकां असोच सल्लो दिवपाचीं.''

इतल्यांत म्हजो मोबायल वाजपाक लागलो. ऑस्ट्रेलिया सावन सुनेचो फोन आयलो. ''पापा, तुमी पुराय जिवीत अशें एकलेच कशे सारतले? हाचो विचार करून हांव आनी सनी खूब काळजी करतालीं. हाचेर उपाय म्हज्या अमेरिकेचे मैत्रिणीन अक्षरान म्हाका सांगला. तिणे आपले विधवा आवयचें स्थळ तुमचे खातीर सुचयलां. तुमी तिका मेळात. तिचें नांव अपूर्वा. ती दिल्लींत बँकेची झोनल मॅनेजर म्हूण आसा. तिचो पत्तो तुमकां मेल केला. तुमचें जुळत जाल्यार पापा, लग्ना खातीर आपोवपाक विसरूं नाकात. तिणें हांसत हांसत म्हणलें, आनी हांव तटास जालों. म्हजी सून चलो म्हजे बाबतींत इतलो विचार करतात आनी हांव बेठोच नाका जाल्लें चिंततां.

तेन्नाच कांय वेळान अपूर्वाचोय मोबायल वाजपाक लागलो. अमेरिके सावन तिचे चलयेचो फोन आसलो. तिणेंय बी आपले आवयक तेंच सांगलें, जें म्हजे सुनेन म्हाका सांगिल्लें. आमी दोगांय एकमेकाक अजापीत जावन पळयत उरलीं. उपरांत आमी भुरग्यांच्या कौतुकाच्यो गजाली करपांत गुल्ल जालीं. गजालींनी रात केन्ना काबार जाली कळ्ळेंच ना. अपूर्वा आपले कुडींत वचपा फुडे सरली तेन्ना हांवें विचारलें, ''अपूर्वा म्हज्या भुरग्यांक कितें जाप दिवं?''

''हांवूय तुमकां तेच विचारतां, म्हजे चलयेक हांव कितें सांगूं?''

आमी दोगांय हांसपाक लागलीं. हांवें म्हणलें, ''हांव म्हजे चलये कडेन उलयतां आनी तूं तुज्या चल्या-सुने कडेन उलय. आनी हां, सुनेक वीश जरूर कर, ती रोखडीच तुका आजीं करपाची आसा.' हें आयकून अपूर्वा मातशी लजेली. ''बाबाक ही आनंदाची खबर सांगून आमी आमच्या नव्या जिविताची सुरवात करुंया.'' अशें म्हणीत ती म्हज्या गोपांत आयली. हांवेय तिका वेंगेंत घेतली. ❑



# म्हजी पुर्तुगाल आनी स्पेन भोंवडी

पान ७ वयल्यान

गजाल नदरेंत भरली. सद्या थंय नाकांत पिली घालपाची फॅशन आयिल्ल्यान म्हाका भारतांत आशिल्ले वरींच दिसलें. सध्या हाता-पांयांचेर आनी आंगाचेर चित्रां गोंदोवन घेवपाची फॅशन मोट्या प्रमाणाचेर दिसली.

लोकय टुरिस्टांचो आदर करतात आनी कितेंय म्हायती विचारल्यार आस्थेन ती दितात. टॅक्सी ड्रायव्हरय मोटे आस्थेन टुरिस्टां कडेन वागतात. म्हज्या १८ दिसांचे भोंवडेंत म्हाका एकय उर्मट टॅक्सी चालक मेळ्ळो ना.

येवरोपांत एकठांय रावपी कुटुंबा दिश्टी पडनात. पूण स्पेन आनी पुर्तुगालाक म्हाका जाणट्या मनशांक व्हीलचेरा वयल्यान व्हरपी वा नातरांक खेळोवपी जायतीं कुटुंबां दिसलीं.

हांव एके कार्फेत कॉफी घेवन बशिल्लों. आनी दोन स्पेनीश मुसलमान बायलो आपल्या आठ-धा वर्सांच्या नातवाक घेवन आयिल्ल्यो. तो भुरगो हुशार आनी लापीट. एकदां म्हजेसरीं येवन म्हाका बिस्कूत दिली आनी थोड्या वेळान आयस्क्रीम दिलें. हांवें ताची तोखणाय केली. त्या बायलांक हांव 'हिंदी' म्हूण कळ्ळां जातलें. ताणी म्हळें हो भुरगो आमचो शारूख खान. मागीर खबर काडटकच ती स्पेनांत स्थायीक जाल्लीं आल्जेरियाचीं मनशां म्हूण कळ्ळें.

लिस्बन शारांत हांव मुद्दम दोन-तीन पुस्तकांच्या दुकानांनी गेलों. वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर पुर्तुगेज भाशेंत बरयिल्लीं पुस्तकां थंय आशिल्लीं. जगप्रसिध्द पुस्तकांचीं भाशांतरांय पळोवंक मेळ्ळीं. राजकारण (politics) ह्या विभागांत खूब पुस्तकां पुर्तुगालांत डिमोक्रसीचें जैत कशें जालें आनी सालाझारची हुकूमशाय कशी उम थावन उडयली ह्या विशयाचेर आशिल्लीं. 'पुर्तुगालाची नावीक झुजां' हें एक पुस्तक दिश्टी पडलें. तें चाळून पळेलें. सोळाव्या शेंकड्या पासून जाल्ल्या झुजांचेर तातूंत चिकित्सा केल्ली. तातुंतलें एक प्रकरण दीवच्या नावीक झुजाचेर आशिल्लें. आनी शेवटचें प्रकरण गोंयांत १९६१ वर्सा जाल्ल्या झुजाचें आसलें. हिंदुस्थानच्या बळिश्ट नावीक दळांक लागून पुर्तुगालाचो पराभव जालो अशें मत लेखकान मांडिल्लें.

लिस्बोअ शाराच्या पोरण्या वाठारांत आमी सर्वीस अपार्टमेंटांत रावतालीं. तो वाठार चडट्यो आनी देंवत्यो आशिल्लो. रस्त्याचेर टॅक्सीची वाट पळेत उबे आसतना म्हजी नदर रस्त्याच्या नांवाच्या तक्ट्याचेर पडली आनी म्हाका अजापाचो धक्कोच बसलो. त्या रस्त्याचें नांव आसलें रुअ गार्सिया ओर्ता (Rua Garcia Orta) जाचें नांव पणजेचे नगरपालिकेचे बागेक दिलां. हो शास्त्रज्ञ सतराव्या शतमानांत मुंबय आनी



गोंयां रावतालो. तो वनस्पतीशास्त्राचो एक जाणकार आनी ताणें कोंकणांतले रुखावळीचेर पुस्तकां बरयलीं. तो पुर्तुगेज जुदेव (Jew) आसलो आनी ताका गोंयच्या इंक्विझिशनांत आपले बंदखणींत घालून ताचो छळ केलो.

पुर्तुगाल देश येवरोपियन युनियनचो एक सभासद देश. येवरोपियन युनियनांत प्रवेश घेवचे पयलीं पुर्तुगालाक स्वस्ताय आशिल्ली अशें कळ्ळें. स्पेन आनी पुर्तुगालांत खूब म्हारगाय आनी हिंदुस्थानाच्या मानान वस्तूच्यो आनी अन्नाच्यो किंमती चार पटीन. पुर्तुगालाची आर्थीक परिस्थिती जरी बिकट आसली तरीय बेकारी चड प्रमाणांत ना. आनी गरिबी दिश्टी पडना. हाची चर्चा एका पुर्तुगीज मनशा कडेन करतकच ताणें म्हळें, ''आयज खुबश्या पुर्तुगेज तरणाट्याक युरोपियन युनियनांतल्या देशांत नोकऱ्यो मेळटात देखून बेकारी ना.''❑

---

# रंगांधळ्या मनशान वचचेंच न्हय स्पेनाक!

**पान ९ वयल्यान**

शार अदीक नामनेक पावलें. बार्सेलोना शारा लागींच दर्या आसा. पूण बार्सेलोनान दर्याक फाट फिरयल्या अशें म्हणटात. बार्सेलोनाच्यानच कोलंबस अमेरिकेच्या सोदाक भायर सरलो देखून बार्सेलोनाक कोलंबसाचें यादस्तीक आसा.

बार्सेलोनाचो सगल्यांत फामाद रस्तो म्हळ्यार ला राम्बाला! आमी बार्सेलोना पावलीं ते दीस शेनवार, आयतार अशे वीक एन्डाचे आशिल्ले. देखून ला राम्बाला स्ट्रीट स्पॅनीश लोकांनी भरून ओत्तालो. जात्राच कशी. रस्त्याच्या मदीं टेबलां मांडिल्लीं. लोक वायन पियेताले. तापस आनी पायेलाचो आस्वाद घेताले. कोण चित्रां पितारतालो. कोण गिटार वाजयतालो.

मनशाचे पुतळे हें स्पॅनाचें वैशिष्ट्य. हांगा कांय कलाकार तरातरांचे भेस घालून पुतळ्या भशेन हालनासतना एकेच पोझीन उबे रावतात वा बशिल्ले आसतात. तांच्या वांगडा फोटो काडटकीर थंय एक दोन युरो वडोवचे पट्टात. ला राम्बालाच्या दोशीं दोन शॉपींग सेंटर्स आसात.

ला राम्बालाचे दावे कुशीन प्राका द सई हो चौक आसा. प्राका मायोरा चौका परस मातसो ल्हान. पूण हो चौक प्राका मायोरा परस खूब सोबीत. हांगा चारी वटांनी ओपन एअर रेस्टॉरंटस आसात.

थंयच्या एका ओपन एअर रेस्टॉरंटात बसून आमी शांग्रिलाचे घोंट घेत सवकासायेन प्रान्स तापस, चीज, ऑलिव्ह आनी चिकन पायेला हांचेर घोस्त काडलो. स्पेनीश जेवणांत ऑलिव्ह ऑयलाचो खूब उपेग करतात देखून ते सुरबूस जाता.

खंयच्याच एका शारा कडेन खंयच्याच

एका स्थापत्थकाराचें नांव इतलें जोडिल्लें हांवें खंयच पळोवंक ना. जें हांवे बार्सेलोनाक पळयलें!

बार्सेलोना हें सर्वार्थान आर्किटेक्ट आन्तोनी गावडीचें शार!

ह्या शारांत चांटेपावलाक आन्तोनी गावडीन बांदिल्ल्यो वास्तू आसात.

आन्तोनी गावडीच्या उत्तूंग प्रतिभेचो विलास म्हळ्यार बार्सेलोनाची साग्रादा फामिलीची चर्च. स्पेनाक चर्च कित्याक म्हणटात, कॅथेड्रल कित्याक म्हणतात, बासिलिका कित्याक म्हणटात, इगर्ज कित्याक म्हणटात हो गोंदळ म्हाका कळ्ळोच ना! साग्रादा फामिलीचे चर्चीचे वास्तूक देवळांक आसतात तशीं गोपुरां आसात. ह्या गगनाभिमुख गोपुरां खातीर साग्रदा फामिली चर्चीचे वास्तूक एक खेरीत भव्यताय लाबल्या. चर्चीत भितर वतकीर वणटीचेर फ्रेस्को पेन्टींगाचे हारशे आसात. ताणे चर्चीक एक वेगळीच सोबीतकाय हाडल्या. चर्चींत आलतारामुखार पावतकीर मनाक थाकाय मेळची अशी प्रसन्न, उदात्त वातावरण निर्मिती गावडीन केल्या. म्हज्या सारक्या खांप्या नास्तिकाकय थंय आंकवार मोरी मुखार आनी तिचो पूत जेजू मुखार हात जोडचे अशें दिसलें.

दुसऱ्या दिसा फांतोडेर उठून आमी गावडीन डिझायन केल्लो पार्क गुयेल पळयलो. गावडी हो फकत स्थापत्यकार नाशिल्लो. तो शिल्पकारय आशिल्लो. पार्क गुयेलात ताणें पानझाडां, फुलझाडां, फळझाडां आनी फातरांचीं शिल्पां हातुंतल्यान 'सा रम्या नगरी'... अशी रम्य स्वप्ननगरी निर्माण केल्या. बार्सेलोना गावडीन बांदिल्लीं दोन घरांय पळयलीं. सौंदर्यनदर आनी उपयुक्तताय हांचो मेळ गावडी आपल्या स्थापत्यांत सादतालो.

साग्रादा फामिलीची वास्तू पुराय करपांत मग्न आसतना एका दिसा सांजवेळा गावडी विचारांत गुल्ल आसतना रस्त्या वयल्यान चलतना एके ट्रामीन ताका धपको दिलो. बरोच वेळ कोण्ण आर्किटेक्टर गावडीक वळखलो ना. गावडी दोन तीन दीस हॉस्पिटलांत उरलो आनी थंयच ताका मरण आयलें. ह्या श्रेश्ठ स्थापत्यकाराक आर्गां ओंपूंक स्पेनान तीन दिसांचें सुतक पाळ्ळें. आनी राष्ट्रध्वज अर्द्यार काडलो!

सेंट सॅबेस्टॅंव हें शारय दर्यादिगेर आसा. पूण बार्सेलोना आनी सेंट सॅबेस्टॅंव ह्या दोन शारांमदीं कितलो भेद आसा म्हणून सांगूं? बार्सेलोना हें समुद्रविन्मूख शार जाल्यार सेंट सॅबेस्टॅंव हें पुराय समुद्राभिमूख शार. बार्सेलोनांत वतकीर तुमकां शेणिल्ल्यावरी दिसता. बार्सेलोना कोण कोणाक वळखना. बार्सेलोनान उद्देगीक शाराचें सगलें इनऑर्गे नीक, बेगडी मनीसघाणेंपण आपणायलां. सेंट सॅबेस्टॅंव हें दर्यादिगे वयल्या शिंपल्यांतल्यान आयिल्लें सेंद्रिय शार. तें जितलें शार तितलोच तो एक गांव. तो जितलो गांव तितलेंच तें खेडें. सेंट सेबेस्टॅंवांत भोंवतना रोखडेंच ह्या शारा विशीं कशें कोण जाणां आपलेपण दिसता. दर्याची गाज कानार पट्टा. दर्याक मेळूंक येवपी न्हंय शारांतल्यान व्हांवता. ह्या शारांत सिक्स क्लॉक (६०) नांवाचो मार्ग आसा. तिनसांजच्या स वरांचेर दर्यादिगेवयल्या ह्या अर्धवर्तुळाकार मार्गाचेर लायटी पेटयतात तेन्ना दर्याच्या गळ्यांत चंद्रहार घाल्ले वरी दिसता. दर्यांत देगेवयल्यान लागींच इला सान्ता क्लारा हो ल्हानसो जुंवो आसा. थंय लोक पिकनिकेक वतात. शारांत सांथ येतकीर सगल्या लोकाक ह्याच जुंवार दवरिल्ले अशें म्हणटात. शाराच्या एका तोंकार मोन्त नांवाची दोंगुल्ली आसा. तिचे वयल्यान सर्वपयस दर्या आनी तिचे देगेर बशिल्ल्या सेंट सॅबेस्टॅंव हांचें प्रियदर्शन घडटा. स्पेनाक सगल्या शारांनी आमी चलूनच भोंवलीं. सेंट सॅमेस्टॅंव आमी हॉप ऑन हॉप ऑफ बसीन भोंवली. सांजचीं आमी होन्दासिबिया ह्या एका 'बुटीक' खेड्यांत वचून आयलीं हें रोमन लोकांनी वसयिल्लें खेडे. बॅकवॉटर आनी ताचे देगेर सुपुल्लीं घरां, ल्हानशी दोंगुल्ली, ताचेर एक किल्लो आनी किल्ल्या म्हऱ्यांत इगर्ज. खेड्यांत सोबीत रस्ते. रस्त्यार सुंदर दिवे. सगल्यांक फुलझाडां. ह्या खेड्यांत शॉपिंगाचो एकूच रस्तो. थंय कपड्यांचीं, हॅन्डीक्राफ्टाचीं सुपुल्लीं दुकानां आनी एक कॉफी हावस. आमी गरम कॉफी घेतली आनी होम मेड केक चाखलो. सेंट सॅबेस्टॅंव पावता म्हणसर तिनसांज जाली. रातचीं आमी शाराच्या ओल्ड क्वार्टरांत गेलीं. हो ज्यू लोकांचो क्वार्टर. वाठार भोंवडेकारांनी भरून ओतत्तालो. ह्या वाठारांत ल्हान ल्हान रस्ते, रस्त्यांच्या दोशीं दोन वटांनी घरां, मदीं च दुकानां, रेस्टॉरंटस. एक सिनागॉग... सगल्याक कोबल्ड स्ट्रीट...

ओल्ड क्वार्टरान आपलें पुरातनत्व सांबाळून दवरलां. सर्पीणीन कात वडोवची तशी ह्या वाठारान आपली कात वडोवंक ना! काळ हांगा पांचशें सशें वर्सां तरी गोठून गेला काय कोण जाणा! हो सगलो वाठारच फोर्सालाईज्ड जाला काय कोण जाणा!

ओल्ड क्वार्टरांतल्यात एका रेस्टॉरंटांत आमी रेड वायनाचे घुटके घेत आनी स्पेनीश संगिताचे मंद सूर आयकत बसलीं. बीफ स्टेक आनी सी फूड पायेला हांचें सुरबूस जेवण घेतलें. मन आनी पोट तृप्त, संतृप्त जालें.

स्पेनांतल्या एका शारांतल्या दुसऱ्या शारांत आमी बसीनच गेलीं. देखून आमकां स्पेनाची कंट्रीसायड पळोवपाची संद मेळ्ळी. ऑलिव्हाची शेतां, सूर्यफुलाचीं शेतां, म क्याचीं शेतां पयस पयस पातळिल्लीं दिश्टी पट्टात. पायनाचे रूख दोंगराचेर आसतात. स्पेनांत टॉमाटांय खूब जातात. देखून हांगाच्या एक शारांत शिगम्याक गुलाल एकमेकांचेर मारतात तशें एकमेकांचेर पिकी टॉमाटां मारपाची परब जाता. सूर्यफुलाचीं शेतां पळोवन म्हाका व्हेन गो ची याद जाता. व्हेन गो चे जिणेची शोकांतिका जाली. पूण व्हेन गो च्या चित्रांनी जगभरच्या रसिकांक उपाट आनंद दिलो. स्पेनांत शेतां कापून जालीं देखून मैलाच्या मैल पांचवें हळडूवें मळ दिश्टी पडटालें. निकतेच बाळंत जाल्ले बायलेच्या तोंडार जे प्रसन्न भाव आसतात



उरपाची रात म्हळ्यार पुनवेची रात. ते राती आमी ग्रेनडाचे दोंगुल्ले वयलो अल्हाब्राचो किल्लो आनी राजवाडो पळयलो. हो किल्लो आनी राजवाडोय मुरीश राजांनी बांदिल्लो. देखून किल्ल्याच्या वणटींचेर अरेबीक लिपींतलीं उतरां आसात.

राजवाड्यांत जळीं मळीं हौंद आनी तळीं आसात. उदकाचो उपेग केल्ल्यान राजवाडो अदीक ओर्गेनीक जाला. राजवाड्याच्या वणटींचेर आनी पाख्याचेर केल्लें कोरीव काम पळोवपा सारकें! पुनवेच्या चांन्यांत संगमरवरी राजवाडो, ताच्या मुखा वयलें तळें, हारीन लायिल्लीं फुलझाडां हें सगलें चित्र आमी दोळ्यांत साठयलें आनी दोंगुल्ली देंवून ग्रेनेडा परतलीं.

सेवील शारांत आमी स्पेनांतली फामाद 'बुल रिंग' पळयली. बुल रिंग म्हळ्यार बुल फायटस् (धिरयो) जातात तो स्टेडियम. साधारणता मे ते ऑक्टोबर ह्या म्हयन्यांत ह्यो धिरयो जातात. सुमार धा हजार लोकांक बसपाची वेवस्था आशिल्लो हो स्टेडियम. धिरयो जावपाचो दीस म्हळ्यार बिरेस्तार. आमी सेवील पावलीं तीं सोम राक. बुधवारा सकाळीं आमकां परतुपाचें आशिल्लें म्हणटकीर आमकां धिरयो पळोवंक मेळ्ळ्यो नात. स्टेडियमांत जंय सावळी पट्टा त्यो तिकेटी म्हारग आसतात. दर बिरेस्तार तीन  झुंजी जातात. पपल्या दिसा स बैल हाडून स कुडींनी बांदतात. धिरये दिसा सकाळीं मेटाडोर येतात. मेटाडोर म्हळ्यार तांबडो भरजरी भेस घालून घोड्यार बसून हातांत भालो घेवन तो बैलांक तोपून तांकां खुबळावपी मनीस. हे स माटाडोर येवन थंयच आशिल्ल्या कपेलांत जेजूक नमन करतात. आनी घोड्यार बसून आपआपल्या बैलांक घेवन स्टेडियमांत येतात. माटाडोरान भाल्ल्यान तोंपतकीर बैल खुबळटात आनी तांचें गेर्र पेट्टा. एक बैल दुसऱ्या बैलाक जितो मारी मेरेन हें गेर्र चलता. दुसरो बैल मरतकीर चार घोड्यांचें कार्र येवन मेल्ल्या बैलाक घेवन वता. मागीर दुसरी धिरी सुरू जाता. मेल्ल्या बैलांचें मांस

ती प्रसन्नताय ह्या सर्वपयस मळाच्या मुखामळार म्हाका दिसली!

व्हेनिशिया शारांतल्यान तुरीया न्हंय व्हांवता. ह्या शारांत पळोवपाचो म्हळ्यार फेलिक्स केनेडेला ह्या आर्किटेक्टान बांदिल्लो ऑशिनोरियम. ह्या ओशिनोरियम ांत दर्यासंबंदीत म्युझियम ॲक्वेरियम आसा. ॲक्वेरियमांतले पेंग्वींन, व्हेल, शार्क हीं नुस्तीं पळोवपा सारकीं. ह्या ओशिनोरियमांत अंडर वॉटर हॉटेल जातूंत तुमी रात सारूं येता अशें. आनी रेस्टॉरंट आसा. थंय नुस्त्यांचेर उपचार करपाक हॉस्पिटलय आसा.

व्हेनिशिया शारांत एक टॉवर आसा. शारांतलो दीपस्तंभ कसो. ताच्याच म्हन्यांत मेरकारो सेंट्रल नांवाचें सिटी मार्केट आसा. थंय तरातरांचीं फळां, भाजयो, नुस्तीं, लातारी मेळटा. आमी थंडगार काळंगाचो रोस घेतलो आनी काळंगाच्यो फोडी आशिल्लो बाऊल घेतलो. ह्या मार्केटांत आमी ऑलिव्ह ऑयलाच्यो कांय बाटल्यो आनी केशर घेतलो.

ग्रेनडा शाराचें नांव पोमेग्रेनेड म्हळ्यार, डाळिंबा वयल्यान पडलें. ह्या शाराच्या सरभोवतणी डाळिंबांचें पीक खूब येता म्हणून शाराक हें नांव पडलें. खंयच्याच शाराक एका फळावयल्यान नांव पडलां हें पयलेच फावटी आयकलें. अशें जाल्यार गोंयच्या एका गांवाक नाल्ला वयल्यान, आंब्या वयल्यान, सुपारे वयल्यान वा पणसा वयल्यान नांव कित्याक पडलें ना हाचो प्रस्न म्हाका पडलो. महाराष्ट्रांत मात 'आंबेगांव' नांवाचो गांव आसा थंय आंबे पिकतात काय हांव नकळों!

ग्रेनेडाचें कॅथेड्रल पळोवन हांव पिसो जालों. कॅथेड्रलाचे वास्तूक अतिभव्य उंचाय दिल्ल्यान ताका एक वेगळो आयाम येता. कॅथेड्रलाचे वणटीचेर हारशे आनी हारशांचेर रंगीबेरंगी फ्रेस्को पेंटींग ह्या खातीर वास्तू विलोभनीय दिसता. असो अल्तार हांवें खंयच पळोवंक ना! ह्या अल्तारा कडेन पळयत रावन दिसता. नदर काडीन दिसना.

धर्मीक लोक सर्वेश्वर ईश्वराक हांगा नमन करतात. हांव ज्या अनामीक स्थापत्यकारांनी, कुशल कामगारांनी ही वास्तू बांदली तांकां नमन केलें.

ग्रेनेडाचेर कितशींच शतकां मुरीश राजांचें राज्य आशिल्लें. देखून हांगा अरेबीक क्वार्टर आसा. तो स्पॅनीश लोकांनी सांबाळून दवरला. गोंयांत आसात तशे स्युडो राष्ट्रवादी लोक स्पेनांत नात देखून कोडू इतिहास दोळ्यां मुखार नाका ही भावना स्पेनाक ना.

स्पेनाचे भोंवडेंतली सगल्यांत याद

मागीर सगले जाण खातात.

आयज धिरयांतलो झुजपी बैल ही स्पॅनीश पुरुषार्थाची कुरू जाल्या! दर सोव्हिनीर शॉपात धिरयांतलो बैल आनी ताका भालो तोंपपी माटाडोर हांचे सोव्हिनीर मेळटात. आमीय ते सोव्हिनीर घेतले. ते भायर हांवें मेटाडोराचें एक वॉल पेंटीग घेतलें.

मागीर आमी ग्रेनडाची कॅथेड्रल, थंयचो टॉवर आनी अल काजार हो मुरीश राजान बांदिल्लो किल्लो पळयल्लो.

स्पॅनीश स्थापत्यांत मुरीश, गॉथीक, बरोक आनी रेनासान्स अश्या विंगड विंगड शैलींचें संमिश्रण जालां. ह्या संमिश्रणान हें स्थापत्य गिरेस्त जालां.

सेवील आमी फ्लेमिन्सीओ हो खासा स्पॅनीश नाच पळयलो. हिप्पी लोकांनी हो नाच स्पेनाक हाडलो अशें म्हणटात. ताल, नाद, सूर, स्वर, गीत, संगीत, नाच, नृत्य ह्या सगल्यांच्या मिस्तुरांतल्यान जावपी वादन आनी नर्तन म्हळ्यार फ्लेमिन्सीओ. ह्या नाचांत एक बायल सोबीत भेसांत गायता आनी नाचता. तिचो भेस – ताचें वजन ७० ते ८० किलो आसता अशें सांगतात. तिच्या सांगातान पॅन्ट, शर्ट आनी जॅकेट घाल्लो तरणाटोय गाता आनी नाचता. फाटल्यान कांय तरणाटे गिटार, सेक्साफोन घेवन वाद्यां वाजयतात. फुडलीं दोगांय तालबध्द नृत्य करतात. तांच्या गायनांत इस्लामीक प्रार्थनेचे सूर आयकूंक येतात. तीच आर्तता. तीच गूढता. पौर्वात्य आनी पाश्चात्य संस्कृतायांचे परमरीभवन जावन ह्या गितांचो आनी नाचाचो जल्म जाला अशें म्हणूं येता.

आमचे स्पेनाचे भोंवडेंत आमी फिगेरेसो ह्या साल्वादोर दालीच्या जल्मगावांक भेट दिली आनी ताणें केल्लो मुझियम पळयलो.

साल्वादोर दाली हो चित्रकारां मदलो सिग्मंड फ्रायड म्हणूं येता. ताणें चित्रांक मानसशास्त्राच्या खेरीत पांवड्यार व्हेलें. सपनां जशीं संदर्भहीन आसतात तशीं ताचीं चित्रां अर्थहीन. चित्रां सुबोध आसुंकूच जाय, तांचो अर्थ रसिकांक कळूंकच जाय हो अट्टाहास साल्वादोर दालीक मान्य नाशिल्लो.

साल्वादोर दालीन फॉक्स वेगनाचे बिटल गाडयेचें कट्टे आपल्या म्युझियमाच्या आंगणांत लायलां आनी ताजेर तरातरांचीं शिल्पां लायल्यांत.

साल्वादोर दालीन आपल्या शिल्पांनी तांतयाचो खूब उपेग केलो. मनशाची कवटी, स्पेअर पार्टस, सांगाडे, टायर, बाटल्यो हांचो उपेग करून साल्वादोर दालीन आपलीं शिल्पां घडयलीं.

पूण साल्वादोर दालींचें सगल्यांत श्रेश्ट चित्र म्हळ्यार मेल्टिंग क्लॉक्स. वितळपी घडयाळीं. ह्या चित्रांतल्यान साल्वादोर दाली काळ हे संकल्पनेची अर्थहीनता दाखयता. एके तरेन तो स्टीफन हॉकिन्साच्या तत्वज्ञाना कडेन पावता. ढ्ढश लीळशष हर्ळीीि ूेष ढळाश हें स्टीफन हॉकिन्साचें पुस्तक जांणी वाचलां तांकां खबर आसतलें काळ हे संकल्पनेक कांयच अर्थ ना. विश्वनिर्मिती पयलीं काळ हीं संकल्पनाच नाशिल्ली. जशी दिका ही संकल्पना मनशाचे सोयी खातीर केल्या तशीच काळ ही संकल्पनाय मनशाचे सोयी आनी गैरसोयी खातीर केल्या. कृष्ण विवरांत तर काळ गोठूनच वता हें आमकां खबर आसा. साल्वादोर दाली ताचेय फुडें गेला. ताणें घडयाळी वितळटात हें दाखयलां आनी सुचयलां – काळ वितळायता!

स्पेनाचे भोंवडेत सतत याद जाताली ती डॉन क्लिओट ही अक्षर साहित्यांत आसपाव जावपी कादंबरी बरोवपी सेरवान्सीसाची. एका म्युझियमांत डॉन क्लिओटचें मूळ हस्तलिखीत सांबाळून दवरलां.

स्पेनाचे भोंवडेंत आमी माद्रीदच्या म्युझियमांत पाब्लो पिकासोचीं पॅटिंग्स पळयलीं पूण ताणें आमचें समाधान जालें ना. देखून आमी दोन वरांचो बस प्रवास करीत मालग्रा ह्या गांवांत वचून पिकासोचो म्युझियम पळोवन आयलीं.

पाब्लो पिकासो हें स्पेनाक ताचे साकर न्हिदेंत पडिल्लें सपन! पाब्लो पिकासो खातीर चित्रकलेन कूस परतिली. क्युबीझम अशें नवें घराणें ताणें चित्रकलेंत हाडलें. पिकासोच्या चित्रांत बाल सदृश्य निरागसता दिश्टी पडटा. काळाची गतीमानता आपल्या चित्रांनी स्थीर करपाची फिशालकाय पिकासोक साद्य जाली. ताच्या चित्राक एकेक थर आसतात. पापुद्रे आसतात. ते काडत गेले जाल्यार ताच्या चित्रांत एक गाज आयकूंक येता. एक स्पंदन, एक वायब्रन्स एक अंतर्नाद आयकूंक येता.

ताचीं कांय चित्रां मुग्ध तर कांय गहन गूढ. कांय सुबोध तर कांय अगम्य. सगले रंग पिकासोक वश आशिल्ले. स्वप्न आनी वास्तव, भास आनी आभास, मानवी आनी अमानवी हांचो मेळ पाब्लो पिकासोन आपल्या चित्रामदीं केलो. मानवी आकृतीचें ताणें अमानुषीकरण केलें. मनीस आनी पशु हे व्दैत पिकासोच्या चित्रांनी केन्नाच मानलें ना देखून केन्ना ताणे पशुचें मानवीकरणय केलें.

पिकासोच्या चित्रांत सादेपण आसतालें. रंगाचें सुस्नात ताजेपण आसतालें. वझऱ्याचें झुळझुळू नितळ पारदर्शीपण आसतालें.

पाब्लो पिकासोच्या चित्रांत विनोद आसतालो. उपरोध आसतालो.

देखून पिकासो म्हणटालो – I make paintings that bite हांव चित्रां पितारता तीं (कुत्र्यां भशेन) तुमकां चाबतलीं.

म्हजीं चित्रां फकत घरांतल्या दिवाणखान्यांत वणटीर लावपाच्यो सोबेच्यो गजाली न्हय. म्हजीं चित्रां हीं हांवें केल्लीं राजकीय विधानां!

पिकासोक राजकारणाचें आकर्शक आशिल्लें. ताची विचारसरणी साम्यवादी तत्वज्ञाना कडेन ओडटाली. पूण जिणेच्या उत्तरायणांत ताचो साम्यवादा विशीं भ्रम निरास जाल्लो.

क्युबीझमाक जल्माक घालतना पाब्लो पिकासो भुमितींतल्यान त्रिमिती कडेन गेलो. एकाच चित्रांत अस्तुरेचीं दोन दोन नाकां, दोन दोन दोळे, वेगवेगळे तरेन काडपाचें तंत्र

ताणें आपल्या पेंटिंग्सांनी वापरलें. पूण फुडें फुडें ह्या तंत्राची पुनरावृत्ती करपाचो ताका मोह जालो.

पिकासो म्हणटालो, You have to wake people up. To revolutionise their way of identifying things you have got to create images they won't accept. A world that is not what they think it is.

आनी ताणें लोक विचार करतात ताचे परस वेगळे तरेन चित्रां काडलीं. ते नदरेन पिकासो मुर्तीभंजक (I conoclast) आशिल्लो.

पिकासो म्हणटालो, "I hear stones cry. Bricks cry. Trees cry. Rivers cry. Nature cry. I hear their inner voice."

निसर्गाचें आक्रंदन पिकासोच्या अंतर्कानाक आयकूंक येतालें. पिकासोच्या आयुष्यांत तीन बायलो आयल्यो. ओल्गा खोखलोवा, मारीया तेरेझा आनी डोरा मारीया. ह्या तिनय बायलांचेर ताणें उपाट मोग केलो. ह्या बायलांचे पोर्टेटस ताणें चित्रांनी काडले. पिकासोक दीर्घायुष्य लाबलें. ह्या आयुष्यांत ताका नैराश्याचीं कांय वर्सां आयलीं ताका पिकासोली ब्लु पिरियेड म्हणटात. ह्या काळांत ताणें पितारिल्लीं चित्रां चडशीं निळ्या रंगात रंगयल्लीं. पूण पिकासोन आपले जिणेंत सगले शारीर भोग आकंठ भोगले.

व्हेन गो, हेमिंव्हे हांचे भशेन ताच्या आयुश्याची शोकांतिका जाली ना.

पाब्लो पिकासोन आपलीं कांय सेल्फ पोर्टेटय काडलीं. दरेक गजालीचे अंतरंग आपल्या चित्रांतल्यान दाखोवपाचो यत्न पयले फावटी चित्रकलेंत पाब्लो पिकासोन केलो.

स्पेनाची भोंवडी सोंपतां सोंपतां दोळ्यां मुखार उबे रावले ते सगले रंग...

पाब्लो पिकासोच्या चित्रांतले निळे रंग, फ्रान्सिस्को गेयाच्या चित्रांतले काळे रंग, माटाडोराच्या भेसाचो तांबडो रंग, ग्रेनेडाच्या कॅथेड्रलांतलो फ्रेस्को पेटिंगांतलो जांबळो रंग, फ्लेमिंग्सीओ नाच करपी नर्तिकेच्या भेसाचो हळडूवो रंग, ताज्या ऑलिव्हाचो पांचवो रंग, आनी अंटलांटीक म्हासागरांतल्या ल्हारांचो धवो रंग... रंगच रंग!

दिसलें... खूब जाणांनी नेत्रदान करचें! संवसारांतल्या सगल्या रंगांधळ्यांक स्पेनाक वचूंक मेळचें! ❑

---

# पट्टदकल

**पान १५ वयल्यान**

पूण सरकाराक हाचो सोद लागतकर ह्या शिल्पी वैभवाचे दीस बदल्ले. आज युनेस्कोचें जागतीक वारसा थळ म्हणून हाका नामना मेळ्ळ्या. म्हणून भारत सरकारानय हीं शिल्पदेवळां आपल्या हातांत घेवन हांचेर खास लक्ष दवरलां. ताचे भोंवतणी दुरीग बांदून भितर सोबीत बरी बाग तयार केल्या. ताची वेवस्था पळोवपाक जायतीं मनशां नेमल्यांत.

पट्टदकल हांगा एक दोन देवळां नात, तर देवळांचो समूह आसा. आमी ह्या देवूळ समुहाच्या दुर्गा भायर पावलीं. थंय वाहनां दवरूंक व्हड बरो तळ केला. प्रवेश दारांतच हांगाची म्हायती दिवपी पुस्तिका विकती भुरगे आसलें. तांचेकडेन खंयचे खंयचे भाशेंतलीं पुस्तकां आसात ते सांगताले. आमी सदचेवरी एका भुरग्याक कोंकणींतल्यान विचारलें, – ''कोंकणी पुस्तक आसल्यार दी.'' तो भुरगो बरो हुशार. ताणे म्हळें, –''नहीं मॅडम, यहाँ ज्यादातर लोक अंग्रेजी, हिंदी और कन्नड किताबेंही खरिदते हैं।''

आमी एक–एक पुस्तक घेवन मुखार गेलीं.

पट्टदकल म्हळ्यार 'शिंवासनाची शिळा'. हांगा मलप्रभा न्हय दक्षिणेकडच्यान उत्तरेकडेन व्हांवता. असो जागो शूभ मानतात. म्हणून हांगा राज्याभिशेक करून घेवंक मुद्दम राजा येताले.

चवथ्या ते आठव्या शेंकड्या मेरेन दक्षिणेच्या ह्या वाठारांत चालुक्याचें साम्राज्य उदरगतीक आयिल्लें. वैदीक संस्कृतायेचे आपणायिल्ल्या चालुक्यानी सर्वधर्म समभाव वागणुकेंत केळयलो म्हणून ह्या भागांत आमकां शैव, वैष्णव, जैन आनी बौध्दांचींय शिल्पी देवळां दिश्टी पडटात.

चालुक्य राजा विजयादित्य हाणे हांगा संगमेश्वर देवूळ बांदून घेवन हांगाच्या देवूळ संस्कृतीचो पायो घालो. म्हळ्यार अतिताय जावची ना. उपरांत सत्तेर आयिल्ल्या राजांनी तांचेर कळस चडयलो. उपरांत पराक्रमी राजा दुसरो विक्रमादित्य हाणे पल्लवांची राजधानी कांची जिखून घेतली. ह्या जैताची कुस म्हणून आपल्या दोनय राणयांक, लोकमहादेवी आनी त्रैलोक्य महादेवीक, विरुपाक्ष आनी मल्लिकार्जुन हांचीं अव्दितीय अशीं देवळां बांदून दिलीं.

हांगाचीं देवळां नागर आनी द्रवीड अशे दोनय शैलींत आसात.

ते व्हड बागेंतल्यान तरेकवार फुलझाडां तोखेत आमी मुखार सल्लीं. सदामोगरेचें झाड गोंयांत तरी आमी पोपटी पानांचें पळयलां. पूण हांगा मात वेगळींच कशीं सोबीत बरीं तांबशा दाण्याचीं पानां आसलीं. तशींच गोंयच्या दसणींच्या पानांपरस हांगच्या दसणीची पानां वेगळींच कशीं. कात्र्या कात्र्याच्या पानांक मिरी घाल्ले भशेन पानां, फुलां गोंयचेच भशेन. पूण झाड आनी रंगान रुपान वेगळींच कशी. झाडावाली तोखेत आमी भितल्ल्या दुर्गा म्हऱ्यांत पावलीं.

ह्या दुर्गाभितर देवळांचो चोमो दिसतालो. सुर्वेकच विरुपाक्ष मंदीर मेळटा. हांगा गर्भकुडींत लींग आसा आनी ताची पुजा करतात. ह्या देवळांत वास्तू आसा म्हणून हांगा पुजा–अर्चा चलता. ह्या देवळाचे गर्भकुडी वयर कळसार शिखर आसा. हें देवूळ आठ भागांत आसा. हीं सगलीं देवळां

सेंडस्टोन म्हळ्यार रेंवे फातराचीं.

थंयच्यान आमी काडसिध्देश्वर देवळांत गेलीं. बदामी चालुक्यांचें आराध्य दैवत म्हादेव. म्हणुनच हांगा आमकां तो वेगवेगळ्या रुपांत दिसता. खंय तो विरुपाक्ष जाता, खंय मल्लिकार्जून जाल्यार खंय तो पापनाथ म्हणुनय दिसता.

काडसिध्देश्वर देवळांत भितर खांबे नात. गर्भकुडींत मोठ्ठें बरें लींग आसा. पूण ताची पुजा जायना. ह्या देवळांत काडसिध्देश्वर नांवाचो साधू रावतालो. म्हणून ह्या देवळाक ताचें नांव दिलां जातलें अशें म्हणटात. भायर दारार वीर आनी भद्र हे दोन व्दारपाल आसात. ह्या देवळांतलीं कोरांतिल्ली चित्रां तुटकी-फुटकीं कशीं. ह्या देवळाचे भायले वण्टीर मात शीव, हरीहर आनी अर्दनारेश्वराचें सुंदर चित्र आसा.

आनी एक गलगंड म्हणून देवूळ आसा. हांगा लिंगाक बसका ना म्हळ्यार योनी ना. हें ग्रेनाय्टाचें लींग येद्दें मोठें. ताका तीन भाग आसात. ते म्हळ्यार मुळांत 'ऋ' म्हळ्यार जनरेटर - हो ब्रह्मदेव, मदीं 'ज' म्हळ्यार ऑपरेटर - हो विष्णू, आनी सगल्यांत वयर गोलाकार आसा तो 'ॐ' म्हळ्यार डिस्ट्रक्टर - हो भंजक असो शीव, अशे हे त्रिदेव एकठांय करून हें लींग तयार केलां अशें गायडान सांगलें.

थंयच्यान आमी म्हऱ्यांतच आशिल्ल्या संगमेश्वर देवळाकडेन आयलीं. हें सगल्यांत पयलें देवूळ, पूण अर्दैंच उल्लें. ज्या राजान हें बांदूक लायिल्लें तो मेल्ल्यान देवूळ तितल्यारच उल्लें. हें सादारण आठव्या शेंकड्यांत तयार केल्लें. हाका विजयेश्वर देवालय अशेंय म्हणटात. ह्या देवळांतले तीन खांबे एका नर्तकान दान दिल्यात. ही सगली म्हायती एका व्हड बऱ्या फातरपट्यार कोरांतल्या. उरिल्ले खांबे आनी कोणे कोणे दान दिल्यात तेंय बरयलां. तशेंच कितल्या राजांचे राज्याभिशेक जाल्यात ताचीय माहिती ह्या फातरपट्यार कोरांतल्या.

भितल्लें लींग फुटलां. आमी जोतीं घालुनच ह्या देवळांनी भोंवल्यांत. कारण सकल जमीन सारकी ना. थंयची शिल्पकला दोळ्यांर धरना इतली सोबीत. पूण देवळांची मात सामकी दशा जाल्या. तरी आतां तीं सारकीं करतात अशें वाटाड्यान सांगलें.

थंयच वेलेवटेन पापनाथाचें देवूळ आसा. हाची सामकी तोड-फोड केल्या. आमचो वाटाडो हीं देवळां फोडपी त्या मुस्लीम बादशहांक सामको कड्डितालो. ह्या पापनाथाच्या देवळाचें शिल्पकाम द्रविडी शैलीचें, आनी शिखर नागर शैलीचो. ह्या देवळाच्या भायलेवटेन बरीं चित्रां कोरांतल्यांत. देवळाच्या भितल्ले वण्टीर रामायण, महाभारत हातुंतलीं चित्रां आसात.

विक्रमादित्य राजान कांची विजयाचें प्रतीक म्हणून आपले एके राणयेपासत, त्रैलोक्य महादेवी पासत बांदिल्ल्या विरुपाक्षाच्या देवळाकडेन आमी आयलीं. ह्या देवळात पुजा बी जाता. हें द्रविडी शैलीचें देवूळ. विरुपाक्ष म्हळ्यार तीन दोळ्यांचो म्हादेव. पूण ह्या देवळांत फकत लींग आसा.

ह्या देवळाभायर नंदी आनी सुवर्णगंगेपासत मंडप बांदला. असो नंदीपासत वेगळो मंडप आनी खंयच ना खंय. हो नंदी बरोच व्हड. ताची साग्रसंगीत पुजा करतात. हो मंडप कोरीव कामान नटयला. थंयच्यान देंवन आमी विरुपाक्ष देवळांत गेलीं. दारांत वीर आनी भद्र हांच्यो अडेच फूट ऊंच मुर्ती आसात. त्रिशूळ घेतिल्ल्या म्हादेवाचें चित्र आसा. हें खांब्यां-खांब्यांचें देवूळ. हांतल्या दरेक खांब्यार शृंगारांत मग्न आशिल्ल्यो जोडयो, लोक काणयो कोरांतल्यात. सामुहीक शृंगाराचेंय चित्र हांगा कोरांतलां.

भितल्ल्या खांब्यांचेर रामायण, महाभारत, भगवतगीता ह्या महाकाव्यांतले प्रसंग चित्रायल्यात. ते भायर समुद्रमंथन, त्या काळांतलो समाज कोरांतला. हातुंतल्यान त्या वेळावेल्या बायलांची जिणे रीत कळटा. केंसांच्यो मोदी तर सामक्यो, आतांच्यो आमी नव्यो ताल्ल म्हणून करतात त्योच. बॉबकट, आनी कसले कसले कट, पोनी टेल सगल्यो मोदी त्या वेळारय आशिल्ल्यो. कपड्यांचेंय तशेंच. मोटवे स्कर्ट, बिकीनी, धोंपरा मेरेन साडयो बऱ्यो कोंरातल्यात.

भायल्या पाख्यारय सूर्य, हातांत कमळ घेतिल्लो आचार्य आनी ह्या देवळाचे स्थापत्य शास्त्रज्ञ गुंडन आनी बल्लदेव हांच्योय मुर्ती कोरांतल्यात. ह्या देवळाच्या भायर ज्यो व्हड-व्हड मुर्ती कोरांतल्यात तातूंत शीव-पार्वती, अर्दनारेश्वर हांच्यो मुर्ती चड आसात.

तेकुनच त्रैलोक्य महादेवीचें देवूळ आसा. हें मल्लिकार्जुन देवालय. हाका त्रैलोकेश्वर महादेवाचेंय देवूळ म्हणटात. आपल्या विजयाचें प्रतीक म्हणून आपल्या बायलांक तांकां जाय तसल्या शिल्पकृतीचीं देवळां बांदून दिवपी हो राजा कितलो कलामोगी पळयात. ताच्यो बायलोय तितल्योच कलासक्त मनाच्यो म्हणून फकत जड-जवाहीर, कपडो लत्तो मागनास्तना शिल्पकृतीनी नटयल्लीं देवळां बांदून घेतलीं. धन्य ते राजा आनी धन्य ताच्यो राणयो. तांची आवड पुरयल्ल्यान आज आमकां अशीं शिल्पसुंदराय पळोवंक मेळ्ळी.

ह्या देवळाच्या सभामंडपाक १८ खांबे आसात. तांचेर महाकाव्यांतले प्रसंग कोरांतल्यात. एका खांब्यार पाख्याकडल्यान पयलीं पत्रां कशीं धाडटाले तें कोरांतलां. हांगाय गर्भकुडींत व्हड लींग आसा.

म्हाका चड मजा दिसली ती आमच्या पंचतंत्रांतल्यो काणयो खांब्यार कोरांतल्यात ताची. हातूंत एक काणी आसा, एक बायल भुरग्याक घरांत न्हिदोवन उदकाक वता, ती घरा येतकर तिच्या पोशिल्ल्या मुंगुसाच्या तोंडाक रगत पळयता आनी विचार करनास्तना ताका मारून उडयता. खरी खबर कळटकच तिका पश्चत्ताप जाता. दुसरी काणी माकडाची. लाकूड चिरप्यान फळयांमदीं दवरिल्ली पाचर काडटा आनी ताची शेंपडी खाचींत उरता ती काणी. आनीकय वेगवेगळ्यो पंचतंत्रांतल्यो काणयो खांब्यांचेर कोरांतिल्ल्यो आसात. भायले

कुडींत गजांतल, लकुलिशा, हरिहर हांच्यो मुर्ती कोरांतल्यात. छतार शीव-पार्वती आसा. हाचें शिखर वांटकुळें.

सुर्वेच्या काळांत द्रविडी पध्दतीच्या बांदकामांत देवळाचेर शिखर त्रिकोनी कशें आसतालें, आनी जायत्या मजल्यांचें आसतालें. उपरांतच्या काळांत देवळाभोंवतणी गडगंज तट बांदूंक लागले. ताच्या प्रवेश दाराचेर ऊंच ऊंच गोपूय बांदपाची रीत सुरु जाली.

ह्या मुखेल देवळां भायर काशी विश्वेश्वर, जंबलिंग आनी जैन देवालया आसात. ह्या जैन देवळाचें बांदकाम म्हळ्यार भारतीय शिल्पकलेचें मुळावण कशें दिसता. हाचेवेली चित्रां त्या काळावयलें सामाजीक जिवीत दाखयतात. हींय देवळां शिल्पकारीन नटयल्यांत. कांयकडचीं शिल्पां मुसलमानी आक्रमकांनी तोडून-फोडून उडयल्यांत, कांय पावस-पाणयाच्या भकीक पडल्यांत. आतां मात हीं देवळां सांबाळपाचें काम चालू आसा.

ते भायर जायत्यो ल्हान-ल्हान देवळ्यो थंय आसात. वयर छत ना. पूण भितर सुळसुळीत बरीं लिंगां आसात. तातुंतलीं कांय खुबच सुंदर आसात.

हांगाची शिल्पकारी बरे तरेन बारिकसाणेन पळयलीं जाल्यार दोन तीन दीस थंय रावूंक जाय. जाल्यारच आमचो कलात्मक इतिहास आमी मात्सो तरी समजून घेवंक शकतली. पूण वेळाचो हावको आमकां चिकटल्लोच आसता. मागीर वाटाड्याच्या उलोवण्याचेर पातयेवन लोणच्याचो मेथो जिबेक लायिल्लेवरी धांवती भेट अशा थळांक दिवन समाधान मानतात.

थंयच्यान आमी भायर सल्लीं. पळैत जाल्यार पांचव्याचार तणाच्या मळार तरेकवार पक्षी उडटाले. आमी ही शिल्पकला तोखेत भोंवता आसतना अभिजीत आनी मोहीत पक्षांफाटल्यान भोंवताले. अभिजीत आपल्या कॅमेऱ्यांत तांकां बंद करुन आमकां हाडून दाखयतालो. हालींच हावें गोंयांत हुप्पो म्हणून आंगभर पट्टे आशिल्ल्या पक्षाचें वर्णन हर्षाकडल्यान आयकल्लें. हांगाय अभिजिताक हो चॉकलेट धव्या पट्ट्यांन नटिल्लो हुप्पो मेळ्ळो. ताणे ताचो फोटो काडून आमकां हाडून दाखयलो.

थंयच्या तणारय आमकां जायते तरेचे पक्षी दिसले. तातुंतलो एक आमचे मडवळण पक्षावरी. आकारान चिमणे येदो. पूण ताची शेंपडी मात चार-पाच इंच सुमार लांब. हळदुवे आनी काळ्या रंगाचे हे पक्षी शेपडी सतत हालयताले. असलेच मात्से मोठे पक्षी हांवें गुजराथाक नर्मदेच्या देगेर पळयल्ले. तांकां गुजराथी लोक चिखली म्हणटात खंय.

पेरां, आडसरां खावन आमी थंयच्यान भायर सल्ली. ❑

---

# हाजार चुराशीर माँ

**पान १७ वयल्यान**

वर्साचो सोळा जानेवारी. सुजाता परतू परतून आंगापोंदची चादर मुठींत गच्च आंवळून धरताली. माथें घामान थपथपीत जाल्लें. दोळ्यांचे भोंवतणेंत काळसो वाठार पातळटालो. त्या वर्सा जानेवारींत खूब थंडाय आसुनय बी तिका ती लागनाशिल्ली.

गर्भाशय चिरीत वेणो भायर सरतात आनी परतून भितर जिरतात. हांतरुणां वयली धवी चादर मुठींत घट्ट धरिल्ली आसतनाच, घामान चिप्प भिजिल्ली सुजाता जागी जाता. ज्योतीच्या बापायक पळोवन तिच्या गोऱ्या गोऱ्या कपला वयल्यो भुंवयो सुरकट्टात. ज्योतीचो बाबा कुशीचे खाटीर सो कित्याक? ते उपरांत रोखडीच ती तकली हालोवन ना म्हणटा. व्रती जालो तेन्ना दिव्यनाथ लार्गी नाशिल्लो न्हय, त्या खातीर सपनांत तिका केन्ना दिव्यनाथ दिश्टी पडना. पूण आतां ती सपनांत ना न्हय?

कसोयतरी हात भायर लांबोवन तिणें बेराल्गन गुळी आनी उदक हातांत घेतलीं. गुळी तोंडांत घालून उदकाचो घोंट घेवन गिळ्ळी. पालवान माथें पुसलें आनी परतून आड पडली. आतां चड गरजेचें काम म्हणल्यार शंबर मेरेन आंकडे मेजप! डॉक्टरान अशें करपाक सांगलां. आंकडे मेजल्यारच वेदना जाणवप कमी जाता. जितलो वेळ मेजपांत वता तितल्या वेळा भितर बेराल्गन लागू पडपाक लागता. वेदना कमी जाता.

त्या उपरांत खरेपणीच वेदना कमी जाता. आतां कमी जायत आसा - कमी जावप गरजेची. घडयाळींत पळयता; स वरां जाल्यांत. वणटी वटेन पळयलें. थंय कॅलेंडर दिसलें. सतरा जानेवारी. सोळा जानेवारीक पुराय रातभर वेणांच्यो वेदना आशिल्ल्यो - सुद्द वताली आनी येताली - ईथराचो नाकाक झोमपी वास, उजवाडाचो झगझग, दुखीच्या अंधूक आनी अस्पश्ट पड्ड्या फाटल्यान रातभर डॉक्टरांची येरादारी. सतरा जानेवारीक भिणभिण्यार व्रती येवन पाविल्लो. आज तोच सतरा जानेवारी. आनी ह्या आयच्याच दिसा, दोन वर्सां आदीं अशीच त्या मनशाचे कुशीचे एके खाटीर सुजाता न्हिदिल्ली. भिणभिण्यार मंद उजवाडांत कुशीक आशिल्ल्या मेजा वयल्या फोनाची अचकीत घांट वाजिल्ली.

टेलिफोनाची घांट वाजता, ज्योतीचे कुडींत दोन वर्सां आदीं. त्या दिसा उपरांत ज्योती टेलिफोन आपणाले कुडींत घेवन गेल्लो. खुबूच समजिकायेचो हो ज्योती. घोवाचें पयलें भुरगें -दिव्यनाथाचो आज्ञाधारक पूत, बिनीचो कर्तव्यदक्ष पती -

सुमनाचो स्नेहभावी बापूय.

समजिकायेचो ज्योती! दोन वर्सां आदीं सुजाताची पिराय एकावन वर्सां जाल्ली आनी ज्योतीचो बाबा जाल्लो छप्पन वर्सांचो. आस्पतदार स्थिती, दोगांयची जीण सुखा समाधानाची. धुवेचें लग्न जालें; धाकटे धुवेनय आपल्या मना सारको जोडिदार वेंचून काडला. व्हडलो पूत एक प्रतिशठीत व्यक्ती. धाकट्या पुताक कॉलेज शिक्षण जायनाफुडें बापूय इंग्लंडाक धाडटलो – सगलें मना सारकें जुळ्ळां जमलां, वेवस्थीतपणान मांडावळ जाल्या. सोबीत, सगलेंच खूब सोबीत चलतालें.

त्याच वेळार जिणेच्या त्याच भारार आशिल्ल्या दिसांनी टेलिफोनाची घांट वाजली. आवयन न्हिदेभारार आशिल्ल्या दोळ्यांनी टेलिफोन घेतिल्लो. अचकीत एका अनवळखी, थंड, यांत्रीक अधिकारी आवाजांतलो प्रस्न कानार पडलो ''व्रतो चटर्जी तुमचो कोण लागता? पूत? कांटापुकूरायो!''

हय, त्या निर्जीव आनी एकसुरी सुक्या आवाजान म्हणिल्लें 'कांटापुकूरा यो!' रिसिवर निसरून पडिल्लो. सुजाता सकयल पडिल्ली, दांतकडी बशिल्ली. दोन वर्सां आदीं, सतरा जानेवारी दिसा सकाळीं व्रतीच्या जल्मा दिसाच व्रतीच्या धरतरेर येवपाच्या वेळारच ह्या नितळ – निवळ, सजिल्ल्या – सजयिल्ल्या घरांत, ह्या सोबीत कुटुंबांत, टेलिफोनान दिल्ले खबरे प्रमाण एक आकस्मीक, ध्याना–मनांत नाशिल्ली घडणूक घडिल्ली.

ज्योतीन त्याच खातीर जाग्या वयल्यान टेलिफोन हालयिल्लो. सुजाताक ते विशीं कांयच खबर नाशिल्लें. तीन म्हयने मेरेन तिका कित्याचोच सुगावो लागुंनाशिल्लो. हांतरुणार पडून आसताली – कोपरा मेरेन हात दोळ्यां आड धरून. केन्नाच ती ताळो फोडून रडली ना. हेम, एकटीच हेम तिचे आशिकुशीक आसताली. कपलाचेर हात दवरून रावताली, तिका न्हिदेच्यो गुळयो दिताली. ताका लागून सुजाताक टेलिफोन थंयच्यान केन्ना काडून व्हेलो हाचो पत्तोच लागलो ना.

तीन म्हयन्यां उपरांत सुजातान परतून बँकेंत कामाक वचपाक सुरवात केली. परतून ज्योती, नीपा, तुली हांचे कडेन सारकी  उलोवंक लागली. ज्योतीच्या पुताक पेन्सिलेक तोंक काडून दिलें; बिनीक विचारलें, ''म्हजी काळेदेगेची साडी धुवपाक घाल्या गो?'' ज्योतीचो बापूय मुंबय वचपाक भायर सरलो तेन्ना ताचे बॅगेंत इसपगोलाचें पाकीट घालें. आनी अशे तरेन सगली सहजतायेन जीण जाग्यार पडली तेन्ना फोन आपणाले कुडींतल्यान काडून ज्योतीचे कुडींत व्हेला ही गजाल सुजाताक कळ्ळी.

ही घडणूक तिच्या लक्षांत आयली तेन्ना तिचीं चिंतनां चलपाक लागली. कितें? ज्योती इतलो मूर्ख? ताच्या मुर्खपणाचेर ती बेजारली. अशें जाल्यार आतां फोनच येवचो ना तर! ज्योतीच्या बाबाचें चार्टर्ड एकावंटन्सीचें ऑफीस आसा. ज्योती एके इंग्लीश कंपनींत एक सकयल्या पदाचो ऑफिसर. व्हडली धूव नीपाचो घोव कस्टमांत एक वयल्या पदाचो ऑफिसर. तुलीन जाचे कडेन लग्न करपाचें थारायलां त्या टॉनी कपाडियान स्वीडनांत आपणाली एजन्सी सुरू केल्या. तो भारतीय रेशम बाटीक, ब्रॉन्झ, पितळ असल्या धातूंचे नटराज आनी बांकुराचे टेराकोटाचे घोडे एक्सपोर्ट करता. ज्योतीचीं मांय–मांब विलायतेंतच रावतात.

हीं सगलीं मनशां जंय जिवाक धोको संभवता अशें कसलेंच काम करचीं नात जाका लागून अचकीत टेलिफोन वाजूं येत आनी सुजाताक आपटत–पडत कांटापुकूराक वच्चें पडत!

हे लोक केन्नाच असलें कितेंच पिशेपण करचे नात जाका लागून ज्योती आनी ताच्या बापायक धांवपळ करची पडत. वयल्या पदाच्या ऑफिसरांच्या थरा मेरेन, आनी कांटापुकूराक वच्चें पडत सुजाता आनी तुलीक.

हे लोक अशें कसलेंच काम करचे नात जाका लागून तांकां कांटापुकूरांत मडें जावन उदारें पडून रावचें पडत आनी तेन्ना थंयचो डोम जडेली चादर कुशीक काडुंये आनी ऑफिसर इन कमांड तिका म्हणुंये 'डू यू आयडेंटिफाय युवर सन?'

हे सगले समजीक शाणे लोक! नेम आनी उपनेमांक पाळो दिवन चलपी बरे नागरीक! हे लोक सुजाताक संकश्टांत घालचे नात. ज्योतीच्या बापायचेर धांवपळ करपाचो प्रसंग हाडचे नात. सांगपाचें म्हणल्यार तांच्या पुताक ज्या कलंकाक लागून मरण आयिल्लें ती खबर चेपून दवरपा खातीर ज्योतीचो बाबा जो वळखी–वशिले लायत भोंविल्लो ताचो आनी अदमास येवचो ना.

फोनाचेर खबर कळ्ळी तेन्ना ती खबर कशे तरेन चेपून दवरची ते विशीं ज्योतीचो बाबा चिंतूंक लागिल्लो. सगल्यांत पयलीं कांटापुकूर उणेच एक फावट तरी वचपाकूच जाय अशें मात ताका दिसलें ना. ज्योतीय बी त्या बापायचो आदर्श पूत; तोय बी बापाय वांगडाच भायर सरून गेल्लो.

सुजाताक घरची कार घेवन वचपाकय मनाय केल्ली दिव्यनाथान. आपणाली कार कांटापुकूरांत उबी रावतली? अशें कशें जातलें? कोणेंय पळयली जाल्यार!

त्या दिसा व्रती अंतरलो तसोच व्रतीचो बाबाय संवसाराक अंतरलो अशी सुजाताच्या अंतरात्म्यान कायम गांठ मारली. व्रतीच्या बाबाचे  त्या दिसाचे चलणुकेन तिचे पुराय चेतनेचेर वज्रपात जाल्लो; सगलेंच हालिल्लें. सगल्यांचो मोडून अशे तरेन चुरो जाल्लो जे तरेन करोडांनी वर्सां आदीं हे आदीम धरतरेचेर विस्फोट जावन त्या विस्फोटान धरतरे वयले म्हान प्रदेश फुटून नकाशाच्या पयस पयसुल्ल्या पोंताचेर शिंपडून पडिल्ले आनी मदलीं सपाट अंतरां दर्यान व्यापिल्लीं.

सुजाता खातीर आपूण मेल्ल्यांत जमा जाल्लों आनी आस्ते आस्ते पयस पयस पाविल्लों म्हळ्ळ्या वास्तवाचो दिव्यनाथाक पत्तोच नाशिल्लो. सुजाताचे कुशीक तो आड पडटा, पूण आपणाक अंतरिल्ल्या व्रती परस

चड आपणे जित्या दिव्यनाथाचो मान-सन्मान आनी सुरक्षेची जतनाय घेतली आनी त्या खातीर आपूण सुजाताच्या हिसबान अस्तित्वहीन जालां ही गजाल ताका कळच नाशिल्ली.

दिव्यनाथाची धांवपळ फळादीक जाल्ली. ताणे लायिल्लो वशिलो लागून दुसऱ्या दिसाच्या खबरांपत्रांत फकत चार तरणाट्यांचे हत्येची खबर उजवाडा आयिल्ली; तांचींच नांवां छापिल्लीं. व्रतीचें नांवूच नाशिल्लें.

अशे तरेन दिव्यनाथन व्रतीक पुरायेंन विसरायेर घाल्लो. पूण सुजाता तशें करपाक शकली ना.

ते तरेची मर्याद भायली एकाद्री घडणूक पसून अचकीत घडपाचो संभव ना हाची कल्पना आसुनय बी ज्योती टेलिफोन घेवन गेलो! अजापशें दिसून सुजाता आपले भितरच हांसली.

बिनीन तिच्या ओंठां वयलें मुमुरखें हांशें पळयलें आनी ताचें तिका वायट दिसलें. तिच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां व्हांवलीं. तिणें ज्योतीक म्हणलें, ''शी हॅज नो हार्ट!'' उतरां सुजाताक उद्देशून म्हणिल्लीं. सुजातान बरे भशेन आयकलें, पूण मनाक लावन घेतलें ना. बिनीचो व्रतीचेर मोग आसा अशें तिका पयलीं दिशिल्लें, खऱ्यांनीच ती ताका मोगाचे नदरेन पळयता अशें तिका सदांच दिसतालें.

त्या वेळार तिका व्रती विशीं मोग आसा अशें दिशिल्लें. पूण त्या उपरांत तशें दिसलें ना कारण फुडले पडवेंतलो व्रतीचो फोटो जाग्यार नाशिल्लो, ताचीं जोतींय खंय दिसलीं नात, व्रतीचो रेनकोटय बी नदरेआड जाल्लो.

''बिनी फोटो खंय थंयचो?''

''तिसऱ्या माळ्यार कुडींत.''

''तिसऱ्या माळ्या वयले कुडींत?''

''बाबान सांगिल्लें दवरपाक.''

''बाबान सांगिल्लें?''

व्रती अंतरल्या उपरांतय बी ताका पुरायपणी विसरून ताची फाटीं उरिल्ली दर एक कुरू नश्ट करून उडोवपाची एकूय संद दिव्यनाथान व्हगडावं नाशिल्ली. कसलेंच नवें दुख्खय जावंनाशिल्लें. त्या खातीर कसल्याच दडपणा विरयत तिणे विचार केल्लो; हय, दिव्यनाथच अशें सांगूंक शकता, पूण बिनी 'ना' म्हणून आडावंक शकनाशिल्ली?

सुजाता एकूय उतर उलयनासतना बँकेंत गेली. तिची बँकेची नोकरी खूब पोरणी. व्रती तीन वर्सांचो आसतना ती पयले फावट नोकरेक गेल्ली. व्रतीच्या बाबाच्या ऑफिसांत तेन्ना कसलो तरी गोंदळ चलतालो. दोन व्हडले व्हडले एकावंट हातांतल्यान गेल्ले.

त्याच दिसांनी सुजाता कामाक गेल्ली. घरांत सगल्यांनी ताचो उत्साह वाडयिल्लो. इतलेंच न्हय जाल्यार सासवेनय म्हणिल्लें, ''काम करपाकच जाय. तूं म्हणून इतले दीस घरांत बसून रावली आनी दिबूय बी कितेंय गंभीरपणान घेवपी न्हय, नाजाल्यार तुका तो पयलींच नोकरेक वच म्हणचो नाशिल्लो?''

सुजाता कित्याक नोकरी करपाक सोदता, कित्याक स्वता जोडटा, स्वता मोडटा ते विशीं जाणा जावचें अशें कोणाकूच दिसलें ना. कितेंय तरी म्हत्वाचें कारणय आसतलें असोय कोणें विचार केलो ना. एका अर्थान तें बरें जाल्लें. ह्या घरांत दिव्यनाथ आनी ताची आवय हांणींच आपणालें म्हत्व वाडोवन दवरिल्लें. सुजाताचें आस्तित्व सावळे वरी जाल्लें. मुखार चलता ताचे फाटोफाट तोंड धांपून चलपाचें. स्वत्वहीन अस्तित्व!

बँकेंत वळख देख आशिल्ली, नाजाल्यार घडये काम मेळचें नाशिल्लें. सुजाताक नोकरी मेळिल्ली ती तांचें कुटुंब आनी घराण्याचें नांव आशिल्ल्यान. स्मार्ट, मॉडर्न दिसपी, बी.ए. पास जाल्ल्यो अस्तुऱ्यो आनीक जायत्यो आशिल्ल्यो ही गजाल नकळो आशिल्ली तर सुजाता? फकत व्रती रडटालो.

सपनांत आतांय बी तीन वर्सांचो व्रती तिच्या पांयांक वेंग मारून रडटा; परतून रडत म्हणटा, ''माँ, आज, आज एकूच दीस तूं ऑफिसाक वचूं नाका, म्हज्या वांगडा राव.''

गोरो, किडकिडीत, व्रती-मोव, मोव रेश्मा सारके केंस, दोळ्यांत मायेस्त भाव.

तोच व्रती. मुक्ती दशकांत(१) एक हजार त्र्यांयशी जाणां उपरांत एक हजार चवद्यायंशीव्या नंबराचेर ताचें नांव आसा. पूण ह्या दशकाच्या अडेज वर्सांनी हत्या केल्ल्या तरणाट्यांच्या नांवांची वळेरी जर कोणूय करूंक लागलो जाल्यार ताका व्रतीचें नांव मेळतशें दिसता? खबरांपत्रांय बी जर पानां परतून पळयलीं जाल्यारय व्रतीक कोणूच वळखुचो ना.

व्रतीच्या बाबान ताचें नांव खबरांपत्रांनीय बी येवपाक दिलें ना.

''व्रतीचीं कोण लागतात तुमी?''

''ना, चेरो पळोवपाक नाका.''

''वळखीक कसलीय आंगार कुरू?''

''मानेर चामकीळ आसा.''

''ना, चेरो पळोवपाक नाका.''

तिणें कितें जाप दिल्ली? ''हांव पळयतलीं!'' निळें खोमीस, बोटां, केंस – अशें सगलें पळयले उपरांतय बी मनांत दुबाव उरिल्लो. तिची तर्क-बुद्दी आनी प्रत्यक्ष दोळ्यांनी पळयल्ल्या वस्तूं वटेन आडनदर करून खंय तरी मनांतलो तो दुबाव म्हणटालो घडये चेरो पळोवन तो व्रती न्हय म्हूण कळत!

लार्गींच बशिल्ल्या डोमान करुणेन म्हणलें, ''कितें पळयतलीं तुमी माँजी, कितें उरलां थंय चेरो म्हणपा सारकें?''

तेन्ना कितें केलें सुजातान? आनिकय चार प्रेतां थंय घाल्लीं आशिल्लीं. खबर ना कोण कोण थंय, विकळापतालीं आनी सांगूं नजो कोण जमनीर कपल आपटून रडटालीं. कोणाचोच चेरो याद जायना. सगलेंच अंधूक शें, पूण एकाद्री याद वज्राचे सुरयेवरी कचकचीत धारेची आसता- आपणाल्या त्या चक्क उजवाडानय कातरपी!

ताचे छातयेर, पोटार आनी गळ्याचेर गुळ्यांचे तीन घावे आशिल्ले. निळे खोलसार

शे! खूब लार्गीच्यान मारिल्ले फार, निळी कात कोरडायटाचो (२) हुलोप लागून लाशिल्ली. घाव्यांतल्यान बदामी रंगाचें रगत व्हांवून दाट जाल्लें. दारवेक लागून जाग्या-जाग्यार कात हुलपल्ली आनी खंय खंय कातीक कातरे पडिल्ले. गळ्याक, पोटाक आनी छातयेक तीन गुळयो लागिल्ल्यो.

व्रतीचो चेरो. व्रतीचो चेरो! सुजातान पुराय नेटान दोनूय हातांनी चादर ओडून काडली. व्रतीचो चेरो! कसल्याय धारेच्या आनी जड शास्त्राच्या फाटल्या तोंकान मारूमारून चेंचिल्लो व्रतीचो चेरो. तिचे फाटसून तुलीची किळांच!

तोच चेरो सुजाता मातशी बागोवन पळयता. तिका प्रस्न पडटा 'बोटां फिरावं?' तिका 'व्रती, व्रती'! अशें म्हणून ताच्या चेऱ्या वयल्यान बोटां फिरायन दिसतात. पूण बोटां तेंकोवपाक एक इंचभरूय कात थंय नाशिल्ली. सगलोच एक चेंचून दवरिल्लो मासाचो पिंड जाल्लो दिसतालो! तें पळोवन सुजाता चेरो धांपता. फाट करता आनी कुड्डी जाल्ले वरी तुलीक घट्ट वेंग मारता.

व्रतीच्या बाबान वणटी वयलो फोटो काडून उडोवपाक सांगलां. बँकेंत वता आसतनाय तिका ताची याद आशिल्ली. ते घडणुके उपरांत पयल्या दिसा ती बँकेंत गेली त्या दिसाची गजाल ती.

बँकेंत सगल्यांच्योच नदरो तिचेर लागिल्ल्यो. अचकीत सगले आवाज मोने जाल्ले. उपरांत सगलें मौन.

एजंट लुथरा मुखार आयिल्लो.

'मॅडम, सो सॉरी...'

'थँकयू', सुजातान बागवल्ली मान वयर काडूंक नाशिल्ली.

''मेमसाब!''

'एक ग्लास उदक' भीखनान उदकाचो ग्लास तिका दिल्लो. सुजाताक संवयच जाल्ली ऑफिसांत पावना फुडें एक ग्लास उदक पियेवपाची.

'मेमसाब!'

भीखनान मवाळ आवाजान ल्हवूच म्हणिल्लें. सुजाताक ताच्या दोळ्यांतली वेदना कळिल्ली. भीखनान तेच दुख्खी नदरेन तिका वेंगेंत घेतिल्ली. भीखनाचो पूत जेन्ना भलायकी इबाडून संवसाराक अंतरिल्लो आनी ताका बँकेंत तार आयिल्ली सुजातानय ताका वेंगेंत घेतिल्लो.

सुजातान भीखना वयली नदर कुशीक काडिल्ली. त्या समयार ती ताची सानुभुती स्विकारूंक शकनाशिल्ली. 'भीखन, म्हाका माफ कर बाबा तूं. व्रतीचें मरण तुज्या पुताच्या मरणा सारकें न्हय रे बाबा! ती तरा वेगळी! तेन्ना सगलें विसरून तुका वेंगेंत घेवन दुख्ख ल्हव करूं येतालें.'

व्रती ते तरेन मरूंक नाशिल्लो न्हय. व्रतीच्या मरणा पयलींचे खूबशे प्रस्न आसात आनी ते उपरांतय खुबश्या प्रस्नांनी गर्दी केल्या. एके हारेन चलत येवपी प्रस्नांची मिरवणूक. आनी ते सगले प्रस्न अनुत्तरीत उरल्यात. एकाय प्रस्नाची जाप मेळचे आदींच व्रती चटर्जीची फायल बंद जाली!

''भीखन, माफ कर तूं म्हाका.''

दिसभर ती मशीनकशी काम करीत रावली. व्रतीच्या बाबाक सांजवेळा घरा आयलो तेन्ना विचारिल्लें.

''तुवें व्रतीचो फोटो काडून तिसरे माळयेर दवरपाक सांगला?''

''हय.''

''ताचें जोतें?''

''हय''

''कित्याक?''

''कित्याक!''

दिव्यनाथान निरशेणेन तकली हालयिल्ली.

व्रतीच्यो सगल्यो वस्तू काडून कुशीक दवरप कित्याक गरजेचें ताच्या अस्तित्वाचे, ताच्या यादींचे कुडके-कुडके करून ताच्यो सगल्यो कुरवोय ना करून उडोवप कित्याक गरजेचें- हें जर सुजाता आपूण जावन समजली ना जाल्यार तिका कोण समजायतलो?

दिव्यनाथ कांयच उलोवंक नाशिल्लो.

''तिसरे माळये वयले कुडीक कुलूप केलां?''

''हय.''

''चावी कोणा कडेन आसा?''

''म्हजे कडेन.''

''दी.''

चावी घेवन सुजाता थंयच्यान गेल्ली. ते वयले कुडींत व्रती न्हिदतालो. आठ वर्सांचो आसतनाच्यान अशी वेवस्था केल्ली. पयलीं पयलीं तो एकटो न्हिदनाशिल्लो , भियेतालो. सुजातान म्हणिल्लें, 'बरें, बरें, हेम तुज्या वांगडा जमनीर न्हिदली आं.''

दिव्यनाथाक खूब राग येतालो कारण ज्योती, नीपा आनी तुली हांचे खातीर सुजातान केन्ना इतलो कळवळो दाखयलो ना. तेन्ना तींय भियेतालीं आनी सुजाताक तितलोच कळवळो आशिल्लो. पूण तेन्ना दिव्यनाथ जें कितें म्हणटालो ताचे विरुध्द कितेंय करपाक कोणाक धीर जायनाशिल्लो.

व्रती भियेतालो. खूब भियेतालो. खूब कल्पनाशील अशे भुरगे भियेतात तसोच. रातच्या वेळार रस्त्या वयल्यान 'राम नाम सत्य है' हो आवाज आयकून ताका भंय दिसतालो. दिसाचो भोवरुपी जेन्ना डाकू जावन येतालो आनी धमकावन उलयतालो तेन्नाय तो भियेतालो. आतां व्रती भियेवप, ना भियेवप अश्या सगल्या संवेदनांतल्यान मुक्त जाला. भुरगेपणांत साकून ताका मृत्यूच्यो कविता भावताल्यो. त्याच खातीर केन्ना केन्नाय सुजाताच्या सपनांत सात वर्सांचो व्रती जनेलाचेर पांय सकयल सोडून बसता आनी कविता वाचता. सुजाता जेन्ना व्रतीक सपनांत पळयता तेन्ना ताच्यो एकाच वेळार दोन चेतना जाग्यो जाल्ल्यो आसतात - एक मन म्हणटा, सपन हें, व्रती न्हय; दुसरें मन म्हणटा- ना, हें सपन न्हय, हें खरें.

त्याच खातीर सुजाताच्या सपनांतलो व्रती जनेलार बसून पांय सकयल लांबोवन कविता वाचता. सुजाता ताच्या हांतरुणाचेर बसून आयकता, आयकत रावता आनी ताच्या हांतरुणा वयली चादर ओडून सारकी करता, उशें सारकें दवरता.

केन्नाय तो वाचता :

भिवकुरो जो आसलो आनी सगल्यांमदीं चड

उगडलें ताणेंच तें काळख्या घरा कुलप

केन्नाय तिका सपनांत दिसतालें – ताच्या हातांत 'शिशु' नांवाची कविता आसा आनी पुस्तक हातांत धरून फुडें फाटीं चलत तो ती वाचता:

काळखांतूच तूं लागलो चलूंक
काळखांतूच तूं यो फाटीं लिपचोरयां
कोणाक ना तूं दिसचो तेन्ना
नकेत्रांच तीं बागवतलीं पळोवंक तुका.

न्हिदिल्ले कडेन ताचें नांव घेवन ती किंळाचून उठ्ठा आनी जागी जाता. तें सपन सुजाताक खरेंच शें दिसता आनी ती सगल्याक नदर भोंवडावन व्रतीक सोदता!

तिसरे माळये वयले कुडी सामकार सट्ट करून तटास जावन उबी राविल्ली सुजाता. व्रतीचें हांतरूण गुठलावन दवरिल्ले, कपडे आलमारींत, वणटीर ताचो फोटो आनी शेल्फार पुस्तकां. फकत सुटकेस नाशिल्ली. ती पुलीस घेवन गेल्ले. ताच्या पलंगाचे देगेक धरून सुजाता भुंवयांक आंठयो घालून चिंतपाक लागली. व्रतीचे हत्येंत आपणालोय कितेंय अप्रत्यक्ष वांटो ना मूं? आज हें जें मुक्तीचें दशक जावन उरपाचे वाटेर आसा त्या दशकांत व्रती जो एक हजार चवद्यायंशावो प्राणहीन देह जावन पडलो त्या व्रतीक कसले संस्कार दिवन वाडयलो आसत हांवें? जें करूं येतालें आनी आपणें केलें ना अशें कितें आसतलें तें ज्या कारणान तो एक हजार चवद्यायंशावें प्रेत जावन पडलो? खंय उणें पडलें म्हजें सामर्थ्य?

दिव्यनाथाक व्रती विशीं आपलेपण नाशिल्लें. तो ताका ''मदर्स चायल्ड!'' म्हणटालो. ''तुवेंच म्हजे कडेन दुस्मानकाय करपाक शिकयला ताका.'' सुजाताक कितें म्हणचें तें कळनाशिल्लें. कित्याक शिकयतलीं आपूण व्रतीक बापाय कडेन दुस्मानकाय करपाक? कित्या खातीर? दिव्यनाथ म्हजो दुस्मान हय तर? प्रतिश्ठा, बरी अर्थीक स्थिती, सुरक्षा असल्या मुल्यांचेर दिव्यनाथाक आस्था आसा. आपुणय तीं मुल्यां मानतां. आस्था आसा काय ना हो प्रस्न तिणें स्वताक केन्ना विचारलोच ना. ताचो अर्थ अशे तरेचो प्रस्न केन्ना उपरासलोच ना.

सुजाता प्रतिशठीत, आस्पतदार घराण्यांतली धूव. तिचो घराबो खूब रुढीवादी. नामनेच्या संस्थांनी शिकप घेवन ती बी.ए. जाल्ली. हें सगलें तिच्या लग्ना खातीर केल्लें. दिव्यनाथाच्या घरची अर्थीक स्थिती तितली बरी नाशिल्ली. हें जाणा जावनय बी ऊंच कुळांतलो भुरगो आशिल्ल्यान दिव्यनाथा कडेन सुजाताक लग्न केलें.

बरी अर्थीक स्थिती, सुरक्षा असल्या गजालींचेर सुजाताचीय आस्था आशिल्ली. त्या खातीर दिव्यनाथाचो आरोप सारको न्हय. त्याच खातीर बापाय कडेन दुस्म नकाय मांडून घेवपाक व्रतीक सुजातान बळ दिलां अशें म्हणपाक आदार ना हें सिध्द जाता. व्रती बापायक दुस्मान माननाशिल्लो हें काय सिध्द जायना न्हय. व्रतीक दिव्यनाथाची चलणूक सोंसनाशिल्ली म्हणपाचें सुजाता जाणा आशिल्ली. तिका तें बरे भशेन खबर आशिल्लें.

''व्रती, कित्याक करता तूं अशें?''

''दिव्यनाथ चटर्जी एके व्यक्तीच्या रुपान म्हजो दुस्मान न्हय.''

''जाल्यार?''

''ताचो, ज्या गजालींचेर, ज्या मुल्यांचेर, विस्वास आसा तांचेर आनीक जायत्या लोकांचो विस्वास आसा. हें मुल्य-धारेक जे पसवण दितात तो वर्गच आमचो दुस्मान. होय बी त्याच वर्गांत येता.''

''कोणाक खबर तूं कितें म्हणटा तें; कांयच समजना म्हाका.''

''कित्याक यत्न करता तूं समजुपाचो? बटन लाय पळोवया.''

''व्रती तूं कितेंसोच जायत चल्ला. नकळों हांव कितें म्हणून.''

''म्हणल्यार?''

''बदलत वता तूं.''

''बदलूंक फावो ना हांवें?''

''खंय फिरत आसता तूं दिसभर?''

''फकत गजाली चकटां मारतात आमी, आनी कितें?''

''कोणा वांगडा?''

''इश्टां वांगडा.''

''घे हो तुजो शर्ट, बटन लावपाचो आशिल्लो. तेन्नाच मां कडेन उलोवपाक थोडो वेळ मेळ्ळो तुका.''

व्रती तेन्ना कांयच उलोवंक नाशिल्लो. फकत दोळे मिचकावन हांशिल्लो. ताच्या हांसपा उलोवपाचे पद्दतींतल्यान एक वेगळोच भाव जाणवत रावतालो –सोंशीकपण, धिटाय अशें कितें तरी! सुजातान कितेंय विचारचे पयलींच दिल्ले जापेचो तिका अर्थ कळचो ना हाची ताका घडये आदींच कल्पना आसताली अशें दिसतालें. ताची उलोवपाची तरा पळयल्यार तो बापूय आनी सुजाता ताची धाकटुलीशी धूव बी काय कितें अशें दिसतालें – तिका समजावन करून फुसलायिल्ले वरी! आस्ते आस्ते व्रती अनवळखी सो जायत वता आनी आपणाले वळखी पेल्यान वचूंक लागला अशें कितें तरी सुजाताक जाणवत रावतालें. तेन्ना मन दुख्खी जातालें पूण कसलोच हुसको वा भंय दिसूंक नाशिल्लो तिका.

आस्ते आस्ते जेन्ना व्रती आपणा कडच्यान दुरावत वता आनी घरांत आसुनय नात्याचे धागे अशक्त जावंक लागल्यात आनी एक दीस भिरांकूळ संकश्ट येवंये अशी एक हुसक्याची पाल आपणाल्या मनांत कित्याक चुकचुकली ना काय? सुजाताक अशें चिंतून येवंक लागलें व्रतीचे कुडी दारांत आसतना.

व्रती जर सुजाताच्या भावा सारको उपाय नाशिल्ल्या रोगान मेल्लो जाल्यार मेल्या उपरांत कांय प्रस्न उपरासपाचे – डॉक्टराचें कितेंय चुकलें काय आमचें? ह्या डॉक्टराक सोडून दुसऱ्या कोणाकय दाखयिल्लो जाल्यार? हें वखद दिनासतना दुसरें खंयचेंय वखद दिल्लें जाल्यार? रोगपिडेन मरण आयलें जाल्यार असलेच प्रस्न उबे

जातात मनांत.

व्रती जर अपघात जावन मेल्लो जाल्यार मनांत प्रस्न येवपाचे–अपघातांतल्यान वाटावं येतालो काय ना? व्रतीन इल्लो स्वताचेर ताबो दवरिल्लो जाल्यार कितें जाल्लें? सुजाताचो जर दिव्यनाथावरीच जल्मपत्रिकेचेर विस्वास आशिल्लो जाल्यार प्रस्न येवपाचो –जल्मपत्रिकेंत त्या अपघाताचो उल्लेख आशिल्लो काय ना – आशिल्लो जर जाल्यार तातूंतल्यान वाटवून उरपाक कितेंय उपाय आशिल्लो व्हय?

व्रतीक जर कसलोय अपराध करता आसतना मरण आयिल्लें जाल्यार असल्या घरांतलो भुरगो आसुनूय बी तो वायट संगतींत पडून अपराधी जालो ताका दोशी कोण? असो प्रस्न उपरासपाचो. आनी ताका कशे तरेन वाटावं येतलो अशेंय दिसूं येतालें.

हातुंतल्या खंयच्याय प्रकारांत व्रतीचो आसपाव जायनाशिल्लो. ताचो एक अपराध आशिल्लो तो म्हणल्यार हो समाज आनी तातुंतली ही वेवस्था हांचे वयलो ताचो विस्वास ना जाल्लो. ज्या मार्गान समाज आनी राष्ट्र चलता त्या मार्गान मुक्ती मेळूंक कठीण अशी ताची भावना जाल्ली. ताणें फकत घोशणा बरयल्यो नात तर त्या घोशणांचेर ताणे पूर्ण विस्वास दवरलो. दिव्यनाथ आनी ज्योतीन ताका मंत्राग्नी बी दिलो ना. बेवारशी प्रेतांमदीं व्रतीचें प्रेत जें कांटापुकूरांत पडून उरलें तें कित्या खातीर? तो कितें इतलो व्हडलो समाजविरोधी आशिल्लो. राती कडेन पुलीस बंदोबस्तांत स्मशानांत व्हरून ताका रासवळ भडाग्नी दिवपा सारको?

प्रेतां राती कडेन लासतात. जांचो श्राध्द–शांतीचेर विस्वास आसता त्या लोकांकय बी दिसा उजवाड्यार श्राध्द करपाची मेकळीक नासता. तांकां तांबडे जाल्ल्या सुजिल्ल्या दोळ्यांनी दिसभर ताटकळत रावचें पडटा. त्या उपरांत रात जाता तेन्ना न्हंये कांठा वयल्या एका भटा कडेन सगलें थारावन श्राध्दविधी गुठलावन घेवचो पडटा. ते भट दर एकट्या कडच्यान थारायिल्ली दक्षणा घेवन सडसडीत श्राध्द करून मेकळे जातात. व्रतीन घोशणा बरयिल्ल्यो! ताच्या स्वताच्या अक्षरान बरयिल्ल्यो आशिल्ल्यो! सुजातान त्यो पळयिल्ल्यो.

''कारण बंदखण हेंच आमचें विश्वविद्यालय.''

''बंदुकेचे नळयेनच...''

''हें दशक मुक्तीच्या दशकांत बदलत आसा.''

''तिरस्कार करात, सोदून मोख करात, नाश करात मदल्या दलालांचो.''

''येनान प्रदेशांत आज परिवर्तन जावंक लागलां.''

– येनान –चीन देशांतलो एक प्रदेश.

सुजाताच्या कानार ही वार्ता पाविल्ली – व्रती सारके तरणाटे आदीं असल्यो घोशणा बरोवन काडटात आनी उपरांत त्यो वणटींचेर बरयतात. रातच्या काळखांत करतात ते असलीं कामां आनी काळू सारके जिवाची पर्वा करिनाशिल्ले आसतात ते. दनपारच्या इकरा वरांचेर जेन्ना शारी वस्तीच्या वाठारांत पोलिसांचो बंदोबस्त आसता आनी तपनाचें रगत तेन्ना मेरेन सुकिल्लेंच आसना अशा वेळार आदींच संभ्रमांत पडून आशिल्ल्या व्हडल्या घरांच्या वणटींचेर बरयतात 'लाल बंगालाच्या लाल तपनाच्या लाल रक्तान.. बाजारांत लासून मा...!'

निमणें उतर बरयता आसतनाच काळूक गुळी लागता, तितल्यान वाक्य पूर्ण जावंक पावना, तितल्यारच उरता.

व्रती सारके तरणाटे असलेच तरेचे. घोशणा बरोवप्याचेर सूं...सूं करीत काडतुसो येवंक लागतल्यो हें जाणा आसुनूय व्रती सारके तरणाटे घोशणा बरयत रावतात – काटापुकूरांत पावपाची ताकतीक करतात.

सुजाताक खबर आसुनूय व्रतीक अपराध्यांचे वळेरेंत घालपाक जमलें ना.

रती खातीर ती रडटाली तेन्ना ज्योती आनी दिव्यनाथान तिका समजायिल्ली – ह्या समाजांत व्हडले व्हडले अपराधी आसात जे खाणा जेवणाच्या पदार्थांनी, वखदांनी, ल्हान भुरग्यांच्या अन्न पदार्थांनी विखारी पदार्थांची भरस घालतात तरी ते उगतेपणी जगतात. ह्या समाजांत फुडारी आसात जे गांवांतल्या निशस्त्र लोकांक पोलिसांच्या गुळयांक फुडो करपाक लावन स्वता घरांत रावून, गाडयांनी पोलिसांच्या पाऱ्यांत निर्धास्त, निर्भय जावन जगपाक शकतात. पूण व्रती जाल्यार तांचे परसय व्हडलो अपराधी कारण ताणें विस्वास व्हगडायिल्लो – ह्या फायद्याक संवकल्ल्या, स्वार्थान कुझ्डे जाल्ल्या व्यवसायी समाज आनी तांच्या फुडाऱ्यां वयलो ताणें विस्वास व्हगडायिल्लो. ही विस्वासहीनताय ज्या भुरग्याच्या, किशोर पिरायेच्या जावं एका तरणाट्याच्या मनांत घर करता, ताची पिराय बारा, सोळा वा बावीस अशी कितलीय उरूं, ताचे खातीर एकच ख्यास्त थारायिल्ली आसा –मृत्यू.

कणो नाशिल्ले, वारो व्हांवता ते दिके वटेन फाट करून रावपी, जांकां फकत सुविधांचेंच पडिल्लें आसता अशे कलाकार, साहित्यीक, बुध्दिजिवी लोकांक जे तुच्छ लेखतात त्या सगल्यांक ख्यास्त थारिल्ली आसा ती म्हळ्यार – मृत्यू.

त्या सगल्यांक मरणा बगर ख्यास्त ना. तांची हत्या करपाचो सगल्यांक हक्क आसा. सगल्या राजकी पक्षांच्या आनी विचारांच्या लोकांक ह्या पक्षहीन तरणाट्यांची हत्या करपाचो लोकतांत्रीक आनी बंधनमुक्त असो अधिकार आसा. त्या खातीर कायद्याचे मान्यतायेची गरज ना.

असल्या आस्थाहीन तरणाट्यांची एकोडी वा एकवटीत पुंजुल्यांनी आसतना एकार एक हत्या केल्यार जाता. बंदूक, सुरो, भालो, दांडो– जें कसलें हत्यार मेळटा तें घेवन शाराच्या खंयच्याय भागांत लोकां सामकार असल्या तरणाट्यांक मारूं येता. ज्योती आनी दिव्यनाथान घोंकिल्लो पाठ म्हणून दाखोवचो ते तरेन सुजाताक समजावन सांगिल्लें आनी तेन्ना सुजातान तकली

हालोवन म्हणिल्लें – 'ना!'

व्रतीच्या मरणा आदीं प्रस्न आशिल्लो – आस्थाहीनतेचेरच व्रतीची चड आस्था वाडत रावली ती कित्याक लागून?

ताच्या मरणा उपरांतलो प्रस्न आशिल्लो – व्रती चटर्जीची फायल बंद जाली ही गजाल खरी पूण ताची हत्या करून ही आस्था हीनते वयली ज्वलंत आस्था सांसणाची सोंपयली? व्रती ना, ताचे सांगाती नात जाल्यार इतल्यान सगलेंच सोंपलें?

आतां प्रस्न पडटालो तो म्हणल्यार – व्रतीचें मरण निरर्थक थारता? वा ताच्या मरणाचो अर्थ फकत एक व्हडलें 'ना'?

सगलेंच अर्थहीन, अस्तित्वहीन जाल्लें? ताची ती आस्था हीनताय, ताची धिटाय, ताचो अदम्य आवेग? मरण सामकार दिसता आसतनाय समू, विजीत, पार्थ आनी लालटू हांकां पूर्वसुचोवणी दिवपा खातीर सोळा जानेवारीक निळो शर्ट घालून, सुजाताक कांयच कळूंक दिनासतना ताचें भायर सरून वचप निरर्थक आशिल्लें? वचचे पयलीं सुजाताक नदरेंत भरून घेवप, सुजाताच्या सोबीत, घरंदाज आनी प्रौढ मुखामळार उदेवपी वेदनेच्यो रेशा आपणाल्या मनांत सांठोवन घेवप हें सगलेंच अर्थहीन आशिल्लें?

सुजातान निरशेणेन तकली हालयिल्ली आनी कूड बंद करून थंयच्यान गेल्ली. त्या दिसाच्यान चावी तिचेच कडेन आसा, तिचेच पर्सींत. दोन वर्सां जाल्यांत सदांच रातची उठून हांगा येता, कूड निवळ करता, धुल्ल-बिल्ल पुसता. परतून तिणें हांतरूण पातळायलां बूट, जोतीं आलमारी पोंदा दवरल्यांत. कपडे घडी मारून दाळून दवरल्यात. हजारांनी आवयो अशे तरेन तिचे वरीच लिपचोरयां आपणाल्या पुतांचे कपडे, फोटे बी पोशेतात आसतल्यो? सुजाता व्रतीचे कुडींत बसून रावता! मनांतल्या मनात ताचे कडेन उलयता. दोळे बंद करून चिंतता – व्रती लागींच आसा. तिका दिसता आपणावरीच आनीक कितल्योश्योच आवयो लिपचोरयां आपणाल्या पुताक लागीं आफोवंक सोदतात आसतल्यो. ती उलयता – केन्नाय व्रती जाप दिता, केन्नाय दिना.

ज्योतीचे कुडींत फोन वाजता. फोन उखलूंक गेली तेन्ना ह्यो सगल्यो गजाली याद जाल्यो.

समू, लालटू, विजीत आनी पार्थाच्या घरांनी जाल्यार फोन ना. फोनाच्या आवाजान कोणूच तांकां न्हिदेंतल्यान जागीं करचो ना. आज त्या सगल्यांच्यो आवयो कितें चिंततात आसतल्यो – आज हे सकाळीं?

ल्हवसार पावलां मारीत नायलॉनाचे नायटींतली सुजाता दार उगडटा. तिच्या चेऱ्याचेर बेजारिल्ल्याचें सावट पातळ्ळां. इतले बेगीन तिका केन्ना जाग येना, जावं ती उठपाकय तयार आसना.

बिनी आनी ज्योती दोगांय सदांच बरी न्हीद आनी विसव घेवप गरजेचें मानतात. सुजाताचो पूत आनी सून हांचें दोगांयचें एकमेकांचेर खूब प्रेम. सुमन आठ म्हयन्यांचो आशिल्लो तेन्नाच्यान दोगांयचीं हांतरुणां वेगळीं जाल्यांत पूण एक सुखी जोडपें म्हूण तांकां नांव फावो जालां. शरीर सुखाक सुजाता म्हत्व दिताली पूण बिनी आनी ज्योतीन प्रेम आनी शरीर सूख वेगळीं मानलीं. तांचें प्रेम वेगळे तरेचें. तांच्या लग्नाच्या वर्स दिसा व्हडा दबाज्यान पार्टी जाता. दोगांय सांगातान भोंवतात; जाय जाय थंय वतात. बिनी क्लबांत ज्योती सोडून कोणा दुसऱ्या वांगडा नाचूंक वचना अशें सुजातान आयकलां. ताका लागून सम ाजांत तिका बरो मान फावो जाला.

सुजातान फोन उखल्लो.

''कोण?''

''हांव नंदिनी.''

''नंदिनी?''

''हय, हांव परतून आयलें.''

''केन्ना?''

''पयर.''

''ओऽऽ!''

''तुमकां एक फावट मेळपाक जाय, गरजेन. तुमगेर घरा येवचें ना. आज तुमी बँकेंत वतलीं?''

''आज वचचें ना हांव नंदिनी. आज म्हजी धाकटी धूव तुलीचो एंगेजमेंट आसा. तूंच सांग, खंय मेळया. सांजवेळ सोडून खंयच्याय वेळार येवपाक जाता म्हज्यान.

''सारकीं चारांक?''

''जाता, खंय येवं?''

''एक पत्तो दितां. तुमच्या घरा कडच्यान चड पयस ना.''

''सांग.''

नंदिनीन पत्तो सांगलो, सुजातान फोन दवरलो. नंदिनी! व्रतीचें नंदिनीचेर प्रेम आशिल्लें, पूण सुजातान नंदिनीक केन्ना पळोवं नाशिल्लें.

तिणे ज्योती वटेन पळयलें. तो न्हिदिल्लो. न्हिदिल्ल्या ज्योतीच्या मुखाम ळार सुजाताक व्रतीच्या मुखामळाची झलक दिसता.

सुजाता भायले पडवेर येवन उबी रावली. तिका भायली थंडाय जाणवली. नंदिनी आनी व्रतीन मेळून कवितेचें एक नेमाळें सुरू केल्लें. सांगात्यां वांगडा मेळून एक नाटक केल्लें. सुजाता बरी ना जाल्ल्यान वचूंक पावली ना. घरांतलो आनीक कोणूच वचूंक नाशिल्लो. – फकत हेमान म्हणिल्लें. 'छोटे भैयाक खूब ताळयो पडल्यो, जाणा मां! सगलो लोक तोखणाय करतालो!'

फकत हेम व्रती कडेन उलयताली. जेन्ना व्रती सुजाता कडच्यान पयसावतालो, अनवळखीसो जायत गेल्लो आनी ती ताचे कडेन उलोवपाक कचरताली तेन्ना हेमच ताका म्हणपाक शकताली. ''राजकारणां करपाक वता हें हांव जाणां पूण जेवन वचपाचे उपकार कर बाबा म्हजेर!''

जेन्ना 'दीघा वतां' अशें सांगून व्रती रस्त्यान दुसरेच कडेन खंय तरी वचपाक गेल्लो तेन्ना हेमानच ताची सुटकेस वेवस्थीत भरून दिल्ली.

हेमान म्हणिल्लें ''छोटे भैयाची एके चलये कडेन दोस्ती आसा मांजी! रांदप्यान पळयल्या; छोटे भैया खंयीं वता तेन्ना ती

वाटेर ताची वाट पळयत रावता, उपरांत दोगांय सांगातान वतात. इल्ली काळसारशी आसा.''

तीच नंदिनी! सुजाताचें काळीज धडधडटा कित्याक? बेलारगन घेवन चड वेळ आड पडून रावंक नाशिल्ल्यान? काय नंदिनीन फोन केल्ले खातीर? बाथरुमांतल्यान बरी नटूथटून बिनी भायर आयली. माने मेरेन कापिल्ले सुके सरसरीत केंस, निळे साडयेचेर निळो कार्डिगन. मॅचिंग नासतना बिनी केन्नाच भायर सरना. नीपाय तशेंच आनी तुलीय बी. बिनी कितली एकदम तिकतिकीतशी दिसता!

''कोणाचो फोन तो, मां?''

''नंदिनीचो.''

''नंदिनी?''

''व्रतीची इश्टीण.''

बिनीक इल्ली उमळशीकशी दिसली.

''सकयल कित्याक वता, मां?''

''कितें कितें करपाक घालां तें पळोवन येतां. तूं सुमनाक उठय. ताका स्कुलाक वचपाक जाय न्हय, बस येतली.''

''तुली गेलां न्हय सकयल.''

सुजाता हयन्हयशी मातशी हांसली. आज तुलीचो साकरपुडो. आजय बी आपणें सांगले केले बगर घरांत च्या ब्रेकफास्ट, दनपारचें जेवण, सांजवेळां हॉलांतली मांडावळ बी सगलें सारकें जातलें बी जाल्यार भरवंसो ना.

सोळा वर्सांचे पिरायेचेरच तुलीन शिक्षण सोडून क्राफ्ट शिकपाक सुरवात केली तेन्नाच्यानय घरचो कारभार आपणाल्या हातांत घेतलो. खरें म्हणल्यार सी.ए. फर्म सुरू केली तेन्नाच दिव्यनाथान सुजाताक नोकरी सोडपाक सांगिल्लें. सुजातान कोणाचेंच आयकलें ना. तिची सासू व्रती आठ वर्सांचो जाय मेरेन आशिल्ली. ती जिती आशिल्ली ते मेरेन एक साडी लेगीत घेवपाचो तिका अधिकार नाशिल्लो.

त्याच खातीर बॅंकेंत येवप–वचप, मनासारकी जीण सारप हें सगलें सुजाताक खूब गरजेचेंशें दिसतालें. इतले खातीरच कोणें सांगुनूय सुजातान नोकरी सोडूंक नाशिल्ली.

तुली सारकें आपणाले आजयेचेर गेलां. सुजातान नोकरी सोडूंक नाशिल्ल्यान तुलीचो बापूय आनी आजी तिचेर बेजार जाल्लीं. खरें म्हणल्यार सुजाता आपणाले मर्जेन जीण सारूंक सोदता. घर संवसारांत तिचें मन लागना – भुरगीं म्हणल्यार माथ्यार एक वजें आशिल्ल्या सारकें अशें म्हणून आवय–पुता मदीं सदांच भासाभास जाताली.

ज्या घरांतली गृहिणी दिसांतलीं धा वरां घरांतल्यान भायर उरता त्या घरांतल्या चली भुरग्याक उपय नासून सगली जबाबदारी घेवचीच पडटा. 'हांवें केलें ना जाल्यार कसलेंच काम जाता हांगा?' अशें तुली सदांच म्हणटा.

केन्नाय पळयल्यार तुली असंतुश्ट आनी निरशेल्ले वरी आसता. केन्ना च्या करपाची, केन्ना कितें रांदप हें सगलें सांगपाचें बी काम म्हणल्यार व्हडलें बलिदान दिल्ले वरीच करपाची ताची पद्दत. घडये लग्ना उपरांत सुदरत!

क्राफ्ट शिकून जाले उपरांत एके इश्णिणीक भागाक घेवन तुलीन साडयांचेर डिझायन छापून दिवपाचें दुकान सुरू केल्लें. त्या वेळार टॉनी कपाडिया कडेन ताची वळख जाली. आज व्रतीच्या जल्मदिसाच्या समयार तुलीचो साकरपुडो करपाचो प्रस्ताव टॉनीचे आवयनच मांडिल्लो. मिसेस कपाडियाचे गुरू स्वामी अमेरिकेक आसतात. तांणीच हो दीस तांच्या कॅलेंडरा प्रमाण शुभ दीस म्हूण सांगिल्लें. स्वामींचे शिश्य तांचेंच कॅलेंडर मानतात. तांच्या कॅलेंडरांत सुटी बी ना. सगले तिनशें पांसश्ठ दीस ध्यान आनी कर्म करपाचे. टॉनीचे आवय विशीं उलयतां उलयतां दिव्यनाथ आनी तुली त्या संबंदान सुजाताक विचारपाकच विसरलीं.

खूब वेळ जालो तुली आपणा कडेन मनांतल्या मनांत झगडत आसा म्हणपाचें सकयल पावली तेन्नाच सुजातान ताडलें. आज ताचे जिणेंतलो एक खाशेलो आनी म्हत्वाचो दीस पूण सुजाताक हातूंत कसलेंय खाशेलेपण आसा अशें दिसना. तेच गजालीचो तुलीक राग येता.

'मां. कितें खातली तूं?'

'थोडें शें लिंबू सरबत घेतां.'

'कित्याक? चड दुखपाक लागलां?'

'ना, आतां ना.'

'कळना म्हाका, तूं हो धोको कित्याक घेता ती. एपेंडिक्साचें ऑपरेशन हें आज काल कांय न्हय शें जालां.'

सदांच अशें आसना – एपेंडिक्साचें ऑपरेशन स्वेच्छेन जावपाक जाय. ती सुजून पिकचे पयलींच मातशें मातशें दुखपाक लागता तेन्नाच ती काडून उडोवपाक जाय. सुजाताचे बाबतींत अशें जालें ना, तिची एपेंडिक्स पिकल्या आसपाक जाय असो डॉक्टरांक दुबाव आसा. योग्य वेळार ऑपरेशन जालें ना जाल्यार ती पिकता आनी ती फुटली जाल्यार जिवाक धोको आसता. पूण सुजाताच्या काळजाची तांक जाय तितली ना; आंगांत रगतय कमी आसा. त्या खातीर ऑपरेशन जावप शक्य ना. कालच सुजाता सगली म्हायती काडून आयल्या. पूण तिणे तुलीक हें सगलें सांगूंक ना! इतलेंच म्हणलें–

'करतलें हांव ऑपरेशन.'

'केन्ना?'

'तुजें लग्न जाले उपरांत.'

'लग्न जातलें एप्रीलांत.'

'घडये ताचे पयलीं करून घेन. हेम, हेम!'

'कितें, मां?'

'म्हाका थोडें लिंबा उदक दी.'

'इतलो सकाळीं कोणें फोन केल्लो?'

'नंदिनीन.'

तुलीचो चेरो तांबडो जालो. कपलाक आंठयो पडल्यो. ताणें किटलेंत चमचो घालून जोरा जोरान चमचो हालोवन आवाज करीत च्या चाळ्ळी आनी च्याक रंग आयला काय ना तो पळयलो. उपरांत ती बडबडूंक लागली. 'एक घांट वाजोवपाचो टायमटेबर करपाक जाय सगल्यांनी एकाच वेळार येवन च्या पियेवन वचपा खातीर!

जण एकलो आपणाक जाय तेन्ना येता; हाका लागून हेरांक त्रास जातात आनी म्हजे जाल्यार हालच!

सुजाता कवतुकान तुलीक पळोवंक लागली. सारकी अशेच तरेन तिची सासू उलयताली. भुरग्यांचें सुस्त न्हिदून रावप, मनाक मारता तेन्ना खावप-पियेवप असलें सगलें तिका कशेंच सोंसनाशिल्लें. वेळा वेळार फाटीक लागताली, पिरपिरताली. सगल्यांनी तिची शिस्त मानून घेतिल्ली. व्रतीन केन्नाच तिचें रागणें, उलोवणें आयकलें ना. तो उसरां उठ्ठालो. जेवणाचें मेज निवळ केल्लें आसतालें. व्रती रांदचे कुडींत वचून हेमाचे कुशीक पाटार बसून जेवतालो.

'विचित्र घर हें आनी ताचें विचित्र डिसिप्लीन' तुलीन हळूचशें असंतुश्टपणान म्हणलें.

आतांच्यानच हे अठ्ठावीस वर्सांचे पिरायेरच इतलो असंतोश भरला ताचे भितर! मुखार इतली जीण पडिल्ली आसा ताची. 'ज्योती उसरां न्हिदता, ताका उठोवन कितें फायदो? आनी तुजो बाबा जाल्यार लस्सी पियेतलो.

'हांवें केन्ना ताचो मालीशवालो गेलो तेन्नाच धाडून दिली. बाबाची गजाल करना हांव.'

'बिनी पुजा करून येवचें जालें.'

'बेश्टें ढोंग सगलें'

'कित्याक? ढोंगशें कित्याक? तुगेली आजी सदांच पुजा-पाठ करताली, म्हाका बरें दिसनाशिल्लें. एक रिवाज करून उडोवचो तशे तरेन फकत उदक-फूल ओंपतालें. बिनीक पुजापाठ करपाची उमेद आसा, करता तें. हातूंत ढोंग खंय दिसता?'

'कितें सांगचें, इंग्लंडांत जल्मलां. थंय सोळा वर्सां काड्नय बी इतली भक्ती खंयच्यान आयली? कांयच समजना.'

'बापायचें घर इंग्लंडाक, त्या खातीर थंय रावतालें. थंय वाडलें केलें व्हडलें जालें जाल्यार पुजा करपाक विरोध आसपाची कितें गरज? म्हाका तरी तशें कांयच दिसना.'

'खरोच भक्ती-भाव आशिल्लो जाल्यार समजूं येतालें. तिका हें देवघर म्हणल्यार एक घरगुती मिरोवपाचें साधन.'

'तूंय बी वता न्हय देवळांत-पार्क स्ट्रीटार.'

'ती वेगळी गजाल, मां.'

'म्हाका तशें दिसना. दर एकट्यान ज्या कित्याचेर विस्वास आसा वा मनाक जातूंत समाधान मेळटा तें ताणें करचें. पूण दुसऱ्याचो विस्वास हें ढोंग आनी आपणालो विस्वास खरो अशें कित्याक चिंतपाक जाय?'

'व्रतीय बी दुसऱ्यांच्या विस्वासाचेर हांसतालो. तुजो स्वाम्यांचेर विस्वास आसा जाल्यार बिनीचो आपणाल्या देवघराचेर. दोनांतय एके तरेचें सारकेपण आसा. व्रतीकय बी आस्था आशिल्ली. दुसऱ्यांचो विस्वास आनी ताचो विस्वास ह्या दोनांतय खूब अंतर आशिल्लें. पूण ताणें केन्ना दुसऱ्यांच्या विस्वासाची टर उडयली अशी म्हाका तरी याद जायना; तो भासाभास करतालो. भासाभाशेंत तूं हरतालें तेन्ना तुका राग येतालो. तुका राग हाडून तो आनंद घेतालो.

'ताचो विस्वास आशिल्लो अशें कित्याक म्हणटा, मां? ताचो कित्याचेरूच विस्वास नाशिल्लो.'

'तुली, व्रती संबंदीत तुजे कडेन कितेंच उलोवपाची म्हजी इत्सा ना.'

'कित्याक?'

'कितें फायदो? तुका ताची सारकी वळखच ना.'

'आतां मेरेन तूं...'

'व्रती, तूं आतां ओगी राव.'

सुजाताचो हात कडकडलो. तिणें स्वताक सांबाळ्ळें आनी हेमाक म्हणलें 'बिनीक च्या पियेवपाक आफय, हेम.'

तुली, तिगेले धुवेन एके अनवळखीशे नदरेन आनी रागान तिका पळयत एका वेगळ्याचश्या सुरान म्हणलें 'आज लॉकरांतल्यो वस्ती हांवेच काडून हाडच्यो पडटल्यो दिसता.'?

'हांव वतलें.'

'सांजवेळा तूं घरा आसतली?'

'आसतलीं.'

'तूं आज टोनीच्या दोस्तां कडेन सहजतायेन उलयतली अशी आस्त धरून आसां हांव.'

'तुमी सरोजाकय आफयला काय कितें?'

'आफयला. पूण येतलो काय ना तें खबर ना.'

'सरोजाक?'

सरोजपाल! 'सरोजपाल तुका माफी ना!' एक क्षीण जीवसाण नाशिल्लें आव्हान. दोन वर्सां साकून सरोजपालान व्यापक घडणुकेच्या तपासकामाची आनी झडट्यो घेवन कायद्यान कारवाय करपाची जापसालदारकी आंगार घेतिल्ली. ताची असामान्य कार्यतत्परताय आनी धिटायेक लागून...

मुक्ती दशक! सरोजपाल पुलिसांच्या पंगडांची शिस्तबध्द बांदावळ करपाक लागला. एक सेनाधिकारी कसो आदेश दीत म्हणटा 'काली माता रगत मागता.' सरोजपाल! दिसपाक सुंदर, हांसता सुंदर, उलोवपाचो सुंदर झेत 'एस मिस्टर चटर्जी, आयक्वायट एशोर यू, मिसेस चटर्जी, हांव समजूंक शकतां, म्हजीय बी आवय आसा.'

सरोजपाल! 'एस, सर्च द रुम. ना मिसेस चटर्जी, तुमचो पूत तुमचे कडेन फट उलयिल्लो. तो दीघाक वचूंक नाशिल्लो. ताणें प्रवासांत दिका बदल्ली. मिसगायडेड यूथ! एस कॅन्सरस ग्रोथ ऑन द बॉडी ऑफ डेमोक्रसी. ना मिस्टर चटर्जी, खंयच्याच पेपरांत खबर छापून येवची ना. तुमी टॉनीचे भावी मांव... टॉनी म्हजो...'सरोजपाल!

तुली सुजाताक रागान पळयत रावलां. 'इनफ इज इनफ मां. दोन वर्सां जावन गेलीं. तुवें हें घर एक मसणभूंय करून दवरलां. बाबा तुजे सामकार कांयच उलयना, भाई एक अपराधी जाल्ले वरी जाला. अशे तरेची घडणूक जाल्ली जाल्यार

सगलेच ती चेंपून दवरपाचो यत्न करतात. सभावीकपणान घडलां तें. 'व्रती अंतरलो. आतां जिते आशिल्ल्यांचें इल्लें चींत. तूं...'

खबर चेंपून उडोवपाची इतली ताकतीक? प्रेताची वळख मेळचे आदींच? टेलिफोन येता तेन्नाच धांव मारून पळोवन येवचें अशें खुद्द बापायक दिसना! ते आदींच गाडी कांटापुकूरा व्हरून उबी करप योग्य न्हय अशें दिसता!'

फोन येवपाचे खूब आदींच बापूय आनी भावा खातीर व्रती मेल्लो? त्याच खातीर बी सुजाता विस्वास दवरूंक पावली ना तेन्ना ह्या दोगांयनी अविस्वास दाखयलो ना तो? ताकाच लागून खबर चेंपून उडोवपाक दोगूय जाण इतले धांव धांव करून वशिले लावंक पाविल्ले ते?

अचकीत सुजाताक हें एक रहस्यपूर्ण नाटक कशें दिसलें आनी तीं सगळीं जाण ह्या नाटकांतलीं पात्रां कशीं.

वास्तवीक व्रती ह्याच घरांतलो एक भुरगो पूण अशें आसतनाय ताची क्रूरपणा आनी हालांनी हत्या जाले उपरांत ताचो बापूय, भाव, भयणी आपापणाल्या समाजांत ताच्या मरणा विशीं सांगता आसतना कशे तरेन अड्चणींत येतलीं, तांचो घुस्मटमार जातलो हाचे विशीं व्रतीन मरणा आदीं चिंतलें ना आनी त्याच कारणान तांचे फ ुल्लिले शांत जिणेंत इल्लें वादळ निर्माण जालें. त्याच सुपुल्ल्या वादळाक लागून तो आज तांचे खातीर मृत जाल्लो आसा. ह्या मनशांनी मनांतल्या मनांत दोन गट केल्यात –एका गुटांत व्रती आनी सुजाता आसात आनी दुसऱ्यांत हेर सगलीं.

कशेंय आसूं, बापूय, भाव–भयणीं खातीर ही गजाल खूब त्रासांची जाल्ली आशिल्ल्यान...

'जाणात, म्हजो पूत आशिल्लो...'

'सी माय ब्रदर वॉज...'

'म्हजो धाकलो भाव एक...'

'टोनी, व्रती...'

सुजाता ह्या सगल्यां खातीर विरोधी पंगडांतली जाल्ली, कारण आपणाले सदांचें शांत जिणेंतली शांतताय व्हगडायिल्ले खातीर तिणें केन्नाच व्रतीक दोश दिलो ना, छाती बडोवन रडली ना, कोणायच्या खांद्यार तकली दवरून दुकां काडलीं नात आनी केन्नाच कोणा कडच्यान सांत्वनेची आस्त धरली ना. जे लोक सगल्यांत पयलीं आपणाल्या शांती–सुखां विशीं चिंततात तांचे कडेन व्रती संबंदान उलोवन सहानुभुती मेळची ना आनी ती घेवचीय बी ना अशें तिका दिसतालें. व्रतीचो बापूय, भाव, भयणी हांचे परस चड आपलेपण तिका तिच्या घरकामाक आशिल्ले हेमा कडच्यान मेळिल्लें.

ज्या दिसाच्यान व्रती बदलता, अशें तांकां दिसलें त्या दिसाच्यान तांणी सगल्यांनी मनांतल्या मनांत आपणाक व्रतीच्या पंगडांत घालां अशें सुजाताक जाणवलें. हीं सगलीं जें करतालीं तें तो करिनाशिल्लो. व्हडलो जाले उपरांत भावी जिवितांतय बी व्रती तांचे वरी कांयच करचो नाशिल्लो म्हणपाचें तीं जाणा आशिल्लीं. त्या खातीर व्रती खंयच्या तरी वेगळ्या शिबिराचो निवासी आशिल्लो.

व्रती जर ज्योती सारको खूब पियेवपी आसतालो, नीपाच्या घोवा सारको बेबदो आसतालो, व्रतीच्या बापाय सारको अजून तो टायपिस्टा वांगडा जे तरेन मजा मारता ते तरेन तो करपी आसतालो, टोनी कपाडिया सारको ऊंच दर्जाचो चार सौ बीस आसतालो, आपणाली भयण नीपा सारको – जी अजून आपणाल्या आतेभावा सांगातान रावता – वांकडे चलणुकेचो आसतालो जाल्यार घडये हीं सगलीं जाणां व्रतीक विपक्षी दलांतलो मानचीं नाशिल्लीं, वा उणेंच म्हणल्यार जर तर तांकां व्हडलो जातकच व्रती तांचे सारकोच तयार जातलो, तेन्नाय घडये तीं ताका वेगळ्या प्रकारांतलो मानचीं नाशिल्लीं!

हांचे मदल्या कोणालेच जीवनचर्ये वटेन व्रतीचो झुकाव नाशिल्लो. सुजाताकय बी आपणालो घोव, भुरगीं जांवय हांचे चलणुकेक लागून दुख्ख नाशिल्लें. पयल्यान पयलीं, जाल्यार जशे सामान्यतायेन घडत आयिल्लें तशें मान बागोवन सगलें स्विकारपाची तिका शिकवण मेळिल्लीच. दुसरी गजाल म्हणल्यार त्या घडणुकांक लागून तिच्या मनांत केन्ना कसले प्रस्न उपरासले नात; प्रस्न विचारपाचो आपणाक अधिकार आसा काय ना हेंय बी ती नकळो आशिल्ली. तिका दुख्ख जालें; खूब दुख्ख तिच्या वांट्याक आयलें. दिव्यनाथ भायल्या अस्तुऱ्यां वांगडा मौजमजा करतालो. सासवे कडच्यान ताका मान्यतायेचो तेंकोच मेळत रावलो. तिचो पूत 'मर्दका बच्चा' आशिल्लो, बायलेचो गुलाम न्हय. सुजाताक आयकून दुख्ख जालें पूण तिणें चिंतलें. ह्या संवसारांत फकत सुखच सूख कोणाक मेळटा केन्ना!

पूण व्रती पुराय वेगळेच तरेचो भुरगो आशिल्लो. ल्हान आशिल्लो तेन्नाय ताका फट गजाल सांगून समजावन थंड करप कठीण पडटालें. बरे भशेन समजायलो जाल्यार तो आयकतालो. जसो जसो तो व्हड जावंक लागलो तसो ताचे भितर एक वेगळो संवसार आकार घेवंक लागला म्हणपाचें सुजाताक कळपाक लागलें.

ताच्या वांगडा बसून पुस्तकां वाचून, ताका प्राणी संग्रहालयांत घेवन वतना, ताच्या दोस्तांक आफोवन हाडून तांचे कडेन उलोवन करून सुजाता आस्ते आस्ते ताकाच चिकटून उरली. व्रती होच तिच्या जगपाचें कारण थारिल्ले वरी जालें. घडये व्रती निमतान ताचे भितर ममतेची एक खोल भावना जागी जाल्ली आसुंये.

तेच भावनेंतल्यान एकट्या व्रती खातीर सुजातान घोव आनी सासवेचें कितेंच मानून घेतलें ना. पुराय ममते विणे वा अती अपुरबायेन माथ्यार बसोवप अशे दोनूय प्रकार व्रतीच्या वांट्याक आयले नात. हेर भुरग्यांचेर सासवेन अधिकार गाजयिल्लो पूण व्रतीच्या वेळार सुजातान आपणालो हक्क सोडलो ना. हट्टी, संवेदनशील, कल्पक अशा व्रतीक सुजातान आपले सावळेंत घेवन वाडयिल्लो. घोव आनी सासवेच्या

अधिकाराचे आंचेंतल्यान ताका वाटावपा खातीर तिका खूब त्रास सोंसचे पडिल्ले.

पूण त्याच खातीर न्हय मूं तीं आजून तिका माफ करूंक तयार नात तीं? वा व्रतीक लागून तांकां अपराधीपण जाणवता? तेंच लिपोवपा खातीर तुलीन इतली रुक्षपणाची चलणूक आपणावंक ना मूं? दिव्यनाथ एक अपराधी कसो खांकुडटा आनी ज्योती सारको मोव पडला तो कितें?

सुजातान तुलीक हातुंतलें कांयच सांगलें ना; इतलेंच म्हणलें, 'तुली, तूं खऱ्यानींच खूब सुखी जातलें.'

**संदर्भ:**

१) दाव्या विचारप्रणालीच्या लोकांनी १९७० वर्सा साकून चलयिल्लें बंगालांतलें आकांतवादी आंदोलन.

२) गन कॉटन, नायट्रोग्लिसरीन आनी एक खनीज जेलीचो भरस घालून तयार केल्ले विस्फोटक.❑

दनपार (प्रकरण २ मुखार चलता)

# घुगी गे घुगी

**पान १९ वयल्यान**

धुवून यो.' किटूर चोंच धुवून येता. निमाणे कीड विचारता, 'म्हाका हरवेंच खातलें? इंगळो घेवन यो आनी बरें भाजून खा.' किटूर वता आनी म्हातारेल्या रान्नीतलो इंगळो चोंचीत धरता. चोंच लासता. काणी आयकतना हाय... हुय करता तें किटूर दोळ्यांमुखार येताले. आता ताका प्रत्यक्षात पळयले.

'घोण' ह्याय सुकण्याची लोकजीवनांत वेगळी वळख आसा. भुरगेपणांत ती कोंबये पिलांक उखलून व्हरतना पळयल्या. घोणीन पिलांक उखलचे न्हय म्हणून एकट्यान तांच्या पांखाट्यांक पाचवो रंग मारिल्लो लेगीत पळयला. कोंबयेच्या पिलांक घोणीचो भंय... आमच्या धालांमांडार बायलो 'घोणीची पिलां' हो खेळ खेळटात.

एक बायल घोण म्हणून येता. दुसरी बायल कोंबी म्हणून येता. पांच बायलो कोंबयेची पिलां म्हणून जातात.

ह्या पिलांमदले एक पिल घोणीक जाय आसता.

कोंबी: कित्याक घोणी झळपता?

घोण: म्हजी पिलां वळखता!

कोंबी: हांगा ना तुजें घोणचें पील!

घोण: हांगा धाकून घातल्यां

कोंबी: ना तुका दिवची

घोणी: व्हरतले रे व्हरतले एक एक पील व्हरतले

कोंबी: हांगा ना तुजें घोणचें पील.

निमाणी घोण जाल्ली बायल तांच्या रांगेत घुसता आनी पिलांक सोदून काडटा.

घोण: हे पळय, म्हाजें घोणची पील! हेंच म्हाजे घोणचें पील!

कोकातर हे एक उदकाळ जाग्यांचेर रावपी सुकणें. गोंयांत तिका कोकारी तशेच कुवां कोंबीय म्हणटात. हरशी ही आंगान तिकतिकीत काळी. गळ्याकडल्यान पोंदचो भाग धवो. शेपडे पोंदा तांबसो दाग आसता. इतलो सोडल्यार आनीक तांबडो रंग तिच्यार ना. तरीय ती कोंकणी लोकगितांनी तांबडी कोंकारी म्हणून येता.

तांबडी कोंकारी<br>
शणैच्या बायचेर न्हाताली<br>
तांबड्या माडार बसून<br>
धवळां गायताली.

हेच गीत क्रिस्तांव समाजात दुसरे भशेन घोळता.

तांबडी कोकारी<br>
तळ्याबांदार न्हाताली<br>
तियेगेली दुब्जी सुटोली<br>
माडा वयल्या रेंदेरान देखीली.

म्हाका दिसता हे गीत बायल मनशेक उद्देशून बरयला.

कवडो हे एक पारव्याच्या जातीचे सुकणें ताचेर कितलीशेच लोकगितां, काणयो मेळतात. भुरगेपणांत एक कवड्याची काणी आयकल्ली. कवडो, ताची बायल आनी ताच्या भयणीची काणी. कवड्याक फोव खावपाक खूब आवडटाले. तो भात हाडून भयणीकडेन दितालो. भयण ताका ते कांडून फोव करून दिताली. एक दीस ताणें बायलेकडेन मागले. बायलेन भात कांडले, आसूडले, फांफूडले. आशें बी वेंचून निवळ करून दिले. इल्लेशे फोव पळोवन कवड्याक तिडक आयली. बायलेन आपणें फोव खावन उरिल्ले आपल्याक हाडून दिल्या अशें ताका दिसलें आनी ताणें तिका मारून उडयली. आनी तो फोव खावपाक बसलो. ताका ते फोव खूब रुचीक लागले. हरशीं भयण दिताली त्या फोवांत आशें, फातर मेळटाले. आतां ताका कळ्ळें फोव कित्याक कमी जाले ते. तो पिकासांवन रडूंक लागलो.

सीतेच्या हातचे फोव, गोड गोड गोड<br>
ऊठ गे सीते हांव कवडो, पोर पोर पोर

हो कवडो चडसो उदकाळ जाग्यार झाडांचेर क्रूऽ क्रूऽ आवाज करीत बशिल्लो आसता. ताचो आवाज रडकुरो कसो दिसता. तो आवाज आयकून पयलींची जाणटेलीं म्हणटालीं, हो पळय कवडो पोर रडटा म्हणून.

कवड्याची आनीक एक काणी आसा. एके बायलेन एक कवडो पोशिल्लो. तिच्या घोवाक ताची नसाय जाताली. ती ताका सुपा पोंदा धांपून दवरताली. एक दीस घोव ताका मारून खाता. फुगडी खेळतना बायलो म्हणटात,

खंय गेलो म्हजो कवडुलो<br>
हांवे ना देखिल्लो<br>
सुपा पोंदा धांकिल्लो...

कवड्याभशेन किर हो लोकगितांतलो आवडतो पक्षी. बाबुल्याच्या पाळण्यांक

रे काडल्या कीर मोर आनी बाबुल्याचो मामा भोव वीर. ही आल्लूय तर सामखी वळखीची. आनीक एक गीत सगल्यांच्या वठांर आसता.

माडावयलो कीर रे शेपडी हालयता
तन्ने चेडू पान खाता; फिरंगी आफयता.

किराचेर रचिल्ले एक उमाणेंय आसा.

पावस ना, उदक ना
रान कशें पाचवें?
चुनो ना, पान ना
तोंड कशें तांबडें?

कुट्टुरें हे एक रानकोंबयेच्या जातीचे सुकणें मातयेकोराचे. कुट्टुऱ्याक शेपडेक काळसर पिसां आसतात. पूण पिसारो म्हणपा सारखो न्ही. ताचे वयल्यान कोंकणीत एक म्हण आसा. मोर नाचता म्हणून कुट्टुरे नाचता.

किरकावळो होवूय एक कावळ्याच्याच कुळातलो. काळोच तिकतिकीत. शेपडी नुस्त्याच्या शेपडेभशेन दोशीवटेन भायर वळिल्ली आसता. थोडे कडेन ताका 'काळेर' हेवूय नांव आसा. ल्हान भुरग्यांलो एक खेळ आसा. भुरगेपणांत इश्टीणीच्या माथ्यार बी कितेंय उडयताली आनी मागीर कोणाल्या माथ्यार किरकावळो, किरकावळो अशे म्हणटाली. जेन्ना म्हाका किरकावळो नावाचे सवणें आसता म्हणून कळ्ळे, तेन्ना दोळ्यांमुखार अस्सो गुलाल बी फांफडून वचचो तशेच भुरगेपणांतले एक चित्र झळकून गेले आनी वठांर हांसो आयलो. दिसलो ह्या सुकण्यां सवण्यांनी आमचो लोकवेद तशेच आमचे जिवीत समृध्द केला, आनी ही समृध्दी तशीच उरपाक जाय. ❑

---

# दिसपटी

## पान २० वयल्यान

काडला. बरेंऽ दिसता. गिरीश मात सदचे बशेन पयस पयस सो, आपलेच भितर कसो आशिल्लो. 'गिरीशाच्या तोंडा वयलें हांशें गेलां...' तातो म्हणटालो खूब फावटीं आनी दुःखी जातालो.

फाटले अठरा तारकेक उषा गोकाणी आनी पावसकान्नीक घेवन एक 'धांवती भेट' दिल्ली पिरवळा. उपरान्त आज पावलें. तेंय बी 'चिड्‌ड्याक घोडो बांदून.'

साडे णवांक पावलें घरा. मागीर धांवपळी...

**बिरेस्तार, ६ जानेवारी**

ह्या वर्साची भाई मावज्याली कथा खूब आवडली. ल्हान फिल्म करपा सारकी. शेटगांवकारान करचें...

भाईचे कथेंत 'भायले' खूब सुंदर तरेन येवंक लायल्यात हालीं. पोरुंचीय कथा अशीच आशिल्ली. मारपा खातीर कर्नाटकांतल्यान गोरवां घेवन येवपी एका भुरग्याचेर.

पूण अंदूंची म्हाका चड मानवली.

तुकीक कोंब फुट्टात. जापो दिवन मोठ्यान उलयतकच म्हजोय ताबो वता. आज ताचे फाटीर एक थापट लायलें. रडलें. वायट दिसलें मागीर म्हाका. पूण निवळटकच ताका सांगलें, अशे तरेन जापो दिवप सामकें बरें न्हय. हें तुका हांवें सांगलें ना जाल्यार कोण सांगतलो? लोक तुका नांव दवरतलो आनी सोडून दितलो. आवय म्हणटकच तुका जाग्यार हाडपाचें काम म्हजें. हय मगो?... म्हणूंक लागलें, जाणा गे हांव...

**शुक्रार, ७ जानेवारी**

आज दीसभर जाग... युनिव्हर्सिटींतूय गेलेंना. सकाळच्यान प्रुफां... आनी निमाण्या वेळार आयिल्लें कांय लेख तपासले. निमाणो लेख फाल्यां येवपाचो आसा! नागेशबाबाचो! अंदू खऱ्यांनीच देमायज जालें. भितल्ल्यान जीव खूब अस्वस्थ जाला.

मानूय खूब दुखली आज. निमाणें व्होवेरान घेतली.

दनपारचें वरभर न्हिदतलें म्हूण आशिल्लें. धा धा मिनटांनी कच्च कच्च जावन जाग आयली. वर भर आड मात पडलें.

पुपूनाचोय फोन, आपूण stressed म्हूण. बरें दिसना खंय. वेळ खूब वाट लायता. ताका सांगलां हें. आज मात म्हळें ना. घायार मीठ चोळिल्ले भशेन जातलें म्हूण.. फोन आनी मॅसेजी –सोंसपा भायर. Generation gap...?

**म्हैसूर : १० जानेवारी**

'Language Contact in South-Asia' कार्यशाळे खातीर आयलां. वीस दिसांची कार्यशाळा. बरोबर कामाची पोटलीय (पोटलो!) फाटीर मारून हाडल्या. डायरॅक्टराक (राजेश सचदेवाक) सांगून मदीं कांय दीस वचूंक दिवचें म्हळां. शुक्रारा परत वचपाची तिकेट काडल्या.

वीस दीस म्हळ्यार तुकीचेर संकट. काल वतना रडलें. मागीर बसींत सगळो वेळ उदास उरलें. राजू दनपराचो न्हिदिल्लो म्हूण वतना ताका उठयलोना. 'म्हाका उठोवपाचो न्हय?' ताणें फोन करून म्हळें. काल खंय म्हजे ज्योतीश बरें नाशिल्लें! म्हजेंय शेणिल्ल्याचें चित्त. खीणभर दिसलें, कार्यशाळेक येवपाचें न्हय काय? हांवूय बी असलोच एक अभ्यासक्रम (हांवेंच आंखिल्लो) शिकयतां म्हूण आयलां. कितेंय तरी जातलोच 'फायदो'.

कार्यशाळेची आंखणी करपी प्रो.हान्स हॅन्रीक हॉक अणभव–समृद्ध भासविज्ञानीक आसतलो अशें दिसता.

खूब भासांची बारीक म्हायती आसा. भारतांत इंग्लीशीची सुवात हे विशींचे मत मात सरसमान भारतीय 'सभ्य' लोकांचें आसता तशें खपवळर needs a link-language- the Hindi experiment has not worked – म्हणटकच इंग्लीश!

कार्यशाळेंत वांटो घेवंक आयल्यात ते

चडशे भुरगे. नेपाळांतल्यान एकलो आयला. 'Linguistic survey of Nepal' ह्या प्रॉजेक्टा विशीं सांगतालो. नेपाळांत खंय णव भासो आसात. तांतली एक मैथिली. मैथिली भाशीक – समाजाचें एक अर्द नेपाळांत जाल्यार एक भारतांत – बिहारांत आसा खंय...

विजयान डॉ.रविकुमार म्हूण एकल्याचे वळखीन म्हाका एका 2 star हॉटेलांत रुम करुन दिला. फुकट. हें बरोबर न्हय अशेंय दिसत रावता परतें परतें. CIILत एकल्याकूच रावपाक रुम मेळत जाल्यार हो जागो सोडटलें म्हूण आसां.

अशें 'अज्ञातवासां'त एकलें रावतकच कामां मात बरीं जातात.

**म्हैसूर: बिरेस्तार ११ जानेवारी**

पुपूनाचो इन्टरव्ह्यू खंय सामको बरो जालो ना. 'What are your qualities?' म्हूण विचारलें तेन्ना सामकें गडबडलें आनी आपणाल्या उणेपणांचेरूच उलयलें... खूब अस्वस्थ जावन फोन केल्लो. एक न्हय तीन फोन केले... म्हळें, तांकां 'अमेरिकन' पध्दतीच्यो जापो जाय आसतल्यो – 'I am the best!' हे जातीच्यो. कांय नजऽ. केन्ना केन्ना यशा परस अपयश आमकां चड बरें शिकयता. तुजो हो अणभव म्हत्वाचो. थंड तकली दवरून डायरी बरय – अशें ताका सांगलें. हांव उलयताले तेन्ना तें रडटालें काय दिसलें. 'आमचे दोगांय परस तूं कितलेंशें मुखार आसा... लोकांचेर प्रभाव कसो घालप बी असल्या पोक्या गजालींचेर केन्ना वेळ वगडावप ना. 'बरें' जा. केन्ना निराश जावंक पावचें ना...' बी कितें कितें खूब सांगलें.

पुपून वेळ वगडायता तें पळोवन अस्वस्थ जातां. खूब आनी मागीर राग लिपोवंक येना. तरी, तें 'वांकडे' वाटेन केन्ना वच्चें ना असो खंय तरी विश्वास दिसता.

आज तुकीकूय सांगले, हे परिक्षेची तयारी करून घेवपाक हांव तुजे म्हन्यांत ना. चॅलॅंज घेवन बरे भशेन अभ्यास करून दाखय. तुजो आत्मविश्वास खूब वाडटलो....

**म्हैसूर: बुधवार १२ जानेवारी**

आज कोर्सांतलीं सगलीं लॅक्चरां आवडलीं. हरबीर अरोराचे दख्खिनी हिन्दी उर्दू वयलें सामकें आवडलें. गोंयच्या मुसलम ानांचे भाशेचेर अशेंच काम करूंक जाय आनी भटांचे भाशेचेरूय.

दख्खिनीचेर तेलगूचो खुब्ब प्रभाव आसा खंय. दख्खिनीचे लिंग वेवस्तेचेरूय द्रविडी प्रभाव आसा काय म्हूण विचारलें तेन्ना 'आसा...' इतलीच जाप मेळ्ळी. पूण दख्खितीत हिन्दी बशेन दोनूच लिंगा आसात खंय. दोन लिंगां आशिल्ले भाशेची लिंग–वेवस्ता द्रविडी भाशे बसेन आसप कठीण काय दिसता. भास संपर्कांत लिंगांचो आंकडो बदलूं येता काय? दोनांचीं तीन लिंगां जावं येतात? ना काय दिसता. हो constraint on influence तीन लिंगां आशिल्ले कोंकणी सारकेले भाशेचेर द्रविडी लिंग वेवस्तेचो प्रभाव दाखोवं येता – 'तें बस' (मंगळूरकारांलें) अशें जालां, गोंयांत 'ती बस'...

सुब्बा राव मेळ्ळो. M.Phil उळ्ीशीींरींळेप उजवाडावपा विशीं किते केलें काय विचारतालो. 'कांय ना' म्हूण जाप दिली... पंचवीस वर्सां जावन गेलीं! शी– पीएच्. डी. जावनूय स वर्सां उलगलीं...

साडे पांचांक 'शाळा सुटना फुडें' धांवन धांवन रुमार आयलें आनी वाज योसर प्रुफां काडलीं.

म्हैसूर: बिरेस्तार १३ जानेवारी

खुब्ब पुरो जालां. प्रुफां काडून काडून चड. 'All work and no play...' साडे णव ते साडे पांच. CIIL मागीर ताकतिकेन रुमार येवन जाग. जनेलां दारां धांपून. हांगा आयलां तें एक सूर्यास्त तरी पळोवपाचो... फाल्यां वतां. मंगळारा हांगा येवपाक परतें भायर सरतलें. फाल्यां मेरेन सगळीं प्रुफां जावचीं नात काय दिसता. तुकीक परत वेळ दिवंक मेळचोना. भितल्ल्यान वायट दिसता. आज ताका फोनार सांगलें, ''हांव ना अशें धरुनूच शिकूंक लाग...'' जाल्यार म्हणटा, ''तुवें म्हाका तशी संवयूच करूंक ना''!

पांडुरंग आनी समीराचे लेख खूब सुंदर जाल्यात. आपल्यो खबरी सांगल्यात, पूण आपणाक पेल्यान काडून, अनमनत. तिसरे फावटीं वाचतनाय दोळ्यांत दुकां आयलीं. ह्या लेखांक लागून मनान खूब लागीं गेलें तांकां. हेमाचोर बरोऽ जाला लेख.

आज परतीय ओश्पितालांतली याद – ''घरा या गो–'' आनी ''म्हजें घर म्हाका ना केलें तुमी...'' – तातोचीं उतरां. आमचें चुकलें काय देवा...?!

म्हैसूर: दनपार – शुक्रार १४ जानेवारी

गोंयां वतां. 'जाग' सोंपोवपाक. आनी तुकी खातिरूय.

कोर्सांतल्यान खऱ्यांनीच refresh जालें. गोंयचे ऊर्दूचेर आनी 'भटी' भाशेचेर प्रॉजेक्ट घेन दिसता.

शणै गोंयबाबा वयलो प्रॉजेक्ट तसोच पडला. धाडपाकूच वर्सां लागतात म्हाका... बरोबर न्हय...

बुधवारा परततलें.

आज रॉकी मिरांदाचें लॅक्चर जालें. कितलो सादो मनीस! ताचे विशीं खूब आपलेपण दिसता. आदरूय. खरो स्कॉलर हो कोंकणीच्या मळा वयलो.

जेसनाचो (फेर्नांडीस?) फोन – ''I have been told to real your thesis..' ३१ तारके उपरांत गोंयां पावतलें तेन्ना दितां म्हळां. कोणें वाच म्हळें काय ताका म्हजें डिझर्टेशन? रॉझा मारिया काय...? विचारलेंना.

**मडगाव: १७ जानेवारी**

पयरच्यान दीसभर जाग. सुनिलूय (जाधव कंपोजीटर) चिकाटेन बसता. फाल्यां वरा भरयाचें काम उरलां.

प्रुफां आनी जागरणां दोन गजालींक कांय दीस सामकें पयस दवरतलें म्हूण आसां. पूण सांगूं नजऽ. बारा–तेरा फेब्रुवारीक तातोचेर सेमिनार – तातूंत म्हजोय पेपर आसा. जाग फेब्रुवारीचे अखेर मेरेन तयार जावंक जाय. आनी comparative Lit. Mo seminarit वचूंक मेळ्ळें जाल्यार तोय पेपर तयार जावंक जाय... मदीं तुकीची

परिक्षा आनी Festival of Ideas...

आज राजूक लागून सकाळीं फुडेंच मन दमळट जालें. काल मडगांवां आशिल्लो. पूण सकाळीं वतां वतां म्हणूंक लागलो, इन्कम टॅक्सा खातीर खंय खंय पयशे घाल्यात तें आयचे आज कळोवंक जाय ऑफिसाक. मागीर, पोरूंचो फॉर्म, पोरूंच्यो रिसिटी – सगळी आरमार उस्तून सोदप सुरू. ताचें दर वर्सा अशें जाता. सुनिल कम्प्युटरार बशिल्लो. राजू इतलीच म्हाकाय बी म्हज्या कामाची ताकतीक आशिल्ली. पूण राजूक हें खंय लागता? ताका काम आसता तेन्ना 'म्हाका सामको वेळ ना'ची छज एछ्ढ्ध पाटी तो रोखडोच मुखार करता. दुसऱ्याक वेळ नासता तेन्ना मात हक्कान ताचेकडेन वेळ मागता. कायदे तुमकां, हांव आडवाद – ही भुमिका. असल्या वेळार घुसमट्टा जीव. फाल्या हांव वतां म्हूण आजूय राजू घरा आयलो. पूण हांव भितल्ल्यान 'सुकें'च आशिल्लें. अजून आसां. सांगलेंय ताका. 'हांव (सादों) रोखडो विसरून वतां' – असलें आयकतकच आनीक सुकतां भितल्ल्यान.

तुकी हालीं खूब फर्मायता. कितेंच जाग्यार दवरना. मान्न्यांत कपडे उडोवंक बालदी दवरिल्ली आसता. तातूंत तुकीचे कपडे अर्दे बालदेंत, अर्दे भायर आसतात सदां. आज ताका परतें वच आनी कपडे सारके बालदेंत भितर घालून यो म्हूण सांगून कामा वेल्यान उठयलें... अशें करप बरोबर जाल्यार नकळ.

**म्हैसूर: मंगळार १८ जानेवारी**

काल जाग हिरू नायक (प्रिंटर) कडेन धाडलो. कशेय बशेन म्हयन्याचे अखेर मेरेन दी म्हूण सांगलां.

रातीं बसींत अशें तशें वर देर वर न्हिदलां आसतलें. कर्नाटकाच्या रस्त्यांच्या बरेपणान! वांवभर फोणकुलांचो रस्तो, वेंतभर बरो रस्तो अशें वाटभर चल्लें. बसी बऱ्यो. तांचे कडल्यान दिवं येतालें तितलें सूख त्यो बाबड्यो दिताल्यो... तरी, व्हड्ल्या हारशाचें जनेल आनी भायर चतुर्दशीचो काय पुनवेचो चंद्र – नदर तृप्त जाली. 'पिठा बशेन चान्नें' म्हळ्यार कितें तें कळ्ळें. पिरवळची खूब याद जाली. आंगणांतल्यान दिश्टी पडपी रुप्याची ओप चडिल्ले माड दोळ्यां मुखार आयले. भायर पळेत बसलें. रात सरली.

सकाळीं हांगा पावलें तेन्ना पुरो मात जाल्लें खूब. दोन वरां न्हीद काडली आनी मागीर उखखडत गेलें.

फेब्रुवारीच्या जागा खातीर गांधीजीचे आत्मकथेचेर बरयतलें म्हणटां. इंग्लीश, कोंकणी 'आत्मकथा' घेवन आयलां. ते भायर काकासायबांची दोन धाकलीं पुस्तकां – 'गांधीजीकी, अध्यात्म-साधना' आनी 'बापूकी झाँकियाँ.' दुसरें पुस्तक गांधीजींच्या उगडासांचें. खूब सुंदर (तातान म्हाका लग्ना वेळार भेट दिल्ल्या पुस्तकां भितर हें पुस्तक आशिल्लें.) उपाट प्रेमान, आदरान, भक्तीन बरयलां काकासायबान गांधीजीं विशीं. तांचे भोंवतणच्या लोकां विशींय – रवीन्द्रनाथ, सी.एफ्. अँड्र्यूज सारकेल्यांचेर. असलें कितेंय वाचतकच तातोक सांगतालें.. फाल्त जालो तातो आज.

Comparative Literatureच्या कॉन्फरन्साखातीर पेपराची synopsis तयार केली. वेळ कित्याक जालो हाची जाप जाग बी मुखार काडून दिवं येता. पूण खरी जाप फायचें काम आज करप हांव टाळटां, हीच. आजूय, इतलो वेळ जालाच, फाल्यां करुया अशें मनांत आयिल्लें. पूण मागीर म्हजोच राग सो आयलो आनी बरोवंक बसलें . वरा भितर मजकूर तयार जालो..धा जानेर निमाणी तारीक आशिल्ली! हें वरूय इतले दीस नाशिल्लें म्हजे कडेन?!

**म्हैसूर: बिरेस्तार २० जानेवारी**

'बापूकी झाँकियाँ' गांधीजीची वळख घडयताच. पूण काकासाहेबांचीय वळख घडोवपी पुस्तक हें. पुस्तक वाचतना खूब कडेन जाणवलें, तातोन ह्या दोगांकूय कितले internalize केल्ले! तातोचे 'हट्ट' समजून घेवपाक हे संदर्भ खूब म्हत्वाचे. गांधीजी उणो हट्टी नाशिल्लो. काकासाहेबूय. 'ल्हान'/'व्हड' – सगल्यांक समान नदरेन पळोवपाचो गूण – गांधीजी, काकासाहेब, तातो – तिगांय भितर आशिल्लो. 'तातो म्हजोय आजो आसपाचो...' – शांतूल्या पुष्पान म्हणिल्लें म्हूण कोणें तरी तातोक सांगलें तेन्ना तातोन म्हळें, 'म्हाका आजो लेखून येवन राव हांगा म्हूण सांग ताका...' वयले वयर म्हणूंय नाशिल्लें हें.

'बापूकी झाँकियाँ'त साबरमती आश्रमाच्या सुरवेच्या दिसांतलो एक प्रसंग आसा. कामगारांचो दिसवडो वाडोवचो म्हूण आंदोलन चलतालें तेन्ना गांधीजीन तांच्यो मागण्यो मान्य जायसर उपास करपाचें थारायल्लें. बापू उपाशीं रावले जाल्यार आमी कशे जेवतले अशें येवजून महादेवभाई आनी काकासाहेब – दोगांयनी तांचे वांगडा उपास करपाचे थारायलें. महादेवभाईन गांधीजींक हें सांगलें तेन्ना तांणी म्हळें, '... चल, वचून जेवन यो. जेवलोना जाल्यार तुजें तोंड पसून पळोवंचोना.' महादेवभाईचें तोंड पडलें. काकासाहेबां सरीं वचून तांणी म्हळें, 'बापून म्हजेर नदर घालिना जाल्यार हांव कसो म्हूण जगतलों!' हाचेर काकासाहेबांनी जाप दिली, 'बापूच आमचें लेपीलळशपलश. तांणी जेव म्हळां म्हणटकच आमी जेवंक जाय. जेवनूच आमची परिक्षा दिवंक जाय.'

केदो आकांताचो विश्वास!

**म्हैसूर: २३ जानेवारी**

हांगा परतत सावन मेळिल्लो वेळ 'गांधीजीच्या सांगातांत.'

'बापूकी झाँकियाँ' वाचलें. 'गांधीजीकी अध्यात्म-साधना', काकासायबाचेंच, (दोन व्याख्यानां हीं ) वाचलें. Gandhiji as we know him by 17 contributers (ed.) Chandrashekhar Shukla हांतले वेंचीक लेख वाचले – गोखलेचो लेख, रवीन्द्रनाथाची मुलाखत– सामकीं सुंदर बरपां. आत्मकथेचो पयलो भाग बारीकसाणेन वाचलो – नोट्सूय काडले खूब – आनीक दोन दीस मेळिल्ले जाल्यार

सगळी आत्मकथा अशी एका चित्तान, बारीकसाणेन वाचून जातली आशिल्ली. गोंयां वतकच 'देवाचेर भार' घालून रावप – उपाय ना. हांगच्यानूच कामांचो दोंगर दिसता. खरें म्हळ्यार परां भायर सरपाचें आशिल्लें. फाल्यांच वतां. तुकी खातीर. 'मम्मा, सामको वाज आयला...' तें फोनार ल्हवू सांगता. २७ तारकेच्यान ताची परिक्षा. 'दोन दीस पयलीं तरी यो गे...' म्हूण परतें परतें सांगतालें...

Comparative Literature च्या conferenceक पेपराचो abstract धाडिल्लो. उपरांत चंद्रमोहन आनी दासगुप्ताक फोनूय केले. दोगांयनी 'यो' म्हूण सांगलां. बरोबर – 'फुडलें conference गोंयां करूंक जायत?' हो प्रस्न. प्रो. नागराज दोन वर्सां खातीर CIIL चे फेलोशिपीर हांगा आसा. तोय म्हणटालो. सुब्बा राव खंय ताका म्हणी, फुडलें Linguistic Society of India चें conference गोंयां करुया म्हूण! तात्पर्य : सगळ्याक 'चलो गोआ चलें!'

राजाराम हेगडे काल सेमिनारा खातीर हांगा आयला. गोंयां ताचो फोन आयिल्लो तेन्ना 'मेळचें' म्हणिल्लें. हांगा मेळिल्लो वेळ असो मोडूंक हातांतल्यान सुटच ना जालो. प्रो. नागराजूय घरा आपयतालो. फुडले फावटीं येतां, म्हळें. आज Courseक आयिल्ल्यां खातीर outingची तजवीज केल्ली. ताकाय गेलेंना. हे फावटीं चार वणटीं भितर उरलें; पूण जाय तें करूंक मेळिल्ल्यान ताजें टवटवीत उरलें. फाटले फावटीं प्रुफां अजीर्ण जाल्लीं.

विजयाक लागून मेळ्ळें हें सूख.

अशें दीसभर वाचूंक बरोवंक पयलेच खेपे मेळ्ळां. अशें पयस, अज्ञातवातांत शें रावंक मेळिल्ल्यान सगलीं २४ वरां म्हजेच फाटल्या फुडल्यान. केन्ना केन्नाय अशें दोन–तीन दीस तरी सगल्यां परस पयस वचून रावंक जाय.

तातोचें 'भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र' घेवन आयिल्लें. ताका मात हात लावंक पावलेंना.

आज कात सुकली म्हूण खोबरेल लायलें हाता–पांयांक. तातोची खूब याद आयली.

यादीय म्हूण कसल्यो कसल्यो –माँ गेले उपरांत कांय दीस पिरवळा रावंक गेल्लें तेन्ना तातोन म्हणिल्लें, 'हांगाच न्हीद म्हजे म्हऱ्यांत...' आनी माँचे खाटीर न्हिदूंक सांगिल्लें... ती याद, सामकी तातोच्या आवाजा सयत...

काल पुतूलाक बाय जालें. तुकीक नांवाचो हुस्को.

**मडगाव: २५ जानेवारी**

काल भीमसेन जोशी गेलो. 'लोकसत्ता'चें पयलें पानभर ताचो सुंदर फोटो आयला... फ्रेम करून वणटीर लावचो इतलो अप्रतीम. अंक कुशीक काडून दवरला. भीमसेन जोशी इतलो वांकडीं तिकडीं तोंडां करून गावपी दुसरो गायक आसचोना घडये. पूण ह्या 'वांकड्या तोंडां'चेरूय एक आगळें वेगळें तेज आसतालें. दिव्यत्व आसतालें. भीमसेन जोशीचे असले क्लोज अप म्हाका सदां सुंदर दिसल्यात आनी पेपरांनी आयल्यात तेन्ना हांवें ते कापून काडून सांबाळून दवरल्यात... अकरा वर्सांचो आसतना खंय गुरू सोदूंक घर सोडून गेल्लो. दिसाक सोळा सोळा वरां खंय रियाज करतालो. असो आत्म्याचो उलो भोवच थोड्यांक आयकूंक येता.

विद्या प्रभुदेसायाचो सकाळीं फोन आयलो. चौगुले कॉलेजींतल्या परिसंवादा खातीर खंय तातोच्या 'जपान जसा दिसला' आनी 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत' पुस्तकांचेर पेपर तयार करता. रवीन्द्रबाब इतली सुंदर मराठी बरयताले म्हूण खंय खबर नाशिल्लें. 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यात' खंय अप्रतीम पुस्तक. कोंकणींत ताचो अणकार जावंक जाय म्हणूंक लागलें.

फट्ट करून जिबेर आयलें. तातो आसतना वाचूंक पाविल्लें तूं हीं पुस्तकां जाल्यार कितलें बरें जावपाचें! पूण तातोची प्रतिमा 'मराठी द्वेष्ट्यां'ची... हांवेंय म्हणिल्लें ताका एक दीस हांव अणकार करतां 'ज्ञा.सा.' म्हूण. जाल्यार ताणें म्हणिल्लें, मराठी पुस्तकाचो कोंकणी अणकार करचो पडूंक जायना. तितली मराठी आमकां येवंकूच जाय.

आनी हो 'मराठी व्देष्टो'! रेखा देशपांडेन पयरच्या लेखांत बरें्ऽ बरयलां हाचेर.

हे २७ तारकेक 'स्वातंत्र्य सैनिकांचे कचेरेंत तातोची याद, म्हाका येवंक मेळत शें दिसना. युनिव्हर्सिटीची कमिटी...

रातीं बसींत जनेलांतल्यान मळब पळेत रात काडली. रोहिणी ते सप्तर्षी सांगात दिवन गेले. तातोचीय सामकी याद. ओश्पितालांत गेल्ले कणकणी तातोचो प्रस्न् 'खंय गो तूं?!' वरांचीं वरां ताचे म्हऱ्यांत बसून फकत एक–दोन वरांक घरा वचून येताले, तेन्नाय खीणभर तातो उबगल्ले वरी दिसतालो. तेन्ना मागीर दिसतालें, म्हजेंच चुकलें... त्या लाचार खिणांच्यो यादी जाग्यो जातकच दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां देंवतात. रातींय खूब आयलें रडूंक. म्हऱ्यांतल्या सिटार कोण नाशिल्ल्यान सोयूय बरी जाली.

**मडगाव: २७ जानेवारी**

आज व्हीसीक मेळून म्हजे लिव्हेची भानगड निस्तरायली. 'ॲप्लिकेशन गेले खंय?' – ताचो प्रस्न. म्हळें, तेन्ना कामांचो खूब भार आशिल्लो तकलेर, ज्या दिसा चंद्रलेखाची सय घेतिल्ली, आमचें डऊउ सुटयेर आशिल्लें, म्हजेच कडल्यान तें खंय तरी misplace जाल्लें आसूं येता.

बरोबर पत्रूय बरोवन व्हेल्लें. तें वाचून ताणें म्हळें, जाता अशें केन्नाय. पूण ते खातीर इतलो बोवाळ करपाची गरज कसली आशिल्ली? It may be treated as unauthorized absence बी असले शेरे कित्याक जाय आसले? असले सुटयांचे बी प्रस्न विभागाच्या पांवड्याचेर सोडोवंक येवंक जाय... तुवें हे विशीं म्हजे कडेन आयिल्लो नोट पळेला? तो तुका दाखोवंक ना?

म्हळें, ना...

कांय न्हय सो करून प्रस्न सुटलो.

'चूक म्हजीच' हे भुमिकेक लागून.

सविता म्हणटा, तुजी चूक कशी? अर्जाचेर सय घेवपाचें काम तुजें. फाल्यां वचून व्हीसी कडेन कसलो नोट गेल्लो तो पळोवंक जाय म्हूण सांग.

म्हळें आयचो एक दीस ह्या कामान खालो, फाल्यांक ताका व्हरूंक दिवचें ना. आनी, असल्या कामांत वेळ वता तेन्ना सामकें 'वैराग्य' आयिल्ले बशेन जाता. म्हजे नदरेन ही घडणूक आज सोंपली.

आज तातोचो पांचवो म्हयनाळो स्मृतिदिन. स्वातंत्र्य सैनिकांचे कचेरेंत मनयलो. गुरुनाथकाकान सगळी आंखणी केल्ली कार्यावळीची. हांव तेन्ना लिव्हेची भानगड सोडयत उरलें... शी!

**पणजे: ३ फेब्रुवारी**

'धोबी घाट' पळेलो राजू बरोबर. 'स्लॅमडॉग मिल्यॉनॅर'च्या तंत्रान 'सांगल्या काणी'. आवडलो. अमीर खाँ निमाणो रडटा तें गाळूं येतालें काय दिसलें. पूण अमीर खाँच्या सिनेमांनी मातसो मॅलोड्रॅमेटीक (रोमँटीक?) टच आसताच. (हो सिनेमा किरण रावाचो, तरी...) 'शाय'च्या दोळ्यांतलीं दुकां 'सोबतात'. असले सिनेमा दोन खेपें तरी पळोवंक जाय.

ह्या सिनेमांत मुंबय सुंदर आयल्या. केन्ना फाटभूंय, केन्ना पात्र कशी. 'भायली' मुंबय, 'भितल्ली' मुंबय, बडबडी मुंबय, मनी मुंबय, दिवपी मुंबय, काडून घेवपी मुंबय. 'सलाम बॉम्बे'चीय याद जाली हो सिनेमा पळेतना.

काल पुतूलाचे चलयेच्या बारशाक वचून आयलें. युनिव्हर्सिटींतल्यान भायले भायर. गिरीश विचारतालो, 'तातोची कूड बरी दवरल्या मगो?' म्हळें, सुंदर दवरल्या. रोहिणीन म्हळें, 'खूब दिसांनी पावलें...'

चलयेक नांव 'सर्वदा' दवरलां.

बाबू बरोऽ जाला. तो हांसता तेन्ना ताची काकूळट शी मात दिसता. कित्याक काय? गिरीशाचो जीव बाबूचेर. 'गिरीशाच्या तोंडा वेलो हांसो गेले...' कितले खंतीन सांगतालो म्हाका तातो... बाबू बरोबर आसतना आनंदीत आसता गिरीश...

आपणाक बारशाक व्हेलेंना म्हूण तुकी खूब रागार जालें म्हजेर.

फाटल्या आयतारा, कृपाली आयिल्लें. सोयरीक मोडली... घरचीं लग्न जा म्हूण फाटीक लागल्यांत म्हूण सांगतालें. म्हळें, ओगीच कोणाय कडेन लग्न जावपाक हय म्हणूं नाका. भाव व्हडलो, आपणाक लागून ताचें लग्न उरता हो कृपालीक हुस्को. म्हळें, ताका जा म्हूण सांग लग्न. कृपाली हालीं बरेंऽ बरोवंक लागलां. काल ताका फोन करून सांगलें, फुडल्या युवा महोत्सवाक तुजें एक पुस्तक येतलें हे भाशेन विशय वेंचून काडून बरयत राव... हुस्को जाता कृपालीचो. ज्योती 'नाच जालां' तशें ताचें जावंक जायना. म्हळें ताका हेंय... कृपाली वतकच ज्योतीक फोन केलो. घोवान घेतलो. हळडीकुकमाक गेलां, येतकच करूंक सांगतां, म्हूण सांगलें. फोन आयलोना... अशें जातालें तेन्ना तातो कितलो हुस्केतालो...!

'जाग' फाल्यां येता खंय. प्रकाशाक म्हळें, माराण बी तयार दवर!

परांच्यान Festival of Ideas. तातूंत विकतलें म्हूण आसां अंक. पळोवया...

अनाचो फोन आयिल्लो. जागाची वासपूस करूंक, आनी 'गोंयची अस्मिताय' पुस्तकाचो अणकार खंय पावला तें बुडकुलेक विचार म्हूण सांगून. ह्या पुस्तकाची एक बरीऽ आवृत्ती काडूंक जाय आशिल्ली, मारियोचीं चित्रां बी घालून.

हालीं वेळ मेळटा तेन्ना (तो मेळटा असो पणजे राजूच्या फ्लॅटार. राजू नासतना वा घरा, तुकी न्हिदतकच, हालीं दीस म्हजो वेळ खाता – बुड्डून व्हरता)

'आत्मकथा' वाचतां, नोटस् काडटां. ताचेर विस्तारान बरयतलें म्हूण आसां ह्या जागांत.

आंकूं हालीं अखंड B.B.C. पळेता. होस्नी मुबारक!

**५ फेब्रुवारी**

आयच्यान Festival of Ideas सुरू. जाग दिवाळी-नातलां २010. आनी 'कषाय मधुर' विकपाक घेवन बसलीं. मॅथ्यू आनी हांव Broadway च्या मेजार इल्लोसो कोनसो आडावन बसली. एक मेज मेळिल्लें जाल्यार बरें जावपाचें. पूण शेनवार आशिल्ल्यान कला अकादमी बंद. आनी कँटिनांतलें मेज हालोवपाकूय सायबाची परवानगी जाय खंय. तात्पर्य: मनोहरबाबाले 'लोकशाय' कवितेंतली 'भीक मागता फॉर्म भर –' वळ याद जाली. कोण म्हणूंक लागलो, 'फाटल्यान सोप्यार बसात. मेज कित्याक जाय?' म्हळें, 'आमकां फाटल्यान नाका, फुडेंच जाय.' ब्रॉडवेचो मनीस येतनाच वेळान आयलो आनी 'आमच्या मेजार हें कोणें दवरलां?... काडात पळोवया...' म्हूण बोवाळ घालूंक लागलो. ताचे कडेन मातसो वाद केलो; पूण हाल्लीं नात. निमाणें निमाणें तोय मातसो मोव जालो. भायर सरतना पुस्तकाच्यो पोटल्यो तांगेल्याच पोटल्यां म्हन्यांत दवरून आयलीं...

१६00 रुपयांची विक्री जाली. १000 'कषाय मधुरा'चे. विक्री व्हडलीशी न्हय. तरी हांव खूश! पुपून विचारता, 'मम्मा तुमची promotion ची रीत कितें?' म्हळें, तूं येवजी...

फाल्यां खय उतूबायूय येता. अब्दुल कलामाचें उलोवप आयकूंक खूब लोक येतलोच. कोंकणी वाचक कितलो आसतलो, पळोवंक जाय.

माशेलकारान सदचे बशेन, उत्साही आनी विकासवादी उलोवप केलें. खूब वायट परिस्थितींतल्यान वयर सरिल्लो मनीस हो. रस्त्या वेल्या लायटी-खांब्या मुळा, रेल्वे स्टेशनार बी बसून शिकिल्लो. असल्या मनशा विशीं खूब आदर दिसता. पूण असल्या सक्सॅसफूल मनशां कडेन सगल्या प्रस्नांच्यो जापो आसतात, आनी, 'We should be the best' ही भावना – हांचो भंय दिसता. नायलॉन ६'६ वेळार माशेलकार Dupontचे वेटेन आशिल्लो काय? सारकी याद जायना... उलयलो बरो. ताळ्यो खूब घेतल्यो.

**सकाळः पणजे – ८ फेब्रुवारी**

काल दलाय लामाचें उलोवप आयकूंक वचूंक नाशिल्लें जाल्यार कितें तरी चुकतलें आशिल्लें. हॉल अर्दो तिबेटी लोकांनी भरिल्लो. भुरग्या-बाळांक घेवन दर्शनाक आयिल्लो लोक

कर्म-योग्याक सोबऽ सारकें उलयलो. देवळां, पागोडा, इगर्जो, मशिदी बांदचे परस वचत थंय वाचप-घरां उबीं करचीं... पयशांनी सूख विकतें घेवंक मेळना... 'नियती' आसा जाल्यार यत्नान ती आमच्यांनी बदलूं येता... (भारतांतल्या) राजकारण्यां खातीर तुमचो कितें संदेश? कोणे तरी विचारलें. म्हणूंक लागलो, दिल्लीक संसद-भवना भायर गांधीजीचो एक व्हडलो पुतळो आसा. थंयच्यान सगळे राजकारणी येतात-वतात. गांधीजीची सत्य-निष्ठा तांणी इल्ली तरी घेवची...

उलयतना 'सॅक्युलर' नितीचो परतो परतो उल्लेख करतालो. विचारन दिशिल्लें, धर्मगुरु आसून तुमी सॅक्युलर नितीचेर भर दितात; एकविसाव्या शतमानांत धर्माची सुवात कितें अशें तुमकां दिसता?

विचारलेंना. प्रस्न विचारूंक खूब जाण उचंबळीत जाताले, परते परते हात वयर करताले, उबे रावताले. तांचे वळेरेंत भर घालीन दिसलिना.

दलाय लामाचें हांवें कांय वाचूंक ना. आतां वेळ काडून वाचतलें म्हूण आसां केन्नाय तरी.

मोझीसा बरोबर कृष्णमूर्तीच्या व्याख्यानाक वतालें ती याद जाली. कृष्णमूर्ती भितर कसो सरतालो, कसो बसतालो, उलयतालो – सगळें दोळ्यात भरून दवरतालीं आमी.

आज कृष्णमूर्ती परस गांधी, दलाय लामा इल्ले चड लागींचे दिसतात. कृष्णमूर्तीची क्रियाशीलता वेगळी, गांधी, दलाय लामाची वेगळी. रवीन्द्र वर्मान म्हाका म्हणिल्लें, कृष्णमूर्ती वाच, पूण ताचें अनुयायी जावं नाका. कृष्णमूर्तीचे अनुयायी चडशे निश्क्रीय जातात...

विचारान हांवूय बी मार्क्सवादी; पूण लेनीन, माओ हांणी मार्क्सवाद चलणुकेंत हाडलो तेन्ना सत्तेकूच चड म्हत्व आयलें, लोकांचें स्वातंत्र्य ना जालें. मार्क्स थंयच उरलो. माओ सुरवेक म्हणटालो, विरोधाक आमी येवकार दिवंक जाय. सुरवेक चिनांत विरोधाक थारो आशिल्लो. पूण मागीर विरोध खंयचो, विरोधकूच ना जावंक लागले... – दलाय लामान हांसत सांगलें. काय बरो निर्मळ हांसता तो. बुद्धूय हांसतालो काय असो?

काल फकत एकूच जाग खपलो. सुनापरान्तार जायरात आजूच आयल्या. पूण 'प्रोमोशन' घुस्पलां...

मडगांव. रातीं

आज पुपून पुण्याक वचूंक गेलें.

लॉर्ड मेघनाद देसाईचें भाशण चुकयलें. मातशें बेगीन घरा आयलें.

ज्योतीक फोन केलो. मांयन घेतलो. 'उदऽ न्हावंक गेलां...' म्हूण सांगलें. 'फोन करूंक सांगता?' म्हूण विचारलें तेन्ना 'हय... हय' म्हणूंक लागली. फोन मात आयलो ना. फाटल्या आयतारा केल्लो तेन्ना घोवान घेतिल्लो. ज्योती हळडी-कुकमाक गेल्लें. येतकच करूंक सांगतां अशें ताणेंय म्हणिल्लें. ज्योतीक घरचीं सांगनात अशेंय आसूं येता वा ज्योती फोन करना अशेंय जावं येता. पूण ताणें आपूण जावन कित्याक करचो न्हय एकूय फोन?

तातोक तें केन्ना विसरुंचेंना. तातोचे यादीन तरी म्हाका एक फोन करचो आशिल्लो... काय हांव नाच ताच्या संवसारांत?!

आसूं... तातो फोनार 'ज्योती?' विचारतालो ताची याद जाता खूब...

आज जागाक एक नवो वांगडी मेळ्ळो खंय. कृपालीन सांगलें. आनीक खप कांय ना.

मडगांव

शब्दावली आयोगाच्या जोड पालवान आज, फाल्यां आमचो परिसंवाद. फादर मोउझीन्याक घेवन युनिव्हर्सिटींत गेलें. वाटेर विचारूंक लागलो, केशवबाबाच्या त्या प्रकरणाचें निमाणें कितें जालें? म्हळें, कांय खबर ना. भाशा मंडळान एक समिती काडल्या. तिचेर हें काम सोंपयलां... जाल्यार म्हणूंक लागलो, केशवबाबान पयशे काडल्यात म्हूण सिद्ध करपी कांय पुरावे मेळूंक नात अशें प्रशांत सांगतालो. 'कोंकणी'च्या फुडल्या आंकांत ते अशें छापपाचे आसात खंय... मागीर म्हणूंक लागलो, रवीन्द्रबाब आतां नात, उदयबाब आसात. तांकां दुखोवंक नाका आसतलें प्रशांताक बी... 'रवीन्द्रबाब आसतनाच ताचे म्हऱ्यांत वचपाचें न्हय हांणी?!' अशेंय म्हळें फादरान आनी म्हाका सांगलें, 'तुमी कोर्टांत बी वचूं नाकात आं... हें हांगाच थांबयल्लें बरें.' अनानूय अशेंच सांगिल्लें.

'कांय पुरावे नात...' दीस भर तकलेंत हेंच दिसलें, एकलेंच कूड धांपून बसचें आनी पोट भर रडचें.

नोटीस आयले उपरांत पिरवळा पाविल्ले फावटी तातो म्हाका विचारतालो, 'प्रशांत बी म्हाका येवन कित्याक मेळनात?' 'घरचीं दुखवल्यांत जाल्यार तांकां 'सॉरी' म्हणन पूण एकूय उतर फाटीं घेवपाचों ना. दंडूय भरपाचोंना. कादयेंत वचन...' एक दीस म्हणिल्लें तातोन. 'तो उल्लेख ओगान आयलो...' अशेंय सांगिल्लें.

सतीश सोनकान सांगिल्लें, 'कांय करपाची गरज ना... नोटीस तशीच दवरुपाची.'

तातोचो सभाव हें मानून कसो घेतलो? प्रस्न उबो जाला, तो सोडोवंक जाय – ताची रीत. काय ताचो आमचे कोणाचेरूच विश्वास नाशिल्लो? निमाणें नागेशबाब आनी गुरुनाथकाकाय 'आमकां कित्याक ती भानगड?' म्हणिल्ले वरी वागले नात? 'संदेश कोण?' – नागेशबाबाची अडचण. गुरुनाथकाकाचें असलेंच कितें तरी नीब. तात्पर्यः दोगांयनी अळंग बरें आंग काडून घेतलें. नागेशबाबान वयल्यान आश्वासनूय दिलें, 'कोर्टांत हांव आसतलों तुज्या अर्दान!' म्हणून.

म्हाकाय फटवल्ले वरी दिसता आज आनी तातोची याद येवन रडूंक येता.

आज कर्ण सिंगाच्या व्याख्याना उपरांत प्रशांत मेळ्ळो तेन्ना ओगीच दिसलें, तो म्हाका चुकयता. २७ डिसेंबराची '९०% थरिल्ली' कार्यावळ तांणी केलिना ती ह्याच कारणाक लागून काय – तातो म्हारग पडटा म्हूण? – मनांत दुबाव. कोडसाणूय.

हांव मात अशें वेव्हारी जायना जाल्यार पुरो केन्नाच, मनांतल्या मनांत मागलें देवा कडेन.

काल जस्टीस आल्बी सॅकाचें व्याख्यान जालें. आकांत मनीस. सावथ आफ्रिकेचो नेहरू, पटेल बी असलो. समानतायेच्या हक्का खातीर झुजिल्लो. तांचो Constitutional court 'भोंवडावन दाखयलो' ताणें. न्यायाक दिवं येत तितलो न्याय दिला तांणी, नवे आफ्रिकेचो नवो संदर्भ घेवन.

**पणजे : १५ फेब्रुवारी**

११, १२ तारकेक चौगुले कॉलेजींत तातोचेर परिसंवाद जालो, 'रायटर आनी फायटर रवीन्द्र केळेकार.' लता शिरोडकार, रमिता गुरव कोंकणींत नवीं. मेहनत घेवन पेपर तयार केल्ले. तडकोडकार पाऊणवर सुमार उलयली... (पेपर वाचलो). विद्या प्रभुदेसायूय ...सगळो पेपर वाचूंक जाय म्हूण बेगीबेगीन वाचूंक लागली. मागीर म्हजी तकली खऱ्यांनीच उसळूंक लागली. Crocin pain relief पर्सींत आशिल्ली. रोखड्या रोखडी घेतली.

पुस्तकांय गेल्यांत शीं दिसता. सपनान सांगलें, तीन हजारां वयर गेला 'गल्लो'. हांवूय खूश.

पेपर मांडपाचे ५०० मेळिल्ले. पयलीं दिसलें, घेवप ना. तातोचें कार्य, मागीर घेतले आनी पयर सपना आमगेर आयिल्लें ताका दिले. सगळें धांवपळीचें काम सपनान केलां. ताचो पगार लॅक्चरा कोंतान... परिसंवादाक तें मुखार खंयच दिसूंक नाशिल्लें... शिक्षण संस्थांनी असली पिळणूक हक/लागणुकेचो रंग दिवन जाता, तें इतलीं वर्सां पळेत आयलां.

एक सहकारी आज म्हजो कोश मातसो मागूंक आयिल्लें. राजहंसाचो, मुकेशान बी तयार केल्लो. तींय हिन्दी–कोंकणी, कोंकणी हिन्दी कोश तयार करतात खंय. फट्ट करून जिबेर आयलें, विकतो कित्याक घेना? फकत १२० रुपया ताका... म्हणूंक लागलें, घरा आसा गो. फाटीं अशीच आनीक एकली मनोहरबाबान तयार केल्लो इंग्लीश–कोंकणी कोश घेवन गेल्ली. अजून परतो येवंक ना. पयरचे सेमिनारी खातीर तातोचें 'तॉलस्तॉय' घेवन गेल्ली. तेंय परतें येवंक ना. भुरग्यांक मात आमी पुस्तकां विकतीं घेयात म्हूण सांगतात.

ज्योती तातो वयल्या परिसंवादाक पावलेंना. भुरगींय नाशिल्लीं ताचे हायर सेकंडरींतलीं अशें कशें...? विश्वासूय बसना. वायटूय दिसता.

कृपाली तातोचेर पीएच्डी करूंक सोदता.

पयर कुमुदकाकीचो दीस. चवथो. गुरुनाथकाकान 'जन उगाही'च्या संपर्कांत आशिल्ल्या पन्नास–साठ भुरग्यांक आपोवन खाण जेवण, मनरिजवणेची कार्यावळ घडोवन हाडिल्ली. वता तांकां return gift आनी मिठायेची कास. स्राद्ध करपाची रीत खूब आवडली.

शणै गोंयबाबाले खंड अकादेमी कडल्यान हाडून भुरग्यांक ४०% नी विकले (=दिले) अर्दे पयशे आयल्यात हातांत. फाल्यां बील भरतलें म्हूण आसां. इकरा हजार काय कितलें जालां.

तातोचेर असलोच आनीक एक परिसंवाद घडोवन हाडचो अशें दिसता. नव्या, गोरखा येद्या बी भुरग्यांक पेपर वाचूंक लावन. जाग प्रकाशनाचे वतीन. दिलीप म्हणटा, करुया.

**उत्कल विद्यापीठ, उडिसा : २० फेब्रुवारी**

झजड टॅगींगचे कार्यशाळे खातीर ज्योती आनी घाणेकारा बरोबर हांगा आयलां. गॅस्ट हावजांत दवरल्यांत आमकां. सामकी फालतू वेवस्था. जाचेर जापसालदारकी आशिल्ली तो खंय कलकत्त्याचो. ज्योती म्हेऱ्यांत येवन सफाई दिवन गेलो.

सकाळीं मुंबय पावलीं तेन्ना किशोर (लोकरे) चेंबूर व्हरूंक आयलो. सामकी बरी सरबराय केली आमची. मागीर आय्आयटीचो कॅंपस भोंवडावन दाखयलो. एके दोंगुल्लेर चडून पवई आनी विहार तळीं पळेलीं. खूब चल्लीं वोता कडार. पूण पुरो जालें ना. रातचें जाग्रण आसतनाय. हालीं प्रवासांत जनेल आनी चंद्राचो सांगात – दोनूय मेळटा. रातभर जागेंच उरतां. भायर पळेत.

ज्योती आयआयटी भोंवक आयलेंना. आसाराम बापूजींचो सत्संग आसा म्हूण खंय तरी जायरातीचेर वाचूंक मेळ्ळें. आनी ताच्या दर्शनाक वचून आयलें. योगायोग खूब मानता ज्योती. असलें कितेंय तें उलयता तेन्ना घाणेकारूय भावार्तान सो आयकता. दोगांय शिवराक जाल्यांत...

पयर सॅबीलो भाशा मंडळांत अणकाराचेर परिसंवाद आशिल्लो. नारायण देसायान आपयलें म्हूण गेलें. ना जाल्यार वचचें नाशिल्लें.

१७ तारकेक राशॉल सिमिनरींत ख्रिस्त पुराण (थॉमस स्टीफन्स), दियोग रिबैर बी मिशनरींचे बरपावळीचेर परिसंवाद जालो. आयोजन सुंदर आशिल्लें. फादर नॅल्सन फाल्कांव मुखेल उलोवपी. सुरेश आमोणकार अध्यक्ष. दोगूय बरे उलयले. सुरेशबाब क्रिस्तांवांचे बोलयेंत उलयलो.

**भुवनेश्वर: २१ फेब्रुवारी**

आज कोणार्काचे सूर्यमंदीर पळेलें. कितलें भव्य! मामाची (आवय) याद आयली. शांतिनिकेतनाच्या दिसांच्या यादीं भितर हें सूर्यमंदीर आसतालें. 'आकांत!' मामान म्हणचें.

देवळाच्या वणटींचेर मनीस जिणेचो अख्खो संवसार कोंरातून दवरला. सूर्याचीं किर्णां पडटात आनी पडय नात तो संवसार. मनीस जिणेचें खंयचेंच आंग हे कलेन कुशीक दवरूंक ना, भश्ट मानूंक ना. राजघराण्यांतल्या बायलांच्या जिवितांतलो एक दीस देवळाच्या एका चाकार

कोंरातिल्लो आसा. सकाळीं उठ्ठा, आळस काडटा, मागीर दोन दोन दासयो तिका न्हाण घालतात, ...मागीर कितें तें विसरलें, पूण म्हणटासर हारश्या मुखार बसून परतो सृंगार आनी मागीर संभोग! दीस सोंपलो. कितलें वर्शीर्शीीळपस चित्रण!

बारा वर्सां लागलीं खंय हें देवूळ रचपाक. आनी हजारांनी कलाकार.

पुरीचे जगन्नाथाचें देवुळूय पळोवन आयलीं. देवळा भायर अंत आनी पार नाशिल्लें हिंदू दैन्य. म्हातारीं, धोडारीं, मोडकीं घेऽ म्हूण. कोण्णाक कांय दिलें ना. एकली आनी मोठ्या मोठ्यान रडत कितें तरी सांगताली उडिया भाशेंत... एकल्याक कितेंय दिल्यार दुसऱ्याचेर अन्याय म्हूण सगळ्यांक देवाचेर सोडलीं.

भिकाऱ्यां बशेनूच पयशांनी देवाचे आशिर्वाद, पुण्य विकपी अेंजंट. तांकांय कांय दिलें ना. कांय जाण तकलेर तोणयोश्यो मारून पयश्यां खातीर हात मुखार करताले.

देवळा भायर Entry only for Hindus म्हूण पाटी मारल्या. दामोदर घाणेकाराक एकल्या जाळवणदारान आडावन ताचो इंटरव्ह्यू घेतलो. तो खंय ताका फॉरेनर दिसलो.

तातो म्हणटालो तें फट न्हय. भगवान बुद्ध आयजूय काशीच्या दशाश्वमेध घाटार येवन उबो रावलो जाल्यार ताच्या तोंडांतल्यान उतरां फुट्टलीं, अडेज हजार वर्सां फाटीं आशिल्लो तस्सो आसा हो देश, कांयच बदलूंक ना...

देवळांतलें बुरशेपणूय कितलें! कोणार्क अञ्ख कडेन आसा, तातूंत देव ना, देवस्पण ना म्हूण 'मंगल' दिसता. जगन्नाथाच्या देवळांत देवूळ सारकें पळोवंकूय मेळ्ळें ना. देवूय सारको दिसलोना. ही मूर्त हरशीं म्हजी आवडटी मूर्त खूब...

**२२/२/११**

सकाळीं आमचें र्शीशीशपीरींळेप जालें. मागीर झखची बसका. मागीर बाजार भोंवली. एक सांगशी कशी घेतल्या, ताडाच्या पानांची. काल एक पांटलो घेतिल्लो. बेताचो आसुये. रातीं जेवणा उपरांत अमन शरणा बरोबर फोटे काडले. खूब मेकळ्या सभावाचीं भुरगीं. दोगूय भयणी. पयलेच खेपे इतले पयस भोंवंक आयल्यांत. पंजाबा भायर फकत दिल्लीक पावल्यांत आनी आतां हांगा. मेकअप करपाक सुमारा भायर आवडटा. काल आनीक एकलें केरळचें भुरगें आमच्या रुमांत येवपाचें आशिल्लें रावंक. सुलूस लागली तेन्ना म्हणूंक लागलीं, 'तूं सांग तांकां आनीक कोण नाका म्हूण हांगा. आप तो मॅडम है, आपका मान लेंगे.' हांव आयकून ओगी रावलें... रातीं नवें रुम मेट दारार उबें रावलें तेन्ना हांणी दोन मिनटां ताच कडेन पळेनाशिल्ले बशेन केलें. रिझर्व्हेशन नाशिल्ल्या डब्यांत नवो प्रवासी भितर सरता तेन्ना जागो सुगूर केल्ले प्रवाशी ताचे कडेन चलतात तशीं वागलीं. आनी आतां तिगांय सामकीं घट. चिप्प्स, नमकीन खातात, हांसतात, किटकिट्टात...

'पयलेच खेपे एके आंटी कडेन आमी इतलीं मेकळेपणान वागल्यांत...' व्हडल्यान सांगलें म्हाका येदोळ. म्हजो पत्तो घेतला. आपलोय म्हाका दिला...

**भुवनेश्वर: २३ फेब्रुवारी**

आज दनपार मेरेन कार्यशाळा सोंपली. ज्योती, लिंगराज, इस्कॉन बी देवळां पळोवंक गेलीं. हांव आनी दामोदर कीर्तिदा शहा आनी तिच्या घोवा बरोबर धौलगिरी, उदयगिरी पळोवन आयलीं. वाटेर दया न्हंय लागता. कलिंग युद्धा उपरांत खंय ही न्हंय रगतान भरिल्ली. रगताची न्हंय आनी मडीं पळोवन खंय अशोकाचें काळीज विशादान भरून आयिल्लें आनी तो बुद्धाक शरण गेल्लो. आनी उपरांत, शांतीचो संदेश पातळावपाचें 'मिशन' घेवन बशिल्लो. युद्ध जिखले उपरांत अशोका भितर हो बदल घडिल्लो. सफळतायेची विफळताय ताका होलमल्ली. कितें जालां आसतलें ताका त्या वेळार...! असल्या वेळार बुद्धाचे करुणेंतूच थाकाय मेळपाची. धौलगिरीचेर फुजी गुरुजीच्या अनुयायांनी स्तूप बांदला. हे दोंगुल्लेच्या मुळसांत ल्हानपणांत इतिहासांत शिकिल्ले ते 'अीहेझरप एवळलीी' आसात, शिळेचेर कोंरातिल्ले. तांतलो तेरावो खंय कलिंग युद्धांत जैत मेळिल्ले विशींचो आशिल्लो, आनी तो खंय उपरांत ताणें काडून उडोवंक लायिल्लो... ह्या कलिंग युद्धाचे देखाव उदयगिरीच्या जैन होंवऱ्यांचेरूय कोंरातिल्ले पळोवंक मेळटात. जैतांतले हारीचो हो दिश्टावो उडिया लोकवेदांतूय, मुखेलपणान लोकगितांनी, आसुंकूच जाय. म्हाकाव्याचो विशय हो एक. उडिसांत कला भरल्या. आर्विल्ल्यो इमारती मात स्थापथ्यशास्त्राचे नदरेन सुक्यो सडसडीत कश्यो. शिल्पकलेची परंपरा अजून हांगा जिवी आसा. स्थापथ्यशास्त्र अशें परंपरे पसून सामकें कशें तुटलां काय? वसाहतवादी राजवटीक लागून? अशें 'आप-पाप भटा माथ्यार' घालप समा न्हय. पूण समजून घेवंक जाय... देशांतलो सगल्यांत गरीब वाटार ह्या प्रांतांत आसा अशें आयकल्लें काय वाचिल्लें. कितल्याश्या नदरांनी गरिबीची लाचारी पळेली. आमचे सारकेल्यांक, तांचे नदरेन, पयशेकारांक, आदार करपाची, उपेगा पडपाची तत्परताय...

उडियाचो P.I. प्रो. दास संस्कृत पंडीत. अच्युतानंद दासाक वळखतात तुमी, काय म्हूण ताका विचारलें. म्हणूंक लागलो, पाँडिचरीक गेल्लो थंय ताणें जीव दिलो! कित्याक दिलो काय जीव? जाल्यार खंय ताच्या अभ्यासाचें कामाचें श्रेंय दुसरोच कोण घेवन गेलो म्हूण तो अस्वस्थ आशिल्लो... हें कारण जावं येता? शी – खूब दुःखी जालें मन. जिवीत इतलें 'ल्हान' कशें दिसता कांय जाणाक, कळना... आत्मकेंद्रीत मनिसूच असो जीव दितलो... 'संस्कृत भाशेच्या प्रसारा खातीर कितेंय करपाची तयारी आसा म्हजी,' म्हाका सांगतालो अच्युतानंद... कितें जालें काय...? शी...

**मडगांव, २५ फेब्रुवारी**

काल सांजचें पावलें. सकाळी भुवनेश्वर विमानतळार श्रीदेवी नायराचो फोन. तीन

दिसां भितर, तुज्यान पुस्तक तयार करुंक जातलें काय ना तें सांग! लज जाली. पोरुंचें वर्स भर करून गेलें... तातूंत ग्लिळ्ळूं तातो आशिल्लो. तरी... दिल्ल्या उतराक पाळो दिवंक जालो ना हें खरें. आतां कशेय बशेन ह्या कामाक माथें मारतलें म्हूण आसां. तरी, आत्मविश्वास ना. हे दोन म्हयने अशेंच वतले. शिकोवपांत, पेपर तपासपांत तातूंत हशरवीहळ यैवपाची आसा. हाची इल्लीय उमेद ना मनांत. कोण कोण येन्नाच परबीं दिता. म्हजें दुःख हांवूच जाणा.

आज गीता धर्मराजनालें व्याख्यान आयकलें. विजयाबाय सरमळकार व्याख्यानमाळ. व्याख्यान साधारण. पूण बायल आवडली. मेकळी आनी तळमळीची. प्रामाणिकूय.

तुकीक येदोळ खूब तापयलें. 'इमेल्डा कोण? खंय रावता?' प्रस्न सोंसूक जाले नात. आमचे सोसायटींत अशीं तशीं पांच बोडकां. तांचीय वळख आसची न्हय तुकीक? म्हळें, लज दिसूंक जाय तुका. ताचे दोळे दुकांनी भरून आयले. म्हजो रागूय आयिल्लो जावंक जाय. 'फायच्यान टिवी बंद!' म्हूण फतवोय काडलो.

IIIT Hostel हैदराबाद : २७ फेब्रुवारी.

BIS चे मिटिंगेक हांगा आयलां...

तातो वचून स म्हयने जाले आज. आज दिलीपान आपणागेर आपल्या पुस्तकाचें प्रकाशन दवरलां आनी कृपाली 'हिमालयांत' पुस्तकाचेर उलोवपाचें आसा. हांव हांगा... काल व्हिली डिसिल्वा मेळ्ळो युनिव्हर्सिटींत. ऑगस्टांत तातोचेर परिसंवाद दवरता खंय मंगळूरांत. अर्थीक आदार कोणा कडल्यान मेळूं येतलो काय विचारतालो. साहित्य अकादेमी? पुंडलीक नायकाक विचारून पळोवं येत म्हळें.

**२८ फेब्रुवारी:**

काल राजमोहन गांधीचें 'The Good Boatman : A Portrait of Gandhi' वाचूंक घेतलें. कांय वर्सां फाटीं U.G.C. च्या workshopक दिल्ली गेल्लें तेन्ना घेतिल्लें. तातोक दिल्लें.

गांधीजीच्या बरपांतल्यान, ताच्या सांगात्यांनी, चरित्रकारांनी, विरोधकांनी ताचे विशीं केल्ल्या बरपांतल्यान गांधी उबो करपाचो एक अभ्यासपूर्ण यत्न. गांधीजीच्या जिवितांतली मुल्यां आनी हीं मुल्यां कसाक लावपी ताच्या जिवितांतलीं 'आव्हानां' – हांच्या आधारान ह्या पुस्तकांत गांधीचें चित्र पितारलां. पयलेंच प्रकरण वाचून जालां – ... गांधीजीची अहिंसा कसले तरेची, तिचो विकास कसो जालो ताचो बरो सोद घेतला राजमोहन गांधीन.

थिसीस बरयल्ले बशेन बरयलां. राजम ोहन गांधी 'आमचेच माळे'चो मणी काय दिसता. ह्याच विशयाचेर तातोन बरोवंक घेतिल्लें जाल्यार वेगळे तरेन बरोवपाचो...

फाल्यां पुपूनाचें selection आसा – रास भुरग्यां मदल्यान सच जाणांक खंय B.A. क dissertation करुंक मेळपाचें आसा. विशय बरे सोदून काडल्यात. आपले आपूण. पूण करूंक जाय तितले यत्न करना काय दिसता. हाचे ताचे कडेन उलोवन चड वेळ वगडायता आनी मागीर गळसूनशें बसता...

फाल्यां गोंया.

**१४ मार्च**

खूब दिसांनी...

दोन तारकेक अहमदाबाद वचूंक विम ानतळार वतना अकस्मात दुयेंत पडपाचो जिवितांतलो पयलो-वयलो अणभव... फाटींतल्यान कसकस चडून येवन हड्ड्यांत, उजवे वटेन गुळो – सोंसू नजऽ अशी दूख. लंबर आनी सर्व्हिकल स्पोंडुलॉसीसचो अटॅक खंय. वयल्या तीन मणयां मदीं एक सिस्ट जाल्या खंय, तिका लागून 'मसल स्पॅझम'. तात्पर्य = पयले तीन दीस सामके वळवळून काडले. दुखीचीं इंजेसांवां, गुळयो-कांय लागना जालें. फाट तेंकल्यार दुखता, कुशीक न्हिदल्यारूय अडचता अशी तरा... SMRC तल्या casualty wardंत खाटीर पडिल्लें तेन्ना तातोची खूब याद आयली... हांव हे तरेन दुयेंत पडलें म्हूण आयकून कितलो सकल-वयर जातलो आशिल्लो तातो! घरा पावलें आनी कोण कोण खबरीक येवन 'कितें जालें?' विचारतालीं आनी हांवूय घोस्तान सगळें विवरण करतालें तेन्नाय काळजांत तातोचो आवाज – 'अमकें जाता, तमकें जाता म्हूण शरिराचेर, उलोवप म्हाका below dignity दिसता...'

धांवपळी खुबूच जाल्ल्यो. काडावोडीय. कुडीन आपल्या अस्तित्वाची जाण करून दिली!

खरें म्हळ्यार, २१ तारके मेरेन दोतोरान सुशेग घेवंक सांगिल्लो. गुळयो चलतात, व्यायामूय शिकयला. तीन खेपे करूक सांगला. पूण जमना. दोन खेपे करतां.

विद्यार्थ्यांचे हाल जावचे न्हय म्हूण कामार रुजू जालें. ९ तारकेच्यान.

तडकोडकान्न आमची नवी हेड. भायले भायर तंटो गेल्ल्याचें समाधान जालें. तीन वर्सां म्हाका सुशेग.

'सत्याचे प्रयोगा'चेर हे फावटीं बरयतलें म्हूण आशिल्लें. मदींच दुयेंत जावन ना म्हळ्यार मातशी निर्शेणीशी आयली काळजांत. निकतेंच बसून काम करूंक लागलां. पूण वरां संकिनी बसूं नजऽ. 'सत्याचे प्रयोग' फुडल्या म्हयन्या खातीर दवरलां.

CLAI International ConferenceV पेपर मांडपाची काय बरी तयारी केल्ली.

तेंय उरलें. मनाक लावन घेतलेंना. पूण इल्लें खंती जालेंच.

हांथरुणार आड पडिल्ले कडेन भीमसेन जोशी मात खूब आयकलो. तोडी अप्रतीम! ताचो आवाज कितलो नमळ, कितलो मोव जाता तोडी गायतना! सुरवेचो, सवाई गंधर्वाचें बोट धरून गावपी भीमसेन जोशीय आगळो वेगळो. आनी, आपणालो खाशेलो सूर मेळ्ळे उपरान्त शुद्‌ध कल्याण गावपी म्हजो आवडटो भीमसेन जोशी ह्या संवसारांतलो न्हयच कसो...

स तारकेक राजूचे पन्नाशीचें फेस्त! ऑर्केस्ट्रा दवरूंक नाशिल्लो जाल्यार अदीक बरें जावपाचें. खूब जाणांक सांगूंक विसरलो राजू. असल्या गजालींनी तो खूब

लरीशश्रशीं दिसता म्हाका. 'अंगार' पुस्तक बरेंऽ आयलां.

जाखडे येतना बरेऽ 'मग' घेवन आयिल्लो. बाकीबाबाचो स्कॅच आनी 'मीपण ज्यांचे पक्व फळापरी सहजतेने गळले हो – जीवन त्यांना कळले हो' ह्यो वळी आशिल्लो मग खूब आवडलो. असो तातोचेर काडटलें म्हणटां.

सात तारकेक तातोची खूब याद आयली. गुरुनाथकाकान म्हळें, 'कसलेंच Public function जालेंना ह्या दिसा. जावपाचें...' हांवूच अपंगूळ कशें आशिल्ल्यान फाटीं रावलें. फोट्याक एक बरोऽ हार मात घालो.

पांच तारकेक गुलाआते गेलें.

ताचे कडल्यान पुंजायल्ल्यो दोनशीं– एक म्हणी काडून वाचूंक बसलें... कांय म्हणींचो अर्थ विसरलां. म्हूण, कोंकणी म्हणीं विशींचीं लायब्ररींतली सगळीं पुस्तकां घेवन आयलां. ताचेर एक ल्हानसो लेख बरयतलें म्हणटां...

मार्कुस गोन्साल्विस आपणाले निबंद दिवन गेला प्रस्तावना बरोवपाक. हो भुरगो म्हाका आवडटा. पूण म्हजो 'आंब्या ताळो' जावंक जायना...

**मडगाव: १८ मार्च २०११**

दोळ्यां मुखार कामाचो दाळ आनी आंगांत एके तरेचो निरुत्साह. फाट–मान अजून जाग्यार पडपाचीच आसा. पयर सुजाता उपाध्यायक (मामाली मैत्रीण) मेळूंक युनिव्हर्सिटींतल्यान टॅक्सी घेवन वागातोरा गेल्लें. सुबोधालें installation` पळोवन आयलें. पणजे शटल बसीचे लायनीक अर्द वरा वयर उबें उरलें. म्हजे फाटल्यान उबें आशिल्ल्या शर्मिला प्रभू म्हूण एकल्या कडेन वळख जाली. ज्योती (देसाया)बशेन उलयतालें. शिवदासाच्या पुस्तक प्रकाशना खातीर आयिल्लें. म्हणूंक लागले, 'आज म्हजो 'लकी डे'. प्रोग्रामाक गेलें आनी तूंय मेळ्ळें...' ताका लागून प्रवास सुसह्य जालो. लायनींत उबें रावपूय. दोगांयची तिकेट हांवें काडली आनी बस येतकच ताका मुखावेलो जागो आडावंक सांगले. वाटभर कितें कितें सांगतालें. चलो अंदू धावेक. ताका लागून कांय तेंप बरोवप कुशीक दवरिल्लें खंय... आपणें दोन ग्राम भांगराच्यो वस्ती कित्या खातीर बऱ्यो ताचेर एक ललीत निबंद बरयला म्हूण सांगतालें. जागाक तो धाडूं, काय विचारलें तेन्ना म्हळें पयलीं तूं जाग वाचून पळे आनी मागीर धाड... भुरगें आवडलें. मेकळें... चली जातकच नोकरी सोडली खंय. नोकरी करी नाशिल्ल्या बायलांच्या उलोवण्यांत आसता तसली उणेपणाची भावना हाच्याय उलोवण्यांत जाणवली...

१५ तारकेक हेमाचें कोंकणी विभागांत उलोवप आशिल्लें. तुकीक जोर आयिल्ल्यान हांव वेळान पावलें. तेन्ना चर्चा चलताली. आमचीं भुरगीं आपणाल्या अणभवांतल्यान आयिल्ले प्रस्न ताका विचारतालीं आनी हेमा तांकां सल्ले दितालें. तातो केन्नाय म्हणटालो ती याद जाली – 'हांव म्हाका जाय तें करतलें, तुमी मारात झक' हें धोरण समाजांत सुधारणा हाडूंक पावना. आमकां जाय तें आमकां मेळटा पूण आमी कुशीक पडटात, समाज आशिल्लो थंयच उरता.

म्हळें, आमी एक अनुपचारीक ग्रूप करूंक जाय. नव्या विचारांक येवकार दिवपी चलयांचो आनी चल्यांचो. बायलेक मेकळीक जाय जाल्यार तिणें चल्यांकूय वांगडा घेवंक जाय. बदल दोगांय भितर जावंक जाय... ह्या ग्रुपान दर सप्तकांत एक खेपे मेळप आनी आपणाले अणभव सगळ्यांनी एकामेकां मुखार मेकळेपणान मांडप. हातूंतल्यान बदला खातीर गरजेचें आशिल्लें वातावरण तयार जातलें...

राजदीपान, सिद्‌धीन बी हें मनार घेतला काय दिसता. भक्ती ताच्या वाड्या वयल्या शिकूंक नाशिल्ल्या मुसलमान बायलां खातीर कितें तरी करूंक सोदता...

हांवूय ह्या ग्रुपाचीं सपनां पळोवंक लागलां...

पयर शर्मिला मेळिल्लें ताकाय भितर ओडीन दिसता.

पूण कांय तेंय तरी, मान–कमर जाग्यार पडऽ सर चड कश्टप ना म्हूण थारायलां. पयर घरा परतलें तेन्ना सामकें मोडिल्लें. पुरो जावन रडूंक पसून आयिल्लें. भुकूय लागिल्ली आसूंक जाय...

काल म्हाका readership मेळ्ळी म्हूण पत्र आयलें. अजून घरा कोणाक सांगूंक ना. (विसरलां). चंद्रलेखा म्हणटा, आतां खरें तूंच Head जावंक जाय... म्हजेर नवें संकट. तडकोडकान्न सिनियर. तिच्याच हातांत सुत्रां वचप म्हाका आवडटलें.

पयर अकादेमींत फोन करून कितले 'जाग' खपले काय म्हूण विचारलें. एकूप खपूंक ना खंय. भाशा मंडळांतूय अशेंच जालां काय? वासपूस करची पडली. एका हजाराचीं जायरात फुकट गेली काय...?

फाल्यां आंकूंक ८२ जातात. हालीं B.B.C पळे पळे पळेता. वरांचीं वरां. पयलीं होस्नी मुबारक, उपरांत गदाफी, मागीर सुनामी आनी आतां परत गदाफी. बातम्योय तश्योच. 'संवसार बदलता' हाचो अणभव दिवपी. सुनामी शंबर–एक वर्सांनी येता म्हणटात. म्हज्याच जिवितांत हांवें दोन सुनामी पळेलीं! पूण आंकूं खुबूच पळेता बातम्यो कांय दिसता... रातीं न्हिदूच पडली ना खंय. over stimulationक लागून काय? IFFI वेळार म्हाकाय केन्ना केन्ना अशें जाता.

**२० मार्च:**

रातीं सुहासाच्या फोना वयल्यान एक मॅसेज आयल्या – This year we're going to experience four unusual dates : 1/1/11, 1/11/11, 11/1/11, 11/11/11 and that's not all... Take the last two digits of the year in which you were born. Now add the age you will be this year. and the result will be 111 for everyone! This is the year of Money !!! This year October will have 5 Sundays, 5 Mondays and 5 Saturdays. This happens only every 823 years. These particular years are known as 'Moneybags'. The proverb goes

that if you send this to eight good friends (already today translated from the Brazilian version!) money will appear in the next four days as is explained in Chinese Feng-Shui. Those who don't continue the chain won't receive, its a mystery, but it's worth a try, good luck.

'१११' उतराच्या गणिताचें अजाप दिसलें. हें गणीत सोडून काडिल्याच्या गणिती बोडाची तोखणाय! पूण निमाणें ह्या 'खेळा'चो 'लका' कडेन, तोय बी पयशां कडेन, घाल्लो मेळ आवडलोना. खूब पयशे मेळचे म्हूण हांव तरी हो SMS forward करचेंना. हालीं खूब पयशे मेळत म्हुण्णूच भंय दिसता.

हालीं खूब जाणांक 'Feng-Shui' मानतना पळेतां. हांगाय चिनी पावले – मजाच शी. Feng-Shui उतराचो अर्थ कितें काय? खबर काडची पडली. सध्याक तरी हें fashionable आनी preferred superstition हातूंत दुबाव ना. हें फकत आमच्या देशांत, काय येवरोप अमेरिकेंतूय बी? superstitions चें मळ चिनी लोकांनी काबीज केलां? हीय खबर काडची पडली.

आज भुरग्यांची कपड्यांनी आरमार निवळ केली. खतीजाक दोन बॅगां भरून दिले कपडे. माथ्यार न्हातकच तकली ल्हव जाता तसो जीव ल्हव जालो. गरज नाशिल्ल्यो कितल्योश्यो वस्तू घरांतल्यान भायर गेल्यो. आतां सुटयेंत सविता, उषा तांच्यो आरमारी निवळ करतलीं आनी म्हज्यो आरमारी परत्यो गच्च भरतल्यो...

**२१ मार्च:**

फाल्यां तुकीची परिक्षा. ताणें आज मातशें बेगीन येवंक सांगिल्लें. तीनांक सुमार भायर सरलें जाल्यार वाटेर आठेक बसी We want English in Primary Schools बॅनर लायिल्ल्यो पणजेचे दिकेन वताल्यो त्यो पळेल्यो. बॅनरा सकल मडगांवच्या फातिमा आनी प्रॅझेंटेशन कॉन्व्हॅंटाचीं नांवां म्हळ्यार –

कोंकणी भास आमची माय
आमची भास आमकां नाका!
बसींनी पालक भरिल्ले.
फाल्यां पेपरार येतलें.

प्रिन्सिपल माधव कामतींच्या फुडारपणा खाला एक ग्रूप तयार जाला म्हूण आज सुनापरान्तार आयलां. अरविंद भाटीकार, बाबली नायक, नागेश करमली, चेतन आचार्य, नारायण देसाय बी हांचो. 'देश भश्ट्या' लोकांचें इंग्लीशवादी कारस्थान मोडून काडूंक. फादर मोउझीन्युय आसा.

हॅराल्डाचेर प्रताप नायकाचो लेख आयला खंय, 'विखान भरिल्लो'... राजू सांगतालो.

कुन्य रिव्हारान बोलेतीं ओफिशियालांत कोंकणींतल्यान मुळावें शिक्षण जावंक जाय म्हूण शिफारस केल्ली. ताका क्रिस्तांव – हिंदू – दोनांयचो विरोध जालो. आतां देडशें वर्सां उपरांतूय तीच परिस्थिती.

शणै गोंयबाबान आमची पिडा बरी पारखिल्ली – आमकां धनीपणाची भावना ना, तो सांगतालो... काल काणेकारान कितले तुच्छतेन म्हळें, 'कोणाक जाय ती कोंकणी!' आनी, 'आठवी मेरेनचें शिक्षण सरकार कोंकणींतल्यान करता खंय?' 'केल्यार बरेंच. धावी मेरेन करचें. म्हजे चलयेक हांव घालतलें.' हांवें म्हळें. तो शेळेलो...

'आमकां कोंकणी नाका, इंग्लीश जाय' हे पालकांचे मागणेक नेट मेळचो म्हूण, सरकार आठवी मेरेन कोंकणी माध्यम हाडूंक सोदता अशी वावडी घाल्या काय संबंधितांनी...? कोंकण रेल्वेच्या आंदोलना वेळार अशेंच कितें कितें जातालें...

युनिव्हर्सिटींत जेसन पिंटो मेळूंक आयिल्लो. भुरगो आवडलो. पीएच.डी. करूंक सोदता. सांत लुवीस कॉलेजीचो डिप्लॉमा आसा. एम्.ए. ना... जागा खातीर बरय म्हूण सांगलां ताका.

**२२ मार्च:**

फाट दाखोवंक दोतोर आराउझागेर गेलें. तीन खेपे व्यायाम करूंक जायना जाल्यार दोन खेपे वाडोवन कर म्हूण सांगलां. पोंग घेना आसतना बसप गरजेचें खंय. कणो ताठ दवरून. व्यायाम वाडोवन केलो. इल्लो वाजेवनूय. मातशें पुरो जालें. म्हयन्या उपरांत मेळूंक सांगलां. ते म्हणसर सकाळची ढेमश हिंश लेपश – कॅल्शियम गुळी आनी रातची एक नवी गुळी.

आज फादर जेझुईन आल्मैदाचे दोन लेख आयल्यात. (ताणें म्हाका धाडल्यात.) इंग्लीशींत आसात. एक लेख खरोच अणकार करून वर्तमानपत्रांनी उजवाडावपा सारको. हांव क्रिस्तांव पूण भारतीय संस्कृतायेंत, आर्य संस्कृतायेंत म्हजीं पाळां–मुळां आसात म्हूण सांगपी... लोकमतान 'आमकां इंग्लीश जाय' चळवळ बरीऽ कव्हर केल्या. राजूचो अग्रलेखूय बरो जाला.

**२३ मार्च:**

सकाळी दिलीपान 'म्हजो रवीन्द्र सांगाता'ची पयली ख्रिस्त दिली.

रुट कॅनाल केल्ल्या दांताचो कुडको पडलो. परिणाम: डॅण्टिस्टागेर वेळ गेलो. परां परतें आपयलां. कॅप घालूंक.

सांजचें आंग सामकें मोडून आयलें. जोर येता काय दिसलें. Dolo 650 घेतली. व्यायाम चड जालो काय? पांयांनी गुळे आयल्यात. पौंठ्यांनी...

सध्या तुकी बरोबर रात जागयतां. जागाचीं प्रुफां घेवन.

तिळसांजचीं राजश्री, सुबोध (ठाकूर) आनी धाकलो चलो येवन गेलीं. तीं आतां सदां ॐ तत् सत् म्हणटात खंय. राजश्री भुरगें भांगराचें...

**२५ मार्च:**

आव्हॅक्लॅतबाब आफोंसाच्या कोंकणी –इतालियान, इतालियान – कोंकणी शब्दकोशाचें पणजे, मांडवींत लोकार्पण जालें. सुरेशबाब आमोणकारांच्या हातांतल्यान.

कोश तातोक ओंपला. गिरीशान तातोची प्रत घेतली. म्हाका मनोहरबाबाली 'नवो मनीस' ही कविता वाचूंक सांगिल्ली. आफोंसाचे धुवेन हे कवितेचो इतालियान अणकार वाचलो. ते आदीं शकुंतलान बाकीबाबाली 'एक पणटी...' गायली. सुंदर

गायलें. दोळ्यांत दुकां आयलीं आयकतना. रोखडेंच म्हाका स्टेजीर वचचें पडलें. बाकीबाब, तातो, मनोहरबाब...

हो सगलो आतां 'इतिहास'! हे जाणविकायेन कविता वाचतां वाचतां मदींच रडूंक येता काय जालें. तातोचो फोटोय आमचेच वेटेन पळेतालो. मिश्कील हांसत...

कोशाचें production सुंदर जालां.

सगळीं बरीं उलयलीं. चंद्रलेखा, आव्हॅक्लॅतबाब, ...सुरेशबाब तर फॉर्मांत आशिल्लो. 'मांडवीचे देगेर आज रनॅसांस जाता...' ताणें सांगलें.

टोबूचें आज स्राद्ध. गिरीश थंय जेवलोना.

वतना गुरुनाथकाका बरोबर गेलें. केशव भेंब्रो प्रकरणाचे समितीचो म्हज्या कानार आयिल्लो निर्णय ताका कानार घालो. गुरुनाथकाकान हें प्रकरण तकलेंतल्यान काडून उडयलां शें दिसलें.

कारवारच्या कॉलेजींनी गेल्लो ते अणभव सांगले वाटेर गुरुनाथकाकान. आतां ते कोल्हापूर वचपाचे आसात खंय. बेळगांवूय वचून आयले खंय. गुरुनाथकाका म्हणटा, 'म्हजो प्रॉब्लॅम – लोक म्हाका जाणटो लेखतात. वर्सां विचारतात...'

एकलो दिसपाच्योय कितल्योश्यो तरा आसतात हें जाणवलें.

**२७ मार्च**

तातो वचून आज सात म्हयने जाले. दिलीपाच्या कार्यक्रमाक गेलें ना. काल सांजे ताका फोन करून सांगिल्लें. छोटेनूय ॲलनॉरागेर ताच्या शिश्यांचो कार्यक्रम दवरिल्लो. ताकाय गेलेंना. काल उजवे वेटेनच्यो बरगड्यो स्वास घेतना दुखताल्यो. मदीं मदीं कळ्ळूय येताली. पयर मनोहरबाबालें माया मेळिल्लें ताणें सांगिल्लें, स्पॉंडुलॉसिसाक लागून आपणाल्यो दोय बरगड्यो वाट लागल्यात. माया ओश्पितालांत बी रावन आयलां... आयकून मातशें भियेलें. चड मस्ती करप ना म्हूण थारायलें. आज दनपारचें वर–देड वर सकल शेंदरेर आड पडलें. परिणाम बरो जालो काय दिसता... पूण आयचो दीस 'असोच गेलो' – हातांतल्यान सुटलो म्हणटात तसो.

**(मुखार चलता...)**

# लोयंडेची राजकुंवरी

**पान १३ वयल्यान**

तिका खूब काळ ती गजाल खबर नासली. अशें सांगतना डॉरीसबायचे काळीज भरून आयलें. ती काय खीण ओगीच रावली. दोळ्यांत सरकरून दुकां गळपाक लागली.

१९७४ वर्सा डॉरीस जर्मनींत परतली. ते उपरांत एक वर्स अजित भारतात रावलो. पूण ताचे मन आता हेमलकसा रमनाशिल्लें. फकत डॉरिस थंय नाशिल्ली हें कारण न्हय. हेमलकसा आता पयलींसारके उरुक नाशिल्लें. पयलीं थारिल्लें, हेमलकसा हें सगल्यांच्या सहभागान चलतलें. पूण ना म्हळें तरी ती कुटुंबाची मालमत्ता थारूंक लागिल्ली.... एकाच कुटुंबाचो अंमल!

डॉरीस सांगता, भारतांतल्यान अजित आपणाक पत्रां बरयतालो. आपुणूय तत्परतेन जाप धाडटाली. पत्रवेव्हार वाडलो. हांगाच केन्ना तरी ही दोन मना एकमेकांच्या ओडीन एकरूप जाल्ली आनी लागीं येवंक सोदताली आसूंक जाय. ''तुजे मन थंय रमना आसत जाल्यार तूच हांगा कित्याक येना?'' डॉरीसान ताका विचारलें. बापूय भायर पडिल्ल्यान डॉरीसबायक एक बरो घटमूट सांगात जाय आशिल्लो जावं येता. घरा आवय एकली आशिल्ली. भयण बर्लीन शिक्षण घेताली. डॉरीसबायचे फार्म १९६५ मेरेन तांचें कुटुंब सांबाळटालें. आज्यात कष्टान उबें केल्लें हे फार्म. चड व्हडूय न्हय. पूण असली फार्मा चलयतले जाल्यार थळावे पंचायतीक खूब कर भरचो पडटा. पंचायतीक ती सुवात आता घरबांदणेखातीर जाय आशिल्ली. गावचें स्वरूप आता बदलूंक लागिल्लें....

अजितबाबान निर्णय घेतलो. ताचे मन मोगांत ओडटालें. तेच भशेन ताका नवे कितें करून पळोवपाचे आशिल्लें. १९७५ वर्सा तो जर्मनींत गेलो. तांचे लग्न जालें. पूण ताचेकडेन पदवी नाशिल्ली. जर्मन भासूय येनाशिल्ली. ताणें जर्मन विद्यापीठांत प्रवेश घेतलो. १९७५ ते १९८५ अशी ९वर्सां दोगाय जाणां जर्मनींत विद्यापीठांत शिक्षण घेतालीं. या काळात भारतांत तांका येवचेशें दिसलें? ह्या प्रश्नार अजितबाब सांगता, आणिबाणीचो काळ. खूबशे इश्टूय भूमीगत जाल्ले. पूण भारतांत परतूंक अनमनपा फाटलें तेंच एक कारण आसचें ना. अजिबाबान ते उपरांत जर्मन विद्यापीठांत राजशास्त्र आणि समाजशास्त्र विशय घेवन पदव्युत्तर शिक्षण घेतलें.

१९७७ आनी १९७९ वर्सा तांका जर्मनींत दोन पूत जाले. घाकटी धूव आरती उपरांत तीं गोंयात येतकच जन्मली. तांचेभितर ११ वर्सांचो फरक. १९८६ वर्सा अजितबाब आनी डॉरीस हांणी गोंयां परतुपाचो निर्णय घेतलो. हांगा तांची आनीक एक परीक्षा वाट पळयताली. ताणीं दाभाळ– करमणें हांगा जमीन घेतली. थंय रान आशिल्लें. आयज फाटल्यान वळून पळयतना अजित आनी डॉरीसाकूय अजाप जाता. सोमनाथ, हेमलकसा, जर्मनी अशीं साबार वर्सां काडून तीं परत दाभाळ सारक्या सामक्या अनवळखी, पयसुल्लया गावांत आयिल्लीं... पूण अजितबाबाकडेन तळमळ आशिल्ली.

अशोक आनी अनिल थळावे शाळेंत वचपाक लागले. तेच मातयेंत खेळले. उपरांत मडगावां ते माध्यमिक शिक्षण घेवंक गेले. अजितबाब तांका हाड–व्हर करताले.



पूण भुरग्यांच्या शिक्षणाची परवड जाता अशें डॉरिसबाय-अजितबाबाक दिसूक लागलें. भुरग्यांक बरें शिक्षण मेळचें हाचेर तांचें एकमत आशिल्लें. १९९४ वर्सा ताणीं परत जर्मनींत परतुपाचो निर्णय घेतलो. पूण ताचे पयलीं अजितबाबान आपलो घाम शिपून फार्म उबें केलें. हें करतना अजिबाबान आपल्या पुराय कुटुंबाक एक तत्व शिकयलें. हे तत्व कितें? जे तत्व तांका हेमलकसा घेवन गेल्लें आनी जाणे थंय सावन तांकां परतून आपले मातयेंत हाडलें, तेंच तत्व!

आरतीचे मुळाव्या सावन विद्यापीठा मेरेनचें शिक्षण जर्मनींत जालां. तिच्या हेर भावांनीय विद्यापीठ शिक्षण जर्मनीत घेतलां. पूण शिक्षण पुराय जातकीर तिगांकूय गोंया येवचें अशें दिसले. तिगूय जाण न्हय, अजितबाब धरलो जाल्यार चौग जाण, आयज गोंयात आसात. अशोक आनी अनिल रशियन आनी इंडोनेशियन चलयांकडेन लग्न जाल्यात. आरती पेडणेच्या देशप्रभू कुटुंबाची सून. ती गोयात येवन मिनरल फावंडेशनात काम करता. ते निमतान खाण पट्ट्यात वचून ती सामाजिक वावर करता. ही तीगूय भुरगीं जर्मन नागरिक. अजितबाबान भारतीय नागरिकत्व सोडूंक ना. पूण तांचे कडेन जर्मनीच्या राबित्याचो परवानो आसा. तरी तिगूय भुरग्यांक गोंयचे मातयेची ओड आसा. आरती सांगता, म्हाका जर्मनीच्या जिणे परस गोंयची जीण आवडता. जर्मनींत लोक अडेचे जियेतात. गोयांत आपलेंपण आसा. गोंय जर जर्मनी इतलें नितळ जालें, भ्रष्टाचार उणो जालो जाल्यार जर्मनीकूय फाटीं घालतलें, अशें आरती म्हणटा. युरोपांतल्या देशांनी तळमळीन वावर केलो. बागो उबारल्यो, गाव सांबाळले, दायज राखलें. जिवितात खोस मेळोवप म्हत्वाचें अशें तिका दिसता. ती सांगता, आवय हांगा नासली तरी तिचें मन आमचेच म्हऱ्यांत आसता. ती हांगा निर्वासितांक शिकोवंक खोस मानता. घर सांबाळटा.

हे कुटुंब वर्साक दोन तीन वेळां एकठांय येता. केन्ना जर्मनीत केन्ना गोंयांत. अजितबाब सांगता, पयलीं वर्साक तीन चार फावटी ते जर्मनीक वताले. आता कमी जालां. फार्माचेर खूब कामां आसतात, आता दोगूय पुतांकूय फार्माची आवड निर्माण जाल्या. तांणी आता फार्मार स्विमींग पूल बांधला. पाच कॉटेजीस उबारल्यात. पर्यटकांक गावगिरे गोंय दाखोवप ही मोख. एका सुक्या सड्यार तांणी पाचवोचार स्वर्ग निर्मिला. अजितबाबाक पयलींच्यान शेतकाम ाची आवड. फाटली साबार वर्सां वावर करून तांणी ही भूंय पाचवीचार केल्या. नवे नवे प्रयोग केल्यात. सेंद्रीय सारें वापरला. कितलेशेच जातीची झाडां. एक बरे फार्म कशें आसू येता ताची हें कार्य एक बरी देख!

अजितबाबाक विचारलें, जाणटेपणांत कोण खंय रावतलो? तू जर्मनींत काय डॉरीसबाय गोंयांत? हांव जर्मनीत येवचो ना. म्हाका गोंयातूच रावपाचें आसा. ''डॉरीसाक हावे विचारिल्लें ना.'' डॉरीसानूय अजितबाबाक स्पष्ट उतरांनी काय सांगूक ना. तिची दोन घरां आसात. फार्म आसा. भयण आसा. येद्या व्हडल्या घरांत एकली कशी रावतली? म्हणून भाड्यान दिलां. थंयूय खूब कामां आसात. तिकांय झाडां शिपूंक जाय. घरांची दुरुस्ती. तेभायर शिकोवप! हांव कोंकणीत विचारता, तुमचे वाद जायनात? अजितबाब जर्मन भाशेंत डॉरीसाक सांगता, ''तो विचारता तुमी वाद करीनात?''

ती मेकळेपणान हांसता. ''जायनात कित्याक? वाद जातातूच. पूण कमी जातात!'' अजितबाबूच जाप दितात. थंड वारो व्हांवता. गीमान लांबण लायल्या! ताका ते सामकें बरें वातावरण म्हूण पाचारतात. हवामान आतां आटापा घेवपाची चिन्ना दिसतात. झाडावेलीं पानां हळदुवी दिसूक लागल्यांत... डॉरीसबाय सांगता, आता पानां झडूंक लागतलीं. मागीर झेल पडूंक लागतलो, हांगाचे पुराय वातावरण झाडां, रस्ते, शेतांभाटां धवीफुल्ल जातलीं. घरांक म्हातारपण येतले... पूण हे पिकिल्लेंपण थोड्याच म्हयन्यांचे... कारण ते उपरांत पानां झडिल्ल्या झाडांक पर्थून पाचवी कोमरी फुट्टली...

जर्मनींतल्यान परततना म्हज्या मनांत डॉरीस-अजितबाबाच्या घराचें जे चित्र उबें जाल्लें ते सुखदिणे आसले. युरोपांत सध्या घडटल्या परिस्थितीपरस खूपच वेगळे. जर्मनी म्हळ्याबराबर म्हज्या दोळ्यांमुखार हिटलर आयिल्लो. दुसरे म्हायुद, रक्तपात, ज्युंचेर अत्याचार.... युरोपांत सिरियांतल्यान लोकांची ल्हारां येवंक लागल्यात. तेविशी तिडकिचे वातावरण आसा. कायकडेन हिंस्र प्रतिक्रिया उत्तावंक लागल्यात. युरोप आनी जर्मनीय उजव्या शक्तींवटेन वचूंक लागला. ते तुळेन अजित-डॉरिसाची काणी कितली प्रगतशील! या मोगाच्या सुतांक जात-कात लागना. धर्म लागना. मोगाचे पूल प्रामाणिकपण, श्रद्धा, भावपण आनी सहिष्णुतेच्या खांब्यांनी बांदल्यात!

डॉरीसाचे भारतात येवप, महाराष्ट्राच्या खेडेगावात वचप. समाजीक वावराची ओड. थंय अजितबाबाची भेट. पर्थून जर्मनी. थंय निर्वासितांखातीर ओपून वावर. गोंय... आनी आयज तांच्या तिनूय भुरग्यांनी राबित्याखातीर गोंय वेंचून काडप....! या तिगांनीय जे जिणेवांगडी वेंचून काडल्यात ते पळयात. पुतांनी एक इंडोनेशियन आणि दुसऱ्यान रशियन चली वेंचून काडल्या. धुवेंन गोंयकाराक वेंचला. ह्या कुटुंबात फकत देशाच्योच वण्टी मोडूंक नात. तांणी मोगाचो केदो संवसार उबो केला. मोगाच्या तत्वान बांदिल्लो...! ❑

## व्ही.आर.एस.

दामी 'दोगां'.
हांव आनी म्हजो घरकार.
आमचीं 'दोन'.
व्हडलो चलो राहूल
'स' वर्सांचो.
धाकलें चली राधीका
'चार' वर्सांचें!

आमी दोगांय सिर्वीस करपी.
तो 'गव्हर्मेंट'.
हांव 'बँकेंत'.
'मी आणि माझा नारा
तिसऱ्याचा नको वारा'
अशी आमची तरा!

भुरग्यांक पळोवंक
एक चेडूं आसा
शाली!
आमी ह्या फ्लॅटांत
रावंक आयिल्ल्याक
हें चवथें चेडूं!

पयलें चेडूं
चवथ जातकच आयलें
आनी दिवाळेक गेल्लें
ताचो पत्तोच ना!

दुसरें चेडूं
नातलां जातकच आयलें
आनी शिगम्याक वतां म्हण गेल्लें
तें परत आयलेंच ना!

तिसरें चेडूं आयलें.
तेन्ना आमगेर 'केबल' नासलो.
''आंवय! तूमगेर 'केबल' ना?''
अशें म्हणीत जें थोमणे मारून गेल्लें,
तेंवूय परतें आयलें ना!

हें चवथें चेडूं शाली!
''पळय! मोट्या कश्टांनी
हें चेडूं मेळ्ळां.
ताका मात सांबाळून घे आं!''
''ना जाल्यार आमच्यांतल्या एकल्याक
सिर्वीस सोडची पडटली.''
आमगेल्यान म्हाका शिटकायलें!

शाली पयलीं हांगेल्या
'बॉसा'गेर काम करी.
पूण 'बॉसा'ली बायल खूब दुबावी!
तिणें शालीले 'नखरे' पळयले,
घोवालीं शाली कडलीं लागोळपणां पळयलीं,
आनी शालीली बिटकी कवळ्ळी.

आमगेल्याल्या 'बॉसा'न
शालीलें हें 'लटांबर'
आमगेर धाडून दिलें!

शालीलो फाटलो 'इतिहास'
खबर आसून लेगीत
हांवे शालीक दवरून घेतलें.
'अडला हरी गाढवाचे पांय धरी'
आनी किंतें करूं?

पूण आमगेलो मात
त्या 'बॉसा'भशेन न्हय आं!
आपलें नाणें खणखणीत
जाल्यार भंय कसलो?
मागीर तें शाली जांव
ना जाल्यार माली जांव!

आमी शालीली सामकी
'बडदास्त' दवरली.
शाली खातीर 'केबल' घेतलो.
शालीक सिनेमाचीं पदां आवडटात म्हण
'म्युजिक सिस्टम' घेतली.
सिनेमा पळोवंक 'व्ही.सी.आर' घेतलो.
म्हळें! एकदांचें शाली टिकूं

शालीन पयलीं चार-पांच म्हयने
उमेदीन काम केलें

मागीर शालीन बेजारपाक
सुरवात केली.

''शालीक चड काम पडटा
काय किंतें गो?''
घोवान एक दीस
म्हाका म्हळें.

घडये तशें आसत म्हण,
हांव घरांत आसतना,
घरांतलें चडशें काम
हांवच करपाक लागलें.
म्हळें शाली टिकूं!

शाली सोफाचेर बसून
'सिरियली' पळयता.
आनी हांव किचनांत
आयदनां घांसतां.
घरची घरकान्न कोण?
हांव काय शाली?
पूण तीस हजार रुपयांची
बँकेंतली 'सिर्वीस'
आनी भुरग्यांच्या तोंडा कडेन पळोवन
हांव सगलें सोंसून घेता.

पयर अकस्मात
तकली कणकणटा म्हण
ऑफिसांतल्यान बेगीनच घरा आयलें.

बेल मारली.
शालीन अजापून दार उगडलें.
भितर पळेत जाल्यार
एक चलो सोफाचेर बसून
सिगार फुसकायत
टी.व्ही. पळेता!

म्हाका मारली भिरभिरी
हांवें म्हळें ''शाली भुरगीं खंय?''
''तांकां शेजरा खेळूंक धाडल्यांत''
शालीन म्हळें.

हांवें शालीक किचनांत आपयलें.

आनी त्या चल्या विशीं विचारलें.
''आगो तो कोण?''
''आमगेर कितें करता?''

''आंवय! तो रमेश!''
''म्हागेलो बॉयफ्रेंड''
''सामको सिरियलींतलो
हिरो कसो दिसता न्हू?''
शालीन लज नाशिल्ल्या भशेन म्हळें.

रमेश उठून गेलो.
शाली फुगून बसलें.

हांव मोन्यांनी उठून
शेजरा गेलें भुरग्यांक हाडूंक
तांगेर वतकच कळ्ळें
रमेश येतकच शाली
भुरग्यांक शेजरा सोडटा म्हण!

म्हाका मारली तिडक
पूण करतलें कितें?
तापयल्यार शाली वचत म्हण भंय!
दांत-ओंठ दामून ओगी रावलें.

सांजेचो घोव येतकच
शालीलीं कर्तुबां घोवाक सांगलीं
''मातशें सोंसून घेवया''
घोवान म्हळें.
कितलें म्हण सोंसून घेवपाचें?

आयज बँकेंत 'व्ही.आर.एस.' आयला.
शालीलीं कर्तुबां पळोवन,
भुरग्यांक जावपी त्रास पळोवन,
त्या रमेशाल्या कटकटींतल्यान,
सुटपा खातीर
हांवें 'व्ही.आर.एस.' घेवपाचें थारायलें.

रातचें घोवाक विचारलें
''बँकेंत 'व्ही.आर.एस.' आयला
हांव घेवं?''

त्या उतराक आमगेलो म्हणटा कसो
''आमकांय 'व्ही.आर.एस.' आयला.
सगले उडयो मारून घेतात.
मागीर कामाचो 'लोड' वाडटलो म्हणटात.
हांव 'एप्लिकेशन' दिवनच आयलां''

ताचेंय खरें!
घोवान 'एल.एल.बी.' केल्ली.
ताका 'प्रेक्टिस' करपाची उमेद आसली.
पूण लग्न जालो आनी 'प्रेक्टिस' करपाची
उरली.
आतां ताका आयतोच 'चान्स' आयला.
घोव म्हणटा
''दोन-चार वर्सां
मातशें सोंसून घे.
एकदां म्हजो जम बसलो म्हणटकच
तुंवय 'व्ही.आर.एस.' घे.
मर्दी-मर्दीं हांव घरा कडेन पासय मारतां.
भुरग्यांचेर आनी शालीचेर नदर दवरतां.''

घोवाच्या तोंडाक पळोवन
हांव 'व्ही.आर.एस.' घेवपाचो
विचार सोडून दितां.

आतां घोवाचो 'प्रेक्टिसेंत'
जम बससर
शालीक आनी रमेशाक
सोंसचेंच पडटलें!

▸ **सखाराम शेणवी बोरकार**
९९२३३०६७५१

## दर्यो, वारें आनी मनीस



## समाधी वटेन

गोपांत तुज्या नाचतां साल्सा
पावलां आपशींच थिरकतात
घुंवळटात गंधपेशी
लखलख नखेत्रां रंध्रारंध्रांत

वास्तवाच्या 'थीम पार्कांत'
'रोलर कोस्टर' सकयल वयर
ब्रह्मांडाची भोंवडी खिणांत
लाख सुर्या मस्तकांत

लागतना तंद्री मातयेच्या
सदां तरण्या गंध नादान
मोगरीं फुलून येतात धवीं
निळ्या दर्या ल्हारा ल्हारार

कवळ्या वतांत शिंया रुतूंत
सपनभान पातकड्यांचें
कुडी सुवाळे धुक्यांत देखतात
गळटना सत्व हांवपणाचें

▸ **शैलेंद्र मेहता**
९८२०६५४२३३

## टीव्ही लायलो आनी

हांवें टीव्ही लायलो आनी
भुताखेताचो नाच लागलो
हांवें चॅनल बदल्लो
जाल्यार कफनींतलो साधू
चिलीम ओडटालो
हांवें चॅनल बदल्लो
तर भुरगो नापास जालो म्हूण
आवय-बापूय झगडटालीं
हांवें चॅनल बदल्लो
तर 'अभी अच्छे दिन आनेवाले हैं'
चो संवाद चालू आसलो
हांवें टीव्ही बंद केलो
दोळे धांपून घेतले
म्हज्या दोळ्यांमुखार
भुतांखेतां नाचूंक लागलीं
साधून नेटान चिलीम
ओडप चालू दवरलें
भुरग्याचे आवय-बापूय
एकमेकांच्या आंगार धांवूंक लागले
'अच्छे दिन वाले' व्हड्ल्या आवाजान
घोषणा दिवंक लागले.

▸ **शंभू भाऊ बांदेकर**
०९७६४३२१३८८

## रोपो

भाद्रपदाचो पावस शिरशिरून झडटा
मर्दीच ओत भांगराळें
पैस मळबांत सप्तरंगी इंद्रधोणू फुल्लां
भूंय पांचवीचार गर्भार

मनांत आयलें रोवया एक झाड
मळबाक वेगेंत घेवपी
हाडलो एक रोपो
आनी पुरलो ओले पिकाळ मातयेंत

रोपों मातयेंत भुल्लसलो
खोशी जालो, सुखावलो
आतां तो फुट्टा कोमऱ्यांनी
तो वाडटा खांदयांनी
तो भरता पानांनी
तो गंधेता फुलांनी
तो भिजता उदकांनी
तो रीगता कुपानी
तो मनशाळटा सुकण्यांनी

आनी हें कितें?
म्हाका हालूकूच मेळना
म्हज्या पायांक सुटल्यात मुळां
हातांक खांदयो पानां आनी फुलां
आरे देवा!
चुकून हांवे म्हाकाच रोयलो काय कितें?

▸ **अरुण साखरदांडे**



# तूं आयलो

तूं येतलो म्हणून तुजी खूब वाट पळयली.
दोळे शिणले, ताळो सुकलो, आंग-पांग सुकून गेलें.
अणुरेणू तुज्या आगमनाक आसुशिल्लो
दोळे तुजे वाटेकूच लागिल्ले.
तुजी चाहुल येत काय म्हणून -
कान टवकारिल्ले.

तुजो सुगावो घेवूंक वारो हुंगून पळयतालें.
तुजी सुलूस लागली की,
दीस-रात जागयतालें.
तुका मेजीत, येवजीत रावलें.
येवजणो करीत रावलें.
तुज्या आगमनाची पुराय तयारी जाली.
पूण... तूं आयलोच ना.

म्हजी विरहिणीचि अवस्था तुवें पळयलीच ना.
कोण तरी आवली वाट पळयता, कोणाक तरी म्हजी गरज आसा.
हाचें भान तुका आयलेंच ना.
आपलेच मस्तेंत तूं सदांच रावलो.
तुका जाय तेन्नाच तूं आयलो.
मोटो लहरी, सुवार्थी आनी निश्ठूर तूं

म्हज्या सारक्या शेंकड्यांक तुवें भुलयलां.
वर्सां कणकणीं फाट परतून मेकळो जाला.
तांचे सुस्कार, तांचीं दुकां, तुवें थंड नदरेन पळयल्यांत.
तांचेर तुवें शिंवर केलोच ना...
तुजो पत्तो ना म्हणून खूब देवस्पण केलें.
देवाक गाराणें घालें.

इतिहास तपासलो, भुगोल अभ्यासलो.
तरातरांचे उपास केले.
तुज्या खातीर सैम थांबलो, सृश्ट जाली फातर...
इल्लें इल्लें सगलें सुकत बावत गेलें.
हळडुवें खर वत आनी सुकिल्ल्या पानांच्यो राशी झेलीत
हांवें तग मारली.

एका जापसालदार सृजनकर्त्याची भुमिका
तूं विसरलो.
आपल्या कर्तव्याक तूं जागलो ना.
सदांच आपले भिरकेंत रावलो.
वारें व्हावता तसो व्हांवत गेलो.
आपल्याक जाय तसो उंडारलो.
तुज्या विशींच्यो उनाड खबरो कानार पडत रावल्यो.

आतां कितल्या तेंपान तूं आयलो
आनी सगलें विसरून आमी भुल्लुसल्यांत.
तें रागार जावप तें हुसकेवप..
सगलें फाटीं सृश्ट तुजे भोंवतणी
घुंवता, मोइटा, सजता.
फुलून येता, किल्लता.

तूं आयलो आनी सगलेंच जिखलें
सैम तुका मुजरो करीत आसा,

पाचवी विलूद पांगरून
जमीन जाली झुळझुळीत व्हंकल.
वारो जालो पिसो फुलांच्या परमळान.
हवेंत दाटली थंडाय, मनां जालीं वढाय वढाय.
झाडां न्हावन धुवून निवळ
गांठ्ठात मळबा तेंगशी.
भुरगीं सोदतात दोरी, तांकां झेले घेवंक झाडाकुशी.

नदर धांवता थंय
पाचव्या कोराची विवीध छटा
पानांचो गाढ, शेताचो पोपटी.
शेवाळ्याचो शेवाळो.
पाचव्या छटांनी रानफुलां किटकिटलीं
आळवा थेंबो नाचलो
अळंम्या कळे रावले उबे.

हातो जालो हातभर लांब
केळीबोणान लांबयली मान.
कणसाचो वास घेतलो जिबेन
खाऱ्या वासान जीब मुतली

मसमी भिकणां कुरकुरलीं
कांद्या भज्यांच्यो जाल्यो बैठको
पोरण्यां यादींची गुंफली माळ
फुडल्या पावसाची ओडली जपमाळ

जिबेर गितां घोळ्ळीं.
मनांत उतरां सांचलीं.
एक तूं आयलो आनी,
सगले सृजनतेक
कंठ फुटलो.. दर वर्साक नेमान यो
सगले कडेन सारको यो.
ओब्रिगाद.

▶ **स्मिता तिंबले**
९७६३५५२७१९

## बांयचे धडेर

पट्ट राजवाची कोळणी घालून
कळसुली सरात दवली बांयंत
उदक भरून घेवचें सोडून
घोलत घोलत रावली बांयंत

पायर–सकयल हालोवन हालोवन
मातशी तिका आडवी केली
बुडूक बुडूक आवाज करीत
उदकान उप्पाट भरून गेली

जड–जड कळसुली ओडून
हाताचे तळवे तांबडे जाले
किचीक किचीक गाडयेच्या आवाजान
मन एकदम भुल्लुसून गेलें

वयर एकदांची पावली तशी
घेलोवन तिका लागीं ओडली
पांयचे धडेर दवरून तिका
राजवा गांठ सैल केली

हाण्डीर तिका मारून मागीर
वांकडे चालीन चलत गेलें
चलतां चलतां उदक सांडून
खोमशी पुराय भिजून गेली

अशें...
फावटीर फावटी मारत वता
तरी भाय रितेंच उरता

▸ सुषमा उदय तिळवे
९८२३०५५७५१



## कल्लोळ

वचत थंय कल्लोळ
उतरांचो, विचारांचो
कल्पनांचो
संकल्पनांचो...
आवाजांतल्यान
उतरां
आनी उतरांतल्यान विचार
मागीर विचारांच्यो आड्डी
मागीर एकाच वेळार
हजार विचारांच्यो
हजार तरांच्यो आइडी...
हांतल्यान गुंथून येता
मनाचेर सांवार हाडपी
धुमशण
बोवाळाचें... धुमशण...
आवाजांच्या कल्लोळाचें
कानाच्या पड्ड्यांच्यो
विदर्णा करून उडोवपी
सगळें जग
कीऽ... ण्ण...
करून उडोवपी
हे सगळे आवाज
आयकतां आयकतां
आंग चोरून
म्हज्या मनांत उबे आसलेले
किडूक मिडूक
विचार
गोंधळाक पडटात
आनी ह्या कल्लोळाचो
कचकच
इतलो खर आसता
की म्हजे विचार
अचळय विरगळून
खंयचे खंय नाच्च जातात
आनी हांव
जाता
विचार विंगळो
मनीस
जाच्यांत विचारूच ना
ताका आमच्यांनी
मनीस
म्हणूं येता काय...??

▸ रमेश भगवंत वेळुस्कार
९४२०६८८४६१

# स्मार्टफोन

मम्मी,
कितल्या उमळशीकेन हांव घरा आयिल्लो!

खूब तेपान घरा आयलो
पुण दिशील्ले
तू म्हाका घट्ट वेंग मारतली
पुण,
तुवे आयल्याबरोबर
दारांतुच म्हजेवांगडा सेल्फी काडली
आनी कितल्याश्याच ग्रुपार घाली
हांव अजाप!

म्हाका तुजेकडेन खुब उलोवपाचें आशिल्ले
तुका खुब खबऱ्यो सांगपाच्यो आशिल्ले
हांचे मोबायलाक नेटपेक सुद्दा घालूं
नाशिल्लो
पुण तुका म्हजेखातीर वेळ खंय आसा?

तुका याद आसा
टीव्ही पळेता आसतना
तु म्हज्या माथ्याक बरें तेल घालून
मसाज करताली.

हांव दोनदां तेलाची बाटली घेवन
म्हऱ्यांत आयलो,
पुण तुजे हातुच मेकळे ना

आतां तुज्या हातान बरें खेळणे आयलां न्हंय
आपुणुय बेगीन न्हिदपी
आनी म्हाकाय न्हीद न्हीद
म्हुण फाटीक लागपी तूं
आतां बारा, बारामेरेन जागरणां करता
तें पळोवन हांव अजाप!

कितले उमेदीन हांवे
तुका बर्थ डे गीफ्ट म्हूण
स्मार्ट फोन हाडून दिल्लो
तेन्ना तूं हो आनी म्हाका कित्याक
म्हूण म्हजेर बेजारिल्ली!

आतां तूं वॉटसएपार इतल्या ग्रुपांनी
घुस्पल्या
ते पळेल्यार तकली घुवता
ग्रुप आनी एक आनी दोन!

प्राथमीक शाळेंतलो एक ग्रुप
इश्कोलांतल्या इश्टिणीचो
कॉलेजींतल्या फ्रेंडाचो
सोसायटीतल्या शेजाऱ्यांचो,
विंगड विंगड संस्थाचे
चार-पाच ग्रुप
शिवाय
[illegible]
[illegible]
[illegible]
[illegible]

शिवाय भयण [illegible]
जावा जावांचो
तुजो आनी पप्पाचोय
मिनी ग्रुप केला.

हांव अजापुच अजाप!

[illegible]
[illegible]
[illegible]
[illegible]
[illegible]
[illegible]
[illegible]
[illegible]

▶ नूतन साखरदांडे

